# ज्युलियूस चेजार

अणकारपी

सुरेश गुंडू आमोणकार



शेक्सपिअरच्या 'ज्युलियस सीझर' ह्या इंग्लीश नाटकाचो
मुक्तछंदातलो अणकार मूळ नाटका प्रमाणें

# ज्युलियूस चेजार

(विल्यम शेक्सपिअरच्या ‘ज्युलियस सीझर’
ह्या इंग्लीश नाटकाचो मुक्तछंदांतलो अणकार मूळ नाटका प्रमाणें)

अणकारपी

सुरेश गुंडू आमोणकार

William Shakespear's
Julius Caesar
* * * *
Editor & Translator
Suresh G. Amonkar
* * * *
2017
* * * *

* * * *
Publisher:
Geeta Prasar
Mapusa, Goa
* * * *
Type setting :
Mohan B. Nirpal
* * * *
Printer :
Impressios, Belgavi
* * * *
Price: 170₹/-

विल्यम शेक्सपिअरचें
ज्युलियूस चेजार
* * * *
संकलन आनी अणकार
सुरेश गुंडू आमोणकार
* * * *
2017
* * * *

* * * *
उजवाडपी :
गीता प्रसार
म्हापशें-गोंय
* * * *
अक्षर जुळवणी :
मोहन बा. निरपळ
* * * *
छापपी :
इंप्रेशन्स, बेळगावी
* * * *
मोल :170₹/-

# ओंपणी

भो. राजू नायक हाका

माये मोगान.......

सुरेश गुंडू आमोणकार

**- सुरेश गुंडू आमोणकार**

२२ मार्च, २०१७

गुरूकुंज, म्हापसा


# उपकार

प्रा. डॉ. किरण बुडकुले हांणी अभ्यासपुराय प्रस्तावना बरयली. भो. उदयबाब भेंब्रे हांणी हातबरप वाचून मोलादीक सुचोवण्यो केल्यो. भो. अजित कोठावळे हांणी मूखपृश्ठ सोबयलें. भो. मोहन निरपळ हांणी अक्षर जुळवणी केली आनी इम्प्रेशन्स, बेळगांवी हांणी छापणावळ केली. ह्या सगळ्यांच्या उपकारांत हांव आसा.

सुरेश गुंडू आमोणकार

# शेक्सपियरच्या ज्युलियस सीजरचें कोंकणींत पदार्पणः एका व्यामिश्र नाट्यकृतीच्या अणकाराक येवकार

–किरण बुडकुले

समकालीन भारतीय साहित्य-संवसारांतले नामनेचे अनुसर्जक पद्मश्री सुरेश गुंडू आमोणकार हांणीं चिकाटेन तशेंच सातत्यान दीर्घ काळ केल्ल्या अविरत परिश्रमांचें सुफळ म्हूण आज ज्युलियस सीजर हें विल्यम शेक्सपियर-लिखीत मूळ इंग्लिश नाटक मुक्तछंदी अणकारावरवीं, *'ज्युलियूस चेजार'* ह्या आपल्या मूळ लातीं नावां सयत, कोंकणी सरस्पतीच्या दरबारांत दिमाखान दाखल जालां. ताका मनासावन येवकार दिता आसतनाच, अणकारप्यान कोंकणींत हाडपाखातीर दुसरो कोणूय आधुनिक लेखक-नाटककार घेनासतना, 'शेक्सपियर' ह्या १६व्या शेंकड्यांतल्या इंग्लिश नाटककाराची कृती वेंचपाफाटल्या सयुक्तीकपणाची जाणीव करून घेवप खंयच्याय साहित्य-नाट्य प्रेमी व्यक्तीखातीर जितलें म्हत्वाचें तितलेंच तें कोंकणी साहित्याच्या हितचिंतकांखातीर गरजेचें थारता. तेचप्रमाण, शेक्सपियरच्या साबार तरेच्या अनेक नाटकांमदल्यान अणकारप्यान ज्युलियस सीजर हेंच नाटक वेंचपाफाटली संभाव्य कारणां कितें आसूं येतात हाची उकल करप तशेंच ह्या मूळ कृतीच्या साहित्यीक मोलाची धांवती तरी वळख करून घेवप, हेंवय उत्सुक वाचप्याचें समाधान करूंक उपेगाचें थारुंये.

पूण पयले सुवातेर जाप सोदूंक जाय, 'आमोणकारांक शेक्सपियरच कित्याक जायसो दिसलो जावंये?' ह्या प्रश्नाची. आमोणकारांलो फाटलो अनुसर्जनाचो वावर पळेल्यार तांतूत दोन ठळक गजाली दिसतातः तांचो चडसो आदलो अणकाराचो वावर आध्यात्मिक जावं धार्मिक स्वरुपाचो आसलो तरीकूय विंगड-विंगड भासो-संस्कृतायो हांच्या फाट्भुंयेंतल्यान वेंचिल्ल्या बरपाचो आशिल्लो; पूण, ताणीं वेंचिल्ली दरेक कृती त्या-त्या युगांतली वा भाशेंतली उच्चकोटिची कृती आशिल्ली—कलेचे नदरेन जावं वा वैचारीक क्षमतेचे वटीन जावं वा समाजीक प्रभावकारितेचे! म्हणचेच, आमोणकारांक विशिश्ट तरेच्यो, विशेश स्तराच्यो कृतीच भावतात; त्यो तांचे पुनर्निर्मणी-क्षमतेक खुणायतात; तांच्या अंतर्मनाक साद घालतात. त्या कृतींचे निर्माण करपी मूळ लेखकूय चडशे युगंधर आसतात. म्हणचे, तांचे प्रतिभेक आव्हानां भावतात, असोच ह्या

विवेचनाचो अर्थ जाता.

हे फाटभुंयेचेर, तांकां शेक्सपियर कित्याक भावलो हें समजूंक कठीन न्हय. फकत, शेक्सपियरचें नाटक अणकारूंक घेतना ताणीं एक नवें शिवधोणूय पेलपाचें केलां. तें म्हळ्यार, कल्पीत साहित्याचो अणकार करचेलें. तशें पळेल्यार, *ज्ञानेश्वरी* वा *खिस्तपुराण* अणकारतना तांकां थोडोभोव हाचो अणभव आयिल्लोच आसा; पूण तो भारतीय भासांमजगतचो. आतां शेक्सपियरचो हात धरून ते भास, कल्पनाशक्त, इतिहास, काव्य आनी विचार हांचो सामुहीक प्रवाह वांगडाच कोंकणींत हाडूंक सोदतात. हो साहित्यीक प्रवाह कितले तांकीचो आनी केद्या आवांठाचो आसा, आनी देखून, आमोणकारांचे प्रतिभेसामकारा केदें नवें आव्हान आशिल्लें जायत, हें एक उत्सूक पूण चिकिस्तक नदर शेक्सपियरच्या प्रचंड वावरावटेन मारीत जाल्यार अचळय ध्यानांत येवंये.

इंग्लिश साहित्य-संवसारान विश्वसाहित्याक दिल्ल्या अतूळ योगदाना मजगतीं विल्यम शेक्सपियर (१५६४-१६१६) ह्या प्रज्ञावंत नाटककार-कवीच्या सर्जनशील बरपाची सुवात दुबावा विरयत हेरांच्या वावरापरस खेरीत तशेंच वयल्या पांवड्याची आसा. तो असामान्य तांकीचो प्रतिभाशाली नाट्य-लेखकच न्हय जाल्यार, अजापीत करपाजोगे अप्रतीम भास-शैलीचो किमयागार जावन गेलो. कवितेंत नाट्य आनी नाटकांत काव्य कशें केळोवचें, तशेंच वाचपी जावं प्रेक्षकाच्या मना-काळजाक संवादांतल्यान हात घालतनाच अचळय जिणेक खुंदळावपी प्रश्नांची पेरणी कशी करची, वा पात्रांच्या स्वगतांतल्यान तांच्या हेतु-हावेसांचें दर्शन घडयतां-घडयतां तांच्या अंतर्मनाक पोखरपी दुविधांचें तशेंच कर्तव्य आनी न्याय-नितीमत्ता हांच्या संघर्शाचें अळंग उक्तावण कशें करचें ...... हें कोणेंय शेक्सपियराच्या विविधांगी कृतींतल्यान शिकचें.

हाचेय मुखार वचून सांगचें जाल्यार, शेक्सपियरचें नाटक मानवी अणभवाक संवेदना, समाज आनी सैम हांच्या जुस्ताजुस्त परीघांत उबो करतना फावो तशा थळा-काळाच्या फास्केची कांटेकोरपणान येवजण करता. इतलेंय आसून, ताच्यो कांय असामान्य नाट्यकृती, आशयाच्या नदरेन पळेल्यार तत्कालीन संदर्भांच्या अतितायेक लागून फ्रीझ जावन काळबाह्य थारनात; त्यो संदर्भसाजरेंपण केळोवनूय कालजैती थारतात. देखीक, ज्युलियस सीजर नाटकांत सीजरची हत्या करतना कितें जतनाय घेंवक जाय हें कायस केशियसाक सांगताना ब्रुटस म्हणटाः “Let’s be sacrificers,

but not butchers, Caius/ We all stand up against the spirit of Caesar/ And in the spirit of men there is no blood"( II.i. 165-169)..

हांगा, खिस्तपूर्व रोमन संस्कृतायेंत आशिल्ले बळी प्रथेचो संदर्भ १६व्या शेंकड्यांत वापरतना, शेक्सपियर "spirit" ह्या उतराचेर श्लेष दिवन एकूण विधानाकूच दुवार्थी आयाम दिताः एक म्हणचे, सीजरच्या मनोवृत्तीचेर आक्षेप आसचो, ताचो व्यक्तीगत दुस्वास करची गरज ना, हें तो अधोरेखीत करता; दुसरें, खिस्ती धर्मान वरजायिल्ली कुडीपरस मानवी आत्म्याच्या पवित्रपणाची संकल्पना अचळय उखलून, कर्तव्य-भावनेन करपाची कृती (मागीर ती हत्येची पासून जावं) उजू आसून व्यक्तीगत सूड-भावनेंतल्यान उदेवपी हिंसक वृत्ती परस वेगळी आसूंक जाय, हें तत्व उखलून धरूंक तो ती राबयता. पूण हें करतना, तो ना उतरांचो अतिरेक करता, ना कल्पनाशक्तीचेर सुमाराभायर दबाव घालता. हें उमजून घेवन, आमोणकार हाचो अणकार असो करतातः "...आमी जावया पवित्र कार्याखातीर बळी घेवपी,/खाटीक न्हय, कायूस./ आमी सगले उबे रावल्यात चेजारचे वृत्तीचे आड/ आनी मनशांचे मनोवृत्तींत रक्तसंबंद नासता" (पा.१०२). ते "blood" ह्या उतरांतल्यान व्यक्त जावपी "हिंसा" ह्या अर्था व्यतिरिक्त "नातें" वा "संबंद" होवय अर्थ लक्षांत घेतात हें जाणवता. ही जाली ज्युलियस सीजर ची गजाल.

पूण हेरय नाटकांनी, कल्पनाविलासाचो मन तटास करपी आविश्कार साध्य करतना शेक्सपियरची खंयचीय लक्षणीय संहिता..... मागीर ती इतिहासीक आसूं वा अद्‌भुतरम्य, यथार्थदर्शी आसूं वा कपोलकल्पीत, चमत्कृतीयुक्त आसूं वा तथ्यप्रधान...... तीन मुखेल गजालींचो सांगात ती कसोच सोडिनाः कडसरायिल्ल्यांविशींची संवेदनशीलताय; व्यक्तीमानस तशेंच मनीस जीण हांचो खोलायेन थाव घेवपी समजिकाय; आनी, वास्तव-आदर्शाचो वेध घेवपी अंतर्दिश्ट. "खुद्द शेक्सपियरचीं नाटकां" म्हूण अभ्यासकांनी एकमतान मानून घेतिल्ल्या आडटीस (३८) नाट्यसंहितांतल्यान ताणें असंख्य विशय आनी मेजूंक कठीण इतले आशय-पुंजुले केळोवन संवसारीक जिवीताचीं विविधांगी तासां आनी मानवी जिणेंत अपरिहार्य तरेन आसपी व्यंग- व्यथा-विडंबना अधोरेखीत करचेलो सतत यत्न केला.

शेक्सपियरचीं नामनेचीं नाटकां, निखळ सत्य आनी बेगडी उपचारिकताय हांचेमदली फारकत दाखयतात (उदा. मेज्यर फोर मेज्यर), जाल्यार कांय भावनेक भेरावन उडयतनाच बुद्धीकय सुन्न करून सोडटात(उदा. ऐन्थनी ऐण्ड क्लेओपेट्रा).

कांय नाटकांतले (देखीक, ऐज यू लाय्क इट) विनोदी प्रवेश हांसयतां-हांसयतां नकळटना अंतर्मुख करतात; कांय नाटकां तर (मर्चण्ट ऑफ व्हेनिस), सगले तरेन सुखान्त आनी प्रथा-परंपरांक धरून फुडें वचपी कथानक आपूण अनभवतां असो प्रेक्षक वा वाचप्यामदीं संभ्रम निर्माण करतनाच, कुच्च करून अन्यायाचें खर कूस मनाक खोमून, शेक्सपियरखातीर यथार्थ-दर्शनामुखार निखटे कामदीचें स्वरूप सांबाळप कितलें कठीण थारता, हें दाखोवन वतात. ताचे त्रासदीविशीं तर जितलें सांगता तितलें थोडें, इतल्यो त्यो व्यामिश्र-स्वरुपी आसतात (विशेशता, ज्युलियस सीजर आनी ताचेय परस हेम्लेटः द प्रिन्स ऑफ डेनमार्क). तशेंच वाचप्याकूच नकळटां, त्यो ताका तंत्र-कुशळतायेन कथानकांत विणिल्ले गहनतायेची सखोल अनुभूति दिवपी आसतात.

वेगळ्या उतरांनीं सांगचें जाल्यार, जितले खेपो आमी शेक्सपियरचे दुनियेंत एक वाचक वा प्रेक्षक म्हूण प्रवेश करतात, तितलेय खेपो कितेंय तरी नवें घेवन भायर सरतात. म्हणचेच, आज लागीं-लागीं अर्द सहस्रका उपरांतय ताचें बरप समकालीन युग-मनीस-स्थिती-सरभोंवतण हांकां कितलें सम्बद्ध आसा, हें तांचे कालजैती क्षमतायेवेल्यान होलमता. हाचें कारण, शेक्सपियर आपल्या चडावत नाटकांनी, कांय त्या-त्या युगाक अनुरूप असो तपशील, कांय तत्कालीन राजकी परिस्थितीक गरजेचीं पथ्यां, कांय तत्कालीन पूर्वग्रह आनी थोडेभोव समाजीक आडवाद सोडल्यार, मनीसजिणेचे सनातन हावेस आनी संघर्श हांची खेळी मानवी अणभवांच्या संश्लिष्ट पटाचेर खेळयता आनी मोग-कर्तव्य- न्याय -नितीमत्ता हांच्या धाग्यांनी तांच्यो मनोवेधक गाथा परगटायता.

विशेश म्हळ्यार, तांच्या येस-अपेसाची वा जैत-पराभवाची, भौताशी अर्थावणी करपाची वैचारिक सवलत आनी नैतिक मुभा तो त्या-त्या काळावयल्या प्रेक्षक-वाचप्याक दिता. इतलेंच न्हय जाल्यार, ही अर्थावणी ताणीं आपापल्या युगांतल्या मुल्यांच्या तशेंच प्रचलीत विचारसरणेच्या आधाराचेर करची अशी मेकळीक दवरता. हाची तजवीज तो आपल्या नाटकांतल्या अनुभूति-अभिव्यक्तिच्या अवकाशांतल्यान (through the experiential-expressional space) करता. देखीक, अंक २, प्रवेश १ तलें ब्रुटसचें स्वगत पळोवंक येताः “Since Caius first did whet me against Caesar, / I have not slept./ Between the acting of a dreadful thing/ And the first motion, all the interim is/ Like a phantasma or a hideous dream./ The genius and the mortal instruments/ Are then in

council; and the state of man,/ Like to a little kingdom, suffers then,/ The nature of an insurrection"(II, i, 61-69).

हाचो कोंकणी अणकारूय भोव लक्षवेधक जाला: "चेजाराचे आड कासियूसान पयले पावटी उर्बा दिली म्हाका/ तेन्नापासून म्हजी न्हीद खळ्ळ्या./ प्रत्यक्षांत एखादें भिरांकूळ कृत्य करप/ आनी त्या कृत्याची चाल हांचेमदलो काळ आसता/ एखाद्र्या भ्रमावरी किंवा भिरांकूळ सपनावरी./ मनशामदली जल्मासावनची चिरंतन चेतना/ आनी तिचे नाशवंत विकार, हांचेमदीं मागीर झगडें सुरू जाता/ आनी जाता मनशाची स्थिती, बंडायेंत सांपडिल्ल्या/ एखाद्र्या ल्हान राज्यावरी" (पा.९७-८). ह्या चिमटीभर स्वगतांतल्यान, प्रेक्षक-वाचप्याक ब्रुटसाची दुविधा, ताचे मदल्या सनातन मुल्यांचो मानवी मनाकडेन जावपी संघर्श आनी कट-कारस्थानकारांक मेळचे कांय खीण आदली ताची असमंजस मन:स्थिती बेस बरी उक्ती जाता. हातूंतल्यान, ब्रुटसाचें कृत्य, ताचे निर्णय, नाटकाचें प्रमुख पात्र म्हूण ताचें स्थान, सीजरचे हत्येफाटली ताची नैतिक जबाबदारी हांचेर वेगवेगळ्या दिश्टीकोणांतल्यान मत प्रगटावंक सुवात मेळटा. अशो कितल्योशोच सुवातो ह्या नाटकांत आस्पावल्यात. म्हूण अशे तरेचे, कालातीत युग-सम्बद्धतायेची तशेंच भोवार्थी नाट्य-अर्थावणेची एक उत्तम देख म्हळ्यार शेक्सपियरचें *जुलियस सीजर*.

१५९९ त पयले खेपो सादर जाल्लें हें नाटक शेक्सपियरच्या एकंदर नाट्य-लेखनांतलो एक खेरीत पांवडो हें ताचे आदली आनी उपरांतची नाट्य-संपदा पळेल्यार होलमता. एक म्हळ्यार, नाटककाराच्या तंत्राचे उदरगतीचे नदरेन हें नाटक नदरेंत भरसारकी वाड दाखयता: पात्र-निर्मणी, संवांदांची प्रसंगानुरूपताय, स्वगतांची अर्थगर्भताय, भाशेची फावो तितली अलंकारिता, अणभवाचें अस्सलपण, अशा साबार गुणांनी ही संहिता आदल्या (सादारणपणान १५९५ सावनच्या) नाट्यकृतींपरस उजवी थारता. हातूंत, शेंकड्यां आदलो पूण सामन्यांक परिचीत इतिहास आनी ताका लागून लेखकीय मेकळीकेचेर येवपी बंधनां, तशेंच खुद्द ब्रिटनांतल्या "गुलाब-फुलांचें झूज" (वॉर ओफ रोजिस) म्हूण प्रसिद्ध आशिल्ल्या घर-झुजाची (यादवी) फाटभूंय लाभिल्ल्या समकालीन राजकी वातावरणाचें संभाव्य दडपण, हांचे आपले प्रतिभेचेर अनिश्ट दमट पडूं दिनासतना शेक्सपियरान ही (सूड-नाट्य/इतिहासिका/त्रासदी आदी) भौ-रुपकार केळोवपी तशेंच विविध आलोचनात्मक अर्थावणां पचोवपी नाट्यकृती साकार केल्या.

तातूंत, संहितेक विविध परिमाणां दिवपी साबार नाट्य-तरा, प्रसंग-गुंथपाचो

कथानकांतलो काळक्रम, इतिहास आनी कल्पिताची फिशाल आंतर-वीण तशेंच प्रगत मंचन-तंत्र हीं खाशेलपणां *ज्युलियस सीजर* हे नाट्यकृतींत आस्पावल्यांत. पूण त्या सगल्यांपरस, शोकान्तिका वा त्रासदी म्हूण ह्या नाटकाची व्यामिश्र वळख अधोरेखीत करपी गजाल म्हळ्यार मानसशास्त्रीय आंगांन जाल्ली पात्र-निर्मणी. हो ह्या नाटकाचो उच्चबिंदू! ताका लागून, ज्युलियस सीजरचें साहित्यीक मोल तशेंच ताचे एकूण मंचनीयतायेचो स्तर वाडला. तरीकूय, एक गजाल मान्य करचीच पडटाः *ज्युलियस सीजर* ही शेक्सपियरची सर्वोत्कृश्ट शोकान्तिका न्हय; पूण ती असामान्य तांकिची आनी भावी कृतींक ठळकपणान प्रभावीत करपी लक्षणीय नाट्यकृती. हाची गवाय, उपरांत आयिल्ल्या शेक्सपियरच्या चार म्हान शोकान्तिकांनी (*हेम्लेट, ऑथेलो, मेकबेथ* आनी *किंग लियर*) बेस बरे तरेन मेळटा.

इतिहासिका, शोकान्तिका (त्रासदी/ शोकात्मिका) आनी सुखान्तिका (कामदी/ सुखात्मिका) ह्या तीन विस्तृत वांट्यांनी अभ्यासकांनी सुविधेखातीर वेगळायिल्ली, शेक्सपियरची गिरेस्त आनी कुचकुचीत नाटकावळ खरेपणान नाट्यप्रकारांच्या नेमस्त शिमांमदीं बंदिस्त करप भोव कठीण.... निदान *ज्युलियस सीजर, हेम्लेट,* मर्चंट ऑफ व्हेनिस, मेज्यर फोर मेज्यर सारक्या नाटकांबाबतींत तर लागीं-लागीं अशक्य! हाची चर्चा जरी हांगा करप संदर्भायलें भासलें तरीकूय ज्युलियस सीजर ह्या नाटकाच्या उल्लेखावांगडा हें जिज्ञासूंक सांगपूय तितलेंच गरजेचें.

हाचें कारण, *ज्युलियस सीजर* एक साहित्य-कृती म्हूण, एक मंचनीय नाट्-य-संहिता म्हूण, नाटककाराच्या विशाल नाट्य-निर्मणेचे वाटेवयलें एक विशिश्ट पेणें म्हूण, तशेंच इतिहास आनी तत्वज्ञान हांच्या पालवान मनीस-समाजांतल्या सत्ता-संघर्शाचो थाव घेवपी मनोवेधक दिश्टीक्षेप म्हूण..... एका सेतूचें काम करता. शेक्सपियरच्या वावराच्या दुसऱ्या पांवड्या कडल्यान तिसऱ्या पांवड्यामेरेन दर्ज्यात्मक उदरगतीक चालना दिवपी तो कलात्मक सांकव जावन आसा. *ज्युलियस सीजर* हो आधारभूत निकश दवरून, जर १६०० सावन १६०५ मेरेन शेक्सपियरान बरयिल्ल्या चारूय जगन्मान्य शोकान्तिकांची तुळा, ताच्या १५९५ ते १५९९ मेरेनच्या शोकात्म नाटकां कडेन (*रिचर्ड ३रो, टायटस ऐड्रोनिकस जावं रोमिओ ऐण्ड जुलियट*) केली, जाल्यार हाची गवाय मेळटा.

सुरेश आमोणकार हांणी ज्युलियस सीजर अणकारपाक वेंचली हातूंत नवल ना; तांची ते नाट्य-संहितेवांगडची वळख आनी तिच्या आशय-विशय-दिश्टाव्यासांगाता

आशिल्ली जवळीक वर्सांसंकीचीच न्हय, जाल्यार दसकांसंकीची. आदीं विद्यार्थी म्हूण आनी उपरांत शिक्षक म्हूण ते ज्युलियस सीजरचो सार-रोस खिरोवन पियेल्यात. ते खेरीज, इतलीं वर्सां तांच्या सुप्त मानसांत ह्या आगळ्या कृतीचें गारूड आपले तरेन वावुरतालें आसूंक जाय. मागीर, ज्युलियस सीजर ह्या नाटकांतले मुक्तछंदी पूण मनोवेधक काव्यात्म शैलिची ओड, सूत्रबद्ध आनी विचारगहन संवादांचो जादू, भावोत्कट पूण तर्कयुक्त भासपी स्वगतांची ताळणी, आनी, बुद्धीनिश्ठ युक्तिवाद विरुद्ध भावविवश करपी व्यंजना हांचे जुगलबंदीचो मोह आमोणकारांसारक्या कवीमनाच्या अनुसर्जकाक जालो ना जाल्यार अजाप!

हांगा पत म्हूण, सिसेरोक कटांत आस्पावन घेवचो म्हूण ब्रुटसाक सांकडें घालपी मेटेलस सिंबरचें उलोवणें घेवंयेता. फुडल्यो कांय भोवच साद्यो भासपी पूण सिंबराच्या चिंतपाचेर, सभाव-वृत्तीचेर उजवाड घालपी, प्रभावी वळी पळोवंक येतातः "Oh, let's have him, for his silver hairs/ Will purchase us a good opinion/ And bury men's voices to commend our deeds/ It will be said his judgement ruled our hands/ Our youth and wildness shall no whit appear/ But all be buried in his gravity"(II.i.144-149). तांचो अणकार आमोणकार असो करतातः ''ताका आमी सांगाता घेवया. कित्याक ताच्या रुपेरी केंसांनी/ आमकां येतलें फाटबळ/ आनी विकतीं घेवपाक येतलीं मनशांचीं उतरां आनी मतां/ तोखेवपाक कृत्यां आमचीं/ लोक म्हणटलेः ताचे आज्ञेप्रमाण आमचे हात वागले / तरनाटेपण आनी बेबंदपणा आमचो मातूय दिसचोना/ तो निखिपतलो ताच्या भारदस्त गंभीरपणाखाला'' (पा. १०१).

तशोच पळोवंक येतात, सीजराच्या शोकसभेंत केल्ल्या मार्क ऐन्टनीच्या, लोक-भावना उचांबळ करपी जगप्रसिद्ध भाशणांतल्यो, निखट्यो ह्यो चार मूळ वळी आनी उपरांत तांचें कोंकणी अणकारीत रूपः "This was the most unkindest cut of all;/ For when the noble Caesar saw him stab,/ Ingratitude, more strong than traitors' arms,/ Quite vanquished him"(III.2. 184-187). ''हो घाव निश्ठुरांतलो निश्ठूर आसलो./ जेन्ना घाव घालतना ताका कुळवंत चेजारान पळयलो,/ तेन्ना ह्या देशद्रोह्यांच्या सगल्या शस्त्रां परस/ पडमूरपणानच ताका सामको हारयलो'' (पा. १३९). हो अणकार बरो सादला, कारण हातूंत शेक्सपियरची जोखत्या उतरांतली विचार-विकार-भावना हांची शैलीदार अभिव्यक्ती ज्युस्त शब्दबद्ध जाल्या.

अशेच तरेन, हेरय कडेन, शेक्सपियरचें काव्य आनी चिंतन जेन्ना प्रमाणशीर,

प्रतीकात्मक आनी प्रभावी उतरांनी नाटकांतल्या गद्याक छेद दितात तेन्ना अर्थ, लय आनी माधुर्य ह्या तीनय आंगांनी ती नाट्यकृती अणकारप्याखातीर एक सर्जनात्मक कुरू आसता..... ताचे प्रतिभेक आवाहन करपी आनी प्रज्ञेक आव्हान दिवपी. आमोणकार हाणीं ही हूल दिवपी खेळी स्वीकारल्या. अर्थातच, गीतेचो समश्लोकी अणकार, ज्ञानेश्वरीचो छंदबद्ध अणकार तशेंच हेरय अनुसर्जनात्मक वावर अशा तांच्या विशाळ अनुवाद-कर्तुपाकडेन वळख आशिल्लो घडये, ''तातूंत कितें व्हडलें? तांकां ताची संवय आसा'', अशें म्हणुंये. पूण हें तितलेंशें खरें न्हय.

भारतीय भासांतल्या काव्यात्म दायजाचें आपसांत अणकार करप हें सोंपें नासलें तरी, प्रतिभावंत अनुसर्जकाक कठीण न्हय. पूण इंग्लिश भाशेंतलें काव्यात्म नाटक कोंकणी सारके भारतीय भाशेंत कुशळतायेन हाडप हें मोठें फिशालकायेचें कर्तृत्व. हाचीं कारणां जायतीं आसातः एक म्हळ्यार, दोनूय भासो संस्कृतीक संदर्भनाचे बाबतींत आनी देखून उतरावळीचे विशिश्टताये बाबतींत सामक्यो वेगळ्यो; दुसरें, व्याकरणी संरचना, नादशास्त्र, छंदशास्त्र ह्या आंगांनी त्यो साप्प विंगड-विंगड; तिसरें, ह्या नाटकाक आवश्यक इतिहासीक-राजनैतिक संकल्पनांच्या मळार, तशेंच सामान्य तत्कालीन शब्द-वापर लक्षांत घेतल्यार, इंग्लिश आनी कोंकणी अदीक साम्य नाशिल्ल्यो म्हणुंयेतात. हाका लागून, कांय कडेन अथार्ची तफावतय जाणवूं शकताः देखीक, शेक्सपियर जेन्ना "Marry!" हो उद्गार वापरता, तेन्ना ताचो संबंध 'मदर मेरी' कडेन नासून, तो निखटो एखाद्र्या वाक्याचेर भर दिवंक वापरिल्लो "indeed" वा 'खऱ्यांनीच' बी अर्थाचो उद्गार जावंक शकता; तशेंच "cushions" हाचो शब्दशा अर्थ ''उशीं'' आसलो तरी, अंक ४, प्रवेश ३तल्या न्हिदपाच्या संदभार्नुसार तो ''हातुळण'' वा ''गादी'' असो लावप अदीक सयुक्तीक आसा.

निमाणें, भाशेवयले परंपरागत दायजी संस्कार लक्षांत घेतल्यार, ऐंग्लो-फ्रिसियन, डच वा फ्लेमिश ह्या जर्मनिक वंशावळीच्या भासांचो आनी फ्रेन्ची सारक्या रोमान्स तशेंच लॅटीन भाशावळींचो प्रभाव आपणायिल्ली १६व्या शेंकड्यांतली शेक्सपियराची इंग्लिश खंय? आनी कन्नड, उर्दु, पुतुर्गेज, आधुनिक मराठी सारक्या विविध भास-घराब्यांचो प्रभाव आत्मसात करीत आयिल्ली संस्कृत-जन्य, मध्ययुगीन प्राकृतासावन देंविल्ली कोंकणीसारकी २१व्या शेंकड्यांतली आधुनिक भास खंय? शेकीं, भासांच्या विंगडतायेचेर, तांचेमदल्या काळाच्या अंतराचेर आदारून तांचे उतरावळींत असमांतर बदल घडटातः देखून, उतरांचे अर्थ , वापर आनी सूचकताय हांचीं तासां तशेंच फोक

बदलता. ह्या सगल्या गजालींचो संभाव्य प्रभाव लक्षांत घेवन, आमोणकार हाणीं कितल्या तकालशीन हो अणकार सिद्ध केला हें होलमता. देखूनच, ताचें मोल उणावना; तें अदीक वाडटा! म्हूण, *ज्युलियस सीजरच्या* कोंकणी पदार्पणाक परतून एक फावट मनासावन येवकार!

ता. १८.०३.२०१८
संवसार पाडवो. पर्वरी, गोंय.

ज्युलियूस चेजार (विल्यम शेक्सपिअरच्या ‘ज्युलिअस सीझर’ ह्या नाटकाचो अणकार)

# पात्रांचो परिचय

| नाटकांतलीं पात्रां (इतालीयन भाशेंतले उच्चार) | | शेक्सपिअरान दिल्लीं नांवां |
|---|---|---|
| ज्युलियूस चेजार | ज्युलियूस चेजार | ज्युलिअस सीझर |
| ऑतावियू चेजार<br>मार्कूस आन्तोनियूस (आन्तोनी)<br>म. आमिलियूस लेपिडूस | मरणा उपरान्तचें सत्ताधीशांचें तिरकूट | ओक्टेवियस सीझर<br>मार्क ॲण्टनी<br>म. ॲमिलियूस लेपिडस |
| चीचेरो, पुब्लियूस,<br>पॉपीलियूस लीना | सेनेटचे सभासद | सिसरो, पब्लिअस,<br>पॉपिलस सिना |
| मार्कूस ब्रूतुस, कासका,<br>कायुस कासियूस, चीन्ना,<br>ट्रेबोनियूस, कायूस लिजेरियूस,<br>देसियूस ब्रूतुस, मॅतेलूस चिंबेर | ज्युलियूस चेजाराचे आड कट रचपी | मार्क ब्रूटस, कासका<br>कायस कॅसिअस, सीन्ना<br>ट्रेबोनियस, कायस लायगेरिअस<br>डेसिअस, ब्रूटस, मॅटेलस सिंबर |
| फ्लावियूस आनी<br>मारुलूस | ट्रायबून ह्या पदाचे अधिकारी | फ्लाव्हिअस,<br>मॅरूलस |
| आर्तेमिदोरूस –रोमांतलो एक शिक्षक | | आर्तिमिडोरस |
| चीन्ना – एक कवी | | सिन्ना |
| दुसरो कवी | | |
| लुचियूस<br>स्त्रातो | ब्रूतूसाचे सेवक | लुचिअस,<br>स्थेटो |
| लुचिलियूस<br>तितीनियूस<br>मेसाला, धाकटो काटो,<br>वॉलिमनियूस,<br>वार्‍रो, क्लावदियूस,<br>क्लातूस, दार्दानियूस<br>लाबियो, फ्लावियूस | माकूर्स ब्रूतूस आनी कासियूस हांचे समर्थक आनी सैन्यांतले अधिकारी | लुसिलस<br>टिटिनस<br>मेसाला, धाकटो कॅटो (यंग कॅटो)<br>व्हॉल्यूनिअस, व्हेरो, कॅलोडिओ,<br>क्लिटस, डार्डेनिअस |
| पिंदारूस– कासियूसचो सेवक | | पिंडारस |
| कालपुर्निया –ज्युलियूस चेजाराची पत्नी | | कॅलफर्निया |
| पोर्चिया - ब्रूतुसाची पत्नी | | पोर्शिया |
| ज्युलियूस चेजाराचें भूत | | |

थवय, मोची, भविश्यवेत्तो, आँतोनियूसचो सेवक, दोन शिपायाक (आन्तोनीच्या सैन्यांतले), दूत, पांच नागरिक, दोन शिपायक (ब्रूतुसाच्या सैन्यांतले) दृश्यां : रोमाशार आनी तांतूतले रस्ते, सार्डीसचे लागसारचो वाठार

# ज्युलियूस चेजार
# नाटकाची वळख

विल्यम शेक्सपिअर हांचें *ज्युलिअस सीझर* (कोंकणी अणकारांत *ज्युलियूस चेजार)* हें शोकान्त नाटक म्हणल्यार राज्यांत पडिल्ले फुटीचो आनी दुभंगिल्ल्या व्यक्तींचो एक अभ्यास - 'फूट पडिल्लें रोमा शार, दुभंगिल्लो वीर नायक, वाचकांच्यो मुखेल पात्रां आनी घडणुकाविशीं विंगड विंगड प्रतिक्रिया, चेजार हो दैवी मनीस काय बडायखोर नेतो, ब्रूतुस एक भोवमानेस्त सज्जन काय मूर्ख मनीस, चेजाराचो खून करपा फाटलें नीतीक मुल्य कितें, राजकी खुनाफाटले नीतिआचार कितें अशे अनेक प्रस्न वाचकां मुखार उबे रावतात. चेजाराच्या खुनाक लागून जें यादवी झूज इटालींत उप्रासता होच ह्या नाटकाचो मुळावो विशय सगळ्या नाटकाक झिरपून उडयता.

*ज्युलियूस चेजार* ह्या नाटकाची फाटभूंय समजुपा खातीर रोमाचो ख्रिस्तपूर्व इतिहास समजून घेवप गरजेचें आसा. ख्रिस्तपूर्व सटव्या शतमानांत रोमाचेर गर्विश्ट[2] टारक्विन[2] राजा राज्य करतालो. तो जुलूमशहा आसलो आनी ताचे राजवटींत क्रूरताय वाडिल्ल्यान रोमाची जनता अवसानखत जाल्ली. कालांतरान रोमाचे जनतेन लुचियूस ज्यूनियूस ब्रूतुस ह्या नेत्याच्या फुडारपणा खाला एकठावन ह्या जुलमी राजाचे आड बंड करून ख्रिस्तपूर्व ५०९ वर्सा ताका पदच्यूत केलो आनी रोमाचे जनतेन राजेशायेचो अंत करून लोकसत्ताक राज्याची स्थापणूक केली. हया बंडाक लागून रोमांत पयलेच फावट एके नवे राज्यसंकल्पनेची- लोकसत्ताक राज्यवेवस्थेची - सुरवात जाली.

कालांतरान ही लोकसत्ताक पद्धत दुबळी जायत गेली. ख्रिस्तपूर्व पयल्या शतमानाच्या आरंभाक पॉम्पे क्रॅसस आनी ज्यूलियूस चेजार हांणी एकठांय येवन आपलें सत्ताकेंद्र उबारलें. ही आघाडी ट्राइमव्हिरेट[3] (सत्ताधीशांचें तिरकूट) म्हणून नांवाजली. ख्रिस्तपूर्व ५३ वर्सा क्रॅसस ह्या तिनां पयकीं एका सत्ताधीशाचो अंत जावन, पॉम्पे आनी ज्यूलियूस चेजार हांचे मदीं सत्तास्पर्धा सुरू जाली. ह्या संघर्शाची अखेर युद्धांत जावन, चेजारान फार्सालिया हांगा जाल्ल्या झूजांत पॉम्पेक हारयलो. हाचे उपरांत चेजारान पॉम्पेच्या दोनय पुतांचोय पराभव करून

---

1. नाटकांतल्या पात्रांचीं नांवां इतालीचे भाशेंतल्या उच्चाराप्रमाणें दिल्यांत.

2. Tarquin, the Proud 3. Triumvirate.

सत्ता हातासली. हे राजकी उलथापालथीच्या संदर्भात दोन म्हत्वाच्यो गजाली आमी लक्षांत घेवपाक जाय. आपले दोनय प्रतिस्पर्धी जरी आपल्या मार्गांतल्यांन ना जाले, तरी चेजारान आपणाक रोमाचो राजा म्हणून घेवंक ना. दुसरी गजाल म्हणल्यार चेजार हो म्हत्वाकांक्षी आशिल्ल्यान ताच्या मनांत राजा जावंचें आसा असो मानपी आनी चेजाराच्या खुनाच्या कटाचें नेतृत्व करपी मार्कूस ब्रूतुस हो टारक्विनाक पदच्यूत करून लोकसत्ताक राज्याची स्थापणूक करपी लुचियस ब्रूतुसाचो वंशज आसा. रोमाच्या लोकसत्ताक राज्याचें रक्षण करप ही आपली नीतीक जापसालसारकी आसा अशें मानपी मार्कूस ब्रूतुसाक वंश परंपरेचें हें दायज आनी नातें भावनीक आधार दिता.

ही फाटभूंय लक्षांत घेतकच आमी थोडेभितर ह्या नाटकाची मांडणी आनी रचणूक हांचो अभ्यास करप इश्ट जातलें. शेक्सपिअरान आपल्या नाटकाचो आरंभ रोमाच्या रस्त्याचेर केला ही गजाल भारी अर्थपुराय आसा. रोमाच्या रस्त्याचेर घडिल्लो पयलो प्रसंग संघर्शपुराय आशिल्ल्यान, ह्या प्रसंगांतलें नाट्य प्रेक्षकांक जाणवप सभावीक आसा. रोमा जरी लोकसत्ताक राज्य आसलें, तरी सत्ता अधिकारी आशिल्ल्या घरंदाज[4] लोकांच्या[4] हातांत एकवटिल्ली आनी हूम गळोवन पोट भरपी सामान्यलोक[5] हेवूय रोमाचे जनतेचे प्रतिनिधी आसून तेय ह्या नाटकांत म्हत्वाचो वांटो घेतात. रस्तो हो सगळ्यांचेच येरादारीचो आशिल्ल्यान, एका अर्थान लोकशायेंतले समानतायेचें प्रतीक आसा. तशेंच तिचें मूळतत्व परगटावपी आसा. ह्या नाटकांतलो संघर्श उच्चपदस्थां मदीं घडलो, तरी ह्या सत्ताधीशांक अखेर कौल घेवचो पडटा सामान्य लोकांचो आनी तोय बी रस्त्यार येवन. ब्रूतुस जावं किंवा मार्कूस आन्तोनियूस जावं, तांका हो कौल घेवपा खातीर आपले भाशणबाजीचें नाटय लोकां मुखार आनी रस्त्याचेर सादर करचें पडटा ही गजाल अर्थपुराय आसा.

*ज्यूलियूस चेजार* ह्या नाटकाच्या पयल्या अंकांत रोमा शाराच्या रस्त्याचेर नाट्यपुराय संघर्शाचे दोन घटक शेक्सपिअर उबे करता. एक घटक सामान्य नागरिकांचो; तांचे प्रतिनिधी एक थवय आनी दुसरो मोची. दुसरो घटक उच्च पदस्थ अधिकाऱ्यांचो- फ्लावियूस आनी मारुलूस- ह्या दोन ट्रायब्युन्साचो[6] आसा; जे अधिकारी जनतेन वेंचिल्ले आनी तांची नेमणूक एका वर्साचे मुदतीची

---

**4. Patricians. 5. Plebians. 6 Tribunes**

आसताली. तांची राज्यवेवस्तेंतली भूमिका म्हणल्यार लोकांचे हक्क राखप. कोणापासून राखप? रोमांत सत्तेच्या सर्वोच्च पदाचेर दोन अधिकारी आसताले. तांचे अधिकार समान आसून, तांच्या ताब्यांत रोमाचें लश्कर आसतालें; म्हणून ते उत्तम सेनापती आसताले आनी सेनेट[7] ह्या संसद मंडळाक जबाबदार आसताले. ते सेनेटाचो सल्लो घेवन राज्य चलयताले. एकेवटेन सेनेट आनी दुसरे वटेन दोन कॉन्सुल्स[8] हीं रोमांतले सत्तेचीं दोन केंद्रां आशिल्ल्यान तांचे मदीं एक सुक्षीम ताण आसतालो. हाचें मुखेल कारण म्हणल्यार, कान्सुल्स हे दोनूय अधिकारी सत्तेचें केंद्रीकरण आपल्या हातांत घट्ट करतीत हाचो सेनेटाक भंय आसतालो. मार्कूस ब्रूतुस किंवा सेनेटाचे कांय अधिकारी हांकां चेजाराचो भंय दिसपाचें कारण हेंच आसलें. सेनेट आनी कॉन्सुल्स ही वेव्हारांत रोमान सत्तेचीं मुखेल केंद्रां आसलीं तरी तत्त्वता ही सत्ता लोकांचीच आशिल्ल्यान, लोकांच्या मुळाव्या हक्कांचेर आगळीक जावची न्हय हें पळोवप हे ट्रायबून्सचें काम आसलें .

ह्या पयल्या प्रवेशांत थवय आनी मोची ह्या सामान्य नागरिकां बराबरच फ्लावियूस आनी मारुलस हे दोन ट्रायब्यून्स आसात. कारागिरीचेर जियेवपी सामान्य नागरीक आनी अधिकारी पदां वयले दोग ट्रायब्यून्स हांच्या संबधांचेर शेक्सपिअरान हें दृश्य उबें केलां. हें दृश्य कितें सुचयता? कारागिरान कामाच्या दिसा, कायद्याप्रमाणें आपलो धंदो सांगपी तक्टो लावनच रस्त्याचेर येवपाक जाय. हो कायदो उच्च पदस्थांक लागू जायनासलो. कामगार आनी कारागीर असले सामान्य नागरीक आनी उच्चपदस्थ हांचे मदीं व्हड देंगण आसलें हें सुचयता. रोमाचे समाजवेवस्तेंत आनीकय एक वर्ग आसलो आनी तो म्हणळ्यार गिरेस्तांनी बाळगिल्ल्या बंद्यांचो, जांकां कसलेच अधिकार नासले. रोमांत जरी लोकसत्ताकाची लोकशाय आसली, तरी हुकूमशायेंतले राज्यवेवस्तेंत दिसपी अरेरावी आमकां फ्लावियूस आनी मारुलूस हांचे वागणुकेंतल्यान दिसता. तांच्या मनांत कामगारां विशींची अखटाय शेक्सपिअरान सूचकतायेन दाखयल्या. हातूंतल्यान सत्तेच्या सभावधर्माचें दर्शन घडता. राजवेवस्ता खंयचीय आसूं, सत्तेचो सभाव मात बदलना, कित्याक ज्या मनशां वरवीं अखेर ही राज्यवेवस्ता किंवा सत्ता परगट्टा तीं मनशां बदलनांत. रोमा शार जरी लोकराज्य आसलें, तरी सामान्य जनतेक रस्त्यांत जमपाचो अधिकारना.

---

7. **Senate.** (संसद) 8. **Consuls.**

मारलूस आनी फ्लावियूस ह्या दोगय ट्रायब्युनसची लोकशायी राज्य वेवस्तेचेर निश्ठा आसा आनी लोकांच्या हक्कांचेर आगळीक जावचीना हे पळोवपाची तांची लागणूक आसा. जांच्या हक्कांची राखण करपाची तांचे विशीं ह्या दोगांयच्या मनांत आदर ना, उरफाटें उवेखणी आसा. लोकसत्ताक राजवेवस्तेंत खऱ्या अर्थान सत्ता लोकांची; पूण हे लोक सत्त्वशून्य, तत्त्वशून्य, दुबळे आनी कणो नाशिल्ले आसात. ह्या अंतर्विरोधाची जाणीव हांगा शेक्सपिअर करून दिता. *ज्यूलियूस चेजार* हें नाटक राजकी फाटभुंयेचेर बरयलां आनी खंयच्याय काळांत किंवा राजकीवेवस्तेंत जियेत आसल्यारय, मनीस सभाव आनी मनोवृत्ती चडशी बदलना हें स्पश्ट करता. हे दोगूय ट्रायब्यून्स चेजाराचे आड आसात आनी हो विरोध वैयक्तीक ना. लोकसत्ताक राज्यवेवस्ता मोडून, ज्यूलियूस चेजार राजा जायत हो भंय ह्या विरोधा फाटल्यान आसा.

पयल्या अंकांतल्या पयल्या प्रवेशान शेक्सपिअरान ह्या नाटकाचो आराखडो थारायला. लोकसत्तेचे आड राजसत्ता असो हो संघर्श आसा. ह्या दोनय ट्रायब्युन्सचे वागणुकेंतल्यान लोकां विशीं जी उवेखणी आसा हें हांगा शेंक्सपिअरान दाखयलां. थवय आनी मोची हे दोनूच कामगार कामाचो दीस आसुनय आपलो धंदो सांगपी बिल्लो लावन येवंकनांत. दुसरी गजाल म्हणचे, कामाचो दीस आसुनय तांणी फेस्तकापडां घाल्यांत; शिवाय, ते दोगूच नांत. तांचे बराबर हेर सामान्य लोकांचो चोंबोय आसा. हें पळोवन हे दोग ट्रायब्यून्स चाळवल्यात. रोमाचें राज्य हें जरी लोकांचे राज्य आसलें, तरी प्रत्यक्षांत ह्या लोकांक एकठांय जमपाचो हक्क ना आनी मनाक मारीत ते प्रमाणें वागपाचोय हक्क ना.

पाम्पेचेर जैत मैळोवन ज्युलियूस चेजारान रोमा शारांत प्रवेश केला. "आमी आयज सुटी घेतल्या चेजाराक पळोवपाक आनी ताच्या जैताची खोस मनवपाक" अशें मोची सांगता. हें आयकतकच मारुलूस हो ट्रायब्यून तांचेर तिडकता. ज्या पॉम्पेक जिवेशीं मारुन चेजारान हें जैत जोडलां, त्या पोम्पेक तो सत्तेचेर आसतना हेच लोक अशीच खेट करताले. हाचो उल्लेख मारुलूस तिडकीन करताः

बशिल्ले तुमी दीसभर, तानुलीं तुमचीं हातांत घेवन
सोंशीकपणान वाट पळयत रथाची
रोमाच्या रस्त्यां वयल्यान वतना तो दिसचो म्हणून,

आनी ताचो रथ दिशिल्ल्या खिणाक
तुमी सगळ्यांनी करुंक नासलो जयघोश? (1-1)
आनी आतां हेच लोक चेजाराक येवकार दिवपाक उभे आसात.

आनी आतां तुमी तुमच्या फेस्तकापडांत
आयचो दीस वेंचला सुटयेचो म्हणून?
आनी तुमी आतां फुलां शिंपडायतलेत ताचे वाटेर
जो पोम्पेच्या रगतान माखिल्लें जैत घेवन आयला (1-1)

हांगा मारुलूस जी तिडक परगटायता तिका वस्तुस्थितीचो आदार आसा. मारूलूस आनी फ्लावियूस हांची लोकशायेचे राज्यवेवस्थेचेर निश्ठा आसा आनी लोकांच्या हक्काचेर आगळीक जावचिना हें पळोवप तांचें काम आसा. पूण अंतर्विरोध असो कीं रक्षण करचे त्या लोकां विशीं त्या दोगांयच्या मनांत आदर ना; उवेखणीच आसा. लोकसत्ताक राजवेवस्तेंत खऱ्या अर्थान सत्ता लोकांची आसता; पूण अंतर्विरोध, असो की हे लोक सत्त्वशून्य, दुबळे आनी ठाम मतां नाशिल्ले. हो अंतर्विरोध मनशाच्या समाजीक-राजकी जिवितागें वास्तव आसा, हाची जाणविकाय शेक्सपिअर करुन दिता. *ज्यूलियूस चेजार* हें रोमान काळांतल्या राजकी परिस्थितीचेर बेतिल्लें नाटक जरी आसलें तरी मनशाक खंयच्याय काळांत त्याच त्याच राजकी प्रस्नांक तोंड दिवचें पडटा.

ह्या पयल्या प्रवेशा पासून एक गजाल उक्ती जाता. लोकसत्ताक राजवेवस्था मोडून ज्यूलियूस चेजार राजा जातलो हो भंय फ्लावियूस आनी मारुलूस ह्यांच्या चेजाराच्या विरोधा फाटल्यान आसा. तांकां लोकांनी शारांतल्या चेजाराच्या पुतळ्या वयलो साजशिरंगार काडून उडोवपाचो आसा. ल्युपेरकलची परब आशिल्ल्यान हें करप इश्ट जातलें काय असो प्रस्न मारुलूस करता. पूण फ्लावियूस हे विशीं ठाम आसा. तशें करपा फाटलें कारणय तो स्पश्ट करताः

चेजाराच्या पांखांट्यांतल्यान हीं वाडिल्लीं पांखां,
हुमटायल्यार तो सामान्य उंचायेचेर उडयलो,
ना जाल्यार तो भरारी घेतलो अशा तेमकांचेर
जंय नदर पावचीना मनशांची
आनी दवरतलो आमकां भिरांकूळ बंदेपणांत. (1-1)

हो त्या दोगांयचो विचार फकत वैयक्तीक न्हय, तांचे फाटसून राजकी विचार

आसा.

शेक्सपिअरान पयल्या अंकांतल्या पयल्याच प्रवेशांत नाटकाचो आराखडो सुचयला. लोकसत्ता विरूद्ध राजसत्ता असो हो संघर्श प्रेक्षकां मुखार दवरला. लोकसत्ताक राज्य आसुनय फ्लावियूस आनी मारुलूस हांच्या वागण्यांतसून सामान्य लोकां विशीं जी तुच्छताय दिसता, तिचो अर्थ कसो लावपाचो?

हांव वतां फुडें आनी धांवडायतां रस्त्यांवयल्यान
ह्या रस्ताद पारपोळ लोकांक;
तूंय तशेंच कर, जंय तुका तांची खेट दिसतली. (1-1)

अशें फ्लावियूस म्हणटा. हे दोगय ट्राब्यून हांगा लोकांक कसलोच विचार पटोवन दिवपाचो यत्न करिनात- ते आपले सत्तेचो उपेग करुन लोकांक धांवडायतात. ते शक्तीचो उपेग करुन लोकांक दडपुपाचे सोंपे वाटेनच वतात. म्हणचेच लोकशायेचो विचार प्रस्थापीत करपाक ते उपेग करतात सत्तेचो, जिचो कल सभावीकच हिंसेकडेन आनी दडपशाये कडेन आसता. राजेशायेंत खंयचीय वेवस्ता लोकांचेर शक्तीच्या बळाचेर लादतात. लोकशायेंत तोच खेळ चलता काय, असो प्रस्न शेक्सपिअर प्रेक्षकां मुखार उबो करता.

*ज्युलियूस चेजार* ह्या नाटकांत आरंभा सावन लेखनाक शेक्सपिअरान क्क्तृत्वपुराय शैलीची कळा दिल्या आनी ती सगळें नाटकच व्यापून उडयता. पयल्या प्रवेशांत हाची एक देख दिवपासारखी आसा. चेजाराचो भोवमान करपा खातीर जमिल्ल्या लोकांनी पोम्पे कडेन केल्लो द्रोह स्पश्ट करुन फ्लावियूस तांकां भगसणी करपाक सांगता :

चलूंक लागात, चलूंक लागात, सज्जन देशवासियांनो,
आनी ह्या गुन्यावांक भगसणी मेळची म्हणून,
तुमच्यांतलो गरीबधाटो सगळो लोक एकठांय करात,
टायबरच्या तडीचेर तांकां व्हरात,
आनी गळयात तिच्या पाणयांत तुमचीं दुकां,
सामक्या तळांतल्या पाणयांत हुंवार येवन
तो तिचे सगळयांत उंचेले तडीक लागऽ मेरेन,(1-1)

वक्तृत्व कळेचे हे शैलीक शेक्तपिअरान आपलें नाटक व्यापूंक दिलां हाचें एक कारण आसा. रोमाच्या समाजांत भाशण कला ही सत्ता संपादनाची, लश्करा

वरीच म्हत्वाचें साधन आसलें. ह्या नाटकांतलीं सगलीं म्हत्वाचीं पात्रां हे खांपे वक्ते आसात. ही भाशण कला प्रभावी पणान वापरुन लोकांक आपले वटेन हाडप ही तांच्या सत्ता संपादनाची चावी आसा.

चेजाराचे आड ज्या संघर्शाची सुचोवणी शेक्सपिअरान ह्या पयल्या अंकाच्या पयल्या प्रवेशांत दिली, त्या संघर्शाचें स्वरुप पयल्या अंकांतल्या दुसऱ्या प्रवेशांत आतां अदीक स्पश्ट करता. ह्या दुसऱ्या प्रवेशाच्या आरंभाक चेजार पुरसांवान प्रवेश करतना दिसता. ह्या प्रवेशाच्या आरंभाकच चेजाराचो आब जाणवचो अशी येवजणपुराय रचणूक शेक्सपिअरान केल्या. हे पासत दोन साधनांचो वापर तांणें हांगा केला. एक साधन म्हणचे ताच्या वांगडा येवपी पुरसांव. ह्या पुरसावांक लागून चेजाराची लोकप्रियताय आनी ताचो रुबाब ह्या दोनय गजालींचो एकाच वेळार परिणाम जाता. दुसरें साधन म्हणल्यार चेजाराच्या तोंडसून भायर पडपी शब्द. प्रवेशाची सुरवातच चेजाराच्या उलोवण्यान जाता - ताचे आदीं हेर कोणाचोच आवाज ना. चेजार उलयता फक्त एकच उतरः कालपुर्निया - आपले घर - कान्नीक तो उलो मारता. ताच्या तोंडसून हें उतर भायर पडटकच, ''शांतता. ओगी रावात. चेजार उलयता,'' इतलेंच फक्त कासका लोकांक उद्देशून म्हणटा. या एका वाक्यान चेजाराच्या शब्दाचें म्हत्व खूब परिणाम करपी जाता.

चेजाराचो मोग करपी आन्तोनियूस (आन्तोनी) सर्तेंत धावपाचे तयारेंत आसा. ही धांवपाची सर्त ल्युपेरकलचे परबे निमित्तान जाताली. हे सर्तेंत वांटो घेवपी गडे नागडे अवस्तेंत पेलेटाईन दोंगुल्लेचे भोंवतणी धांवताले. सर्तेंत धांवपी ह्या गड्यांच्या हातांत बोकड्याच्या चामड्याची वादी आसताली. ताचे धांवचे वाटेर जायत्यो बायलो उब्यो रावताल्यो. ह्या गड्यांच्या हातांतल्या चामड्याचे वादयेचो स्पर्श जाल्यार ते बायलेचें वांझपण ना जाता अशी रोमान लोकांची पारंपारीक श्रद्धा आसली. एक पवित्र विधी म्हणून धर्मीक श्रद्धेन तिचे कडेन पळयताले. चेजाराक भुरगें ना. ताची पत्नी कालपुर्निया आन्तोनीच्या धांवपाच्या मार्गाचेर उबी आसा. तिका हात लावपाक विसरुं नाका, अशें चेजार आन्तोनीक सांगता. चेजार अशी ओर्द दितकच :

''हांव ज्युस्त याद दवरीन.
चेजार जेन्ना 'हें कर' अशें सांगता, तें जालेंच म्हूण समजुचे,''(1-2)

अशें आन्तोनी म्हणटा. ह्या उतरां वरवीं शेक्सपिअरान आन्तोनीची चेजारा

विशींची भक्तीभरीत निश्ठा सहजपणान उक्तायल्या, आनी तेच बराबर चेजाराच्या प्रतिश्ठेचें वलय लेगीत अप्रत्यक्षपणान परगटायलां.

चेजाराचे भोंवतणी जमिल्ल्या लोकांत एक भविश्यवेत्तो आसा. "सादूर राव, पंदरा मार्चाक", असो इशारो तो चेजाराक दिता. शेक्सपिअराच्या काळांत इंग्लीश समाजांत शकून, ज्योतिश, भूतां खेतां इत्यादी कुडड्या श्रद्धांचेर भौतेक लोकांचो विश्वास आसलो. पंदरा मार्च ह्या दिसा चेजाराचो खून जातलो हे दिकेन आतां नाटकाचें कथानक फुडें सरता ही गजाल शेक्सपिअराक प्रेक्षकांक कळोवपाची आसा. पूण ताचे खातीर भविश्यवेत्त्याचो उपेग करुन शेक्सपिअरान ह्या निवेदनाच्या विधाना भोंवतीं गूढतायेचें वातावरण निर्मिलां. ही नाट्यरचणूकेचे दिश्टीन केल्ली कुशळ येवजण आसा. हे गूढतायेच्या स्पर्शाक लागून, आतां फुडें कितें जातलें हे विशींचें विधान प्रेक्षक फक्त एक म्हायती ग्रहीत धरुन चलनात; ते सादूर जावन हे घटनेची नोंद घेतात. कलपुर्नियाक स्पर्श करपाक विसरुं नाका अशें हे आदीं आन्तोनीक सांगपी आनी आपली पारंपारीक समजुतींतली श्रद्धाळू वृत्ती परगटावपी चेजार हांगा आपली ही वृत्ती झुगारता. कुड्डी श्रद्धा म्हणून ह्या भविश्यवेत्याची बोळवण करता. चेजाराचे वृत्तींतलो हो विरोध दोळयांत भरता. जिवाक धोको आशिल्ल्याचो इशारो भविष्यवेत्तो दिता तरी लेगीत श्रद्धाळू वृत्तीचो चेजार ताका कित्याक मानिना असो प्रस्न हांगा पडप सभावीक आसा. शेक्सपिअरान हो विरोध मुजरत निर्मिला, कित्याक तातुंतल्यान चेजाराचें व्हडपण चड उत्कटपणान जाणवंचें हो ताचो हेतू आसा. कालपुर्नियाचे बाबतींत चेजार आपली भावार्थी वृत्ती परगटायता, तेन्ना तातूंत स्वार्था खातीर आत्मसन्माना कडेन केल्ली तडजोड नासता. हांगा तो चार चौगां वरी एक मनीस आसता हें प्रेक्षकांक जाणवता, आनी ते ताचेशीं चड लागीं येतात एक मनीस म्हणून. पूण भविश्यवेत्त्याच्या इशाऱ्याचे बाबतींत ही परिस्थिती ना. ताचो इशारो आयकून चेजार अस्वस्थ जाल्लो जाल्यार चेजार भियेलो असो ताचो आपल्या आत्मसन्माना कडेन केल्ली तडजोड थारतली. चेजार निर्भय आसा; आत्मसन्मानाचो प्रस्न उबो जाता तेन्ना चेजार भियेवन बागोवचोना, हो ताचो सभाव शेक्सपिअराक दाखवपाचो आसा. हांगा शेक्सपिअरान एक विलक्षण योगायोग घडोवन हाडला. "कोण आसा हो मनीस?" अशें भविश्यवेत्त्या विशीं चेजार विचारता, तेन्ना ताका ही म्हायती ब्रूतुस दिता! "भविश्यवर्तवपी एक. तुका सांगताः "सादूर राव पंदरा मार्चाक," हीं

उतरां ब्रूतुसाच्या तोंडांत शेक्सपिअरान घाल्यांत. ह्या दिसा आपूण स्वता आपल्या खंजिरान चेजाराक तरसाद तोपतलों हाची ब्रूतुसाक ह्या खिणाक नातय ना! हीच गजाल "शांतता. ओगी रावात. चेजार उलयता." अशें लोकांक आवाहन करपी कासकाचीय आसा. चेजाराचो पयलो घाव कासका घालतलो हाची ह्या खिणाक ताकाय कल्पना ना! प्रेक्षकां मुखारच्या रंगमाचयेर हे प्रसंग घडटना हांगा शेक्सपिअरान नियतीच्या दिसनाशिल्ल्या रंगमाचये वयलो हो विपरीत खेळ उबो केला. प्रेक्षक जेन्ना तिसऱ्या अंकांतल्या पयल्या प्रवेशांत रंगमाचयेर चेजाराच्या खुनाचें दृश्य पळेतले तेन्ना तांकां नियतीचे रंगमाचये वयल्या ह्या खेळाची याद जातली आनी तांचो थरकांप जातलो. शेक्सपिअराच्या एकूणच नाट्यलेखनांत योगायोगान जायत्यो गजाली घडटात. हांगाय हो योगायोग तांणें विपरीताचो स्पर्श दिवन अर्थपुराय केला.

पयल्या अंकांतल्या दुसऱ्या प्रवेशांत कासियूस आनी ब्रूतुस ह्या नाटकांतल्या दोन म्हत्वाच्या पात्रांची आमकां वळख जाता. नाटकाच्या कथानकाचे दिश्टीन कासियूसचें पात्र म्हत्वाचें आसा, कित्याक तो चेजारा आडच्या कटाचो सूत्रधार आनी ब्रूतुसाक त्या कटांत तोच ओडटा. ब्रूतुसाचें चारित्र्य आनी लोकमानसांतली आदरपुराय प्रतिमा हाचो प्रभाव कासियूसच्या मनाचेर आसा. चेजारा आडचो कट यशस्वी जावपा खातीर ब्रूतुसाचो उपेग जातलो ही गजाल ताच्या धूर्त नदरेन अचूक हेरिल्ली आसता. इतकेंच न्हय तर ब्रूतुसाच्या मनांत चेजाराच्या राजा जावपाचे म्हत्वाकांक्षेचो संशय आसा हाचो वासय कासियूसाक आयिल्लो आसता. कासियूस मोठे कुशळतायेन ब्रूतुसाक हाताळपाचो, चेजाराच्य आडच्या कटाचें फुडारीपण तांणे करचें हे पासत मन वळोवपाचो यत्न करतना ह्या प्रवेशांत दिसता. ह्या प्रयत्नांत ताका येस मेळटा हेंय आमकां जाणवता. कासियूसाक वास्तवाचें भान आशिल्ल्यान ताका ब्रूतुसाच्या गुणांची आनी आपल्या मर्यादांची योग्य समज आसा. म्हणून जरी तो कटाचो सूत्रधार आसलो, तरी कटाचें मुखेलपण तो ब्रूतुसाच्या हातांत सोंपयता. कट यशस्वी जावप म्हणचे फक्त चेजारचो खून करप न्हय, तर तें कृत्य करतकच रोमान जनतेची संमती मेळोवन तें निभावप हें गरजेचें आसा हाची जाणविकाय कासियूसाक आसा. हांगा आपली मर्यादा आनी ब्रूतुसाची तांक कासियूस वळखून आसा.

शेक्सपिअरान कासियूसाचें पात्र सुंदरच रंगयलां. तांणे ताची भाशणां विलक्षण

कुशळतायेन बरयल्यांत. जंय पावपाचें आसा ताचो मातय उल्लेख करिनासतना, ह्या प्रवासाचें दडपण मातय जाणवपाक दिनासतना, कासियूस ब्रूतुसाक थंय घेवन वचपाचो आसा. साबार आदरणीय व्यक्तींक ब्रूतुसा विशीं प्रेम दिसता. ह्यो व्यक्ती सद्याच्या जोखडा खाला परंवतात आनी हें पळोवपाक ब्रूतुसाक दिश्टी जाय अशें तांकां दिसता ही गजाल तो आपलें प्रेम आनी आदर उक्तावपाच्या ओगांत सामकें सहजपणान ब्रूतुसाच्या कानाचेर घालता. हांगा एक गजाल लक्षांत घेवपाक जायः हे करतनां कासियूस अप्रामाणीक आसा अशें खंयच शेक्सपिअरान भासपाक दिवंक ना. ब्रूतुसा विशीं कासियूसाक दिसपी प्रेम आनी आदर ह्यो दोनय गजाली खऱ्यो आसात. मागीर मनीस हाताळपाची ताची चतुराय खंय दिसता? कासियूसाक शेक्सपिअरान खांपो खलनायक रंगोवंक ना. ताचे भावनेचें खरेपण तांणें दाखयलां आनी तेच बराबर, ताच्या कटाची आंखणी करपाची चतुराय लेगीत तांणें अधोरेखीत केल्या.

आपल्या उलोवण्यान ब्रूतुसाच्यो भावना उचंबळायल्यात हाचो अदमास येतकच कासियूस सादूरपणान फुडलें पावल घालता, आनी आपूण तुजो हारसो जावन तुजें खरें दर्शन तुका घडयतां अशें ताका आश्वासन दिता.

हें संभाशण चलतना शेक्सपिअरान एका साद्या प्रसंगान सुचोवणी दिवन तो कल्पकतायेन निर्मिला. तो म्हणल्यार - भायल्यान लोकांच्या घोशणांचो बोवाळ आयकूंक येता. ह्यो घोशणा आयकून ब्रूतुस अस्वस्थ जाता आनी लोक चेजाराक राजा म्हूण निवडटात असो भंय तो उक्तायता. हो भंय उक्तायतकच रोखडोच कासियूस म्हणटाः "खरेंच तुका भंय दिसता? मागीर म्हाका दिसता, तूं तशें जावपाक दिवचो ना." हाचेर ब्रूतुसाच्यो भावना उक्त्यो जातात आनी तो म्हणटा. "ना. जावपाक दिवचो ना," अशें आश्वासन तो कासियुसाक दिता. प्रसंग सामको सादो. लोकांच्यो घोशणा. पूण कासियुसाच्या सगळ्या प्रयत्नांचें फळीत आनी नाटक निश्चीत खंयचे दिकेन वता हें ह्या चार वाक्यांतल्यान उक्तें जाता. हो प्रसंग मात्सो लांबल्यारय, तो प्रेक्षकांक उबगण हाडिना. शेक्सपिअराक प्रेक्षकांच्या मानसिकतायेची बेस बरी जाण आसा हें ह्या प्रसंगांतल्यान कळटा.

ह्याच प्रवेशांत शेक्सपिअरान चेजारा विशींची आपली भावना उक्तावपी एक लांबदीक भाशण कासियूसाक उलोवपाक लायलां. ह्या भाशणाचे रचणूकेक लागून आमकां कासियूसच्या मनाचो सोद घेवप सोपें जाता. चेजारा विशींचें

आपलें मत ब्रूतुसा कडेन उक्तायतना ब्रूतुसाक आपल्या कटांत ओडप ही ताची वेवहारीक गरज आसा. पण ह्या भाशणांत शेक्सपिअरान ताका हे गरजेन जखडून दवरुंकना. ताका सामको मेकळेपणान उलोवपाक दिला. हें भाशण आयकतना आत्मसन्मान ही लेगीत ताची एक गरज आशिल्ल्याचें आमकां जाणवताः

हय, आत्मसन्मान होच आसा विशय म्हजे कथेचो.
म्हाका सांगपाक येवचेंना तूं किंवा हेर मनीस
कसो विचार करतात ह्या आयुश्याचो;
पूण म्हजें पुरतेंच सांगचें जाल्यार,
म्हाका म्हजें जियेवप नाकाशें दिसतालें.
म्हाका एकाद्रया मनशाच्या धाकांत जीण सारचे परस,
चेजारा वरीच जल्मलों हांव स्वतंत्र, तेच परीं तूंय. (1-2)

अशें तो ब्रूतुसाक सांगता. हांगा 'आयुश्याचो विचार' हे शब्द शेक्सपिअरान कासियूसच्या तोंडांत घाल्यात. कासियूस हो केवळ वेवहारीक व्यूहांची आंखणी करपी धूर्त मुत्सद्दी न्हय; तो ह्या आयुश्याचो अर्थपुरायेचो विचार करता. योग्य कितें आनी अयोग्य कितें हें चिंतपाची तांक ताचे ठांय आता हाची स्पश्ट जाणीव हांगा शेक्सपिअरान करुन दिल्या.

हे उपरांत कासियूस ब्रूतुसाक चेजारा विशींच्यो दोन यादी सांगता. ज्या चेजाराक पेंवतना आपणें वांचयल्लो, जो चेजार मल्लूक मारुन गलितगात्र जाल्लो, तो चेजार आयज सर्व शक्तीवंत जाला अशें तो ब्रूतुसाक सांगता. आपूण आयज बाबडो जालां ही चीड हांगा कासियूसचें मन व्यापून उडयता. पूण ही तिडक वांझुटी आसा. रोमा मदल्या राजकी परिस्थितीचें विश्लेशण कासियूस करिना; केन्ना तरी भूतकाळांत घडिल्ले एके घडणूकेच्या आधारान चेजाराक तुच्छ लेखपाचें वांझ समाधान तो मानता. पोरण्यो यादी सांगपाच्या ह्या प्रसंगांतल्यान कासियूसाच्या मनाचें हादरून वचपांतल्यान कितें उक्तें जाता? ध्येयवाद काय भेजूड मत्सर? - हे प्रस्न प्रेक्षकांच्या मनांत शेक्सपिअर उभे करता. कासियूसच्या व्यक्तीत्वांतलो अंतर्विरोध शेक्सपिअरान हांगाय स्पश्ट केला. कासियूसची लोकशाये वयली निश्ठा खोटी आसा अशें शेक्सपिअर खंयच सुचयना. पूण ताका चेजारा विशीं दिसपी भंय ताचे नकळयां वैयक्तीक मत्सराचें रुप घेता हे गजाली कडेन तो बोट दाखयता. ब्रूतुसाचे व्हडपण ताका पटोवपा खातीर कासियूस जो

युक्तीवाद करता (-'ब्रूतुस' आनी 'चेजार,' कितें आसा ह्या चेजारांत - इत्यादी) ताचीय बसका चेजारा बराबर केल्ली वैयक्तीक तुळाच आसाः तिका कसल्याच ध्येयवादी विचाराचो स्पर्श जावंक ना.

ह्याच प्रवेशांत चेजार कासियूसा विशीं आपलें मत उक्तायतना दाखयता आनी आन्तोनीचें कासियूसा विशीं बरें मत आसा. कासियूसाक चेजार घातकी म्हणटा तेन्ना, "ताचें भंय नाका चेजार, तो न्हय घातकी, तो कुळवंत रोमान, सुसभावी," अशें आन्तोनी म्हणटा. पूण चेजार कासियूसा विशींच्या आपल्या मता विशीं ठाम आसा. हाडकुळो, भुकेल्ल्या चेऱ्याचो, अती विचार करपी, खूब वाचन करपी, बारकायेन नियाळपी, खेळांची आवड नाशिल्लो, संगीत आयकनाशिल्लो, क्वचितच हांसपी, स्वता कडेन पळोवन कुचेश्चेन हांसपी आनी मुखेल म्हणचेः

अस्वस्थ जातात हे ताचे वरी मनीस,

जेन्ना ते पळयतात आपले परस कोणय व्हड,

आनी ते आसतात भारी धोकेबाज. (1-2)

अशें कासियूसचें विस्तारान वर्णन चेजार अन्तोनी कडेन उलयतना करता. हें वर्णन चेजारान इतलें बारकायेन केल्ल्यान कासियूस विशीं खोलायेन विचार केले बगर. ताच्या गूण दोशांची ती अशी यादी दिवप कोणाक जमचेंना. चेजार जे तरेन कासियूसचें वर्णन करता तें आयकतना दोन गजाली आमकां स्पश्ट पणान जाणवतात. पयली गजाल म्हणल्यार, ही नियाळणी करपी चेजाराची खर बुद्धीमत्ता. आनी दुसरी गजाल म्हणचे, कासियूस विशीं ताच्या अंतर्मनांत आशिल्लें गूढ भंय. आपूण कासियूसाक भियेना अशें मत चेजार उक्तायता, कित्याक, "आपूण सदांच चेजार आसां," असो आत्मविश्वासय तो उक्तायता. चेजार कोणाक भियेना हें नेटान सांगतकच, कासियूसा विशीं आन्तोनीचें मत कितें हे चेजार कित्या खातीर विचारता? ताचो हो प्रस्न शेक्सपिअरान ताचे कुडीचें दुबळेपणाच्या आनी भेड्डेपणाच्या उल्लेखाक जोडून घेतला. आपले कुडीच्या व्यंगा कडेन मनशाचें भियेवप खंय तरी जोडिल्लें आसता. आन्तोनीक आपल्या उजव्या काना कडेन उबो राव अशें चेजारान सांगप, आनी त्याच वेळार कासियूसा विशीं आन्तोनीचें मत विचारप ह्यो दोनय गजाली चेजाराच्या मनांत दडिल्ल्या भंया कडेन जोडिल्ल्यो आसात. भेड्डेपणाचो उल्लेख आनी मत विचारप हाचें हें अचकीत उप्राशिल्लें, तरी पण सहज शक्य दिसपी एकठांय

बराबरच येवप ही भारी सुक्षीम अशी प्रतीकयेवजण आसा. शेक्सपिअराचे प्रतिभेची आसामान्य शक्ती हांगा जाणवता. कासियूसच्या अंतर्मनांत दडिल्लो भंय हो गूढ-भंय आसा, हाचें एक कारण आसा. सगळी सत्ता एकठावल्लो, शूरवीर चेजार, तशें पळोवपाक गेल्यार कासियूसाक भियेवप अशक्य म्हणूनच कासियूरा विशीं ताच्या मनांत दडिल्लो भंय, हें गूठ आसा. कासियूस हें केवळ एक प्रतीक आसा. ताच्या निमित्तान चेजाराक दिशिल्लो भंय ही चेजाराक लागिल्ली आपले नियतीची सुलूस आसा! नियतीच्या ह्या गूढ खेळाचें शेक्सपिअराच्या प्रतिभेक आकर्शण आसा. हें ताचे आकर्शण कथानकाच्या फुडल्या टप्प्याची सुचोवणीय प्रेक्षकांक दिता.

कासियूस आनी चेजार ह्या पात्रां प्रमाणेंच ब्रूतुस ह्या म्हत्वाच्या पात्राची वळख शेक्सपिअर पयल्या अंकाच्या दुसऱ्या प्रवेशांतच करुन दिता. ब्रूतुस हो सभावान गंभीर आनी अंतर्मुख वृत्तीचो. कासियूस ताका आन्तोनी धांवतलो ती सर्त पळोवपाक वच म्हूण आग्रो करता.

म्हाका ना हौस ह्या खेळाची कासियूस.

म्हज्यांत मात्सो उणाव आसा,

आन्तोनियूसच्या सभावांतले भारी उमेदीचो (1-2)

अशी जाप ब्रूतुस दिता. ब्रूतुसाच्या मनांत खर संघर्श आशिल्ल्याचें ह्या प्रवेशांत आमकां कळटा. हो संघर्श नेमको खंयचो हाचो उल्लेख ब्रूतुस करिना. पूण ह्या संघर्शाची सुलूस आदींच कासियूसाक लागिल्ली आसता. मित्रां वयलें आपलें प्रेम उणें जावंक ना, पूण ह्या संघर्शाचो ताण स्वताचेरच रोखिल्ल्ल्यान मित्रा वयलें प्रेम उक्तें जायना अशें ब्रूतुस सांगता. हांगा ब्रूतुसाची आत्मसन्मानाची भावना जाणवता. आपले संघर्श, आपलें दुख्ख तो वीरवृत्तीन स्वता सोंसता. आपल्यो भावना उक्तेपणान सांगच्यो आनी तांचें प्रदर्शन करचें हें ताच्या आत्मसन्मानाचे भावनेशीं जुळना. लोकांच्यो घोशणा आयकून लोक चेजाराक राजा म्हणून वेंचून काडीत हो भंय ब्रूतुस उक्तायता. तशें आपूण जावपाक दिवचोना अशें आश्वासनय तो कासियूसाक दिता, पूण त्याच वेळार ''जरी म्हजो तो खूब मोगाचो'' अशी आपली भावनाय तो उक्तायता; ती तो लिपयना. ब्रूतुसाच्या उलोवण्या वागपांत एक नितळ प्रामाणीकपणा आसा.

कासका आनी ब्रूतुस हांच्या व्यक्तीत्वांत खूब फरक आसा हें जाणवता. ब्रूतुस

संयमी वृत्तीचो, कासका उतावीळ आनी चेजारा विशीं उपहासान भरिल्लो. चेजाराक तीन खेपो राजमुकूट दिलो आनी लोकां मुखार तांणे तो तीनदां न्हयकारलो ही गजाल कासका कुसक्या उपहासान रंगोवन सांगता. हे घटने विशीं कासकाक ब्रूतुस जे प्रस्न विचारता तांतुतल्यान ब्रूतुसाची संयमी वृत्ती जाणवता. कासकाचो उपहास ब्रूतुसाच्या उलोवण्यांत मातय येना. लोकशायेचो ताका दिसपी हुस्को जितलो प्रामाणीक आसा तितलोच चेजाराचो मोग प्रामाणीक आसा-आनी होच ताच्या मनांतलो संघर्श. ह्या संघर्शाचो ताण तो एकटोच सोंसता.

चेजाराक तीन पावटीं आन्तोनीन दिल्लो मुकूट तीनदां चेजार न्हयकारता ह्या दृश्याचें वर्णन कासका आपल्या बोंचरे शैलीन करता. ही गजाल सांगतना, मुकूट न्हयकारप ताका मना सावन नाका आशिल्लें हे गजालीचेर कासका भर दीत आसता. चेजाराची म्हत्वाकांक्षा हो ह्या नाटकांतल्या चेजाराच्या विरोधकांचो आरोप पयल्या अंकांतल्या ह्या दुसऱ्या प्रवेशांत शेक्सपिअरान सूचकतायेन पेरुन दवरला. चेजाराक मुकूट मना सावन जाय आसलो हें कासकाचें वैयक्तीक मत आसा आनी हें आपलें मत तो ज्या उपहासान उक्तायता, ताचे वयल्यान चेजाराची राजा जावचेली म्हत्वाकांक्षा तो आपल्या मनांत गृहीत धरुन चलला ही गजाल हांगा स्पश्टपणान जाणवता. फुडें होच कासका चेजाराच्या खुनाच्या कटांत सामील जाता आनी चेजाराचेर पयलो घाव घालता हाचें मूळ हांगाच आसा. चेजाराची म्हत्वाकांक्षा ह्या घटका भोंवतणी नाटकाचें कथानक ल्हूवू ल्हवू विणिल्लें वता - पूण तिचें वर्णन, तिचो भंय उक्तायला विरोधकांच्या तोंडसून; अशे तरेचो एकाय प्रसंगाचो शिताडो शेक्सपिअरान चेजाराचेर उडपाक दिवंकना. इतलेंच न्हय तर, चेजाराच्या म्हत्वाकांक्षेचो आपले कडेन कसलोच पुरावो ना ही गजाल तांणें कटवाल्यांचें फुडारपण करपी ब्रूतुसाच्या तोंडसून वदवन घेतल्या.

पयल्या अंकांतल्या तिसऱ्या प्रवेशाचो आरंभ कुपांचो गडगड आनी जोगलांचो कडकड हांणीं जाता. कासका हांगा सैमाचे अवस्थेचें प्रभावी वर्णन करता आनी मागीर आपणें पळयल्ल्यो विचित्र घडणूको सांगता. हीं दोनूय वर्णनां शेक्सपिअराचें कविमन प्रतिमांचे भाशेंत उलोवपाक उत्सूक आसता आनी जंय अशी शक्यता आसता थंय तो एकाद्र्या कवितेची रचणूक करची ते प्रमाणे पात्राच्या भाशणांची रचणूक करता. "जेन्ना पिर्थुमे वयले सगळे नेम डळमळटात अस्थिर वस्तूं वरी ?" ही भाववृत्ती निर्मुपी हीं वर्णनां आसात. नाटकांत ज्या विनाशाचें दर्शन फुडें

घडपाचें आसा. ताचीच पूर्वसुचोवणी ह्या वर्णणांतल्यान शेक्सपिअर हांगा दिता म्हणचेच ह्यो सैमप्रतिमांच्या काव्यात्म रचणूकेंतल्यान दिवपाची शेक्सपिअराची ही विशेशताय आसा.

ह्या अंकांतलें दुसरें वर्णन विचित्र घडणूकांचें आसा. हे वर्णनय भाववृत्ती निर्मुपा खातीर येवजिलां. ही भाववृत्ती भयाणतायेची आसा - एकाद्र्या भयांकूळ अपशकुना वरी.  हे भयाणतायेचो संबध कितें तरी अघटीत घडचेलें आसा हें सुचयता.

एकाच बराबर घडटात जेन्ना अशो विलक्षण गजाली
तेन्ना अशें न्हय म्हणचें मनशांनी
"हीं तांची शास्त्रीय कारणां, त्यो आसात सैमीक."
कित्याक म्हज्या मत्तान त्यो आसात अशूभ सुचोवपी
त्या देशांत जंय त्यो घडटात. (1-3)

असो निश्कर्श  ह्यो घडणुको वर्णुपी कासका काडटा. हो निकर्श अशूभ घडणुकांची सुचोवणी प्रेक्षकांक दिता आनी तेच बराबर शेक्सपिअराच्या काळांतल्या कुडडया स्रध्दांकय स्पर्श करता.

पण मनीस आपणांक जाय तसो अर्थ लायतात तांचो
मूळ वस्तूस्थितीकडेन संबंध नासता जाचो कसलोच. (1-3)

असो चीचेरोच्या भाशणांतल्यान शेक्सपिअर ह्या कुडडया श्रध्दांक छेद दिता. कुड्डे श्रध्देचे अभिव्यक्तीचो भाग शेक्सपिअरान अतिशय प्रभावी प्रतिमा सृश्टी वापरुन बरयला. ह्या लेखनाचो परिणाम प्रेक्षकांच्या मनाचेर जावचोच असो ताचो मानस आसा.

हाचे उरफाटें चीचेरोचे बुध्दीवादी विधान तांणे दोन वळींतच सोंपयलां. मागीर तांणें चीचेरोच्या ह्या दिश्टीकोणाक स्थान कित्याक दिलां आसुंयेत हाचें कारण स्पश्ट आसाः कुड्डे श्रध्देचो उपेग ताका नाट्यरचणूके खातीर करुन घेवचो आसलो तरी वैचारीक पातळेचेर कुड्डे श्रध्देचो झेंडो आपूण धरतां अशें दिसप ताका घडये नाका आसलें.

ब्रूतूस आनी कासका हांकां कटाचे वटेन वळोवपाच्यो कासियूसाच्यो पध्दती वेगवेगळयो आसात. ब्रूतुसाक लागीं हाडपाक तो ताच्या गुणांची सदांच तुस्त करीत आसता; सामान्य बुद्धीच्या कासकाचे बाबतींत तो ताच्या मनांत भंय निर्मुपाचेर

भर दिता. कटाची आंखणी करतना कासियूस हेरांच्या मनाचो कितले बारकायेन विचार करता हें हांगा दिसून येता. "आनी तो पळयता मनशांच्यो करण्यो भेदून तांचे फाटले हेत." अशें खुद्द चेजारान ताचें वर्णन केलां. हें वर्णन कितलें सार्थ आसा हाचो प्रत्यय प्रेक्षकांक कासियूसाच्या व्यूहरचणूकेंतल्यान येता.

अजापाची गजाल म्हणचे हेरांचीं मनां इतले बारकायेन नियाळपी कासियूस स्वताच्या मनाची निरखणी मात करिना. कासियूस चेजाराच्या दुस्वासान इतलो झपाटला कीं तो स्वताच्या दोशांचे बाबतींत कुड्डो जाला. चेजाराचे म्हत्वाकांक्षेचो उल्लेख तो ध्येयवादान न्हय, तर वैयक्तीक द्वेशाचे साधन म्हणून करपाक लागला.

"कासका तूं पळयता, हांवें उक्ती केल्ली

ही म्हजी छाती "जोगलाच्या लोळाक" (1-3)

अशें कासियूस म्हणटा. पण प्रत्यक्षांत ताच्या कटाच्या आंखणीचें स्वरूप कसलें आसा? लोकशायेचें राखणे खातीर आपलें सैन्य घेवन चेजाराक आव्हान दिवपाची हिंमत ताचे मदीं ना. तो उत्तम वक्तो आसा; पुणून लोकशायेच्या रक्षणाक लोकभावना जाग्रूत करुन ती चेजाराचे आड उभी करपाची तांकय ताचे मदीं ना. हे दोनय प्रयत्न तांणें केल्यार घडये ताका मरणाक फुडो करचो पडटलो आसलो. असलें मरण पत्करपाची हिंमत ताका ना. तशें करपाक ताका आध्यात्मीक बसका ना. लडायेंत मरण येवप ह्या गजालीक एक योध्दो म्हणून तो भियेना पुणून हे शुरतायेचें रुपांतर निर्भयतेन जावपा खातीर आध्यात्मीक अधिश्ठान लागता. कासियूसांत तें ना. ज्या मरणा खातीर तो तयार जाला, ताचें स्वरुप कसलें आसा?

मागीर ह्या खंजिराची सुवात म्हजे छातयेंतली जाणां हांव;

कासियूसच सोडयतलो कासियूसाक गुलामींतल्यान.

अशे आत्महत्ये वरवींच, देवांनो तुमी करतात दुर्बळांक अदीक बळिश्ट

आनी देवांनो ताचे वरवीं तुमी करतात जुलूमशांक पराभूत. (1-3)

म्हणचे, कासियूस मरणाचो स्वीकार करता, पूण तें आत्महत्या करुन. ध्ययेवादा खातीर निर्भयपणान पत्करिल्लें मरण आनी खुनाचो कट फशिल्ल्यान जीव दिवन पत्करिल्लें मरण हातूंत मूळा सावन फरक आसा. आध्यात्मीक निर्भयतेंतल्यान पत्करिल्लें मरण सर्जनशीळ थारता आनी भेजूड खुनशी वृत्तींतल्यान उप्रशिल्लें

मरण विनाश करपी थारता ब्रूतुस आनी कासियूस हांकां आत्महत्येचें मरण दिलां ताका एक खोल अर्थ आसा - ह्या नाटका फाटलें नीतीक चिंतन तें सुचयता. व्यक्तीचो खून करुन तिचो विचार ना करपाक येता काय? कसलोय ध्येयवाद प्रत्यक्षांत उतरावपा खातीर साधन शुचितेचो विचार टाळपाक येना काय? ब्रूतुस आनी कासियूस हांची अधोगती जातना जें पद्धतीन शेक्सपिअर दाखयता, तांचे कडेन ह्या प्रस्नांचो आमकां खोलायेन स्पर्श करता. व्यक्तीचो खून करुन विचार नश्ट करपाक येना; अशा खुनांतसून हिंसेची माळ सुरु जाता. *ज्युलियस चेजार* ह्या नाटकांत शेक्सपिअराक ज्या शोकांतिकेचें दर्शन घडोवपाचें आसा ती शोकांतिका व्यक्तीच्या खुनाक तत्त्वज्ञानाचें, ध्येयवादाचें उच्च अधिश्ठान दिवपाचे प्रवृत्तींतल्यान निर्माण जावपी आसा. हें नाटक ही खंयच्याय व्यक्ती परस हे प्रवृतीची शोकांतिका आसा.

*ज्युलियूस चेजार* ह्या नाटकाचो दुसरो अंक एकूण चार प्रवेशांचो आसा. हातुंतलो पयलो प्रवेश ब्रूतुसाच्या व्यक्तीत्वाचेर प्रकाश घालपा खातीर शेक्सपिअरान येवजिला. पयल्या अंकाच्या शेवटीं ब्रूतुस हो तीन वांटे आपले वटेन आयला, फुडले भेटींत तो पुरायपणान आपलो जातलो असो विश्वास कासियूस उक्तायता. ह्या दुसऱ्या अंकांत ब्रुतूस हो कासियूसाक सामील जाला हें कळटा. ही घटना ह्या नाटकाच्या कथानकाचे दिश्टीन म्हत्वाची आसा आनी तशें जातलें हो अंदाज पयल्या अंकांतच आमकां आयिल्लो.

दुसऱ्या अंकांतल्या ह्या पयल्या प्रवेशाची सुरवात ब्रूतुस गाढ न्हिदिल्ल्या आपल्या नोकराक, लुचियूसाक जागो करता. पूण हांगा धा वळींत सोंपपी हो प्रसंग ब्रूतुसाच्या मनाचे कंवळायेचेर उजवाड घालता. शेक्सपिअर ह्या ल्हान प्रसंगांतल्यान एका सादया नोकराचे बाबतींतलें ब्रूतुसाचें निर्मळ वात्सल्य परगटायता. इतल्या कंवळ्या मनाचो हो ब्रूतुस आपलो मित्र चेजार हाच्या खुनाच्या कटांत सामील जातलो. ह्या आरंभाच्या प्रसंगा उपरांत रोखडेंच ब्रूतुसाच्या स्वगत भाशणाची सुरवातच "तें सादतलें ताच्या मरणानच" ह्या वाक्यान जाता. ब्रूतुसाची मूळ वृत्ती अशी प्रेमळ आनी कोमल आसा. पूण अशें आसूनय ताची नियती ताका खूनबाजीच्या राजकारणाचो फुडारी करता. ह्या खुनाच्या कटांत आपूण कित्याक सामील जाता हाचें स्पश्टीकरण ब्रूतुस दिता.

हांवें ताका न्हयकारपाक खाशेलें कारण ना म्हाका,

तें करचें लागता लोकहिता पासत. (2-1)

ही ब्रूतुसाच्या निर्णयाची ब्युन्याद आसा. चेजाराक राजा जावपाची म्हत्वाकांक्षा आसा अशें ब्रूतुस मना सावन मानता. चेजारा विशींचो हो दुभाव ब्रूतुसाच्या मनांत आसलोच. कासियूसान आपल्या धूर्त डावान तो पक्को केला. पूण ब्रूतुसा कडेन हाचो पुरावो ना आनी ही गजाल तो आपल्या स्वगत भाशणांत स्पश्टपणान कबूल करता.

आनी चेजार विशीं खरें उलोवंचें जाल्यार

हांव नकळं चेजाराच्यां विवेकाचेर केन्ना ताच्या

विकारांनी ताबो मेळयल्ल्याचें. (2-1)

चेजाराच्या प्रत्यक्ष वर्तनाची इतली खात्री आसूनय ब्रूतुस चेजाराच्या खुनाच्या कटांत कित्याक सामील जाता ताची जाप ब्रूतुसच दिता :

आयज जसो चेजार आसा ताचे परसय जालो बळिश्ट जाल्यार

ताची धांव पावतली ह्या किंवा त्या अत्याचारा कडेन

ह्या खातीर सोरपाचें तांतीं म्हणून ताचे कडेन पळयात

जें फोडून भायर आयिल्ल्या खिणाक तो थारतलो घातकी

आपले जातीचेर वतलो, आनी म्हणून तो

तांतयांत आसतनाच ताका चेंचायात. (2-1)

चेजारा विशींचो वैयक्तीक दुस्वास न्हय, तर लोकहिताची काळजी हें खुनाच्या कटांत सामील जावपाचें कारण आसा हें ब्रूतुस ठामपणान स्पश्ट करता. व्यक्तिगत द्वेश ही अयोग्य गजाल आसा अशें सांगपी ब्रूतुस आपल्या जीवन मुल्यांची जाणविकाय हांगा उक्तायता.

कासियूस ब्रूतुसा कडेन चेजाराच्या खुनाचें फुडारपण दिवपाक सोदता हाचें कारण म्हणल्यार ताचे विशीं लोकांच्या मनांत आशिल्ली आदराची भावना. ब्रूतुसाचें लोकमानसांतलें हें उच्च स्थान शेक्सपिअर कासियूस आनी कासकाच्या संवादांतल्यान प्रेक्षकांच्या मनाचेर ठसयता. ब्रूतुसाचें लोकमानसांतलें हें स्थान अशें स्पश्ट करपा फाटल्यान शेक्सपिअराचो निश्चीत हेतू आसा. ह्या स्थानाच्या विरोधान एक गजाल शेक्सपिअराक स्पश्ट करपाची आसा : लोकमान्यताय आशिल्लो हो ब्रूतुस लोकां मुखार उबो रावन आपले विचार मांडपाची हिंमत दाखयना. तशें करप हेंच खऱ्यांनी ताचे लोकशायेचे निश्ठे कडेन सुसंगत थारतलें

आसलें. चेजाराचो तो इश्ट आसा. अशें आसूनय, चेजाराच्या म्हत्वाकांक्षे विशीं रोमान समाजांतल्या एका वर्गाक भंय दिसता, आनी ताका लागून रोमाच्या लोकसत्ताक वेवस्थेक धोको उप्रासला अशें दिसता ही गजाल चेजाराच्या कानाचेर घालपाची हिंमत तो दाखयना. खरें म्हणचे तांणे तशें करप हें ताचे मैत्रीचे निश्ठे कडेन सुसंगत थारतलें आसलें.

ही हिंमत ब्रूतुस कित्याक दाखयना? ताच्या स्वभावांतली उदात्तताय हांगा पराभूत कित्याक जाता? ब्रूतुस मरणाच्या भंयान चेजाराक उक्तेपणान विरोध करपाचें टाळता काय कितें? ब्रूतुस शूर आसा. तो मरणाक भियेना. जें ध्येय तांणे श्रेश्ठ मानलें त्या ध्येया खातीर तो आपले प्राण ओंपीत. ब्रूतुस कासियूसाक म्हणटाः

हांवें कितें केल्लें तुका जाय?
तें लोकांच्या हिताचें आसल्यार
भोवमान कितें किंवा मरण कितें
लोकहिता मुखार ह्या दोनांय विशीं हांव उदासीन आसां.
देवाची अशी कृपा म्हजेर आसची,
आत्मसन्माना फुडें मरणाचो भंय म्हाका दिसचो ना. (1-2)

ब्रूतुसाच्या ह्या उलोवपांतल्यान ताची निर्भयताय आनी ताची आत्मसन्मानाची भावना ह्यो दोनय गजाली शेक्सपिअरान स्पश्टपणान उक्तायल्यात. अशें परिस्थितींत लोकमत जाग्रुत करपाचे वाटेन वचनासतना, ब्रूतुस कासियूसच्या नादाक कित्याक लागता? गुपीत कारस्थानां करुन, चेजाराक फटोवन ताचो खून करपाचो मार्ग ब्रूतुस कित्याक आपणायता? आनी हें सगळें चेजाराचे म्हत्वाकांक्षेचो कसलोच प्रत्यक्ष पुरावो आपले कडेन ना हें स्पश्ट कबूल करूनय? हाचें कारण स्पश्ट आसा. व्यक्तीचो खून करुन ताचो विचार नश्ट करपाक येता ह्या खोट्या विचारा वयल्या विश्वासांतल्यान हें घडटा. ध्येय उदात्त आसलें की अशुध्द साधनांकय नीतीकताय मेळटा हे खोटे श्रध्देक लागून हें घडटा. ब्रूतुसाचो हो अध्यात्मीक पराभव आसा, म्हणून अंतीं आत्महत्येचो भेजूड मार्ग पत्करुन ताका मरण स्विकारचें पडटा. राजकारण ही मानवी जिणेची शोकान्तिका केन्ना थारता हाचें दर्शन ब्रूतुसाच्या रुपान शेक्सपिअर हांगा घडयता.

हेरांनी आपलें व्हडपण मान्य करचें ही ब्रूतुसाची मानसीक गरज आसता. ही

गरज चाणाक्ष कासियूसान ज्युस्त वळखल्ली आसाता आनी म्हणून ब्रूतुस ताच्या नादाक लागून ताका वश जाता. तो ब्रूतुसाक हाताळटना सदांच ताच्या व्हडपणाची तुस्त गायता; ताचें हें व्हडपण लोक कशें मानतात हें तो ताका सांगत आसता अशें शेक्सपिअरान दाखयलां. चेजारा आडच्या कटाचें फुडारपण ब्रूतुसाक दिवन तो ताच्या व्हडपणाक दाद दिता. वेगवेगळ्या हस्ताक्षरांनी ब्रूतुसाक बरयल्लीं पत्रां ब्रूतुस जनेलांतल्यान ताच्या घरांत उडोवंक लावपाचें फटिंगपणय करता.

रोमा शार कितलें थोर मानता ब्रूतुसाचें नांव

हें मत्त ह्या पत्रांतल्यान उक्तायल्लें आसतलें. (1-2)

अशी ब्रूतुसाची व्हडपणाची तुस्त करपाचें तंत्र वापरता. कासियूस एक एक पावल फुडें उडयत वता आनी ब्रूतुसाक चेजाराच्या खूनाच्या कटांत पूराय सामील करुन घेता तें कसल्या बळाचेर? हातूंत ब्रूतुसाचें लोकशाये वयले प्रेम हो ताच्या ध्येयवादाचो घटक आसा हातूंत दुभाव ना; पूण तेच बराबर, आपल्या व्हडपणाक सदांकाल मान्यताय मेळपाक जाय ही अहंकारांतसून उप्राशिल्ली मानसीक गरज हो घटकय तितलोच म्हत्वाचो आसा. ही गजाल कासियूसाच्या धूर्त नदरेन हेरिल्ल्याचें शेक्सपिअरान स्पश्टपणान दाखयलां.

कासियूसान दिल्लें कटाचें फुडारपण ब्रूतुसाच्या हे मानसीक गरजेक मानवपाक लागिल्ल्याचें आमकां दिसता. आपणें जें थारायलां ताचो सोपूत घेवया अशें कासियूस सुचयता तेन्ना निर्णय आपल्या हातांत घेवन सोपूत घेवची गरज ना अशें ब्रूतुस सांगता. हांगा ब्रूतुसा मुखार कासियूस ओग्गी रावन फाटीं सरता. चीचेरोक आपले वटेन घेवया अशी सुचोवणी कासियूस करता, तेन्नाय "ताचें नांव नाका" अशें म्हणून ब्रूतुस ताका न्हयकार दिता. हो प्रसंग म्हत्वाचो आसा. चीचेरो हो विचारवंत आसा. कासका जेन्ना विचित्र घटनांची यादी सादर करता, तेन्ना चीचेरो शास्त्रीय नदरेंतल्यान तें स्विकारिना अशें शेक्सपिअरान दाखयलां. हाचो अर्थच असो की ब्रूतुसाचे विचार मान्य करुन, ताचे फाटसून येवपी चीचेरो हो हयबा न्हय, ब्रूतुसाच्या हे विशेश मानसीक गरजेंत तो बसपाक शकचोना; ताचें व्यक्तिमत्व स्वतंत्र आसा. ब्रूतुस चीचेरोचें नांव मानून घेना, तेन्ना कासियूस ओग्गी रावन फाटीं सरता. फकत चेजाराचोच न्हय, तर ताचो निश्ठावंत भगत आन्तोनियूस हाचोय खून करप इश्ट थारत अशें कासियूस म्हणटा तेन्ना लेगीत ब्रूतुस न्हयकार दिता. हांगाय कासियूस माघार घेता. ह्या वेगवेगळ्या प्रसंगांत

न्हयकार दितना प्रत्येक वेळार ब्रूतुस ताचे फाटलो आपलो विचार सांगता, तातूंत ताचे ध्येयवादी मन परगट्टा, हें खरें आसा. आपणाक खाटीक जावपाचें ना; आपूण चेजार हे व्यक्तीचे न्हय तर चेजार हे वृत्तीचे आड आसां; देवांच्या उफारा खातीर चेजाराचो बळी दिवपाचो आसा अशें ब्रूतुस म्हणटा तें ह्या ध्येयवादाक लागूनच. पुणून, ब्रूतुसाचो हो ध्येयवाद आनी ताची ही उच्च विचारधार, तो चेजाराच्या खुनाच्या कटांत सामील जातना शेणटा कशी? हो अंतर्विरोध हांगा खरपणान जाणवता. कासियूस प्रत्येक प्रसंगांत ओग्गी रावन फाटीं सरता, हाचें कारण कासियूसाक ब्रूतुसाचो विचार पट्टा हें न्हय. वेवहारी धोरण आशिल्ल्या चाणाक्ष कासियूसाक ब्रूतुसाचो विचार पुटोवप शक्यच ना. पूण अशें आसुनय कासियूस फाटीं सरता, तो ब्रूतुसाच्या व्हडपणाच्या अहंकार फुलोवपा पासत. आपूण कितें किंवा सगळो रोमान समाज कितें, ताजे शिवाय हेर कोण व्हड मनीस आसा अशें मानिना, हें ब्रूतुसाक सदांच जाणवत दीत रावप हो कासियूसचो पूर्ण विचाराअंती थारिल्लो व्यूह आसा. थोर, चारित्र्यवंत, त्यागी मनीस सगळे मोह कठोर मनान कडेन सारता, कोणाच फुडें बागवना. पुणून अशा थोर मनशाचे फाटीचेर लोकमान्यतायेच्या हव्यासाची एक ल्हानशी काडी आपल्या नगण्य वजनान अखेर ताचो कणो बागयता! ब्रूतुसाचें व्यक्तीमत्व हें आतां ताचे स्वताचें रावनासतना एक नाटक जाता.

आपले हेत तोंडांचेर उमटूपाक जायनात<br>
रोमान नट जशे वागतात रंगमाचयेर<br>
तोंडा वयलो ताण मातूय दाखयनासतना,<br>
स्विकारिल्ली भूमिका चिकाटीन फुडें चलयात (2-1)

हें नाटक तो हेरांक फटोवपाखातीर तर करताच, पूण स्वताक फटोवपाकय करीत रावता.

दुसऱ्या अंकांतलो दुसरो प्रवेश चेजाराच्या घरांत घडटा. कुपांचो गडगड आनी जोगलांचो कडकड हें सैमाचें रुप चेजाराच्या मनांतली अस्वस्थताय उक्तावपी प्रतीकच आसा. चेजार पराक्रमी आसा; ताचो आत्मविश्वास जबरदस्त आसा. पूण तरी बी तो मनांत अस्वस्थ आसा. ''पावात रे! ते चेजारचो खून करतात.'' हे आपले बायलेचें न्हिदेंत आड्डप ताका अस्वस्थ करता. ही अस्वस्थताय तिच्या मना वयलो ताण जाणवल्ल्यान उप्रासल्या काय मरणाच्या भंयान?

वच, पुरोयतांक वचून सांग
देवा फुडें रोखडोन पशूबळी दियात
आनी कौल कसो जालो तें कळयात. (2/2)

असो निरोप दिवन चेजार आपल्या नोकराक पुरोयता कडेन धाडटा. ताचे हे वागणुकेक लागून तो मरणाच्या भंयान ताच्या मनांत अस्वस्थताय चलल्या अशें आमकां खीणभर दिसता. शेक्सपिअरान जाणवीकपुराय हो भास निर्मिला. चेजाराच्या निर्भयतेचो उत्कट प्रत्यय दिवपा खातीरच शेक्सपिअरान ही विरोधाची फाटभूंय निर्मिल्या. चेजार अस्वस्थ जाला आपले पत्नी वयल्या प्रेमाक लागून, तिच्या मना वयल्या भंयाचो ताण जाणवन. चेजार कुड्डे श्रध्देंत विश्वास दवरिना, पंदरा मार्चाक सादूर राव, अशें सांगपी भविशयवेत्त्याक तांणे मनाचेर घेवंक ना ही घडणूक शेक्सपिअरान आदींच दाखयल्या. पशूबळी दिवपाक तो नोकराक धाडटा, तें आपल्या पत्नीच्या समाधाना पासत. भायर वचपाचो आपलो बेत चेजारान मातूय बदलूंक ना. पशूबळी दिवन कौल लावपांत ताचो मातूय संबध ना. ही गजाल शेक्सपिअरान स्पश्ट केल्या. "भायर सरतलोंच हांव," अशें तो ठामपणान आपले बायलेक सांगता. पुणून अपशकुनाच्या दृश्टांतांनी भियेल्ले कालपुर्नियेचें समाधान कशें जातलें? हे अपशकून अर्थपुराय आसात हे पटोवपा पासत ती म्हणटा :

जेन्ना भिकारी मरतात, तेन्ना धूमकेतू दिश्टी पडनात,
पूण जेन्ना राजकुंवर सोंपतात, तेन्ना आकाश केणांनी पेट्टा. (2/2)

हें आयकतकच चेजार अदीकच ठामपणान तिका सांगता :

मरचे आदींच भेजूड खूबदां मरतात
शूरवीर रुच चाखतात मरणाची फक्त एकदांच. (2/2)

चेजारचे हे उद्गार केवळ फाजील आत्मविश्वास उक्तायनात. ह्या उद्गारा फाटल्यान ताचें चिंतनय दिसता.

नवलांच्या सगळ्यो गजाली हांवें आयजवेर आयकल्यात,
तातूंतच सगळ्यांत अजापाची गजाल आसा हीच :
मरण हें अटळ शेवट आसता;
जेन्ना तें येवचें आसा; तेन्ना तें येतलेंच. (2/2)

ह्याच खिणाक चेजारान पशूबळी दिवपा खातीर धाडिल्लो नोकर परतता.

शेक्सपिअरान पुरोयताचो निरोप हाडपाचो सामको योग्य खीण हांगा साधला.

बळी दिल्ल्या पशूक तांणी फाळून भितर पळयलें,

तेन्ना तांकां थंय काळीज दिसलेंना. (2/2)

असो पुरोयत निरोप सांगता तेन्ना चेजार म्हणटा :

भेजूडायेक लजेक घालची म्हूण देव अशें करतात.

चेजार थारत पशू, काळीज नाशिल्लो

आयज तो घरांत बसल्यार.

ना. चेजार नाच्च घरांत बसचो. (2/2)

पशू बळी दिवपाचो निर्णय चेजारान मरणाच्या भंयाक लागून घेवंक नाशिल्लो ही गजाल शेक्सपिअरान हांगा स्पश्ट केल्या. पुण तरी लेगीत, चेजार भायर सर नासतना घरा रावपाचो निर्णय, आपल्या मना आड काय जायना, घेता तो बायलेच्या मोगाक लागून, तिचें मन शांत जावचें म्हणून. पूण हो निर्णय घेतिल्ले खातीर ताका अपराधी दिसता. सेनेटाच्या सभाघरांत आयज आपूण येवचो ना अशें जाहीर करपाक तो देसियूसाक सांगता, तेन्नाय ताची अस्वस्थताय तीव्रतेन परगट्टा.

येवपाक पावचोना ही फट

आनी येवपाक भियेतां, हें. ताचे परस फट.

हांव येवचो ना आयज तशें सांग तांकां, देसियूस. (2/2)

अशें तो प्रामाणीकपणान सांगता "दुयेंत आसा अशें सांग," अशें कालपुर्नीया जेन्ना देसियूसाक सांगता तेन्ना,

चेजार फट सांगूक लायतलो?

जैत मेळयत, म्हजे हांगा मेरेन हात पातळ्ळयात

तें कितें हांव धव्या खाडांच्या सेनेट-सभासदांक

सत सांगपाक भियेवंचें म्हूण?

असो प्रस्न तो कालपुर्नियाक विचारता. चेजाराच्या मनाक मरणाच्या भंयान स्पर्शय करुंक ना. चेजाराची ही निर्भयता, आत्मसन्माना फुडें मरणाचीय पर्वा न करपाची ताची ही वृत्ती शेक्सपिअर अधोरेखीत करता ही गजाल आमकां जाणवता.

कालपुर्नियान दिमी मोडून केल्ले विनवणेक लागून चेजार सेनेटाच्या

सभाघरांत वचनासतना घराच रावपाचो निर्णय घेता. एके दिश्टीन तांणे आपल्या आत्मसन्माना कडेन केल्ली ही तडजोड आसता. चेजारान केल्ली ही तडजोड शेक्सपिअरान अशे रीतीन मांडल्या कीं प्रेक्षकांक ताचे विशीं अदीकच आदर आनी प्रेम दिसचें. असामान्य झुजारी, श्रेश्ठ मुत्सद्दी आनी सत्ताधीश आशिल्ल्या तिख्याच्या व्यक्तीमत्वाच्या चेजारांतलो हो कंवळ्या मनाचो मनीस शेक्सपिअरान परगटावन चेजारच्या व्यक्तीमत्वाक एक सुंदर परिमाण दिलां. चेजार हो आतां अंतर दवरुन आदर व्यक्त करची अशी मूर्त न रावतां प्रेक्षकांक ताचे विशीं आपलेंपण दिसचें असो मनीस जाता. नाट्य रचणूकेचो व्यूह म्हणूनय प्रेक्षकांच्या मनांत ही आपलेपणाची भावना निर्मप म्हत्वाचें आसा. कित्याक ताका लागून प्रेक्षकांच्या मनांत चेजारचो खून करपी कटवाल्यांच्या आडची चीड खर जावपाक मदत जातली.

पुणून सेनेटाच्या सभाघरांत न वचपाचो निर्णय देसियूसान केल्ल्या आव्हाना उपरांत चेजार रद्द करता.

हांवें तुजी विनंती मानली,

हाची लज दिसता म्हाका, (2/2)

अशें तो कालपुर्नियाक स्पश्टपणान सांगता. चेजाराक आपलो निर्णय बदलपाक लावपाचें काम देसियूस भारी कुशळतायेन करता हें खरें. चेजार तुस्तीक भाळटा. केवळ खुशामतीन "ताच्या वृत्तीक हांव जायतशें वळण दीन, आनी ताका हाडीन कापितालाक" अशी बडाय ब्रूतुस-कासियूसा मुखार मारुन देसियूस ह्या कामाचेर भायर सरिल्लो आसता. युक्तीन तोंडपुजेगिरी करुन देसियूस चेजाराक आपलो निर्णय बदलपाक लायता काय तशें प्रेक्षकांक दिसल्यार चेजाराच्या व्यक्तीमत्वाचेर शिताडो उडत आनी ताच्या फुल्ल धव्यापणाचेर काळो दाग पडत, अशें शेक्सपिअराक मुळींच नाका. बायलेच्या मोगाक लागून आपणे सेनेटाच्या सभाघरांत न वचपाचो निर्णय घेतला हाचो असह्य ताण चेजाराच्या मनाचेर आसा; मना आड केल्ले हे तडजोडींतल्यान भायर सरपाक ताका फकत निमित्त जाय ही गजाल शेक्सपिअरान प्रेक्षकांच्या मनाचेर आदींच ठसयल्या, ताका लागून तो देसियूसाचे तोखणायेक भाळून आपलो निर्णय बदलता अशें प्रेक्षकांक दिसप शक्यच ना. देसियूस जे तरेन पाशे उडयता त्या ताच्या खेळाची कुशळताय प्रेक्षकांक जाणवची ही नाट्य रचणूकेची एक वट, आनी त्याच वेळार, चेजाराच्या

व्यक्तीमत्वाचेर, ताच्या निर्भय आत्मसन्मानाचे वृत्तीचेर शिताडो उडिल्लो प्रेक्षकांक जाणवचो न्हय ही नाट्यरचणूकेची दुसरी बाजू. ह्या नाट्यरचणूकेक एक तिसरीय बाजू आसा -आनी तो कथानकाचो अटळ असो भाग आसा. चेजार आपलो निर्णय बदलून सेनेटाच्या सभाघरांत वता म्हणूनच ताचो खून जाता. ह्यो तिनय बाजू शेक्सपिअरान हांगा कुशळतायेन उब्यो केल्यात.

दुसऱ्या अंकाचो हो दुसरो प्रवेश एका विलक्षण बोलक्या विरोधान शेक्सपिअरान सोंपयला. ह्या विरोधाचे रचणूकेक लागून शेक्सपिअर चेजार आनी ब्रूतुस ह्या दोगांयचेर एकाच वेळार उजवाड घालता. चेजाराक सभाघरांत व्हरपाक सगळे कटवाले चेजाराच्या घरा आयल्यात. तांचे वांगडा वच्चे पयलीं तो म्हणटा :

म्हज्या बऱ्या इश्टांनो. सरात भितर

आनी म्हजे बराबर इल्ली वाईन घेयात,

मागीर आमी इश्टां वरी सगळेच वचुया. (2/2)

हांगा चेजार ‘इश्ट’ हो शब्द एकाद्रया ल्हान, निशपाप भुरग्या भाशेन वापरता. ‘इश्ट’ ह्या तांणे म्हणिल्ल्या उतरा फाटल्यान कसलीच राजकी हुशारी किंवा डावपेंच ना. चेजार तांची सरबराय करपाक सोदता. हांगा शेक्सपिअरान येवजिल्लो पयलो सूचक विरोध आसा. चेजाराच्या ह्या निर्मळ मित्रभावनेचे मुखार उबे आसात ताका फटोवन व्हरून ताचो खून करपी कटवाले. चेजारान अशें आमंत्रण दितकच ब्रूतुस फकत दोनूच वाक्यां स्वगत उलयता :

इश्टावरी आसप आनी इश्ट आसप एक न्हय,

ए चेजार, खंती जाता मन ह्या विचारान. (2/2)

ह्या आपल्या स्वगतांत ब्रूतुस चेजारा वरी ‘इश्ट’ हें उतर दोन वेळां वापरता. ‘इश्टावरी आसप’ आनी ‘इश्ट आसप’ हांतुतलो फरक ब्रूतुस आपल्या वर्तनानच स्पश्ट करता. “ए चेजार, खंती जाता मन ह्या विचारान,’ अशें ब्रूतुस आपले कडेनच उलयता. आपूण करता त्या मित्रद्रोहाची आनी पडमूरपणाची ब्रूतुसाक स्पश्ट जाणविकाय आसा, पूण ताका पश्चातापाचो मातय स्पर्श जाल्लो दिसना. मागीर आपलें मन खंती जाता तें खंयच्या अर्थान? हांगा भोळेपणान किंवा जांकां मित्र मानले तांचे वयल्या विश्वासाक लागून चेजार फटवता हाची काकुळट ब्रूतुसाक दिसता. चेजाराची मैत्री ही शुद्ध निश्ठा आसा आनी ब्रूतुसाची मैत्री हें कुटील पडमूरपण आनी विश्वासघात आसा, हो विरोध हांगा ह्या दोगांयच्या

व्यक्तीत्वांचेर उजवाड घालता. चेजार आनी ब्रूतुस हे दोगूय आपआपले वाटेन आपआपल्या मरणा कडेन वतात. तांच्या मरणा मदलो फरक हांगा ह्या विरोधान स्पश्ट केला. ब्रूतुसाक कुडीचे मरण येवंचे आदीं आध्यात्मीक-नीतीक मरण आयलां. चेजाराक ताच्या निर्मळ बरेपणाक लागून एकदांच मरण येतलें आनी तें उदात्त आसतलें; ब्रूतुसाच्या वांट्याक येवपी भेजूड आत्महत्या न्हय!

दुसऱ्या अंकांतलो तिसरो प्रवेश सामको ल्हान, म्हणचे पंदरा वळींचो आनी तातूंतलें पात्र एकच-आर्तेमिदोरुसाचें. जरी ताची वळख एक शिक्षक म्हणून दिल्या, ताचे कडेन रोमाचो एक नागरीक म्हणून पळोवपाक जाय. चेजारचेर ताचे प्रेम आसलें आनी ब्रूतुस आनी हेर कटवाले चेजाराचो खून करतले हे ताका कळिल्लें. ताका चेजाराचो मोग आशिल्ल्यान ताका पत्र दिवन सादूर करचो अशें आर्तेमिदोरुसाक दिसता. एके दिश्टीन प्रतीकात्मक अशें हें पात्र आशिल्ल्यान ताचे विशीं चड कांय सांगपाची गरज शेक्सपिअराक दिसना. रोमा मदल्या सामान्य मनशाक चेजारा विशीं दिसपी आपुलकीचें तो प्रतीक आसा. चेजार एक जुलूमशहा आनी अत्याचार करपी राज्यकर्तो आसा ह्या कटवाल्यांच्या आरोपाक आर्तेमिदोरुसाच्या रुपान -म्हणचेच सर्वसामान्य जनतेच्या रुपान जाप मेळटा.

मत्सराच्या माऱ्यांतसून सद्‌गूण सुटनात,

हें पळोवन आक्रोश करता म्हजो जीव! (2/3)

हे आर्तेमिदोरुसाचे स्वगत उद्‌गार आनी 'तुजो मोग करपी' अशी पत्रा खाला केल्ली निशाणी ह्यो दोनय गजाली लोकभावना स्पश्ट करपी आसात. चेजाराचेर लोकांचें कितलें प्रेम आसा हें प्रेक्षकांच्या मनाचेर ठसोवप इतलोच ह्या प्रवेशाचो हेतू आसा आनी तो शेक्सपिअरान उण्यांत उण्या शब्दांनी आनी उत्कटतायेन सादला.

पोर्चियाच्या भाशणान दुसऱ्या अंकांतल्या चवथ्या प्रवेशाचो आरंभ जाता. ती आपलो नोकर लूचियूस हाका सेनेटाच्या सभाघरा कडेन वचून ब्रूतुसाची खबर हाडपाक धाडटा. तिच्या मनाचेर विलक्षण ताण आसा. जें काम ब्रूतुसान हातांत घेतलां ताका येस मेळटलें काय तातूंत ताचो घात जातलो हाचो हुस्को तिका जाला.

एकायदी गजाल गुपीत दवरप
बायलांक कितली कठीण! (2/4)

अशें ती स्वताक म्हणटा, हाचे वयल्यान ब्रूतुस चेजारचो खून करपाक गेला हें ती जाणा हें स्पश्ट जाता. ब्रूतुस हें गुपीत तिका सांगतलो हें तिका सुचयता :

आनी मागीर गुपितांकडेन म्हज्या अंतरांतल्या,
तुजें हृदय सहभागी जातलें
म्हज्यो सगळ्यो येवजण्यो, म्हज्या कपाळाचेर उमटिल्लें व्यथेचें कारण,
हांव तुका स्पश्ट करीन, आतां तूं बेगीन वच भितर. (2/1)

आनी हें प्रेक्षकांनी गृहीत धरचें अशेंच शेक्सपिअराक अभिप्रेत आसा.

"तुज्या धनयाची खुशाली येवन म्हाका कळय, पोरा" अशें सांगून ती लुचियूस हाका धाडटा, हाचे वयल्यान ह्या कामांत ब्रूतुसाक आशिल्ले जोखमीची तिका स्पश्ट जाणविकाय आसा. ब्रूतुसाक आपली गुप्त येवजण आपणाक विश्वासांत घेवन सांगची अशी तिची इत्सा आसा.

कबूल आसा, हांव एक अस्तुरी आासां, पुणून अशी अस्तुरी,
जिका ब्रूतुसान पत्नी म्हूण स्विकारल्या;
जी नांवाजिल्ल्या कातोची धूव.
असो बापूय, असो घोव जिका लाभला
ती हांव सामान्य हेर अस्तुऱ्यां परस
चड समर्थ ना अशें समजतात तुमी?
तुमी तुमचे गुपीत बेत म्हाका सांगात :
जे हांव भायर फोडचीना. (2/1)

अशें ती ब्रूतुसाक बजायता. हांगा लाचार आर्जवां नांत; आपले शक्तीची आनी हक्काची खर जाणविकाय तिका आसा.

हांवें म्हज्या अविचळ निग्रहाचो पुरावो दिला.
आपखोशेन घाव करुन घेवन हे म्हजे मांडयेर. (2/1)

असो आपल्या निग्रहाचो पुरावो ती ब्रूतुसाक दिता.

हे देवांनो,
हे थोर अस्तुरेचो घोव म्हणून,
म्हाका लायक जावं दी. (2/1)

अशे उद्गार ब्रूतुच तिचे विशीं काडटा. पण अशें व्यक्तीमत्व लाभिल्ली ही अस्तुरी चेजाराच्या खुनाचो कट केल्ले खातीर ब्रूतुसाक मातय विरोध करिना. विरोध करपाचें तर सोडाच, "देव तुज्या कार्यक गती दिवं." अशी प्रार्थना करता. योग्य कितें आनी अयोग्य कितें हें कळपाची तिची पुराय तांक आशिल्ल्याचें आमकां जाणवता. पूण ती ह्या खुनाचय कटा विशीं साधी चर्चाय ब्रूतुसा बराबर करतना शेक्सपिअर दाखयना. रोमाचे लोकाशायेचो फुडार सुरक्षीत राखपा खातीर चेजाराचो खून करप ही नीतीक गजाल आसा अशें तिका पटलां आशिल्ल्याचें शेक्सपिअर दाखयता. तिची बुद्धिमत्ता आनी तेजस्विताय हाचेर शेक्सपिअर पडदो उडयता.

नाटकाचो तिसरो अंक कथानकाचे दिश्टीन भारी म्हत्वाचो आसा. चेजाराच्या खुनाची घडणूक ह्याच अंकांत घडटा. मार्चाची पंदरा तारीख कटवाल्यांनी खुना खातीर थारायल्या. 'पंदरा मार्चाक सादूर राव" असो इशारो भविश्ववेत्त्यान चेजाराक दिल्लो आनी कुड्डीश्रद्धा म्हणून चेजार तो फाफुडटा.

तिसऱ्या अंकांतल्या पयल्या प्रवेशाच्या आरंभाक चेजार प्रवेश करता आनी ताचे नदरेक हो भविश्यसांगपी पडटा. चेजाराच्या दिश्टीक आपूण पडचें आनी ताका परतून एकदां सादूर रावपाचो इशारो दिवचो ह्या हेतानच तो सेनेटाच्या सभाघराच्या भायल्या रस्त्याचेर उबो रावता. ताका पळयतांच चेजाराक तांणें दिल्ल्या "पंदरा मार्चाक सादूर राव" ह्या इशाऱ्याची याद जाता. आनी मोठ्या आत्मविश्वासान "मार्चाची पंदरा तारीख आयली" अशें तो ह्या भविश्य सांगप्याक म्हणटा. "हय चेजार, पूण अजून सरूंक ना." अशी जाप तो चेजाराक दिता. ही सगळी फाट - भूंय आनी खुनाचो ताण शेक्सपिअरान केवळ दोन वाक्यांत निर्मिला.

आर्तेमिदोरुस चेजाराक कटवाल्या विशीं सादूर करपी आपलें पत्र घेवन फुडें येता. तेन्ना हो ताण वाडटा. गुप्तताय राखपाच्या हेतान आपलें हें पत्र एकाद्रो अर्ज दिवचो तशें तो चेजाराक दिवपाक इत्सिताः

ए चेजार, म्हजो अर्ज पयलीं वाच,
कित्याक तो आसा चेजाराक चड लागींचो
तो वाचात, म्हान चेजार. (3/1)

अशें आपल्या अर्जा विशीं तो चेजाराक सांगता. चेजार ताचो अर्ज वाचपाक

न्हयकार दिता आनी प्रेक्षकांच्या मना वेलो ताण अदीकच वाडटा. असो हे ज्युस्त खीण सादून शेक्सपिअर चेजाराच्या व्हडपणाचो प्रत्यय प्रेक्षकांक दिता.

जें आसा आमचे विशीं तें सगळ्यांत अंतीं अशे अर्ज वाचपाक न्हयकार दिवपाचें कारण चेजार सांगता. चेजार राज्यकर्तो म्हूण निस्वार्थी आसा, तो लोकांच्या हिताचो विचार आदीं करता, स्वताचो न्हय, हे गजालीची जाणविकाय ताचे विशीं मन हळवें जाल्ल्या प्रेक्षकांक अदीकच खरायेन जाता. कटवाल्यांनी चेजाराचेर केल्ले सगळे आरोप फट आसात ही गजाल ताचेर कसलेंच भाश्य करिनासतना शेक्सपिअर अशे तरेन व्हड सूचकतायेन प्रेक्षकांच्या मनांत रुजयता. शेक्सपिअराक चेजाराचें पात्र एक निशकलंक, उदात्त नायकाच्या रुपांतच उबें करपाचें आसा; प्रेक्षकांची पुराय सहानुभूती ताचे कडेन वळोवपाची आसा ही गजाल आमकां वेळावेळार जाणवता. ''तुजें आयचें कार्य सफल जावं'' अशे पोपीलियूस म्हणटा तेन्ना आपल्या कटाची बातमी फुटली काय कितें ह्या भंयान कासियूस दचकता.

कासियूस किंवा चेजार हांचे पयकीं
कोण तरी एकलो जितो परतुपाचोना,
कित्याक हांव तर जीव दितलों. (3/1)

अशें कासियूस ब्रूतुसाक सांगता. मरणाची पर्वा करिनासतना आपली निस्वार्थ वृत्ती अढळ दवरुन सेनेटाच्या सभाघरा कडेन वचपी चेजार प्रेक्षकांनी कांय वेळा पयलीं पळयला आनी आतां ते पळयतात कासियूसाक, खुनाचो कट करपी आनी आत्महत्त्येचो भेजूड मार्गां आपणावपाक तयार आशिल्ल्या कासियूसाक. कासियूसाचें हें दर्शन विरोधान प्रेक्षकांची सहानुभूती चेजारा कडेन उत्कटतायेन वळयता. चेजार, ब्रूतुस, कासियूस हीं सगळींच पात्रां मरणाचे दिकेनच आपलीं पावलां फुडें घालीत आसात; पूण हें मरण शेक्सपिअर विलक्षण अर्थपुराय करीत वता. हें मरण प्रत्येकाच्या जिविताचो अर्थ सांगपी आसा.

चेजाराचो खून करतना आडखळ जावची न्हय म्हणून त्रेबोनियूस आन्तोनियूसाक कडेन घेवन वता. चेजाराचेर पयलो घाव कासकान घालचो हें थारता. हें सगळें घडटा आसतना ब्रूतुसाचें जें दर्शन आमकां घडटा तें आसता निगरगट्ट धूर्त कटवाल्याचें. हाचे आदीं ताची सद्सद्विवेक बुद्धी ताच्या मनाचेर ताण निर्मितना शेक्सपिअरान दाखयल्या. पुणून हांगा ती तांणे सामकी गुटलावन दवरल्याचें दिसता. कासियूस आनी ब्रूतुस ह्या दोगांयच्या विरोधांत

हांगा चेजाराच्या व्यक्तीत्वाचे व्हडपण प्रेक्षकांक जाणवचें अशी ही शेक्सपिअरान केल्ली रचणूक आसा. चेजार सेनेट-सभाघरांत बसका घेता. चेजारची भूमिका हांगा राज्यकर्त्याची आसा.

आमी सगळे तयार आसात? खंयचो अन्याय आसा सद्या
जो चेजार आनी ताचें सेनेट हांणी निस्तारावपाक जाय?

असो प्रस्न चेजार उपस्थितांक उद्देशून विचारता? हांगा 'चेजार आनी ताचें सेनेट' अशे शब्द चेजारान वापरल्यात. चेजार भारी आढयतायखोर आनी सेनेटाच्या सभासदां सयत हेरांक तुच्छ लेखून वागतालो अशें हांगा शेक्सपिअराक चेजारच्या ह्या उद्‌गारांतल्यान दाखोवपाचें आसा अशें कांय अभ्यासकांचें मत आसा. आर्तेमिदोरुसाचो अर्ज वाचपाक न्हयकार दितना, "जें किते आसा आमचे विशीं तें सगळ्यांत अंतीं" अशें चेजार म्हणटा. ह्या प्रसंगाचे बाबतींतय कांय अभ्यासक म्हणटात, कीं आपले कडेन लक्ष वेधून घेवपा पासत चेजारान दाखयल्ली ही खोटी नमळाय आसा. पूण हें खरें न्हय. चेजाराचें व्यक्तित्व एक आढयतायखोर, उद्धट, नाटकी, नमळायेन लोकांक फटोवपी, सत्तालोलूप अशें रंगोवपाचो शेक्सपिअरचो मातय हेत ना. शेक्सपिअरान जरी चेजाराच्या चित्रणाक फ्लुटार्काचो आदर घेतला, तरी ताचीं सगळीं मत्तां शेक्सपिअरान स्विकारुंकनांत. शेक्सपिअराचो चेजार ही ताची स्वतंत्र निर्मिती आसा. शेक्सपिअराच्या मनांतलो चेजार हो उदात्त चरित्रनायक आसा. शेक्सपिअराच्या ह्य नाटकांत जंय जंय चेजाराचो उल्लेख आयला, थंय थंय तो मरणाचेर आपले किर्तीन जैत मेळोवपी उदात्त चरित्रनायक म्हणूनच आयला.

"मरणान ह्या जैतिवंताक जिखूंक ना. कित्याक आतां तो कीर्तीवंत जाला, जरी तो हयात ना." हो रिचर्ड तिसरो ह्या शेक्सपिअराच्या नाटकांतलो चेजाराचो राजकुंवर एडवर्ड हांणे तिसऱ्या अंकाच्या पयल्या प्रवेशांत केलो उल्लेख ताच्या दिश्टीकोनाचे प्रतिनिधीत्व करता. "चेजार आनी ताचें सेनेट" हे चेजाराचे उद्‌गार आढयताय उक्तावपी अशें धरुन चलपाचें मातय कारण ना. चेजार हो राज्यकर्तो आसा. रोमाचे राज्यघटणे प्रमाणें सेनेटाचें काम राज्यकर्त्याक सल्लो दिवप हें आसा. तेन्ना "चेजार आनी ताचें सेनेट" हाचो अर्थ सल्लो दिवपी सेनेट असोच घेवप योग्य थारत. 'ताचें' ह्या शब्दाचो अर्थ ताच्या हाता खालचें आसा असो घेवपाचें हांगा कांयच कारण ना. सेनेटाचे साबार म्हातारे सभासद राजकी हिकमतींत खांपे

आसताले आनी तातूंतय तांचे सेनेटाचें सभासदत्व मरसर आसतालें. ताका लागून कांय म्हातारे सभासद ताका अडचणीचे जाल्या जावपाची शक्यताय आसा. दुयेंत आसा अशें खोटें कारण सांगपाक नकार दितना,

चेजार फट सांगपाक लायतलो?

जैत मेळयत म्हजे हांगा मेरेन हात पातळ्ळ्यात

तें कितें हांव धव्या खाडांच्या सेनेट सभासदांक

सत सांगपाक भियेवंचे म्हूण/ (2/2)

अशे उद्‌गार चेजार काडटा तातूंत आरोप करपाचो सूर आसा. पूण हें आपल्या घरांत आसतना तो उलयला, जाहीरपणान न्हय. प्रत्यक्षांत सेनेटाच्या सभासदां कडेन चेजार उद्धटपणान वागला अशें ह्या नाटकांत शेक्सपिअरान खंयच दाखोवंक ना. चेजाराची जी प्रतिमा ताका आपल्या नाटकांतल्यान उबी करपाची आसा, तिचेकडेन आढ्यतायेचो सूर विसंगत थारतलो आसलो.

सगळे कटवाले ब्रूतुसाच्या फुडारपणा खाला सभाघरांत चेजाराचो खून करपा खातीर वतात. चेजाराच्या म्हन्यांत वचपा खातीर ते मेतेलूस चिंबेराक फुडें काडटात. मेतेलूसाचो भाव पुब्लियूस हाका चेजारान हद्दपार केला. ताची हद्दपारी चेजारान रद्द करची म्हूण चेजाराची दया भाकपा पासत कटवाले मेतेलूसाक फुडें काडटात. कटवाले चेजाराचो खून करतले हें प्रेक्षक जाणा आशिल्ल्यान, भावाची हद्दपारी रद्द करपा खातीर मेतेलूस चिंबेरान दया भाकप हें चेजाराचे म्हन्यांत वचपा पासत कटवाल्यांनी रचिल्लें नाटक आसा हें प्रेक्षकांक कळिल्लें आसता. कटवाल्यांच्या ह्या नाटकांत ताचो खून जावपाचो आसा. तो चेजारय एक पात्र जाला. शेक्सपिअरान कटवाल्यांचें हें नाटक पंचेचाळीस वळींत भारी कुशळ - तायेन उबें केला. कटवाले आपलें हें 'नाटक' चेजाराक फटोवपा खातीर करपाचे आशिल्ल्यान ते आपल्यो 'भूमिका' अतिरंजीत स्वरुपांत सादर करतलें हें उक्तें आसा. मेतेलुस चिंबेर नाटकी लाचारीन आपल्या भावाची हद्दपारी रद्द जावची हे खातीर चेजारा मुखार उबो रावन दयेची आचना करता.

सगळ्यांत उंचेलो, श्रेश्ठ, पराक्रमी, सर्व शक्तीवंत चेजार,

मेतेलूस चिंबेर आपलें नमळ हृदय

तुज्या आसना मुखार पसरायता. (3/1)

अशें म्हणून मेतेलूस चेजारा मुखार दिमी मोडटा. स्वाभिमानी चेजाराक हे

अशे लाचारीची सभावीक नसाय आसा.

चेजारचें रगत पागळटलें
अशें मुर्खावरी तूं समजूं नाका.
आनी ताच्या ब्रिदापासून ढळटलें.
जशें रगत पागळटा मुर्खाचें,
तुस्तीच्या गोड उतरांनी,
दिमी मोडून केल्ले लाचारीन,
सुण्यावरी शेंपडी हालयल्ल्यान!
तुज्या भावाक हुकूम काडून तडीपार केला. (3/1)

अशें चेजार मेतेलुसाक बजायता. मेतेलूसाची लाचारी पळोवन चेजाराच्या मनांत प्रतिमा उबी रावल्या ती लाचार सुण्याची :

याचना केल्यो, कुत्र्या वरी शेंपडी हालयशीत,
तुका सुण्या वरी पयस लोट्टलों
म्हजे वाटेंतल्यान. (3/1)

अशी कडक, निंदा करपी भाशा चेजार वापरता. चेजार हांगा न्याय दिवपाची भुमिका आसपी राज्यकर्तो म्हणून उलयता हें ध्यानांत घेतल्यार ताचे भाशेचो तोल हांगा ढासळ्ळा अशें जाणवता. पण हांगा चेजाराच्या भाशेचो तोल गेला तो लाचारी हे गजालीची ताका नसाय आशिल्ल्यान आनी ही लाचारी आपल्या न्याय्य, कायदेशीर निर्णया विशीं अविश्वास दाखयता अशें जाणवल्यान-कसल्याय वैयक्तीक राग लोभाक लागून न्हय.

चेजारान इतली स्पश्ट भूमिका घेवनच मेतेलूस आपलें हें लाचारीचें नाटक चालूच दवरता. हद्दपारी रद्द करपाची विनंती करुन ब्रूतुस आनी कासियूसय मेतेलूसाक साथ दितात. आपूण आपल्या निर्णयाचे बाबतींत ठाम आसां अशें चेजार परतून एकदां सांगताः

हांवें दये खातीर प्रार्थना केल्ली जाल्यार.
आयकून प्रार्थना, म्हजें काळीज पागळटलें आसलें.
पूण हांव अढळ आसां ध्रूव नखेत्रा वरी;
अढळताय, थीरताय ह्या गूणांत,
ज्याचे वरी आकाशांत दुसरो कोण ना....

.... तशेंच ह्या संवसारांत; तोय आसा भरिल्लो मनशांनी
जी आसता रगताचीं, मांसाची घडिल्लीं, बुदवंत,
पूण ह्या सगल्यांत हांव एकच मनीस जाणा,
अभेद्द आसनाक ताच्या कोणूच हालोवंक शकना,
तो केन्नाच अथीर जायना, आनी तो आसा- हांव.
हांगाय हाचोय थोडो प्रत्यय म्हाका दिवपाक दियात.
चिंबराचे हद्दपारी विशीं ठाम आसलो.
आनी ताका तसोच दवरपा बाबतींत हांव ठाम आसां. (3/1)

सेनेटाच्या सभाघरांतलें चेजाराचें हें भाशण ताचो गर्विश्ट सभाव दाखयता अशेंय कांय अभ्यासक मानतात. "हे परम दिव्यत्वाचो दावो करता."अशा थाटाचें दिसता; कित्याक देव लेगीत प्रार्थनेन पागळटात, पूण आपलें हृदय प्रार्थनेन पागळचेंना अशें चेजार म्हाणटाः चेजार गर्विश्ट आनी आढ्यतायखोर आसा अशें प्लुटार्काचें मत आसा. पूण शेक्सपिअरान तें स्विकारुंक ना. चेजाराचो सत्तेचो मद ह्या भाशणांतल्यान शेक्सपिअराक हांगा सुचोवपाचो आसा ताका लागून ताची शैली क्तृत्वाचो प्रभाव घालपाकडे झुकल्या, आनी ती अलंकारीक जाल्या हें खरे; पूण अशे शैलीचो वाव शेक्सपिअरान ह्या नाटकांत सगळे कडेन वापरला. लोकसत्ताक रोमा मदल्या सगळ्याच नेत्यांच्या भाशेची ती शैली आसा. दुसरी महत्वाची गजालः ह्या भाशणांतलो 'हांव' ही चेजार नांवाची व्यक्ती न्हय; ती राज्यकर्त्याची भूमिका आसा. न्याय दिवपाचे बाबतींत तत्वनिश्ठ, अढळ, लाचारीन वा तुस्तीन न विरगळपी अशी ही भूमिका आसा. हांतुतलो "हांव' हे राज्यकर्तो आसा हीच गजाल शेक्सपिअराक हांगा अभिप्रेत आसा. चेजाराच्या व्यक्तीमत्वाचेर शिताडो उडत असो एकय प्रसंग शेक्सपिअरान अजून मेरेन दाखोवंक ना. अशें आसतना ताच्या मरणाचे कांय खीण आनीं अहंकार आनी उद्धटपणा उक्तावपी भाशण शेक्सपिअर ताच्या तोंडीं घालप शक्य ना. चेजाराच्या मरणाक लागून जें दुख्ख जाणवचें अशें शेक्सपिअराक दिसता तें कितें तरी श्रेश्ठ, उदात्त शेणल्याचें दुख्ख आसा-खून जाल्ल्या मनशा बद्दल ती काकूळट किंवा दया न्हय.

चेजार हें ठाम उत्तर दिता म्हणसर सगळे कटवाले चेजाराच्या म्हऱ्यांत पाविल्ले आसतात. हद्दपारीचें गाऱ्हाणें सांगपाचो व्यूह आतां पूर्ण जाल्लो आसता. थारिल्ले प्रमाणे कासका पयलो घाव घालता. ब्रूतुसय आपणाक तरसाद तोपता हें पळोवन

"ब्रूतुस तूंय? मागीर चेजार "पत्करचेंच. तूं मरण" अशे उद्गार काडून चेजार मरता इतलेंच शेक्सपिअरान दाखयलां. चेजाराचें हें नाटकांतलें शेवटचें वाक्य आसा. जाका आपणें मित्र मानलो, तो ब्रूतुस आपणांक तरसाद तोपता हें पळोवन मानसीक धक्को बशिल्ल्या चेजाराची जियेवंची वान्साच जणूं नाजाली आनी ताका लागून तांणे स्वसंरक्षणा पासत कसलोच यत्न केले विणें मरण आपणायलें ही गजाल हांगा शेक्सपिअराक प्रेक्षकांच्या मनाचेर ठसोवपाची आसा. चेजारा सारको शांतपणान मरण स्विकारीत ही गजाल तशें पळोवंक गेल्यार सभावीक दिसना. फ्लुटार्कान चेजारान असो प्रयत्न केल्ल्याचें दाखयलां. ब्रूतुस हो लेगीत मारेकऱ्यां पयकीं एक आसा हें कळटकच तो हताश जावन आपले प्रयत्न थांबयता आनी मरण स्विकारता. पूण नाटकांत चेजार आपलो जीव वाटावपाचो मातय प्रयत्न करिना अशें शेक्सपिअरान दाटून दाखयलां. ब्रूतुसान केल्ल्या मैत्री द्रोहाच्या आड चेजारीची मैत्री वयली निश्ठा उठून दिसपी हे खातीरच शेक्सपिअरान केल्ली ही येवजण आसा.

चेजार मरुन पडटकच "मुक्ती! स्वातंत्र्य जुलूमशाय मेली!" अशो घोशणा कटवाले दितात.

लोकांनो, सेनेटाच्या सभासदांनो, पळूं नाकात, शांत रावात,
म्हत्वाकांक्षेक तिचें देणें पावयलें. (3/1)

अशें आवाहन ब्रूतुस करता. ह्या ताच्या आवाहना उपरांत सगळो लोक भियेला, पळापळ सुरु जाल्या हे परिस्थितीची कल्पना येता. आनी तेच बराबर चेजाराचे म्हत्वाकांक्षेक लागून ताका जिवेशीं मारचेंच पडलें ही भूमिकाय ब्रूतुस आतां जाहीर करता. लोकमत आपले वटेन वळोवपाची गरज ह्या कटवाल्यांक कळटा आनी ते "माचयेर वचात" अशें एकमेकांक सांगतात. लोकां मुखार आपले विचार मांडपाचो हो मार्ग तांकां चेजाराचो खून करचे आदीं सुचूंक नासलो; ती हिंमत तांकां जावंक नासली. आतां ते लोकमताक कौल लावपाक पळयतात, तो भंया पोटीं ही गजाल आदीं गुन्यांव आनी मागीर लोकमताचो कौल ह्या विरोधाक लागून आमकां ठळकपणान जाणवता. कासियूस हो वेव्हारी आशिल्ल्यान ताका वेव्हाराचें भान आसा - तें ताका सदांच आशिल्ल्याचें शेक्सपिअर दाखयता. म्हातारो पुब्लियूस ह्या खुनाच्या कृत्यांत सामील ना, पूण ह्या खिणाक तो थंय हजर आसा. हांगा ह्या निमित्त्यान एक अतिशय सूचक प्रसंग शेक्सपिअरान येवजिला.

आतां हांगसून वच, पुब्लियूस.

घडये आमचेर लोकांनी हल्लो केल्यार

तुजे पिरायेच्या मनशाक ताचो त्रास जातलो. (3/1)

अशें कासियूस ताका सांगता. हांगा लोक आपणाचेर हल्लो करपाची शक्यताय कासियूस स्पश्ट पणान उलोवन दाखयता. म्हाताऱ्या पुब्लियूसा विशीं कासियूसाक दिसपी हुस्को ताची माणसुकी उक्तायता - ही माणसुकी तो उक्तायतना, जाचो कासियूस आनी ताच्या साथीदारांनी खून केला त्या चेजाराचे प्रेत कुशीक पडिल्लें प्रेक्षकांक दिसता ! शेक्सपिअरान निर्मिल्लो हो विरोध आमकां खीणभर भेरायता. कासियूस दाखयता ती माणसुकी एके पातळेचेर खरी आसा आनी त्याच वेळार दुसरे पातळेचेर ती अर्थशून्य आनी धोंगी आसा. मनशां मनशां मदल्या संबंधांची ही घुस्पावणी आमकां विस्मीत करता.

... आनी ह्या कृत्याची जापसालदारकी

खंयचेच व्यक्तीचेर येवपाक जायना

हें कृत्य करपी आमचेरच ती आसा. (3-1)

हें वाक्य ह्याच वेळार शेक्सपिअरान ब्रूतुसाक उलोवंक लायलां. तशें लोकांक सांगचें अशी ब्रूतुसाची अपेक्षा आसा. चेजाराचो खून जातकच ब्रूतुस जो आत्मविश्वास दाखयता तो काकुळटेचो दिसता; पण हांगा जबाबदारी स्विकारपाची जी नीतीक भावना ब्रूतुस स्विकारता ती खोटी दिसना. ही नीतीक भावना जपपी ब्रूतुस अंती ध्येयवादाच्या नांवां खाला खुनाच्या कृत्यांत सामील जाला. शेक्सपिअर हांगाय मनशाच्या आयुश्यांतलो हो विस्मीत करपी विरोध उक्तायता. मनशांतलें बरेपण. ताची नीतीकताय आनी तेच बराबर आशिल्ली तांच्यांतली दुश्टताय, क्रूरताय हाचो अर्थ तरी कितें? हांच्या परस्पर संबधांतल्यान जिविताचो खंयचो आशय उक्तो जाता? शेक्सपिअर कसलेंय भाश्य करिनासतना हे प्रस्न आमच्या मनांत जागे करीत वता आनी आमकां जीणेची अनुभूती दिता.

ब्रूतुसाची ही नीतीक वृत्ती साबार पावटीं अशी तकली वयर काडिल्ल्याचें शेक्सपिअर दाखयता. आनी त्याच वेळार. तिचे अर्थशून्यतायेची जाणविकाय करुन दिता. "जो आपलें आयुश्य वीस वर्सां आदीं सोंपयता! तो तितक्याच वर्सांचें मरणाचो भंय नश्ट करता." असो जेन्ना कासका म्हणटा, तेन्ना ब्रूतुस चेजाराच्या खुनाच्या संदर्भांत जे तरेचो हीण विरोध करता, ताचे वयल्यान ताचे

अधोगतीची खर जाणविकाय प्रेक्षकांक जाता.

तशें धरुन चलल्यार मरण हें लाभाचें.

चेजाराच्या मरणाचो काळ उणो करपी

आमी ताचे इश्टच आसात, असोच ताचो अर्थ. (3-1)

ब्रूतुसाच्या मूळच्या सुसंकृत वृत्तीची ही अधोगती ताका खंयच आवरपाक येवंक ना, अशें शेक्सपिअर येवजणपुराय दाखयता. अशा प्रत्येक वेळार लोकशाये विशीं ताचो ध्येयवाद आनी तो साकार करपा पासत तो वापरता तीं साधनां हांच्या संबंधाचो परिणाम अखेर खंयचो? - हो प्रस्न परतो परतो आमच्या मनांत शेक्सपिअर उबो करता. ब्रुतूसाक आतां खुनाची धुंदी चडल्या :

खाला बागवात, रोमानांनो, खाला बागवात.

आनी आमच्या कोंपरा मेरेन आमचे हात

चेजाराच्या रगतांत आमी न्हाणोवया,

बुडबुडावया आमच्यो तरसादी त्या रगतान

आनी वचूया चलत पेठे मेरेन (3-1)

तकलेचेर उंच मिरयत रगताळून तांबडी जाल्लीं आपलीं शास्त्रां, हिंसेच्या खोट्या तत्त्वगिन्यानाचेर तांणे चडयल्ली शांती, स्वातंत्र्य, मुक्ती ह्या ध्येयांची झूल हांगा शेक्सपिअरान पिंजून उडयल्या. ब्रूतुसाच्या ह्या भाशणाची रचणूक शेक्सपिअरान विलक्षण प्रत्ययकारी केल्या. एके तरेची प्रतिकात्मक अशी ही बांदणी असा. ब्रूतुसाची ह्या भाशणांतलीं सगळीं वाक्यां रगतान बुडबुडल्यांत. हें रगत ह्या वाक्यां वयल्यान व्हांवता अशें दिसचें अशीच ह्या वाक्यांची लय तांणे दवरल्या. ह्या भाशणाचो शेवट शांती, स्वातंत्र्य आनी मुक्ती ह्या तीन शब्दांनी जाता - आनी असो भास जाता कीं, आदींच्या वाक्यां वयल्यान व्हांवपी, खून केल्ल्या चेजाराचें रगत अखेर ह्या तीन शब्दांचेर येवन रकता. हे तिनय शब्द ब्रूतुसाच्या ध्येयवादाचे उद्गार आसात. ब्रूतुसाचो ध्येयवाद हो अखेर खुनाच्या रगतान माखलो अशेंच ह्या भाशणाचे अंतीं जाणवता.

चेजाराच्या खुनाचो सूड घेवपाचे भावनेन पेटिल्लो आन्तोनियूस (आन्तोनी) आतां आपलीं पावलां येवजून उडोवपाक सुरवात करता. हो एकूणच प्रसंग उबो करतना, पात्रांच्या मानसीक हालचालींचे शेक्सपिअरान टिपिल्ले बारकावे आमकां विस्मीत करतात. आन्तोनी आपल्या नोकराक ब्रूतुसा कडेन आपलो

निरोप घेवन धाडटा. आन्तोनीन पढयल्ले प्रमाणे ताचो हो नोकर ब्रूतुसा मुखार दिमी घालता आनी ताची तुस्त करता. आपलें व्हडपण लोकांनी मान्य करचें ही ब्रूतुसाची मानसीक गरज आन्तोनीन जुस्त हेरल्या. आन्तोनीन पढयले प्रमाणे नोकर जशी ब्रूतुसाची तोखणाय करता, तशेंच तो आपूण नाटक करतां. असो संशय येवचो न्हय म्हणून, चेजाराचीय तुस्त करता. चेजाराची तुस्त करतना "चेजार विशीं भंय आसलो" अशें एक वाक्य नोकराच्या तोंडीं आसा. हांगाय आन्तोनीची कुशळ चतुराय शेक्सपिअरान व्हडे सूचकतायेन दाखयल्या. चेजार हो म्हत्वाकांक्षी जुलूमशहा आसलो हे ब्रूतुसाचे भूमिकेक पोशक दिसत आनी ताका लागून आन्तोनी विशीं तांका विश्वास दिसत अशें हें वाक्य आसा.

ब्रूतुसाक मेळपाक येवपा खातीर आन्तोनीन दोन मागण्यो केल्यात. पयली, स्वताची सुरक्षितताय आनी दुसरी गजाल म्हणल्यार चेजाराक कित्याक जिवेशीं मारलो हाचीं कारणां तांणी दिवप. हांगाय आन्तोनीची चतुराय दिसता. आपले वागणुकेचो ब्रूतुसाच्या मनाचेर कितें परिणाम जातलो हाचो आन्तोनी अतिशय बारकायेन अदमास घेता. फोल्गां मारपांत रमपी आनी खुशालचेंडू अशी हे आदीं आन्तोनीची प्रतिमा ब्रूतुस आनी चेजार हांच्या उलोवण्यांतल्यान उबी केल्या हें प्रेक्षकांनी पळयलां. तो फोल्गां मारपीय आसूं येत पुणून आतां कटवाल्यांचो सूड घेवपाक मुखार सरिल्लो आन्तोनी हो खांपो मत्सरी आनी चाणाक्ष आशिल्ल्याचें चित्र हांगा शेक्सपिअरान उबें केलां. ब्रूतुसा कडेन मैत्रीचें नाटक करता आसतना ब्रूतुसाक ताचो दुभाव येतलो. कित्याक आन्तोनीची चेजारा वयली भक्ती ब्रूतुसाक खबर आसा. हे गजालीचें भान आन्तोनीक आसा. आनी म्हणूनच चेजाराचो आपलो मोग लिपोवपाचो तो मातूय प्रयत्न करिना. चेजाराच्या खुनाचीं कारणां सांगून तीं योग्य आशिल्लीं अशी म्हजी खात्री पटय ही आन्तोनीची मागणी हो ताच्या ह्या येवजणेचो भाग आसा. ब्रूतुसाचीं कारणां आयकून आन्तोनी ताचे वटेन वचचोना हाची प्रेक्षकांक पुराय खात्री आसा. चेजाराच्या खुनाक लागून प्रेक्षकांत दुख्ख जालां, कटवाल्यांची तिडक तांच्या मनांत उप्रासल्या. प्रेक्षकांचे हे भावनेक योग्य दाद दीत कथानक फुडें व्हरपाचे दिश्टीन आन्तोनी ह्या पात्राच्या व्यक्तिमत्वाची बांदणी आतां शेक्सपिअर बारकायेन करपाक लागला अशी जाणविकाय ब्रूतुसा कडेन आयिल्ल्या नोकराच्या ह्या भाशणा पासून आमकां जावपाक लागता. शेक्सपिअरान विलक्षण कुशलतायेन ही बांदणी केल्या. पण

हांगा शेक्सपिअर आन्तोनी ह्या पात्रांत रस घेता तो एक मनीस म्हणून न्हय, तर सुडाच्या कथानकाचें साधन म्हणून हाचीय जाणीव आमकां जाता.

आन्तोनीचो हो पयलो डाव सफळ जाता. ब्रूतुस आन्तोनीक सुरक्षिततायेचें आश्वासन दिताच, पूण चेजाराच्या मरणाचीं कारणां सांगून आन्तोनीचें समाधान करपाचें वचनय ताका दिता. वेव्हारी आनी वास्तवाचें भान आशिल्लो कासियूस धोक्याचो इशारो दिवन ब्रूतुसाक आवरपाचो प्रयत्न करता. कटाचें फुडारपण आनी आन्तोनीन केल्ली तुस्त हाका लागून आपल्या व्हडपणाक मान्यता दिवपी दोट्टी फुंकर ताच्या अहंकाराचेर घाल्ल्यान, ब्रूतुस कासियूसाचें म्हणणें मान्य करिना.

ब्रूतुसा कडसून आश्वासन मेळटकच, आपलो पयलो डाव यशस्वी जाल्लो आन्तोनी ब्रूतुसाक येवन मेळटा. ब्रूतुस ताचें स्वागत करचे वेळा, खून जाल्ल्या चेजाराचें मडें कडेक पडलां आनी ब्रूतुस आनी कासियूस हे दोनय खूनी थंय प्रत्यक्ष हजर आसात. चेजाराच्या प्रेता कडेन पळोवन आन्तोनी उलोवपाक आरंभ करता. ब्रूतुसान आन्तोनीक सुरक्षिततायेचें आश्वासन दिल्ल्यान, हांगा आन्तोनीचें बळ हें शक्तीचें बळ न्हय हें उक्तें आसा. असो हो निर्बळ आन्तोनी ह्या कटवाल्यांक नानपयत करपाक उबो आसा. मागीर आन्तोनीचें बळ कित्यांत आसा? ह्या ताच्या बळाचो प्रत्यय सामको सहज सभावीकपणान प्रेक्षकांक येत रावपाक जाय तरच ह्या सूड नाट्याचो ताण तांच्या मनांत तिगून रावतलो आनी नाटकाचें कथानक नेटान फुडें सरतलें.

शेक्सपिअरान हें कठीण आव्हान यशस्वीपणान पेललां. एक तर, जाचें नांव ह्या नाटकाक दिलां, जाका एक शूर, उदात्त नायक म्हणून प्रेक्षकां मुखार उबो केला, त्या ज्युलीयूस चेजाराचें मरण तांणे तिसऱ्या अंकांतल्या पयल्या प्रवेशांत घडोवन हाडलां आनी नाटक तर पांच अंकांचें आसा! म्हणचे नायकाचोच मृत्यु जातूंत जाला तें हें नाटक हांगा न सोंपयतां, तें पांचव्या अंकाच्या अखेरच्या प्रवेशा मेरेन तें चालू दवरपाचें आसा. प्रेक्षकांची उत्सुकताय कायम दवरुन चालू दवरपाचें आसा. चेजाराचेर प्रेम करपी फक्त आन्तोनीच प्रेक्षकां मुखार उबो आसा, आनी तोय ह्या समर्थ, खुनी कटवाल्यां मुखार अशे निर्बळ अवस्थेंत! सद्या तरी तो उलोवपा खेरीज दुसरें कांयच करपाक शकना. हांगा आन्तोनीच्या ह्या उलोवण्यांतल्यानच शेक्सपिअर ताचें बळ उबें करता, ताचे डावपेंच उबे करता; आपल्या उलोवपांतल्यान तो प्रेक्षकांक खिळावन दवरता, आनी

चेजाराच्या मरणाक लागून जंय नाटक सोंपलें अशें दिसचें, थंय ताच्या उलोवण्यांतल्यान हें नाटक नव्यान सुरु जाता असो प्रत्यय प्रेक्षकांक येता. नायकाच्या मरणा उपरांत नाटकाचें कथानक फुडें व्हरपाचो शेक्सपिअरान केल्लो हो अदभूत प्रयोग आसा.

हे विशिश्ट परिस्थितींत आन्तोनी जसो उलोवपा खेरीज सद्या तरी कांयच करपाक शकना; तेच प्रमाणे ब्रूतुसाचीय परिस्थिती आसा. एकतर सद्या तरी आन्तोनी झुजपाक उबो रावंकना. तेच परी ताका ताच्या केंसाकय धक्को लागले विणें तो परतो वतलो अशें आश्वासन ब्रूतुसान दिलां. ताका लागून चेजाराचो खून योग्य हें पटोवप हेंच ताचें सद्या काम आसा. म्हणचे आन्तोनी प्रमाणेच ब्रूतुसय फक्त उलयतलो. ताका लागून ब्रूतुस आनी आन्तोनी हांची ह्या तिसऱ्या अंकांतली पयल्या प्रवेशाच्या मद्यापासूनची भाशणां भारी म्हत्वाचीं आसात. हें फुडलें नाट्य साकार करपी हीं भाशणांच आसात, जीं बरयतना शेक्सपिअरान कल्पकतेन बरयल्यांत. ही भाशणां कथानकाक गती दितात. मनाच्या सुक्षीम हालचालींतल्यान, डावपेंच आंखपाचे चतुरायेंतल्यान, पात्रांच्या विशिश्ट सभावांतल्यान उक्त्यो जाता ताका लागून ह्या भाशणांची रचणूक एका अर्थान हांगा नाटयरचणूक जाता.

चेजाराच्या प्रेता कडेन पळयत आन्तोनी उलोवपाक आरंभता. ह्या भाशणांत तो चेजाराची तुस्त करीत ताच्या मरणान जाल्लें दुख्ख उत्कटतायेन उक्तायता. ह्या भाशणांत आन्तोनी चेजाराचेर आपलें प्रेम उकतायता. आन्तोनी हांगा मेकळेपणान शोक करीत आसल्यारय, ताचे मदलो मुसद्दी जागो आसा. आन्तोनीच्या ह्या भाशणाचो उत्तरार्ध कटवाल्यांक आवाहन करपी आसा. चेजाराचेर म्हजें प्रेम आशिल्ल्यान म्हाका मरण दियात, अशें हें आवाहन आसा.

हांव हजार वर्सां जियेल्यारय
मरणा खातीर असो दुसरो फावोसो वेळ मेळपाचो ना म्हाका.
दुसरी खंयचीच सुवात म्हाका नासत इतली सुखाची
जशी ही आसा, चेजाराचे म्हऱ्यांतली.

आनी आपलें हें आवाहन आन्तोनी अशें सोंपयता :

मरणाचो खंयचोच मार्ग नासत सुखाचो
ह्या युगाच्या श्रेश्ठ विभूती आशिल्ल्या

तुमचे वरी म्हाआत्म्यांच्या हातांतसून मरण लाभचे वरी. (3-1)

आन्तोनी हें भावनेच्या इतक्या उत्कट पातळीवयल्यान उलयता कीं हातूंत कांय उपरोध आसत अशी शंकाय ब्रूतुसाक येना. एकाद्रया उत्तम नटा वरी आन्तोनी हांगा आपलें मन उक्तायता. म्हणल्यार आलिप्त, आनी त्याच वेळार आपले भूमिके कडेन पूर्णपणान एकरुप जावन. आन्तोनी उत्तम वक्तो आसा आनी उत्तम वक्त्यांत एक प्रभावी नट आसताच.

आन्तोनीचें हें भाशण आयकुपी ब्रूतुस आनी कासियूस हे जशे श्रोते आसात तेच परीं नाटय घरांत बशिल्ले प्रेक्षकय श्रोते आसात. ह्या दोनांय श्रोत्यांचेर अपेक्षीत परिणाम घडोवप म्हणजेच भाशणांच्या माध्यमांतल्यान उक्ती जावपी शेक्सपिअराची ही नाट्यरचणूक आसा. प्रेक्षक हांगा ब्रूतुस, कासियूस आनी आन्तोनी ह्या तिगांकय पळयतात. हातूंत तीन गजाली स्पशटपणान दिसतात. पयली ब्रूतुस आन्तोनी विशी उक्तावपी स्नेहभाव, दुसरी, आन्तोनीची सुडाची भावना आनी ह्या सुडाच्या डावाची धूर्त आंखणी, आनी तेच बराबर हे अभिव्यक्तीचो तो मुसद्दी वृत्तीन करुन घेत आशिल्लो उपेग. ह्यो तिनूय गजाली शेक्सपिअर प्रेक्षकांक उत्सुकतायेन पळोवपाक लायता, इतकेंच न्हय तर, नाटकाची फुडली दिकाय तातूंतल्यान सुचयता. ब्रूतुस आनी आन्तोनी हांचो परस्परांचेर जावपी परिणाम हो जसो हे नाट्यरचणूकेचो भाग आसा, तसोच शेक्सपिअराक प्रेक्षकांचेर जावपी परिणाम होय हांगा नाट्यरचणूकेचो भाग आसा.

चेजाराक मरण कित्याक दिवचें लागलें हाचें कारण ब्रूतुस आन्तोनीक सांगताः

आतां आमी दिसल्यारय रगताळिल्ले आनी क्रूर,
हे आमचे हात आनी आतांच्या कर्तुबा वयल्यान तुका हें दिसता,
पूण तुका हे आमचे हातच दिसतात
आनी आमच्या हातांनी केल्लो हो रगताचो व्हाळ.
आमचीं काळजां तुका दिसनात, तीं आसात काकुळटेचीं
रोमाचेर जायत आशिल्लो एकूणच अन्याय पळोवन
ही काकुळट आमच्या काळजांत उप्रासली.
उजो जसो उज्याक नशट करता, तशीच काकुळट काकुळटेक
चेजारचे बाबतींत आमी अशेंच कृत्य केला. (3-1)

हांगा आपले करणेचे समर्थन करतना, जाचो कसलोच पुरावो आपले कडेन ना त्या चेजाराच्या अन्यायाचो ब्रूतुस कारण म्हणून उल्लेख करता आनी आपले हिंसेच्या कर्तुबाक काकुळट अशें नांव दिता. चेजारान केल्ल्या अन्यायाचो एकय प्रसंग प्रेक्षकांनी पळोवंक नाशिल्ल्यान ब्रूतुसाच्या ह्या आत्मसर्मथनाचें पोकें-पण तांकां जाणवता. चेजारचो भक्त आशिल्ल्या आन्तोनीक तर ब्रूतुसाचें हें आत्मसमर्थन पटवप अशक्यच! ताचें सगळें लक्ष आतां आपल्या सूडाचो व्यूह फुडें व्हरपाचेर आसा. तो सगळ्या कटवाल्यांचे हात इश्टागतीच्या करारान आपल्या हातांत घेता.

''आतां तुमी जण एकल्यान रगतान बुडबुडिल्लो हात तुमचो, म्हज्या हातांत दियात''. अशी विनंती करताना तो 'रगतान बुडबुडिल्लो' हो शब्द वापरता. चेजाराच्या रगतान कटवाल्यांचे हात बुडबुडिल्ले आशिल्ल्यान हो शब्द एके पातळेचेर वस्तु स्थितीचें वर्णन करपी आसा आनी आयकूपी कटवाले हेच पातळेचेर ह्या शब्दाचो अर्थ घेतात. पूण त्याच खिणाक प्रेक्षकांक 'रगतान बुडबुडिल्लो हात' ह्या शब्दांतल्यान आन्तोनीच्या मनांतली तिडक पोशेता. एकूच शब्द पूण ताचो कटवाल्यां खातीर अर्थ वेगळो आनी प्रेक्षकां खातीर अर्थ वेगळो.

आपलो डाव सादपा पासत आन्तोनी आतां खूब म्हत्वाचें अशें पावल फुडें घालता.

आनी एक मागणें आसा;
चेजाराचें प्रेत म्हाका पेठेंत व्हरपाक दिवचें,
आनी तें माचयेर दवरून - तशें करप मित्राक सोबतलें (3-1)

ताच्या इन्तेराच्या विधींत म्हाका तुमी भाशण करपाक दिवचें; हांगा हे मागणीचें कारण दितना ''तशें करप मित्राक सोबतलें'' अशें आन्तोनी म्हणटा. ब्रूतुसाचेर आपल्या उलोवण्याचो कितें परिणाम जातलो हाचो आन्तोनी धूर्तपणान विचार करता हाची जाणविकाय हांगा जाता. आन्तोनीचो हो हिशेब अचूक थारता. आपले कडेन आन्तोनी नमळायेन संमती मागता हाका लागून ब्रूतुसाच्या अहंकाराक जेल. दिता. ''अशें तूं कर, मार्कूस आन्तोनियूस,'' अशी परवानगी तो अन्तोनीक दिता. वास्तवाचें अचूक भान आशिल्ल्या कासियूस अशी परवानगी दिवं नाका अशी विनंती ब्रूतुसाक करता.

आन्तोनिचें भाशण आयकून, लोक कितले खुबतले

हाची कल्पना आसा तुका? (3-1) अशी स्पश्ट कल्पना तो ब्रूतुसाक दिता. पूण ब्रूतुस ताचें आयकना. हांव माचयेर पयलो वतां आनी चेजाराच्या मरणाचें कारण स्पश्ट करतलो अशें तो कासियूसाक सांगता. आपल्या लोकप्रियते वयलो विश्वास हांगा ब्रूतुस उक्तायता. ह्या ताच्या विश्वासाचेर सतत जेल दिवन ताका फुलोवपाचो उद्देश कासियूस करीत आशिल्ल्यान लोक तुजें घडये मानचेनांत अशें सांगपाची हिंमत कासियूसाक जायना. ब्रूतुसाक आपल्या कटांत ओडपा खातीर कासियूसान वापरिल्ली धूर्त चाल आतां ताच्या पायांतली बेडी जावन तो ते बडेयेंत शिरकता.

माचये वयल्यान पयलीं हांव म्हजी भूमिका लोकां मुखार मांडटलों; ताचे उपरान्त तूं भाशण करतना तुवें आमकां दोश दिवपाक जायना. चेजारा विशीं तुवें बरें उलोवपाक आमची हरकत ना, पुणून तें तूं आमचे परवानगीन उलयता अशें लोकांक सांगचें पडटलें हे अटीचेर ब्रूतुस आन्तोनीक चेजाराच्या इन्तेरांत भाशण करपाची परवानगी दिता. ह्यो सगळ्यो अटी आन्तोनी मान्य करता. ब्रूतुस जरी बुदवंत आसलो, तरी मनांत खोल खंयतरी ताचे नकळयां दडून बशिल्ली अपराधाची भावना आनी स्वताच्या व्हडपणाची तनरी हाका लागून आपूण चुकीचें गणीत करतां हें ताच्या ध्यानांत येना. ब्रूतुसाची पयली अट तो पयलीं उलयतलो ही आसा. आपूण जें सांगतां ते लोक मानतलेच ही गजाल तो हांगा गृहीत धरुन चलला. ब्रूतुस हो उत्तम वक्तो आसा; तो लोकप्रिय आसलो तरी लेगीत लोकांच्या चोंब्याक भाशणान जिखप हें ना म्हणल्यारय एक जुगार आसा. हांगा दर खेपेक लोक आपले फाटल्यान आसतलें अशें धरुन चलप हें चुकीचें आसा हाचें भान दवरुन तांणे सादूर आसपाक जाय आसलें. पूण ब्रूतुस आपल्या व्हडपणाचें धुंदीक लागून ह्या सादूरपणा पासून ढळटा.

ब्रूतुस चेजारा विशीं बरें उलोवपाक शकता ही ब्रूतुसान घातिल्ली दुसरी अट आसा. पूण हें आपूण ब्रूतुसाचे संमतीन उलयतां अशें तांणे लोकांक सांगपाक जाय. आपले न्यायबुद्धीची लोकांक जाणविकाय जावची ह्या हेतान ब्रूतुसान ही अट घाल्या. पुणून चेजाराच्या खुनाची फाटभूंय ह्या प्रसंगाक आशिल्ल्यान आनी चेजाराच्या दुर्वर्तनाचे कसलेच प्रत्यक्ष पुरावे आपले कडेन नाशिल्ल्यान लोकांक आपली ही न्यायबुद्धी पटवप सोंपे न्हय; केवळ आन्तोनीक चेजारा विशीं बरें उलोवपाची परवानगी दिल्ले खातीर ही न्यायबुद्धी लोकांक पटवप कठीण आसा.

हें ब्रूतुसाच्या लक्षांत येना. आपल्या गुन्यांवाचें समर्थन करपी मनशाक आपलें समर्थन लोकांक पटवपाची घाई आसता आनी ताका लागून ते लोकांक निश्चीत मान्य जायत अशें गृहीत धरुन चलपाची घाई तो करता. हांगा ब्रूतुसाची मनोवृत्ती ही अशी आसा. ब्रूतुसाची फुडली अट अशीच लेचीपेची आसा. तूं चेजारा विशीं जाय तितलें बरें उलय, पूण आपल्या भाशणांत तुवें आमकां दोश दिवपाक जायना ही अट आसा. स्वता उत्तम वक्तो आशिल्लो ब्रूतुस ही अट घालतनाय चुकता हाचें अजाप जाता. आन्तोनीच्या भाशणाचो रोख चेजारा विशींच्यो लोकांच्यो भावना उचंबळावप आनी ताचो उपेग मागीर कटवाल्यांचे आड करप असोच आसतलो. ही मुळावी गजाल ब्रूतुसाक कळपाक जाय आसली. कटवाल्यांक गाळी संवप, तांचेर दोशारोप करप हो न्हयकारी मार्ग जालो. असो न्हयकारी मार्ग लोकांच्या चोंब्याच्या मनांत चेजारा विशीं प्रेमादराची हयकारी भावना निर्मूपाक शकची ना. हें वक्तृत्वाचें मुळावें ज्ञान आन्तोनीक नासतलें अशें उत्तम वक्तो आशिल्लो ब्रूतुस धरून चलता.

इन्तेरा खातीर प्रेत तयार कर आनी आपले फाटसून यो अशें सांगून ब्रूतुस फुडें वता. आन्तोनी एकटोच फाटीं उरता-चेजाराच्या प्रेता म्हऱ्यांत. चेजाराच्या मड्या कडेन पळयतना आन्तोनीक भरून येता.

काळाच्या प्रवाहांत जल्माक आयिल्ल्या सर्वश्रेश्ठ थोर मनशांतलो तूं
स्वताचे भग्न अवशेश जावन हांगा पडला.
हे मोलादीक रगत जांणी सांडलें त्या हातांचो धिक्कार आसूं. (3-1)

अशें तो चेजाराच्या प्रेता कडेन पळोवन म्हणटाः आन्तोनीन चेजाराचो केल्लो गौरव आनी कटवाल्यांचो केल्लो खर धिक्कार आमी समजूं शकतात. पूण आन्तोनी हांगाच थांबना. तो भावनांच्या आवेगांत झपाटिल्ले वरी फुडें उलयता आनी एका भिरांकूळ विनाशाचें चित्र तो आपले श्रापवाणीन चित्रायता.

त्या तुज्या घाव्याचें गवायेन हांव भाकीत करतां :
ह्या लोकांच्या हातां पांयांचेर श्राप कोसळटलो;
देशांतलो संताप आनी भयांकूळ यादवी,
हांच्या असह्य भारान कोसळटलो हो इताली देश;
रगतां व्हांवतलीं; सांवार आनी उच्छेद हांचो तरतर जातलो,
भिरांकूळ दृश्यां इतलीं संवकळीचीं जावन



झुजाच्या उन्मादान माजिल्ल्या हातांनी केल्ले आपल्या बाळकांचे
छिन्नविच्छिन्न देह आवयो, फक्त हांसकुऱ्या मुखान पळयतल्यो.
नश्टया कर्तुबाचे रुढीन काकुळट घुस्मट्टली
आनी सूड घेवपाखातीर वणवणपी चेजाराचें भूत
धगधगपी नरकांतल्यान पेटून उठिल्ले धांय धिस्पटीचे देवतेचे साथीन
आनी सम्राटाचे वाणीन सगळे देशभर आड्डून सांगतलें,
"अच्छेव कांडात," आनी झुजाचीं सुणीं मेकळीं सोडात.
ह्या नश्टयां कर्तुबांचो दुर्गंध पिर्थूम व्यापतलो
मूठ मातयेची पिर्गंत वाट पळोवपी मड्या वरी मनशाच्या सांगातन. (3-1)

विनाशाचें हें भिरांकूळ चित्र आंगाचेर कांटो फुलयता. खुनी कटवाल्यांच्या संदर्भांत आन्तोनीच्या भावनांची उचंबळाय आमी समजूं शकतात. पूण ती श्रापवाणी ह्या खूनी कटवाल्यां पुरतीच मेरावंकना. "कोसळटलो हो सगळो इताली देश," अशी ही श्रापवाणी आसा. खंयचे हेतून शेक्सपिअरान हें विनाशकारी भिरांकूळ चित्र आन्तोनीच्या भाशणांतल्यान उबें केलां आसत? हिंसा हें साधन वापरुन समाजांत आनी समाजीक मुल्यांचो बदल घडोवन हाडपाची अपेक्षा बाळगप ही मनशाची शोकांतिका आसा. शेक्सपिअराची ह्या नाटका फाटली ही जाणविकायच हांगा विनाशाच्या भिरांकूळ चित्रांतल्यान उक्ती जाता. हांगा "इताली" हो शब्द प्रतिकात्मक आसा. हो शब्द इताली देशाच्यो भूगोलीक शीमो हूपून सगळ्या संवसाराक आनी मानवजातीक व्यापता. शेक्सपिअराची प्रतिभा आपल्या काळापुरतीच मर्यादीत ना, ती सर्वकालीन आनी वैश्वीक आशिल्ल्यान हिंसेंतल्यान उप्रासपी भावी काळांत घडटल्या झूजांकय तें लागू पडटा.

तिसऱ्या अंकांतलो दुसरो प्रवेश हो चेजारच्या मरणा उपरान्तचें नाटकाचें कथानक फुडें व्हरता. लोकांक आपले वटेन ओडपाक ब्रूतुस आनी आन्तोनी हे दोगूय आपल्या प्रभावी भाशणांतल्यान लोकभावना जिखपाचो यत्न करतात. हें द्वंद शेक्सपिअरान ब्रूतुस आनी आन्तोनी हांचे पुरतेंच आसचें हो नाट्यरचणूकेचे दिश्टीन शेक्सपिअरान हो निर्णय घेतला. हो वक्तृत्वाचो फड आन्तोनी जिखतलो आनी आन्तोनीचें जैत ब्रूतुस आनी ताच्या कटांतल्या साथीदारांच्या जिवाचेर उलट्टलें. ह्या ब्रूतुस आनी आन्तोनीच्या द्वंद-झुजांत शेक्सपिअरान कासियूसाक स्थान दिवंक ना, कित्याक ताचो उपेगय जावंचो नासलो. ह्या खूनाबाजीच्या

राजकारणांत ब्रूतुसाची अधोगती जरी जायत आसली, तरी ताची सद्सद्विवेक बुद्धी सतत जाग्रुत आसता हें शेक्सपिअर दाखयता. हाका लागून ब्रूतुसाच्या मूळ सभावाचें दर्शन घडयतनाच, हे सद्सद्विवेक बुद्धीच्या विरोधांत ताची अधोगती खरायेन आमकां जाणवता हें तो पळयता. ब्रूतुस जरी चुकीच्या मार्गान चलता, तरी लोकशाये वयलें ताचें प्रेम शेक्संपिअरान खंयच खोटें दिसपाक दिवंक ना.

"म्हजी भूमिका आतां आयकात," अश्या आवाहनान ब्रूतुस आपल्या भाशणाची सुरवात करता. आपले सचोटी विशीं आदर बाळगात अशेंय तो लोकांच्या चोंब्याक सांगता. हांगाय शेक्सपिअरान कसलेंच भाश्य करुंक ना. आपले सचोटी विशीं ब्रूतुसाक दिसपी विश्वास आनी सचोटी हे गजालीचें ताका दिसपी म्हत्व शेक्सपिअर हांगा स्पश्ट करता; पण ताका फाटभूंय आसा चेजाराच्या खुनाची- मैत्रीचें नाटक करुन केल्ल्या खुनाचीं!

चेजाराचो आपणांक मोग आसलो, पूण तो म्हत्वाकांक्षी आसलो म्हूण आपणें ताका जिवेशीं मारलो ही आपली भूमिका ब्रूतुस लोकां मुखार मांडटा. चेजाराचे म्हत्वाकांक्षे विशींची तिडक लोकांच्या मनांत विरोधांत उप्रासची हे खातीर तुमी गुलामगिरीचो दुस्वास करपी आनी स्वातंत्र्याचेर प्रेम करपी रोमान आसात ही भावना आपल्या प्रभावी भाशणान ब्रूतुस लोकांच्या मनांत जागयता. ब्रूतुस हो अणभवी मुत्सद्दी आनी खांपो क्क्तो आसा.

गुलामगिरीचो द्वेश करपी आनी स्वातंत्र्याचेर प्रेम करपी अशी तोखणाय करून तो पयलीं लोकांच्या अहंकाराक व्हडे हुशारीन जेल दिता. ही भावना लोकांत जितले उत्कटतायेन जागी जायत तितलेच उत्कटतायेन तांकां म्हत्वाकांक्षी चेजाराक मरण दिवपाचो निर्णय योग्य दिसतलो हो ब्रूतुसाचो ताच्या भाशणाच्या मांडणी फाटलो हिशेब खरो थांरता. "आमी ताका घोशणा दीत आनी हालेटी मारीत घरा व्हरुया" अशी ब्रूतुसाक ताच्या ह्या भाशणाची दाद थंयचे थंय लोकां कडल्यान मेळटा. ब्रूतुसाक मेळपी ही दाद हो हांगा शेक्सपिअराचे नाट्यरचणूकेचो म्हत्वाचो भाग आसा. हाचे उपरान्त आपल्या भाशणान आन्तोनी ब्रूतुसाचेर मात करतलो. आन्तोनीची ही मात उत्कटतायेन जाणवची हाचे पासत ब्रूतुसाचें भाशण यशाचे विशिश्ट उंचायेचेर व्हरुन दवरप गरजेचें आसा. ताका लागून प्रेक्षकांच्या मनावयलो ताण वाडटा आनी आन्तोनीच्या जैताक आवश्यक तें वातावरण निर्माण जाता. ब्रूतुसाचो लोकांचीं मनां जिखपाचो ढोबळ हिशेब तात्पुरतो यशस्वी

जाता हे जरी ह्या खिणाक प्रेक्षकांक दिसल्यारय, तांकां हेंवूय जाणवता की चेजार म्हत्वाकांक्षी आसलो हें केवळ विधानच हांगा ब्रूतुस करता - चेजार विशींची चीड, लोकांची मनां पेटोवपी तिडक तो निर्मुपाक शकूंक ना.

चेजारच्या प्रेताक मान दियात
आनी ताचे भाशण भौमान दिवन आयकात,
ज्या भाशणांत चेजाराचो गौरव जातलो
ते भाशण करपाची संमती आन्तोनियूसाक आमी दिल्या. (3-2)

अशें सांगून ब्रूतुस वता. हांगाय ब्रूतुसाचें हिशेबी धोरण आसा. आपणे चेजाराक दिल्लें मरण वैयक्तीक द्वेशान दिवंक ना, तर रोमाच्या हिता पासत दिलां हें लोकांक पटचें हे खातीर चेजाराचो गौरव जातूंत आसत अश्या आन्तोनीच्या भाशणाक आमीच परवानगी दिल्या ही गजाल हांगा ब्रूतुस लोकांच्या मनाचेर व्हडे हुशारीन बिंबयता. हांवें म्हजे खातीर तोच खंजीर दवरला, "जेन्ना म्हज्या देशाक म्हज्या मरणाची गरज दिसतली," अशें भावना हालोवपी आवाहन तांणे लोकांक आदींच केलां आनी आपूण निस्स्वार्थी आसून मरणाक भियेना ही गजाल आपल्या श्रोत्यांच्या मनाचेर ठसयल्या.

आपली लोकप्रियताय आनी भाशणाचें कसब हांणी असो परिणाम सादतकच सभावीक ब्रूतुसाक आपूण हो फड जिखलो अशेंच दिसता. ब्रूतुस आपलें जैत गृहीत धरुन आन्तोनीचें भाशण सुरु जावचे पयलींच उठून वता. हो प्रसंग शेक्सपिअरान व्हडे खूबीन हांगा वापरला. ब्रूतुस जर आन्तोनीच्या भाशणाक हजर आशिल्लो जाल्यार ताच्या दर्शनान आन्तोनीच्या भाशणाच्यो प्रभाव कांय प्रमाणांत तरी उणो जावपाचो. जें वक्तृत्वाचें साधन म्हणून आपूण वापरलें तेच साधन आन्तोनीय वापरतलो हें वास्तव ब्रूतुसाक दिसना. आपल्या व्हडपणाक सतत मान्यताय मेळची ही ब्रूतुसाची मानसीक गरजय ताका वास्तवाचे बाबतीत कुड्डेंपण दिता हो ताच्या सभावांतलो घटक शेक्सपिअरान पयलीं सुचयलाच.

ब्रूतुस 'आपूण जिखलो' ह्या आत्मसंतुश्ट भावनेन सभेंतल्यान वता आनी आन्तोनी आपलें भाशण आरंभता. आन्तोनी आपलें भाशण आरंभचे पयलीं, श्रोत्यां मदले कांय नागरीक उलयतना दाखयल्यात. प्रत्येकाक एक एक वाक्य शेक्सपिअरान उलोवपाक दिलां. पयलो नागरीक म्हणटा, "हो चेजार जुलूमशहा आसलो." ताचेर दुसरो नागरीक म्हणटा : "तें तर नक्कीच. आमी नशीबवंत

म्हूण रोमा ताचे पासून सुटलें.'' ब्रूतुसाच्या भाशणाचो मुखावयल्या श्रोत्यांचेर पडिल्लो प्रभाव आनी अश्या ह्या प्रभावीत श्रोत्यां मुखार चेजाराचे वटेन लोकमत वळवपा खातीर भाशण करपी आन्तोनी मुखार आशिल्लें हें कठीण आव्हान ह्यो दोन गजाली ह्या दोन वाक्यांनी खिणांत प्रेक्षकांक जाणवतात. आन्तोनीचें भाशण आरंभचे पयलीं जो ताण प्रेक्षकांच्या मनांत निर्मुपाक जाय तो ह्या दोन ल्हानश्या वाक्यांनी शेक्सपिअरान सामको सहजतायेन निर्मिला.

आन्तोनी मुखार उबें आशिल्लें आव्हान खऱ्यानीच कठीण आसा. आपल्या भाशणांत ब्रूतुस आनी ताचे कटवाले साथीदार हांकां दोश दिवापाक जायना. ही गजाल तो कबूल करुन बसला. आनी ब्रूतुसाच्या प्रभावा खाला आशिल्ले मुखार बशिल्ले श्रोते चेजार हो म्हत्वाकांक्षी आशिल्लो हें गृहीत धरुन बसल्यात! अशे परिस्थतींत आन्तोनीक मुखार बशिल्ल्या ह्या लोकांच्या चोब्यांक जिखून तांकां कटवाल्यांक नानपयत करपाक उचंबळावपाचे आसात. हें आव्हान जशें आन्तोनी मुखार आसा तशेंच तें आन्तोनीचें भाशण आपल्या ह्या नाटकांत बरोवपी शेक्सपिअराचे मुखारय आसा. आन्तोनीक मुखार आशिल्ल्या लोकांच्या चोंब्याक आपल्या भाशणान जिखपाक जाय, तेच परीं हें भाशण आयकुपाची नाट्यघरांतलो प्रेक्षकांचो चोंबो लेगीत ह्या भाशणान जिखपाक जाय. शेक्सपिअरान हें आव्हान अजापाचे तांकीन हांगा पेललां. तो उपहास-उपरोधाचो कुशळतायेन वापर करता; नमळायेचें पुराय सवंग वठयता, कटवाल्यांची हुशारीन अशी तुस्त करता की ती तोपपी विखारी खंजीर आसा हे तांकां कळऽ लेगीतना, पूण प्रेक्षकांक मात तातुंतलो विखार खिणा खिणाक जाणवता. कटवाल्यांनी चेजाराचेर खऱ्या खंजीराचे घाव घालून ताचो जीव घेतलो, पूण आन्तोनीन आपल्या भाशणान कटवाल्यांक उद्देशून ''भोवमानेस्त मनीस'' हे तुस्त तोखणायेचे शब्द वापरुन, तुस्तीचो खंजीर कटवाल्यांच्या काळजांत व्हडे नमळायेन तोपलो हाची जाणविकाय प्रेक्षकांक जाता.

ब्रूतुस आपल्या भाशणांत आपले भुमिकेचें समर्थन करतना चेजाराचेर तो म्हत्वाकांक्षी आशिल्ल्याचो आरोप करता, पूण ताचे पुश्टी खातीर एकय पुरावो लोकां मुखार मांडिना. कित्याक ताचे कडेन तसो पुरावो नाशिल्ल्याचें पयलींच तांणे कबूल केलां. ही त्रुटी शेक्सपिअरान ताच्या भाशणांत व्हडे खुबीन दवरल्या, कित्याक आपल्या भाशणांत आन्तोनी, हाचे उरफाटें, पुराव्याची त्रुटी दवरिना अशें

शेक्सपिअराक दाखोवपाचें आसलें. चेजारचे आड पुरावे दिवन ब्रूतुस लोकांच्यो भावना भडकावपाक शकना. हाचे उरफाटे, आन्तोनी चेजाराचे व्हडविकायेचे एका फाटल्यान एक पुरावे आपल्या भाशणांत दीत वता. आनी लोकांच्यो भावना कटवाल्यांचे आड प्रत्यक्ष एकय शब्द उलयलेवीण उचंबळायता. चेजार हो मनान व्हड आशिल्लो, लोकांचें ताचेर प्रेम आशिल्लें अशीं शाब्दीक विधानां आन्तोनी करिनासतना, तो पुरावो म्हणून लोकांक चेजारचें मृत्युपत्र वाचून दाखयता. हें मृत्युपत्र वाजून दाखोवचे पयलीं, तें आपूण वाचून दाखोवचोना अशें परतें परतें सांगून तो लोकांच्या मनावयलो ताण प्रचंड वाडयता. आनी मागीरच तें मृत्युपत्र वाचता. चेजाराक आपणे तीन पावटीं दिल्लो राजमुकूट तांणे तीनदांय न्हयकारलो आनी ह्या प्रसंगाक लोकांची गवाय आशिल्ली हाची यादय तांकां करुन दिता. मृत्युपत्रा वरीच ही याद हो लेगीत एक पुरावोच आसता. "म्हाका जाय" हें वाक्य शंबरदां वापरुन जो परिणाम सादचोना, तो परिणाम आन्तोनी "म्हाका नाका" ह्या वाक्यान घडोवन हाडटा. "तुमचीं काळजां आनी तुमचीं मनां बंडा खातीर तिडकीन उठचीं" हें म्हाका नाका अशें तो लोकांच्या चोंब्याक सांगता. श्रोत्यांच्या मनांचो विचार आन्तोनीन अतिशय बारकायेन केला हाचो प्रत्यय ताचें भाशण आयकतना येता. ब्रूतुसाक ही गजाल जमिल्ल्याचें शेक्सपिअर दाखयना. बुद्धीमता किंवा वक्तृत्व हातूंत ब्रूतुस आन्तोनी परस उणो आसा अशें मुळींच ना. मागीर ब्रूतुस उणो कित्याक पडलो? हाचे कारण उक्तें आसा. ब्रूतुस श्रोत्यांक गृहीत धरुन चलता. तशें नाशिल्लें जाल्यार तो मुखार आशिल्ल्या लोकांच्या चोंब्याक आन्तोनीच्या हवालीं करुन थंयसून वचचो नासलो! आन्तोनी आपल्या भाशणांतल्यान जी भूमिका मांडता ती ताची भूमिका तर आसाच पूण मुखार आशिल्ल्या श्रोत्यांक हे भूमिकेशीं एकरुप करुन घेवपा खातीर तो प्रयत्नांची शिकस्त करतना दिसता. तो ब्रूतुसा प्रमाणें श्रोत्यांक गृहीत धरुन चलना. तो तांकां ह्या प्रसंगात सामील करुन घेता.

म्हान चेजार कोसळ्ळो।

आरे, केदें तें कोसळप आसलें! म्हज्या देशभावांनो!

ते उपरान्त हांव, आनी तुमी आनी आमी सगळेच कोसळ्ळे.

आनी खुनी खुनशी देशद्रोहान आमचेर हार घाली. (३-२)

हांगा, 'म्हज्या देशभावांनो,' 'हांव,' 'तुमी,' 'आमी,' 'आमचेर' 'ही' उतरां

'चेजार' ह्या शब्दाची सुवात घेतात आनी तांकां भितर ओडून उत्कट भावनेन तांकां बांदून उडयतात.

चेजाराच्या मृत्युपत्राचो उपेग हांगा शेक्सपिअर व्हडे कल्पतकतायेन करता. चेजाराक मरण फावो आसलें आनी तें दिल्ल्यान रोमान जनतेक कितें मेळ्ळें हें आपल्या भाशणांतल्यान लोकांक सांगतना ब्रूतुस म्हणटा : "चेजाराच्या मरणाचो लाभ आन्तोनियूसाक मेळटलो,आनी तो म्हणल्यार, लोकसत्ताक देशाचो नागरीक आसपाचो. आनी हो लाभ तुमचे पयकीं कोणाक मेळचोना अशें कितें आसा?" हांगा प्रत्यक्षांत रोमान जनतेक कितें मेळ्ळां? चेजारान तीनदां राजमुकूट न्हयकारला; तो राजा जावंकना; रोमा हें लोकसत्ताकच राज्य आसा. ब्रूतुस लोकां मुखार उबो रावन आपली भूमिका मांडपी भाशण करपाक शकता, हें तर रोमा राजसत्ताक राज्य आशिल्ल्याचोच पुरावो आसा! जें लोकां कडेन प्रत्यक्षांत आसा तें चेजारच्या मरणाक लागून लोकांक "मेळटलें" अशें सांगपाक हांशें हाडपी आसा ही गजाल हांगा ब्रूतुसाच्या लक्षांत येना! अशें हें ब्रूतुसाचें भाशण लोकांच्यो भावना उचंबळायना हे फाटभूंयेचेर चेजाराच्या मृत्युपत्राचो आन्तोनीन आपल्या भाशणांत केल्लो उपेग लोकांच्या चोंब्याक भावता :

प्रत्येक नागरिकाक तो दिता
प्रत्येक व्यक्तीक, सामकीं पंच्यातर रुप्यांची नाणी.
... हे शिवाय तुमचे खातीर तांणे दवरल्यांत,
आपली सगळीं उद्यानां, खाजगी लताकूंज,
टायबरचे आलतडीं नव्यान लायिल्ले फळांचे मळे आनी पोरसां
तशीच ताणें तुमच्या वारसांक
कायमचीं दिल्यांत भौशीक मैदानां, मेकळीं,
भोंवपा खातीर, फोल्गां मारपा खातीर
असो हो चेजार आसलो! (3-1)

हें मृत्युपत्र आयकतना "भारी थोर चेजार'... ए, उदार चेजार!" अशे उद्‌गार नागरीक काडटात.

प्रत्येक कटवाल्याचें नांव घेवन आन्तोनी लोकांक चेजाराच्या कळिवंरा वयले घावे दाखयता. लोकांच्या भावना उचंबळायता. उचंबळायेचो हो खीण ज्युस्त सादून "असो दुसरो चेजार केन्ना जातलो?" असो प्रस्न आन्तोनी लोकांक विचारता.

"केन्नाच ना, केन्नाच ना, वचुया. आमी वचुया. आमी चेजारच्या कळिवंराक पवित्र थळाचेर अग्नी दिवया. आनी त्या पेटिल्ल्या चुडीनीं देशद्रोह्यांची घरां जाळूया. कळिंवर उखलात तें." अशी जाप लोक आन्तोनीक दितात. लोकांचो होच प्रतिसाद आन्तोनीक जाय आसता. हाचेच खातीर लोकांच्यो भावना उचंबळावच्यो अशीच प्रसंगांची मांडणी सामको विचार करुन केल्ली आसता. लोकां कडल्यान हो अपेक्षीत प्रतिसाद आयकून आन्तोनी म्हणटा :

आता जावंदी ! हे अनर्था, चल मुखार.

आतां तुका जो रुचत तो मार्ग तुजो. (3-1)

लोकांचो असो तकली फिरिल्लो उचंबळीत प्रतिसाद मेळटकच आन्तोनी जेन्ना खोशी जावन ह्या 'अनर्थाक' येवकार दिता तेन्ना आपली ही कांय खिणां पयलीं दिल्ली श्रापवाणी आतां खरी जातली हाची हांगा जाणीव जाता. आन्तोनीक चेजाराच्या खुनाचो सूड घेवपाक जाय म्हणचे ताका नेमकें कितें जाय? खून करपी कटवाल्यांचो सत्यानाश काय भडकल्ल्या जमावान पेटयल्लो देश?

हांगा सुडाचो विकृत आनंद आन्तोनी घेता अशी जाणविकाय जाता. चेजाराचो खून करतकच ब्रूतुसाक जशी त्या रगताची नशा चडिल्ली, तशीच हांगा विनाशाची नशा आन्तोनीक चडिल्ल्याची जाणविकाय आमकां जाता. म्हणचे हिंसेचे पातळेचेर ब्रूतुस, कासियूस, आन्तोनी हे मूळभूत अर्थान कोणूच वेगळे नासतात. होच हाचो निश्कर्श ! ही सुडाची भावना आन्तोनीचे जाणविकायेंत अशी विकृत पातळी गांठ्ठा अशें शेक्सपिअर कित्याक दाखयता? हांगा हिसा हे गजाली कडेन शेक्सपिअरान आमचें लक्ष वेधलां, कित्याक नाटका फाटल्या मूळभूत चिंतना कडेन ह्या निर्देशाचो खोल संबंध आसा. कटवाल्यांचें हिंसेचें आचरण आनी ताचें समर्थन करपी तत्त्वगिन्यान खोटें आशिल्लें, आनी तें अंतीं विनाशाचे वाटेन वचप अटळ आसलें. पूण हांगा आन्तोनी अश्या खोट्या तत्त्वगिन्यानाचो बळी न्हय. चेजाराचेर ताचें खऱ्यानीच प्रेम आसलें आनी तो यूगपुरुश आसलो ही ताची श्रद्धा आसली. ताका लागून चेजाराच्या खुनाचो बदलो घेवचो अशें ताका दिसप हें सामकें सभावीकच आसलें. आन्तोनी चेजाराचेर जाल्ल्या अन्यायाआड झुजला हाची जाणीव शेक्सपिअराक आसा आनी चेजाराच्या व्यक्तीमत्त्वाचेर ह्या नाटकांत तो साधो शिताडोय उडयना आनी कटवाल्यांचो सूड घेवपा खातीर तो आन्तोनीक एकाद्रया वीरनायका प्रमाणे उबो करता. ताचे सूडभावनेक

नीतीक बळगें दिता. पण अखेर, हे सूड भावनेंत हिंसा ही गजाल अटळपणान येता आनी हे हिंसेचो दुर्जना प्रमाणें सज्जनांकय कैफ चडटा ही गजाल शेक्सपिअरान हांगा अतिशय सूचकतायेन उक्तायल्या. हिंसेच्या ह्या तत्त्वगिन्यानाचो शेक्सपिअराक भितरल्यान खोल खंयतरी भंय दिसता आनी तिचो धोको ताका सतत जाणवता. हे हिंसेचे ध्येयवादान जेन्ना समर्थन जाता तेन्ना तर हो धोको खूब व्हड जाता. म्हणून, ब्रूतुस किंवा आन्तोनीक चडपाक लागिल्ली हिंसेची नशा हाचे परस वेगळी ना.

तिसऱ्या अंकाचो तिसरो प्रवेश सामको ल्हान आसा. आन्तोनीच्या भाशणान उचंबळ जाल्ले लोक शारांत उजो घालपाक भायर सरल्यात हें ह्या निमाण्या प्रवेशाचें सूत्र आसा. ह्या प्रवेशांत चीन्ना ह्या निरपराध कवीक हो जमाव जिवेशीं मारता हो एक प्रसंग. माथेफिरु लोकांचो चोंबो खंयच्या थराक वचूं शकता हें ह्या प्रसंगांतल्यान शेक्सपिअरान आमचे नदरेक हाडलां. अशो गजाली संवसार भर आजय घडटात हें आमी पळयलां.

ह्या तिसऱ्या प्रवेशांत एक म्हत्वाचें पात्र आसा तें म्हणचे लोकांचो चोंबो. हो चोंबो जिखपाचो ब्रूतुस आनी आन्तोनी ह्या दोगांयचो प्रयत्न आसा. लोकांचो चोंबो म्हणचे ज्युस्त कितें करप? जाका प्रचलीत वेवस्थेंत क्रांती घडोवपाची आसता, जाका न्यायाची प्रस्थापना अन्यायाआड झुजून करपाची आसता, अशा नेत्याचे फाटल्यान लोकांचो चोंबो जाय आसता. क्रांतीचें साधन आशिल्ल्या ह्या चोंब्यान कितें केल्लें नेत्याक जाय आसता? ताचें उत्तर उजो, जाळ आनी लूटालूट अशें हांगा शेक्सपिअरान दिलां. सांध्य आनी साधन हांचे मदलो हो भीशण विसंवाद शेक्सपिअरान हांगा उण्यांतउण्या शब्दांनी विलक्षण ताकदीन उबो केला. ह्या नाटका फाटल्यांन शेक्सपिअराचें जें चिंतन उबें आसा ताचो ह्या प्रस्नाकडेन लागचो संबंध आसा. ब्रूतुस आनी आन्तोनी ह्या दोगांयनी आपले परीन लोकांच्या चोंब्याक जिखपाचो यत्न केलो. दोगांय जाणानी लोकांक खूबळावन आपले वशीन घोशणा दिवपाक लायल्यो. पूण अंतीं हो चोंबो कोण जिखता हो प्रस्न म्हत्वाचो. कित्याक जो जिखतलो, तो ताका जाळपोळ करपाक फुडें काडटलो आनी फुडें ताचो राजकी फायदो उठयतलो! कित्याक लोकांचो चोंबो जशें वारें येता ते वटेन भरकटत वता, ताका स्वताचो विचारच नासता. हातूंत आन्तोनी यशस्वी जाता. हांगा नाटकाच्या आरंभाच्या प्रवेशाची याद जाले शिवाय रावना. ह्या प्रवेशांत

हेच लोक चेजाराचे कवतूक करपाक रस्त्याच्चेर जमल्यात. फ्लावियूस आनी मारुलूस हे दोन अधिकारी तांकां धांवडायतात अशें दृश्य आसा. हेच घडणूके पयलीं, जेन्ना पोम्पे जिवंत आसलो तेन्ना हेच लोक ताच्या रथाची वाट पळयतना अशीच खेट करतालें ताचें सुंदर वर्णन पयल्या प्रवेशांत आसा तेन्ना मारुलूस लोकांक तिडकीन विचारता :

आनी आतां तुमी तुमच्या फेस्त कापडांत
आयचो दीस वेंचला सुटयेचो म्हणून?
आनी तुमी आतां फुलां शिंपडायतले ताचे वाटेर
जो पॉम्पीच्या रगतान बुडबुडिल्लें जैत घेवन आयलां.?
चलूंक लागात. (1-1)

नाटकाचो आरंभच लोकांच्या ह्या सभाव दर्शनांतल्यान जाता. लोकांचो चोंबो हो भोगावळीचो मोगी आनी कणो नाशिल्ले वृत्तीचो वाऱ्या प्रमाणें सूप धरपी हें आमी बेस बरें जाणात. तेच बराबर लोकांचो आपल्या स्वार्था पासत फुडारी कसो उपेग करून घेतात हाचेंय दर्शन जाता. अश्या ह्या लोकसत्ताकांत लोकांच्या राज्यांत लोकच जर कणो नाशिल्ले म्हणचे तत्त्वशून्य आनी हिंसा करपी आनी तांचे फुडारी आपल्या स्वार्था खातीर तांकां झुलोवपी आसले, तर हातूंतल्यान निशपन्न कितें जातलें? असो प्रस्न आमच्या मनांत हांगा निर्माण जावप सभावीक आसा. *ज्युलियूस चेजार* हें नाटक सत्ता आनी राजकारण ह्यांच्या संदर्भात आमच्या मुखार अशे विंगड प्रस्न मनांत उप्रासतात, आनी अशा ह्या प्रस्नांचो सोद घेत आमी ह्या नाटकाच्या मूळभूत चिंतन केंद्रा कडेन पावतात. हें चिंतन केंद्र म्हणल्यार सत्ता, राजकारण, हिंसा, ध्येय आनी साधन शुचिताय, नेते आनी तांचे कणो नाशिल्ले अनुयायी हांच्या स्वरुपाचो घेतिल्ले सोद. हो सोद म्हणचेच ह्या नाटकाची समग्र जाणविकाय.

लोकसत्ताक राज्यवेवस्ता आनी राजेशाय हांचे मदलो संघर्श *ज्युलियूस चेजार* ह्या नाटकांत म्हत्वाचो आशिल्ल्यान लोकांच्या चोंब्याचें वृत्तीचें हें दर्शन म्हत्वाचें आसा आनी तें अस्वस्थ करपी आसा. लोकांचे वृत्तीचें हें दर्शन घडयतना शेक्सपिअर राजेशायेचें मातय समर्थन करिना. तांणे चेजार म्हान आनी उदात्त नायक असो जरी रंगयला, तरी तांणे तीनदां राजमुकूट न्हयकारलो ही गजाल शेक्सपिअरान अधोरेखीत केल्या.

चवथ्या अंकाच्या पयल्या प्रवेशांत सूडाच्या राजकारणांत यशस्वी जायत वचपी अन्तोनी कसो कठोर, खुनशी आनी वेव्हारी जाता हें शेक्सपिअरान दाखयलां. ह्या प्रवेशांत ऑताविय़ू, आन्तोनी आनी लेपिडूस हे तिनूय शत्रूपक्षांतल्या ज्या लोकांक जिवेशीं मारपाचें तांची यादी करतात. आन्तोनीचो भाचो पुब्लियूसाचो लेगीत जीव घेतले अशी अट लेपिडूस घालता तेन्ना ''तो जिवंत उरचोना, ही पळय हांवें ताच्या नावां फुडें कुरु करुन ताचें घट्टण केलें.'' अशें आन्तोनी सहजपणान सांगता. कटवाल्यांनी चेजाराचो खून केल्यान तांचेर सूड घेवपाक आन्तोनी मुखार सरला. जांकां जिवेशीं मारपाचें आसा तांच्या नांवांची वेळेरी करप हें जरी अटळ आसलें, तरी शेकीं ही खूनबाजीच न्हय जाल्यार कितें? हिंसेचो साधन म्हणून वापरिल्लीं मनशां अखेर स्वताच हिंसेच्या हातांतलीं बावलीं जातात. ध्येयवादाची धुंदी सरुन, ताची सुवात नकळ्या हिंसेचो कैफ घेवपाक लागता. हे प्रकियेंत साधना शुचितायेचो प्रस्न उप्रासना. जें साधन हिंसेचे सोयीचें तें शुद्ध असो हिशेब पक्को थारता; हांगा आन्तोनी आनी ब्रूतुस ह्या दोनांतलो फरक खंयचो?

देशविघातक कृत्यां खातीर कायदयाचें संरक्षण काडून घेवन
ऑताविय़ू, आन्तोनियू आनी लेपिडूस हांणी
सेनेटाचे शंबर सभासद जिवेशीं मारले (4-3)

अशी म्हायती मेसाला दिता, हाचेर ब्रूतुस म्हणटाः ''ताचे म्हायती प्रमाणे सेनेटाचे सत्तर सभासद जिते मारले.'' शंभर आसूं वा सत्तर आसूं, जो कोण विरोधांत आसा असो दुभाव येतकच ताचो कांटो काडपाचें सत्र आन्तोनीन आरंभलां अशें स्पश्ट दिसता.

मानवी संबंधांच्या पटाचेर वेगवेगळ्या ध्येयवादाच्या नांवां खाला हिंसेचो होच खेळ चालू रावता हाची खर जाणविकाय आन्तोनीच्या ह्या जैत जोडपांतल्यान आमकां जाता. हो प्रत्येक धागो नाटकाच्या केंद्रवर्ती चिंतना कडेन जोडिल्लो वता. *ज्युलियूस चेजार* ह्या नाटकांत 'हिसेंचें तत्त्वगिन्यान' हें पात्र रंगमाचयेचेर दिसना; पण तें पात्र सगळो रंगमाची खेळयता हाची जाणविकाय जशें जशें नाटक फुडें वता तशी तशी आमकां जायत रावता. चेजाराचो मोग आनी पूजा करपी, ताच्या खूनाचो सूड घेवपाक पेटून उठिल्लो एक आन्तोनी आनी हिंसेच्या ह्या मार्गाचेर पावल घाले उपरान्त खंय तरी ब्रूतुसाच्या मार्गानच आपली चाल सुरु करपी दुसरो आन्तोनी अशें एका आन्तोनीन हे दोन आन्तोनी शेक्सपिअरान उबे केल्यात अशें

दिसता, जाणवता तेन्ना तो विलक्षण अस्वस्थ करता, अंतमुर्ख करता.

चेजाराच्या मृत्युपत्राचो उपेग लोकांच्यो भावना उचंबळावपा पासत आन्तोनीन केलोआनीचेजाराचीउदारतायलोकांच्यामनाचेरठसयली.आन्तोनीचोहेतसादलो. चेजारच्या ह्या मृत्युपत्राकडे आन्तोनी आतां कसो पळेता? आन्तोनी लेपिडूसाक सांगता :

.. आतां लेपिडूस तूं वच चेजारच्या घरा
आनी ताचे मृत्युपत्र घेवन हांगा यो,
मागीर आमी थारावया
देणीं ताच्या मृत्युपत्रांतली
उण्यांत उणीं कशी करपाचीं तें. (4-1)

चेजारान आपल्या मृत्युपत्रांत लोकांक ज्यो साबार गजाली दिल्यात, जांचो आपल्या भाशणांत उपेग करुन लोकांचीं मनां जिखिल्लीं, त्यो गजाली कश्यो उण्यो करप हें आतां आन्तोनी पळयतलो. हांगा आन्तोनीचो धूर्त वेव्हारी दिश्टीकोण आनी चेजाराचो साधन म्हणून वापरपाची ताची हुशारी कासियूसा परस वेगळी दिसना. शेक्सपिअर आन्तोनीक एका पांवड्याचेर यशस्वी जाल्ल्याचें दाखयता आनी त्याच वेळार ताच्या रुपान सत्तेच्या राजकारणाच्या संदर्भांत कांय मूळभूत प्रस्न उत्पन्न करता.

चवथ्या अंकाच्या दुसऱ्या प्रवेशांत कासियूस आनी ब्रूतुस हांचे मदीं तणाव जाल्ल्याचें शेक्सपिअरान दाखयलां आनी ताचें कारण तिसऱ्या प्रवेशांत स्पश्ट जाता. ह्या संघर्शाक लागून प्रेक्षकांची उत्सुकताय वाडटा. ताका लागून नाट्य रचणूकेचे दिश्टीनय ह्या प्रसंगाक म्हत्व येता.

उच्च अधिकाराची पदां भांगराच्या मोबदल्यांत कासियूस नालायक मनशांक विकता असो लांचखोरीचो आरोप ब्रूतुस कासियूसाचेर करता. हो ह्या संघर्शाचो एक घटक. लुचियूस पेला ह्या कासियूसच्या वळखीच्या मनशाचेर ब्रूतुस लांच - खोरीचो जाहीर ठपको दवरता. पेलाक भगसुचो अशें पत्र कासियूस ब्रूतुसाक बरयता, पूण ब्रूतुस त्या पत्राची उपेक्षा करता. हाका लागून कासियूस दुखावता, हो संघर्शाचो दुसरो घटक ह्या दोनय प्रकरणांत दिसपी कासियूस हो वेव्हारी राजकारणी आसा. कासियूसची ही वेव्हारी वृत्ती प्रेक्षकांक तशी नवी न्हय पण हांगा तो उक्तेपणान पेलाचे समर्थन करता. आपूण लांच घेवन अधिकाराचीं

पदां विकूंक ना अशें तो म्हणना; उरफाटे, ब्रूतुसान हो आरोप केल्ल्यान तो संतापता. चेजाराक लोकशायेच्या ध्येयवादा खातीर आपूण ताचो जीव घेतिल्लो आसतना आतां आपूण अशा लांचखोरीन आपले हात भश्टतले? ब्रूतुसाचो हो प्रस्न ताची प्रामाणीक निश्टावंत वृत्ती परगटायता. ब्रूतुसाविशीं आदर वाडचो अशीच ह्या प्रसंगाची शेक्सपिअरान रचणूक केल्या. ब्रूतुस आनी कासियूस हांच्या तणावांतलो तिसरो घटक आतां हांगा प्रेक्षकांक कळटा. ब्रूतुसान आपल्या सैन्याचो पगार दिवपा खातीर कासियूसा कडेन भांगराची मागणी केल्ली. कासियूसा कडल्यान भांगर मेळूंक नाशिल्ल्यान ब्रूतुस दुखावला, तिडकला. आपणें भांगर मागपाचें वेव्हारीक कारण सांगून ब्रूतुस ओगी रावना. हांगा गरजू आसा ब्रूतुस. पूण अशेय परिस्थितींत आपली चारित्र्यसंपन्नताय आनी त्याच वेळार कासियूस सारक्या वेव्हारी मनशाची क्षुद्रताय तो ताका जाणोवन दिताः

तुजे कडेन... हांवें भांगर मागिल्लें, कित्याक
वायट मार्गान म्हाका पयसो उबारूंक येना.
देवाच्यान एकवेळ हांव म्हज्या काळजाच्या कुडक्यांच्यो
रगताच्या थेंबाच्यो रुप्याच्यो म्होरो करीन,
पूण केन्नाच जुलमान पिळून घेवंचो ना
गरीबधांट्या शेतकारांची कमाइ. (4-3)

हांगा ब्रूतुसाची चारित्र्य संपन्नताय उक्ती जाता. ताचें हे उलोवणें नाटकी आत्मप्रौढीचें दिसना. पूण अशा ह्या खिणांत लेगीत ब्रूतुसाची नियती ताची काकुळट करता. भ्रश्टाचारा खातीर पेलाचेर आनी कासियूसाचेर आरोप केल्लो ब्रूतुस, आतां कासियूसा कडेन भांगराची मागणी करता. हांव भ्रश्टाचार करचोना पूण तुवें भ्रश्टाचार करुन मेळयल्लें भांगर म्हाका चलता. सत्तेच्या राजकारणांत भ्रश्टाचार ही कितली गुंतागुंतीची गजाल आसता हाचें दर्शन हांगा शेक्सपिअर घडयता. अडेज हजार वर्सां उपरान्तय हे परिस्थितींत बदल जाल्लो दिसना.

कासियूस आपलो मोग करता हाची ब्रूतुसाक जाणविकाय आसा. ताका लागून आनी आतां दोगांकय एकमेकांची गरज आशिल्ल्यान हो तणाव निवळटा आनी तांचो समेट जाता. शत्रूक फिलीपीक वचून गांठचो हें धोरण पसंत नासतनाय ब्रूतुसाचो हो निर्णय कासियूस मान्य करता. प्रत्येक निर्णय ब्रूतुस आपणाक जाय तसोच घेता आनी हें करतना आपूण वयल्या पांवड्याचो आसा हाची जाणविकाय

ताका नकळयां दिता. कासियूस प्रत्येक गजालींत माघार घेता आनी जें ब्रूतुसाक जाय तेंच करता.

ह्याच प्रवेशांत ब्रूतुसाची बायल पोर्चिया हिणें अग्नीकाश्टां भक्षण करुन आत्महत्या केली हें आमकां कळटा. हें दुख्ख सोंसपी ब्रूतुसाची धीरगंभीर वृत्तीय आमकां जाणवता. हें मरण तिणें आत्महत्या करुन स्विकारलां ही घटनाय सूचक आसा कित्याक चेजाराचे सगले खूनी लेगीत हेच आत्महत्येचे वाटेन एका फाटसून एक मरण पत्करतले. पोर्चियेचे आत्महत्ये पासून कटवाल्यांच्या आपत्तींचो आरंभ जाता.

चवथ्या अंकात ह्याच प्रवेशांत चेजाराचें भूत प्रवेश करता. हें भूत ''हांव तुजो दुश्टात्मो.'' अशें म्हणटा आनी हांव तुका फिलीपीक मेळटलो'' अशें सांगता. भुताची ही कल्पना शेक्सपिअरान फ्लुटार्काच्या ग्रंथांतल्यान घेतल्या. पूण ती मात्शी बदलल्या. प्लुटार्काच्या ग्रंथांत ब्रूतुसाक भुताचो भास जाता. ''तूं कोण'' हे विचारतकच ''हांव तुजो दुश्टात्मो'' अशी जाप भूत दिता. शेक्सपिअरान ताका चेजाराचें भूत म्हणलां आनी शेक्सपिअरान गूढताय निर्मिल्या.

ह्या चवथ्या अंकाचे शेवटीं आपलो नोकर लुचियूस हाचे विशीं वात्सल्य भाव परगटायना ब्रूतुस दिसता. ब्रूतुस मुळचो कोमल ह्रदयाचो आसा हाची हांगा शेक्सपिअर जाणविकाय करुन दिता; शेक्सपिअरान अनेक प्रसंगांतल्यान ब्रूतुसाच्या कोमल सभावाचीं याद करुन दिल्या. कित्याक ब्रूतुसान जरी खून केलो, तो खलनायकी वृत्तीचो न्हय, मुळांत तो सज्जन, सुसंस्कृत मनीस ही गजाल प्रेक्षकांनी विसरची न्हय; होच हांगा शेक्सपिअरचो हेत आसा. नाटकाचे अंतीं आन्तोनी ब्रूतुसाचो थोर मनीस म्हणून गौरव करता. ब्रूतुसा विशींच्या गौरवाच्या उद्गारान नाटक सोंपचे अशी येवजण ह्याच हेतान घडये शेक्सपिअरान केली जातली. हाका लागून ब्रूतुसा विशीं तिडक येवचे बदला ताची काकूट दिसता.

अशा सज्जन मनशान अखेर आपली इश्टागत विसरुन चेजाराक फटोवन ताचो खून कसो करचो ? प्रेक्षकांक हे गजालीन ब्रूतुसा विशीं चुरचुरे दिसतात. ब्रूतुस कांय रुढ अर्थान ह्या नाटकाचो नायक न्हय, तसोच रुढ अर्थान, खलनायकय न्हय. चेजार आनी ब्रूतुस दोगय जाण बळी आसात. चेजार कटवाल्यांच्या खुनाचो बळी आनी ब्रूतुस ध्येयवादाचो वर्ख दिल्ल्या हिंसेच्या तत्त्वगिन्यानाचो बळी. ह्या नाटका फाटल्या चिंतनाची व्याकुळताय सगल्यांत अदीक स्पर्श करता ती ब्रूतुस ह्या

पात्राक. शेक्सपिअराचें चिंतन चडकरुन जाणवता आमी ब्रूतुसाचो विचार करताना; एका मुळांतल्या बऱ्या मनशाचे अधोगतीची वाटचाल नियाळटना.

पांचव्या अंकांत फिलीपीचें मैदान हें थळ आसा. आन्तोनी आनी ऑतावियू हे दोगय ह्या मळाचेर आपल्या सैन्याचो तळ ठोकून रावल्यात. शत्रूचें सैन्य फिलीपीच्या मळाचेर येवचेंना हो आन्तोनीचो अदमास चुकिल्ल्याचें ऑतावियू कांयश्या उपरोधान आन्तोनीच्या लक्षांत हाडून दिता. शत्रू लागीं पावला. सुलूस लागपाक दिनासतना मैदानाचे दावे वटेन सैन्य घे, अशी सूचोवणी आन्तोनी ऑतावियूक दिता. मैदानाचे उजवे वटेन हांव सैन्य घेतां, तूं दावे वटेन वच, अशी जाप ऑतावियू ताका दिता. आन्तोनीक अर्थातच ही जाप खटकता. "आकांताच्या वेळार तूं म्हजे आड कित्याक वता? हांव तुजे आड ना. पूण हांव तशें करतलों" अशें ऑतावियू ठामपणान ताका सांगता, पूण ताका हाचें कारण सांगिना. झूज आरंभचे आदीं ऑतावियू असो तिरसटपणान कित्याक वागता? अशा आकांताच्या वेळार शेक्सपिअरान हो प्रसंग हांगा खंयच्या हेतून येवजिला आसत? मैदानाचे दावे वटेन सैन्य घेवपाची आन्तोनीची सुचोवणी ही सुचोवणी नासून ओर्द आसा; अशें ऑतावियूक दिसता काय? ऑतावियूस हो चेजार आसा ज्युलियूसाचो मानसपूत आसा. आन्तोनीन आपली पायरी वळखूनच आपले कडेन वागपाक जाय हाची ताका समज दिवपा खातीर तो असो वागला जायत. हो प्रसंग घडटकच शत्रूचें सैन्य लागीं येता तेन्ना "आमी युद्धाचो इशारो दिवया?" असो प्रस्न ऑतावियूक आन्तोनी विचारता. आनी आन्तोनीन न्हयकारतकच ताच्या सल्ल्या प्रमाणेंच वागता. ऑतावियूचे तिरसट वागणूकीचो हो प्रसंग आमच्या मनांत काय अपेक्षा निर्माण करता. पण ह्या प्रसंगाक कसलोच हेत नाशिल्ल्यान, शेक्सपिअरान तो तसोच तोडून दिला.

शत्रू येवन ठेपता. परंपरेनुसार झुजाचो आरंभ सेनापती एकामेकांचे मुखार येवन तांचे मदल्या वाटाघाटींनी जाता. हांगा वाटाघाटी म्हणल्यार वाग्युद्ध! आन्तोनी आनी ब्रूतुस ह्या वाग्युद्धांत एकामेकांची उणी दुणीं काडटात. ब्रूतुस आनी कासियूस आन्तोनीचो उपहास करतात. आन्तोनी तांचेर शब्दांचो उजो ओंकता. आन्तोनीची ही आक्रमक भाशा आयकून कासियूस विलक्षण अस्वस्थ जाता. चेजाराचे बराबरच आन्तोनीकय सोंपोवपाचो आपलो सल्लो ब्रूतुसाक मानिल्लो जाल्यार अपमान करुन घेवपाचो हो वेळ आपणाचेर येवंचो नासलो अशें ताका

दिसता. तो ब्रूतुसाक म्हणटा :

ब्रूतुस तूंच तुका ओब्रिगाद म्हण.

हाची ही जीब आमचो आयज असो अपमान करची नासली

जर तुवें कासियूसचें म्हणणें आदीं मानिल्लें. (5-1)

कासियूस सदांच ब्रूतुसा मुखार नमतें घेता. ब्रूतुसाक तो स्पश्टपणान दोश दिता असो हो नाटकांतलो एकच प्रसंग.

हें वाग्युद्ध सोंपता आनी हे सेनापती आपापल्या ठिकाणांचेर परततात. आतां झुजाक आरंभ जातलो अशा जीवन मरणाच्या खिणार कासियूसची मनस्थिती भंयान ग्रासल्या, अशें शेक्सपिअर दाखयता.

मागीर आतां, येवंदी सांवार,

खवदळूं दी दर्याल्हारां, तातुंतल्यान आमचें तारुं मार्गी लागूं

मोड आयलां दर्याक, सगळेंच धोक्यांत आयलां. (5-1)

ह्या त्याच्या वाक्यांनी ही मनस्थिती उक्तावपाक सुरवात जाता. खरें म्हणल्यार, झूज सुरु जावपाचो हो दीस कासियूसचो वाडदीस आसता; तो स्वताचीच गजाल सांगता, पूण ती उत्साह उमेद हांचे विरयत आसता. कासियूस हो बुद्धिमान आसता. शकून अपशकून तो मानिना कित्याक तो एपिक्युरसाचें तत्त्वगिन्यान मानपी, पूण ही म्हजी श्रद्धा आतां डळमळूंक लागल्या, अशें तो स्वताच सांगता. सार्डीस सावन फिलीपीक येतना जाल्ले अपशकुनी दृश्टांत तो वर्णिता ह्या ताच्या वर्णनांत मरणाची स्पश्ट सूचना आसा. असल्या गजालींचेर विश्वास दवरुंक नाका अशें मेसाला ताका सांगता, तेन्ना सगळ्या संकश्टांक धिरान तोंड दिवचो निश्चय केला अशी जाप तो दिता; पूण तो अवसानखत जाला हें आमकां जाणवता, कासियूस ब्रूतुसाक म्हणटा :

हें झूज आमी हारल्यार

एकमेकां कडेन उलोवंचेलो हो अखेरचोच वेळ आसतलो!

हांगाय हो खांपो झुजारी आनी अणभवी सेनापती मनान खचला अशें दिसताः

आयच्या दिसा हांव जल्मलों; पयलो श्वास हांवें घेतलो

आयला आतां असो वेळ,

जंय हांवें सुरवात केली थंयच म्हजी अखेर जावंची.



आयुश्यान म्हज्या आपलें एक वर्तुळ पूर्ण केलां.

हें कासियूसचें भाशण ताका नियती खोलायेन भितरल्यान कळ्ळी हें स्पश्ट करता. असो हो कासियूस, झूज सुरु जावचे आदींच सामको हारिल्लो दिसता. वेव्हारी, शूर, अणभवी, धूर्त सेनापती आशिल्लो कासियूस मनान लुळो गुळो जाल्ल्याचें शेक्सपिअर कित्याक दाखयता? फुडें कितें घडटलें हाची शेक्सपिअराक हांगा सुलूस दिवपाची आसा अशी एक शक्यताय आसा. ब्रूतुस आनी कासियूस हे दोगूय झुजाचे तयारेन आयल्यात आनी आपली शक्ती उणी आशिल्ल्यान आपूण हारतले अशे खंयच म्हणिनात. मागीर कासियूस हांगा कच कित्याक खाता? "म्हातारो कासियूस अजून तसोच" अशें आन्तोनी ताका उद्देशून उपहासान उलयता. आदली तरणाट्या दिसांची उबारी सरिल्ल्यान तो असो दुबळो जाला जायत काय? आनीक एक शक्यताय आसाः ती म्हणचे चेजाराचो आपूण अन्यायान खून केला हे विशीं खोल मनांत आशिल्ली अपराधाची भावना. जे तरसादीन तांणे चेजाराक तोपलो तेच तरसादीन कासियूस स्वताक तोपून घेता. इतलेंच न्हय तर "चेजार, तुजे हत्येचो सूड घेतलो, सामके हेच तरसादीन, जिणे तुजो जीव घेतिल्लो." अशे उद्‌गार मरचे पयलीं काडटा. ताच्या ह्या स्पश्ट उद्‌गारांक लागून तांणे आत्महत्ये खातीर जे तरसादीचो वापर हो योगयोग न्हय तिची निवड मुजरत जाणविकायेन, अटळ अश्या आंतरीक गरजे पोटीं केल्या हें शेक्सपिअर स्पश्टपणान सुचयता. कासियूसान वयल्यान जरी कितलेंय धोंग केलें आनी चेजाराचो खून लोकशाय वाचोवपा खातीर आसा अशी भूमिका घेतली तरी भितरल्ल्यान ताचें मन ताका खाता. झूज सुरु जावंचे आदींच, शूर, अणभवी सेनापती आशिल्लो कासियूस खचता हाचें कारण भायर नासून ताच्या खोल मनांत दडलां.

चेजाराच्या खुनाचो सगळो व्यूह कासियूसच आंखता आनी तेच बराबर ह्या खुनाचो अपराध गंड ताका आत्महत्त्येच्या मार्गाचेर व्हरुन सोडटा. ही एक विचित्र पूण भारी अर्थपुराय अशी विसंगती हांगा कासियूसच्या मरणाच्या निमित्त्यान शेक्सपिअरान सुचयल्या. कासियूसा वरी बुदवंत मनशां अतिशय सुसंगतपणान आपलो व्यूह आंखतना ताका दिसनाशिल्लो विसंगतीचोच मार्ग चलत रावतात हे वास्तव विलक्षण आसा. ह्या निमित्त्यान शेक्सपिअरान आनीक एका विसंगतीचें अशेंच विलक्षण दर्शन घडयलां. कासियूस जाचे कडसून आपणाक भोंसकून

घेता, तो पिंडारुस हो कासियूसचो बंदो आसा. तरसाद तोपपाची आपली विनंती मान्य करपाच्या मोबदल्यांत कासियूस पिंडारुसची बंदेपणातल्यान सुटक करता हाचो अर्थच असो की जी गुलामगिरी कासियूकाक नाका तिका एका अर्थान तांणे मान्यताय दिल्या ! ही विसंगती रोमान लोकशायेचो एक अविभाज्य भाग आसलो. हे लोकशायेंत गुलामगिरीक स्थान आनी मान्यताय आसली. तशें नागरिकांत वर्गभेदय आशिल्लो. ह्या दोशांची जाणीव चेजारा पासून ब्रूतुस-आन्तोनी मेरेन कोणाकच नाशिल्ली. ह्या अंतर्विरोधाची जाणविकाय लेगीत शेक्सपिअराक हांगा घडये करुन दिवपाची आशिल्ली.

कासियूसा प्रमाणे ब्रूतुसानय हार खाल्ल्याचें शेक्सपिअर हांगा दाखयता. लडाय हारल्यार तूं कितें करतलो; तेन्ना आपूण ही लडाय जिखतलोच असो आत्मविश्वास ब्रूतुस उक्तायना. आत्महत्या करप हें खरें म्हणल्यार ब्रूतुसाचे तात्त्वीक भूमिकेंत बसपी न्हय. तें भेजूडपणाचें आनी निंद्य आसा अशें आपूण मानता अशें तो सांगता. नियती जें वांट्याक हाडीत तें आपूण धिरान सोंशीन अशें म्हणटा. पण प्रत्यक्षांतः

रोमाच्या रत्स्त्या वयल्यान कैदी म्हणून<br>
ब्रूतुसाक केन्ना व्हरतले हो विचारय तूं करुं नाका.<br>
खूब मानी आसा ब्रूतुसाचें मन<br>
अशें तो कासियूसाक म्हणटा तातूंत आत्महत्येची सूचना गर्भित आसा.<br>
पंदरा मार्च ह्या दिसा जें कार्य सुरु जाल्लें<br>
तें मात आयज पूर्ण जावपाक जाय.<br>
आनी परत मेळटलें काय ना हें हांव नकळ,<br>
म्हणूनच घे आतां अखेरचो निरोप कासियूस. (5-1)

ज्या ध्येया खातीर चेजाराचो खून जालो त्या ध्येयाची पूर्तताय हें झूज जिखून जावपाक जाय अशें हांगा ब्रूतुस सुचयता. पूण ताचो हो एकणूच सूर उशण्या अवसानाचो आसा. चेजाराच्या खुनाचें समर्थन करपी ताचो ध्येयवाद ताका भितरल्यान शक्ती दिवपाक शकना हाची स्पश्ट जाणविकाय हांगा शेक्सपिअर करुन दिता.

पांचव्या अंकांतलो दुसरो प्रवेश फक्त आठ वळींचो आसा. ऑतावियूचें सैन्य माघार घेतना दिसता म्हणून ब्रूतुस मेसाला सयत ऑतावियूच्या सैन्याचेर नेटान

हल्लो करता. हांगा हो प्रवेश सोंपता. हाचे वयल्यान ब्रूतुस ऑतावियूच्या सैन्या कडेन आनी कासियूस आन्तोनीच्या सैन्या कडेन झूजतात ही खबर मेळटा. पांचव्या अंकांचो पयलो प्रवेश ब्रूतुस आनी कासियूस हांच्या अखेरचो निरोप घेवपाच्या भावपूर्ण प्रसंगान सोंपता. ह्या प्रवेशाक शेक्सपिअरान हो आठ वळींचो दुसरो प्रवेश जोडिनासतना स्वतंत्र दवरला. तिसरो प्रवेश कासियूस करीत आशिल्ले लडायेच्या प्रसंगान सुरू जाता. ब्रूतुस आनी कासियूस वेगवेगळ्या ठिकाणांचेर झूजत आशिल्ल्यान दुसरो प्रवेश ह्या प्रवेशाकय जोडप शक्य नासलें.

नाटकाच्या ह्या अखेरच्या अंकांत तिसऱ्या प्रवेशाची सुरवात झुजपी कासियूस खंयचे परिस्थतींत आसा हाचें दर्शन घडयता. कासियूस तितीनियूसाक म्हणटाः

आरे पळय, तितीनियूस, आरे पळय,<br>
आमचे हे सैनीक कशे पळटात, हरामखोर!<br>
निशाणी धरपी म्हजो सैनीक<br>
फाट दाखोवन पळून वतालो.<br>
जिवेशीं मारलो हांवें त्या भेजुडाक<br>
आनी ताच्या हातांतलें निशाण घेतलें हांवें. (5-3)

ह्या उद्गारांतल्यान कासियूसाचे शिपायक पळपाक लागल्यात हें कळटा. कासियूसाक दोंगुल्ले वयल्यान पेल्यानचे छावणींत उजो लागिल्ल्याचें दिसता. ही छावणी कोणाच्या सैन्याची आसा हाची खात्री करुन घेवपा खातीर कासियूस आपलो घोडो दिवन तितीनियूसाक धाडटा. तितीनियूस वता. तो सारको पावलो काय ना, ताचे कितें चललां, झुजाभुंयेचेर कितें दिसता हें दोंगुल्ले वयल्यान पळय आनी सांग अशें कासियूस पिंडारुस ह्या आपल्या सेवकाक सांगता. खरें तर हें सैन्य शत्रूचें नासता. सैन्य आसता ब्रूतुसाचें. आनी ह्या सैनिकांनी तितीनियूसाचे घोशणा दिवन स्वागत केल्लें आसता. पुणून पिंडारुसच्या वृत्तांता वयल्यान कासियूसचो चुकीचो समज जाता आनी तितीनियूस शत्रूच्या हातांत सांपडलो अशें दिसून ताका धक्को बसता. कासियूस पिंडारुसा कडेन आपली तरसाद दिवन ताका "ही उत्तम तरसाद तूं म्हज्या काळजांत रोम." अशें ताका सांगता आतां तूं बंदेपणांतल्यान सुटला, तूं स्वतंत्र आसा अशें वचनय ताका दिता. कासियूसान दिल्ले तरसादीन पिंडारूस कासियूसाक तरसाद रोमता.

चेजार तुजे हत्येचो सूड घेतलो

सामके हेच तरसादीन

जिणे तुजो जीव घेतिल्लो.

अशे अखेरचे उद्‌गार काडून कासियूस मरता. तितीनियूस परतो येता. आपणाक शत्रून धरला अशें दिशिल्ल्यान कासियूसान आत्महत्या केली अशें कळटकच तितीनियूसाक धक्को बसता आनी तोय कासियूसाचे तरसादीनच स्वताक तरसाद रोमून घेवन आत्महत्या करता. चेजाराच्या खुनाचो इतलो विलक्षण सूड आन्तोनीचे तरसादीकय घेवपाक जमचें नासलें! हांगा तितीनियूसाक शत्रून धरिल्याच्या दुख्खान कासियूस आत्महत्या करता अशें शेक्सपिअरान दाखयलां पूण कासियूसान सोदिल्लें हें केवळ निमित्त आसा; आत्मसमाधाना पासत सोदिल्लें.

चेजाराच्या खुनाचो खरो सूत्रधार कासियूस आसा. ब्रूतुस कासका हांकां तो ह्या कटांत प्रयत्नाची शिकस्त करुन आपले वटेन ओडटा. कासियूसाच्या सभावाचें वर्णन शेक्सपिअरान चेजाराच्या तोंडीं पयल्या अंकांतल्यान दुसऱ्या प्रवेशांत घालां. चेजाराचें पात्र तांणे एक उदात्त कुळवंत नायक अशेंच चित्रायलां. ''धोके बाज आसतात अशीं मनशां'' असो चेजाराचो कासियूस विशींचो निश्कर्श आसा. तीं धोकेबाज कित्याक असतात हाचें कारणय चेजार हांगा दिता, हें कारण अतिशय म्हत्वाचें आसा.

अस्वस्थ जातात हे ताचे वरी मनीस

जेन्ना ते पळयतात आपले परस कोणूय व्हड

आनी ते आसतात भारी धोकेबाज.

हांगा कासियूसची मत्सरी वृत्ती चेजाराचे तोंडसून शेक्सपिअरान स्पश्टपणान वदयल्या.

शेक्सपिअराक मनशांतल्या सभावांतली गुंतागूंत जाणवता. एकाच मनशाच्या व्यक्तीत्वांत अनेक परस्पर विरोधी घटक आसतात आनी ह्या घटकांचे गुंतागुंतीच्या ताणांतल्यान ताचें व्यक्तीत्व उक्तें जाता. मनीस सभावांतल्या ह्या गुंतागुंतीच्या जाणविकायेक लागूनच शेक्सपिअर ह्या प्रेरणांची विविधताय नियाळटना ताचे भोंवतणी एक अस्पश्टताय दवरल्या. चेजारचो खून कासियूस लोकशायेच्या ध्येयवादा पोटीं करता काय चेजारा विशींच्या मत्त्सरा पोटीं करता हाचे विशीं शेक्सपिअरान अस्पश्टताय दवरल्या. तितीनियूस हो आपलो मित्र शत्रूचे

तावडींत सांपडला अशें दिशिल्ल्यान धक्को बसून कासियूस आत्महत्या करता अशें शेक्सपिअरान दाखयलां. कासियूसान सोदिल्लें हें निमित्त आसा हें हांगा प्रेक्षकांक जाणवता कित्याक कासियूस सामको कोंडयेंत सांपडला! पूण हांगा तितीनियूसाच्या प्रेमाचें निमित्त शेक्सपिअरान ताका दिलां. पूण कासियूसच्या आत्महत्येचें खरें कारण कसलेंय भायलें निमित्त ना तें कारण अंतर्यामीं आसा. "हे दोंगुल्लेचेर सामकें निर्शेल्लें मन ताचें," अशें खुद्द तितीनियूस परत येतकच कासियूसाचे मनस्थितीचें वर्णन करता. सामकी ही निर्शेल्ली मनस्थिती कासियूसाच्या वांट्याक कित्याक आयली आसत? हाचें कारण तो कसले तरी अदृश्य दडपणा खाला वावुरता. हें कारण ताचे भोंवतणचे परिस्थितींतल्यान जावंक ना. तशें आसलें जाल्यार "तुजे परस अदीक अणभवी/ परिस्थिती हाताळपाक अदीक कुशळ." अशें आत्मविश्वासान ब्रूतुसाक सांगपी कासियूसान शक्ती आनी युक्ती ह्या दोनांयचो वापर करुन ह्या दडपणाक तो तोंड दिवपाचो. पूण तशें करिनासतना हांगा कासियूस निर्शेणेन खचता हाचें कारण ताचे भितरच आसा आनी तें एकच आसूं शकताः चेजाराचो खून आपणें अन्यायान केला ही मनांतली अपराधाची टोंचणी. शेकीं कासियूस शत्रूचेर तुटून पडून मरण पत्करना. तो ह्या आंतरीक कारणान उप्राशिल्ले. निर्शेणे पोटीं आत्महत्येचो भेजूड मार्ग पत्करता आनी तोय तांणे चेजाराचो खून करपाक वापरिल्ले तरसादीन! आनी तीच तरसाद कांय खिणांनी तिनीनियूसाचो बळी घेता.!

कासियूस आनी तिनीनियूस हांचीं कळिंवरा एकामेकां म्हऱ्यांत पडिल्लीं आसतना ब्रूतुस प्रवेश करता. हें दृश्य पळोवन ब्रूतुस म्हणटाः

हे ज्युलियूस चेजार, अजून तूं आसा बळिश्ट!
तुजो आत्मो सरभोंवतणी भोंवता
आनी आमच्योच तरसादी
आमच्याच फावो तश्यो आंतकड्यांत रोमता. (5-3)

आपल्या मित्रांचीं प्रेतां पळोवन हो सूड चेजारानच घेतला असोच विचार ब्रूतुसाच्या मनांत येता. तीं मडीं पळोवन झुजा मळाचेर आशिल्लो ब्रूतुस खवदळून उठता; ताका जाणवता तो सूड घेवपी चेजाराचो बळिश्ट आत्मो! तो तिडकून झूजचे तयारींत दिसना. कासियूसा प्रमाणे ब्रूतुसय निर्शेला. आनी ताचे निर्शेणेचें कारण कासियूसा प्रमाणें भितरच आसा आनी तें कारण चेजाराचो अन्यायान खून

केल्ल्याची जाणविकाय हेंच आसा.

पांचव्या अंकाच्या चवथ्या प्रवेशांत झूज सुरु आशिल्ल्याचो देखाव आसा. ह्या प्रवेशांत कातो हाका जिवेशीं मारतात. लुसिलियूसाक शत्रू धरतात. आनी "हांव आसां ब्रूतुस." अशें सांगून, "हें पळय इतले दूडू मेळटले, तू म्हाका ताबडतोब मारशीत जाल्यार." अशें हांयसय तो आन्तोनीच्या सैनीकांक दाखयता. पूण हे सैनीक ब्रूतुसाचें नांव आयकतांच लुसिलूसाक आन्तोनीच्या हवालीं करतात. आन्तोनी ताका वळखता. "सुरक्षीत दवरात हाका, सौजन्यान वागयात." अशी ऑर्द आन्तोनी आपल्या सैनिकांक दिता.

पांचवो प्रवेश हो ह्या नाटकाचो निमाणो प्रवेश. फिलीपीचें झुजामळच. पूण मळाची वेगळी वट हें ह्या प्रवेशाचें थळ. झूज अर्थांतच सुरु आसा. मनान निर्शेल्ल्या ब्रूतुसान आत्महत्येचो निर्णय घेतला. जें तत्त्वज्ञान मानिल्ल्यान तांणे आत्महत्या करपी कातोक दोश दिल्लो आनी नियती जें वांट्याक हाडीत तें हांव धिरान सोंशीन अशी प्रतिज्ञा केल्ली, ती ब्रूतूसाची खंबीर भूमिका सामकी कोसळ्ळ्या.

आपणाक तरसादीन रोमून मारपाची विनंती ब्रूतुस पयलीं क्लितूस आनी दार्देनियूस ह्या आपल्या शिपायकांक करता. तो उपरान्त हीच विनंती ब्रूतुस वॉलिम्नियूस ह्या सैनिकाक करताः

हें अशें कित्याक, वॉलिम्नियूस?
वेगवेगळ्या वेळाचेर रातीं
चेजाराचें भूत म्हाका मेळ्ळें.
सार्डिसाक एकदां, काल रातीं फिलीपीचे झुजाभूंयेर.
म्हाका दिसता म्हजो वेळ आतां पावला! (5-5)

वॉलिम्नियूस "तशें न्हय धनया." अशें म्हणून ब्रूतुसाक धीर दिता, तेन्ना ब्रूतुस म्हण्टा :

शत्रूच्या सैन्यान आमची गत
कोंडयेंत घेरिल्ल्या सावजा सारकी केल्या!
अशा वेळार लोटून दिवपा खातीर रावचे परस
आपणेंच आपल्या फोंडांत उडकी घेतिल्ली बरें...
म्हजे हे तरसादीची मूठ घट्ट धरुन ती म्हजे मुखार धर,
हांव फुडें येवन ती म्हजे भितर रोमून घेतां. (5-5)

एका वेळार ब्रूतुसाचो शाळेंतला सांगाती आशिल्लो वॉलिम्निययूस ब्रूतुसाची ही विनंती अमान्य करता. अखेर ही विनंती स्त्रातो ह्या आपल्या सेवकाक करता. स्त्रातो ती स्वामी निश्ठतायेक लागून मान्य करता. स्त्रातोन मुखार धरिल्ली तरसाद ब्रूतुस मुखार वचून आपणाक रोमून घेता.

चेजार आतां तूं शांत जा,

हांव तुका जिवेशीं मारतना म्हजी इत्सा शक्ती

ह्या खिणाक आसा ताच्या अर्धानय नासली. (5-5)

हे निमाणचे उद्‌गार काडून ब्रूतुस सोंपता.

म्हाका सामकें भेजूडपणाचें आनी निंद्य दिसता.

आयुश्याची दोरी तोडप भविश्याच्या भंयान

अशें आदीं म्हणपी ब्रूतुस अखेर हे आत्महत्येचो भेजूड आनी निंद्य मार्ग स्विकारुन हे फाटभूंयेचेर "ऑताावियूस आनी मार्कूस आन्तोनीयूस हांच्या हीण जैता परस, म्हज्या ह्या पराभवाचें वैभव व्हड दिसता" हे ब्रूतुसाचे उद्‌गार समजुपाक कठीण पडटात. नाटकाचे अखेरेक ब्रूतुसा विशीचे गौरवाचे उद्‌गार शेक्सपिअरान आन्तोनीक उलोवपाक लायल्यात.

ह्या सगळ्यांत ब्रूतुस होच व्हड रोमान आसलो.

हो एकटो सोडून, हेरां कटवाल्यांनी

थोर चेजाराक जिवेशी मारलो, मत्सराचे पोटीं.

त्या सगळ्या कटवाल्यांत तो एकलोच आसलो

जाच्या मनांत लोकहिताचो प्रामाणीक हेत आसतलो.

दयावंत ह्रदयाच्या ह्या मनशांत

सैमाच्या घटकांचो असो संगम जाल्लो कीं

सैमान उबें रावन सगळ्या संवसाराक सांगचें :

"हो खऱ्यानीच मनीस आसलो." (5-5)

हे निमाणचे उद्‌गार सोडल्यार आन्तोनीन ह्या नाटकांत खंयच ब्रूतुसा विशीं आदर उक्तावपी एकय वाक्य उच्चारुंक ना.

मुळांत कुळवंत आनी सज्जन आशिल्ल्या ब्रूतुसाची अधोगती आनी तातुंतल्यान उप्राशिल्लें ताचें दुखेस्त मरण-ताची आत्महत्या -हो ह्या नाटकाच्या कथानकाचो मुखेल भाग आसा. शोकात्म नाटकाचो नायक हो मुळांत उदात्त नायक आसता.

पूण ताच्या सभावांत दुखेस्त दोशाक लागून (tragic flaw) ताचो शेवट दुखेस्त जाता हो शोकात्म नाटका विशींचो रुढ नाटयसंकेत हांगा ह्या गौरवाच्या उद्‌गारांच्या रुपान शेक्सपिअराक  अधोरेखीत करपाचो आसा. ब्रूतुसाच्या व्हडपणाविशींचें आपलें मत्तय ताका सारांश रुपान शेक्सपिअर सांगता.

चेजाराचें मरण ही चेजाराची शोकन्तिका नासून ती ब्रूतुसाची शोकान्तिका आसा. आनी ब्रूतुसाचें मरण ही केवळ ब्रूतुस नांवाच्या व्यक्तीची शोकान्तिका न्हय ती मनशाच्या राजकीं सत्तेच्या जिविताची शोकान्तिका आसा. ती खंयच्याय एका व्यक्तीची शोकान्तिका नासून साधनांची शुचिताय न्हयकारपी, हिसेचें खोटें तत्त्वगिन्यान ध्येयप्राप्ती खातीर स्विकारपी अनेक मनशांची आनी पर्यायान मानवजातीची शोकान्तिका आसा. ही मानव जातीची शोकान्तिका ब्रूतुस आनी चेजार हांच्या रोमान काळखंडांतल्या इतिहासा पुरतीच मर्यादीत ना. ह्या शोकान्तिकेचो प्रवास सामको आजय मेरेन चालू आसा तो अजून  थांबूक ना.

जी जी व्यक्ती राजकारणा कडेन संबंधीत आसा तिणे ह्या नाटकाचो मुरजत अभ्यास करून ताचे पासून बोध घेवचो इतले  व्हड योग्यतायेचें हें नाटक आसा.

विजया दसम  (दसरो).
३० सप्टेंबर, २०१७
गुरु - कुंज, दत्तवाडी
म्हापसा, गोंय.

सुरेश गुंडू आमोणकार

सुरेश गुंडू आमोणकार

# आधारावळ

1. William Shakespeare : Julius Caesar Ed. David Bevingtion and David Scolt Kastan : Bantam classic; (1980) New York.
2. W. Shakespeare : The Complete Works, The Pelican Text Devised, Viking, Ed. Alfred Harbage, Penguin Books, Middlesex, U.K. 1969.
3. Daiches David, Shakespeare : Julius Caesar, Edward Arnold : 1976; London.
4. Bradley A.C., Shakespearean Tragedy, New York, 1952
5. Dowden E. Shakespeare : Artical study of his mind and Art. New York, 1962
6. ज्यूलिअस सीझर : (अ) मंगेश पाडगांवकर, मौज प्रकाशनगृह, मुंबई (२००२)
7. शिरवाडकर के. र. शेक्सपिअर, जीवन आणि साहित्य, पुणे १९९४.
8. शिरवाडकर वि. वा. शोध शेक्सपिअरचा, पुणे १९८३.

# ज्युलियूस चेजार

## अंक पयलो, प्रवेश पयलो

(देखाव - रोमा शारांतलो एक रस्तो.[1] )

फ्लावियूस, मारूलूस आनी कांय सामान्य नागरीक प्रवेश करतात.

फ्लावियूस : वचात हांगासावन घरा, बेकार थवयांनो वचात घरा ! आयज कितें सुटी आसा ? कामाच्या दिसा तुमी कामगारांनी तुमचो कामधंद्याचो बिल्लो लायले वीण हेडूंक जायना रस्त्याचेर, हें खबर ना तुमकां ? सांग तुजो धंदो कितें ?

थवय : सायबा, हांव थवय.

मारूलूस : खंय तुजो चामड्याचो ॲप्रन आनी तुजी पावत ? कित्याक तूं न्हेसला इतलो झेतान ? आरे बाबा, तुजो धंदो कितें ?

मोची : खरें सांगचें जाल्यार सायबा, कसबी कारागिरांकडेन तोलशी तर, तुमी म्हणटले, हांव आसां एक सामको फालतू घाणावपी.

मारूलूस : पूण तुजो धंदो कितें ? म्हाका सरळ सांग.

मोची : म्हजो धंदो, सायबा, जो हांव कसलेच लजेबगर करतां, तो म्हणल्यार हांव उसवल्ले तळ ठोकून ते सारके करपी.

फ्लावियूस : तुजो धंदो सांगशीत, नागवण्या ? आरे दुश्ट फटिंगा, तुजो धंदो कितें ?

मोची : नाका, म्हजी विनवणी, बाबा, तुमी म्हजेर अशे तिडकूं नाकात. पूण तुमी तिडकलेच जाल्यार हांव तुमचे ठोकून [2] दितां.

मारूलूस : कितें म्हणटा उरमटा ?

मोची : तशें न्हय सायबा, म्हणचे हांव तुमचे मोचे ठोकून [2] दितां. मोच्याचो उसवल्लो तळ ठोकून दितां.

फ्लावियूस : म्हणचे तूं मोची, खरें मरे ?

मोची : विश्वास दवरात, सायबा, म्हजें सगळें पोट हे म्हजे आरेचेर. हांव ना खंयच्याच कारागिरांच्या अद्यांत किंवा बायलांचे मद्यांत. पोरण्या बुटांचेर म्हजें हतयार चलोवन तांकां दुरुस्त करपी

हांव सर्जन- एक शस्त्र वैज. पोरणे बूट कावलाक येतकच हांव ते दुरुस्त करतां. गायेच्या चामड्याचे उंची मोचे घालपी एकय देखणो मनीस आसचो ना जाचे मोचे म्हजी कारागिरी न्हय.

फ्लावियूस : पूण तूं आयज तुज्या दुकानाचेर कित्याक ना? ह्या लोकांक घेवन कित्याक हेडटा रस्त्यार?

मोची : ताचें कारण , सायबा, ह्या लोकांचे मोचे चलून झरचे म्हणून म्हणचे म्हजें काम वाडटलें. पूण हेंवूय खरें सायबा, आमी आयज सुटी घेतल्या चेजाराचें दर्शन घेवपाक आनी ताच्या जैताची खोस भोगपाक.

मारूलूस : कित्या पासत खोस? कसली जीख हाडटा तो घरा?
ताच्या रथाच्या चाकांक सांकळ्यांनी बांदून शरण आयिल्ले
कोण मांडलीक ताचे फाटसून पावल्यात रोमाक?
ठोकळ्यांनो, फातरांनो, निर्जीव वस्तुंचे पाश्ट तुमी,
फातरां काळजांचे क्रूर मनीस तुमी रोमाचे,
वळखनासले तुमी पॉम्पेक[3]?? अनेकदां, साबार पावटीं,
तुमी चडिल्ले वण्टी, दुरगां आनी बुरुजांचेर.
हय, जनेलांचेर आनी धुराड्यांच्या चिमण्यांचेर,
बशिल्ले तुमी दीसभर, तानुलीं तुमचीं हातांत घेवन
सोशींकपणान वाट पळयत रथाची.
रोमाच्या रस्त्यां वयल्यान वतना तो दिसचो म्हणून.
आनी ताचो रथ दिशिल्ल्या खिणाक,
तुमी सगळ्यांनी करूंक नासलो जयघोश.
वांटकुळे तडीचेर आदळून टायबर[4] न्हंयचे,
त्या प्रतिध्वनींनी तिचे पाणी थरथरतालें तेन्ना?
आनी आतां तुमी तुमच्या फेस्तकापडांत,
आयचो दीस घेतला सुटयेचो म्हणून?
आनी तुमी आतां फुलां शिंपडायतले ताचे वाटेर,
जो पॉम्पेच्या रगतान बुडबुडिल्लें जैत घेवन आयला?
चलूंक लागात. धांवत वचात आपआपल्या घरा तुमी,

आनी करात दिमयो मोडून देवाची प्रार्थना.
प्लेगाची पिडा तुमकां बादची न्हय म्हणून.
जी चुकचीच ना, तुमचे हे बेईमानेक.

फ्लावियूस : चलूंक लागात, चलूंक लागात, सज्जन देशवासियांनो,
आनी ह्या गुन्यावांक भगसणी मेळची म्हणून,
तुमच्यांतलो गरीबधाटो सगळो लोक एकठांय करात
टायबरच्या तडीचेर तांकां व्हरात,
आनी गळयात तिच्या उदकांत तुमचीं दुकां,
सामक्या तळांतल्या पाणयांत हुंवार येवन
तो तिचे सगळ्यांत उंचेले तडीक लागऽ मेरेन
(सामान्य नागरीक वतात.)
पळयात कशीं फांफसलीं हीं मनशां हीण वृत्तीचीं अपराधाची जाणविकाय जाल्ल्या खिणाक तोंड मेटून चलूंक लागलीं.
तू आतां सगले वटेन कॅपिटॉला[5] कडेन वच,
हे वाटेन हांव येतां. चेजाराच्या पुतळ्यां वयलो साज आनी माळो देंवय खाला, जर तुका दिसले ताचे पुतळे शिंगारिल्ले.

मारूलूस : तशें करप फावोशें जातलें ?
हें पळय, आयज आसा ल्युपेरकलची परब.

फ्लावियूस : कांय हरकत ना. खंयच दिसपाक जायनात चेजाराच्या पुतळ्यांचेर घाल्ल्यो माळो तशींच तोरणां-बंदेरां. हांव वतां फुडें आनी धांवडायतां रस्त्यां वयल्यान ह्या रस्ताद पारपोळ लोकांक;
तूंय तशेंच कर, जंय तुका तांची खेट दिसतली.
चेजाराच्या पांखाट्यातल्यान हीं वाडिल्लीं पाखां
हुमटायल्यार तो सामान्य उंचायेचेरच उडटलो,
नाजाल्यार तो झोंपय घेतलो अश्या तेमकांचेर,
जंय नदर पावचीना मनशांची.
आनी दवरतलो आमकां सगळ्यांक भिरांकूळ बंदेपणांत .
[ वतात. ]



# प्रवेश दुसरो

देखाव : रोमांतली एक भौशीक सुवात.

[ चेजार पुरसावांन येता. आन्तोनियूस सर्तेंत धांवपाचे तयारेंत. कालपुर्नीया, डेसियूस, चीचेरो, ब्रूतुस, कासियूस आनी कासका प्रवेश करतात [1]. तांचे फाटसून सामान्य लोकांचो चोंबो आनी एक भविश्य[2] वेत्तो आनी तांचे फाटसून मारूलूस आनी फ्लावियूस.]

चेजार : कालपुर्नीया !

कासका : थंड रावात. चेजार उलयता.

कालपुर्निआ : हांव आसां हांगा. म्हज्या स्वाम्यांनो.

चेजार : आन्तोनियूसचे वाटेंत तूं थेट उबी राव,
तो जेन्ना धांवतलो. आन्तोनियूस !

आन्तोनियूस : हाजीर आसां हांव चेजार, म्हज्या सायबा.

चेजार : नेटान धांवपाचे भरांत तूं विसरूं नाका, आन्तोनियूस,
तुजो हात लावपाक कालपुर्नीयाक;
सांगत आयल्यात आमचे जाण्टे;
पवित्र सर्तेंत हे धांवपाचे वांझ बायलेक हात लागतकच
वांझपणाच्या स्रापांतल्यान सुट्टा ती.

आन्तोनियूस : हांव ज्युस्त याद दवरीन.
चेजार जेन्ना 'हें कर' अशें सांगता, तें जालेंच म्हूण समजुचें.

चेजार : धांवपाक आरंभ करात आनी खंयचोच विधी मोडूं नाकात.
(संगित)

भविश्य वेत्तो : चेजार !

चेजार : आं ! उलो कोणे मारलो ?

कासका : सगळे आवाज बंद करात. पर्थून एकदां ओग्गी रावात !
(संगित थांबता)

चेजार : कोणे उलो मारलो म्हाका खेंटीच्या ह्या रेट्यांतल्यान. हांव आयकतां एक साद सगळ्या संगिता परसूय कर्कश. जो हें संगित भेदून "चेजार" अशें आड्‌डलो. उलय, आयकुपाक हांव सोदतां.

भविश्य वेत्तो: सादूर राव. पंदरा मार्चाक.

चेजार : कोण हो मनीस?

ब्रूतुस : भविश्य वर्तवपी एक. तुका सांगता : सादूर राव पंदरा मार्चाक.

चेजार : म्हजे मुखार हाडात ताका. पळोवं दी म्हाका ताचें तोंड.

कासियूस : बाबारे, भायर सर खेंटींतल्यान (भविष्य वेत्तो फुडें येता)

चेजार : मुखार येवन उबो राव. कितें सांगता तूं म्हाका आतां? सांग पर्थून एकदां.

भविश्य वेत्तो: सादूर राव पंदरा मार्चाक.

चेजार : सपनां पळोवपीसो दिसता. वचूं दी ताका. भायर सरात.
(तुतार्‍यांचे आवाज. ब्रूतुस आनी कासियूस हे सोडून सगळे वतात.)

कासियूस : वतलो कितें पळोवंक धांवचेली ही सर्त?

ब्रूतुस : हांव ना वच्चो.

कासियूस : विनंती म्हजी तुका. वच्चेंच तुवें.

ब्रूतुस : म्हाका ना हौस ह्या खेळाची, कासियूस.
म्हज्यांत मात्सो उणाव आसा,
आन्तोनियूसच्या सभावांतलो उमेदीचो
कासियूस, हांव तुजे इत्शेआड येना. येतां हांव.

कासियूस : ब्रूतुस हांव पळयतां हालीं सराक तुका.
म्हाका जाणवना तुजे नदरेंतली ती कंवळाय
आनी ती प्रेमाची दाखवण जी म्हजे संवकळीची आसली.
हटी आनी मैत्रीहीण जाल्या तुजी वागणूक हालींसराक.
तुजो मोग करपी मित्रांकडेन.

ब्रूतुस : कासियूस, निर्शेवं नाका; म्हजी इश्टागत तुका उणी दिसली जाल्यार.
म्हज्या चेर्‍यावयले त्रस्त भाव लिपयल्यात हांवें.
फकत म्हजेशींच दवरपाक.
हालीं जांचलां हांव आंतरीक संघर्शाच्या भावनांनी
हे उमाळे आसात फकत म्हजे पुरतेच.
लागले आसत तांचे दोश म्हजे वागणूकेक.

पुणून दुख्खी जावचें न्हय ताका लागून म्हज्या सज्जन इश्टांनी-
जांचे पयकीं, कासियूस, तुका एक धरतां-किंवा अर्थ लावचो न्हय
मित्रांनो म्हज्या हे दुर्लक्ष करपाचे करणेचो हे परस वेगळो.
बाबडो ब्रूतुस आपलेशींच झुजिल्ल्यान
हेरां मनशांक आपलो दोश दाखोवपाक विसरता.

कासियूस : अशें आसल्यार, ब्रूतुस, हांवें तुज्या उमाळ्यांचो
गैरसमज करून घेतलो,
जाका लागून हांवें म्हज्या काळजांत निखेपल्यात
भारी मोलादीक विचार, चिंतपाचे लायकेचे.
म्हाका सांग तूं, बरो बाब ब्रूतुस,
तुका तुजो पळोवपाक येता चेरो?

ब्रूतुस : ना कासियूस, कित्याक दोळो स्वताक पळेना,
तो पळयता हेर वस्तुंतल्यान पडबिंब आपलें.

कासियूस : खरें आसा. आनी हाचेंच दुख्ख दिसता ब्रूतुस;
तुजेकडेन ना अशे हारशे जे दाखयतीत
दोळ्यांक तुज्या तुजी दडिल्ली लायकी,
जाका लागून तूं तुजें पडबिंब पळेशीत.
रोमांतल्या भारी आदरणीय प्रतिशठीत व्यक्तींनी
फकत अमर चेजाराचो आडवाद सोडल्यार
ब्रूतुसा विशींचो उल्लेख हांवें आयकला.
आनी पिंर्गत सध्याच्या वज्या खाला
तांणी उक्तायली आपली इत्शा :
सुसंस्कृत ब्रूतुसाक आसपाक जाय आसली ही दिश्टी.

ब्रूतुस : तूं खंयचे तरी आपत्तेंत धुकलतलो म्हाका
पळोवंक लावन अशें म्हाका म्हजे भितर
जें ना म्हजेभितर मातय!

कासियूस : तर मागीर, सज्जन ब्रूतुस, आयकुपाची तयारी दवर,
आनी स्वताचें पडबिंब पळयले बगर
स्वताक आपूण पळोवपाक शकना स्पश्ट

हें तुका कळिल्ल्यान, हांव तुजो हारसो जावन,
घडयन तुका तुजें खरें दर्शन जें तुका अजून घडूंक ना.
आनी म्हजे विशीं दुभाव नाका, कुळवंत ब्रूतुस,
चार चौगांत आसत हांव हांशाचो विशय
किंवा हांवें म्हजें प्रेम सवाय केल्यार
इश्टागतीची गवाय दिवपी प्रत्येक अनवळखी मनशाक
हलके सोपूत दिवन, जेन्ना मनशां मुखार आसतात तेन्ना
हांव तांची खुशामत करतां, तांकां वेंगायतां,
आनी फाट तांणी फिरयतकच, तांची लज काडटां.
किंवा तुवें पळयलां आसल्यार म्हाका
जेवणावळी झोडून फडतुसांच्या गळ्यांत गळो घालतना
तरच हांव घातकी अशें तुवें समजुचें.
(तुतान्यांचे आनी घोशणांचे आवाज आयकुपाक येतात.)

ब्रूतुस : कसल्यो ह्यो घोशणा?
लोक आपलो राजा म्हणून, चेजाराक वेंचून काडीत हाचो
म्हाका भंय दिसता.

कासियूस : खरेंच तुका भंय दिसता? मागीर म्हाका दिसता,
तूं तशें जावपाक दिवंचो ना.

ब्रूतुस : जावपाक दिवचोना काशियूस, जरी म्हजो तो खूब मोगाचो.
पुणून तुवें म्हाका इतलो वेळ हांगा, कित्याक आडावन दवरला?
हांवें कितें केल्लें तुका जाय? तें लोकहिताचें आसल्यार
भोवमान कितें किंवा मरण कितें
लोकहितामुखार ह्या दोनांय विशीं हांव उदासीन आसा.
देवाची अशी कृपा म्हजेर आसची,
आत्मसन्माना फुडें मरणाचो भंय म्हाका दिसचो न्हय.

कासियूस : तो गूण तुजे मदीं आसा, हांव जाणा, बुतुस.
तशेंच म्हजे वळखीचें तुजें भायलें रूप.
हय, आत्मसन्मान होच आसा विशय म्हजे कथेचो.
म्हाका सांगपाक येवचें ना तूं किंवा हेर मनीस

कसो विचार करतात ह्या आयुश्याचो; पुण म्हजे पुरतेंच सांगचें जाल्यार
म्हाका म्हजें जिणें नाकाशें दिसतालें.
म्हजे वरीच एकाद्रया मनशाच्या धाकांत जीण सारचे परस.
चेजारा वरीच जल्मलो हांव स्वतंत्र, तेच परीं तूंय;
ताचे वरीच आमी दोगय वयर सरले
आनी आमी दोगय सोंसपाक शकतात
ताचे इतलेंच शिंयाळ्याचें शीं.
एका दिसा कडक शिंयांत, मोडाच्या वावांत,
खुबळिल्लीं टायबरचीं ल्हारां तिचे तडीर आपट्टना,
चेजारान म्हाका म्हणलें, "आसा हिंमत, कासियूस, खिणांत ह्या
म्हजे वांगडा सोताक झोकून दिवपाची, खुबळिल्ल्या ह्या पाणयांत,
आनी पेवंन पलतड गांठपाची?"
हें आयकतांच आंगावयल्या चिलखतासयत मारली हांवें उडकी,
आनी ताका म्हणलें, "यो, म्हजे फाटसून" आनी खऱ्यांनीच तो आयलो,
गाजतालो म्हा हुंवार, जो आमी कातरीत गेले
गात्रांच्या सगळ्या बळान, ताका लोटून कडेक
वाट काडीत झगडत ताचेशीं.
पूण थारिल्ल्या ठिकाणाचे पावचे आदींच
चेजार आड्डलो : "म्हाका हात दी, कासियूस,
नाजाल्यार बुडटां हांव." एनिअस[3] आमचो म्हापुर्वज,
जाणे ट्रोयच्या जाळांतसून खांद्यार मारून म्हाताऱ्या
एनकायसिसाक[3] उखलून व्हेलो,
तसोच हांवें ह्या टायबरच्या ल्हारांतल्यान
उखलून व्हेलो गलितगात्र चेजाराक आनी हो मनीस
आतां देव जावन बसला. आनी आसा एक कासियूस बावडो
जाणें बागोवपाक जाय चेजारा मुखारः
चेजारान जाचेकडेन पळोवन बेपर्वायेन हालयली आपली मान तरी!
एकदां ताका जोर भरलो स्पेनांत आसतना,
आनी ताका मल्लूक मारली, तेन्ना हांवें पळयलें

तो कसो थरथरतालो तें.
"हय, हो देव थरथरतालोच
आनी फुल्ल धवे जाल्ले ताचे भिवकुरे ओंठ
आनी ताचे दोळे, जांचे नदरेचो धाक ह्या संवसाराक आसा,
ते जाल्ले निस्तेज. पिंर्गतनाय हांवें तोआयकलें.
आनी ती ताची वाणी, जिणें रोमाचे जनतेचेर आपलो ठसो उमटायला,
आनी आपलीं भाशणां, जाणे बरोवपाक लायली रोमनांक चोपड्यांचेर,
"हाय रे, तितीनियूस, कितें तरी पियेवपाक दी म्हाका!" अशें
एके पिडेस्त चलयेवरी म्हणपाक लागलो!
हे देवांनो, अजाप दिसता हाचें म्हाका
अशा ह्या दुबळ्या मनशान, पयलो पाट मेळोवन ह्या विशाळ विश्वांत,
जैताचें, मानाचें पान एकट्यानच घेवन बसचें.
(घोशणा आनी तुताऱ्यांचे आवाज.)

ब्रूतुस : पर्थून घोशणा लोकांच्यो?
म्हाका सामकें दिसता ह्यो ताळयो जातात
नव्या भोवमानांची रास चेजाराचेर घालतना.

कासियूस : हय, इश्टा! तो उबो आसा धेंगाखाला घेवन हो किरकोळ संवसार
कॉलोसूसच्या[4] भव्य पुतळ्यावरी, आनी क्षुद्र मनशां
चलतात ताच्या प्रचंड धेंगां पोंदच्यान, भोंवतणी पळयत,
सोदपाखातीर थड्यांची सुवात आपल्या अपमानीत जिण्यांक!
मनीस केन्ना आसतात आपल्या प्राक्तनाचे धनी.
दोश आपल्या गिऱ्यांचो नासता, मोगाळ ब्रुतुस,
तो आसता आमचेच मदीं, आनी जातात तांचे बंदे म्हणून.
'ब्रुतुस' आनी 'चेजार': कितें आसा त्या 'चेजारा मदी'
कित्याक चड गाजचें ताचें नांव तुजे परस?
बरय एकठांय हीं नांवां. तुजें नांव आसा तितलेंच सोबीत.
उच्चार तीं नांवां: वाणीक सोबा दिता तुजेंय नांव;
तोल तीं : तुजें नांव ताचे इतलेंच वजनदार.
मंत्रावरी उच्चार हीं दोनूय नांवां: 'चेजारावरी 'ब्रुतुस'चोय

उच्चार आत्मे जागयतलो.
आतां सगळीं देवाचीं नांवां स्मरून सांग रोखडेंच,
कोणाच्या मांसाचेर पोसला हो आमचो चेजार
जाका लागून तो इतलो बेसुमार वाडला? हे युगा, लजेक घालां तुका!
हे रोमा, तुज्या कुळवंत रगताचो वंशच नश्ट जाला.
प्रळय[5] काळा पासून आयजवेर, एका परस अदीक मनशां
नांवाजिल्लीं नासलीं, अशें खंयचेंय यूग केन्ना आसलें काय?
रोमा विशीं उलयता, आयजवेर अशें कोणे म्हणलां काय,
रोमाचो राजमार्ग फक्त एकाच मनशान आडायला?
आयज मात रोमाची आवतिकाय जाल्या अशे तरेची.
सुवात आसा थंय एकाच मनशा पुरती!
आरे, तुवें आनी हांवें आयकलां, आमच्या वाडवडिलांनी म्हणिल्लें
एकाकाळार ब्रूतुस[6] ह्या नांवांचो मनीस जावन गेलो
जाणे रोमाचेर सैतानाची कायमची सत्ता
जे परी मोन्यांनी जितक्या आपणायली आसती,
सामके तेच परी मोन्यांनी आपणायल्ली आसती
रोमाचेर राजाची सत्ता.

ब्रूतुस : तूं म्हजो मोग करता, हाचो मातूय ना दुभाव म्हाका.
तूं म्हाका खंय व्हरतलो हाची म्हाका थोडी सुलूस लागल्या
ते विशीं आनी परिस्थिती विशीं
म्हाका कितें दिसता तें हांव मागीर सांगन.
सध्या मात म्हजेर कांयच परिणाम जावंचो ना तुज्या आग्राचो
अशी म्हजी प्रेमाची सांगणी आसा तुका.
तूं जें म्हणटा ताचेर हांव विचार करीन;
तुका जें सांगचें आसा तें हांव सोंशीकपणान आयकून घेन
आनी हांव दोगांयचे सोयीचो वेळ थारायन
म्हत्वाच्या गजालींचेर भासाभास करचे खातीर.
तों वेर म्हज्या सज्जन इश्टा, हें मतींत दवरः
सध्याचो काळ जो कठीण प्रसंग हाडटलो,

ते परिस्थितींत हो ब्रुतुस,
रोमाचो पूत म्हणून व्हडवीक सांगचे परस
पसंत करीत सोता गांवढळ आसप.

कासियूस : म्हज्या दुबळ्या उतरांनी, ब्रुतूसा कडसून इतली तरी उज्याकीट पेटयली हाची म्हाका खोस आसा.
(चेजार आनी ताचो लवाजमो प्रवेश करता.)

ब्रुतुस : सोंपल्यात खेळ आनी परतो येता चेजार.

कासियूस : तो हांगा सावन वतना ताच्या झग्याचो हात ओड.
मागीर तो सांगीत तुका, आपले आमटायल्ले शैलींत
सांगपा सारकें आयज कितें घडलें तें.

ब्रूतुस : हांव तशें करतां, पळय तूं; कासियूस.
रागान तांबडो गुंज दिसता चेजारचो चेरो
आनी ताच्या वांगडचे दिसतात सगळे भियेल्ले.
कालपुर्नियाचे पोले जाल्यात धवे फटफटीत
आनी दोळे चीयेरोचे दिसतात मुंगूसा[7] वरी तांबडे
अशे ताचे पेटिल्ले दोळे आमी पळयल्यात
जेन्ना कापितालच्या सभाघरांत विरोधी सॅनेटर भासाभाशेंत
ताका आडवे तिडवे प्रस्न विचारताले.

कासियूस : कितें घडलां तें कासकाच सांगतलो.

ज्युलिसूस चेजार : आन्तोनियूस!

आन्तोनियूस : चेजार?

चेजार : म्हजे भोंवतणी म्हाका थुलथुलीत मनीस जाय,
तुळतुळीत तकलेचे आनी रातीचीं सुस्त न्हिदपी,
तो थंय आसा कासियूस हाडकुळो आनी भुकेल्ले नदरेचो,
अती विचार करपी तो. असले मनीस आसतात घातकी.

आन्तोनियूस : ताचें भंय नाका चेजार, तो न्हय घातकी,
तो कुळवंत रोमान, सुसभावी.

चेजार : बरें जातलें आसलें, तो आनीकय मोठो आशिल्लो जाल्यार!
पूण हांव ताका भियेना.

म्हज्या नांवा कडेन जोडचें आसल्यार भंय,
हांवें टाळचो इतले बेगीन असो तो हाडकुळो मनीस
कासियूसा वरी दुसरो मनीस हांव नकळं;
आनी तो पळयता मनशांच्यो करण्यो भेदून तांचे फाटले हेत.
तुजे वरी ताका खेळ आवडनात.
आंतोनियू, तो संगीत[7] आयकना[7], क्वचीत तो मुमुरखें हांसता.
आनी जेन्ना तो हांसता मुमुरखें तेन्ना सोताची कुचेश्टा तो करता
अशें दिसता आनी करता उवेखणी कित्याकय
कुचेश्टेन हांसपी सोताचे वृत्तीची !
अस्वस्थ जातात हे ताचे वरी मनीस
जेन्ना ते पळयतात आपले परस कोणय व्हड,
आनी ते आसतात भारी धोकेबाज
हांव तुका सांगता कित्याक भियेवचें तें,
हांव कित्याक भियेतां तें न्हय;
कित्याक हांव आसां सदांच चेजार.
म्हजे उजवे वटेन येवन उबो राव,
कित्याक हो कान भेरो आसा,
आनी म्हाका खरें सांग ताचे विशीं तुजें मत कितें तें.
(तुताऱ्यांचे आवज. चेजार आनी ताचो लवाजमो वता.)

कासका : तुवें म्हजो झगो ओडलो. कितें उलोवचें आसलें तुका म्हजेशीं ?

ब्रूतुस : आरे कासका, आयज अशें कितें अचकीत घडलां
जाका लागून चेजार इतलो उदास दिसता ?

कासका : जालां कितें ? तूं तर ताचे बराबरच आसलो न्हय ?

ब्रूतुस : हांव थंय आशिल्लो जाल्यार हांव विचारचो नासलों कासकाक.

कासका : ताचें अशें जालें: हांव ताका राजमुकूट दिवपाक गेलों,
हात फाफडून ताणें नाकारलो तो. प्रत्येक खेपेक ताचो
नाकारपाचो आवेश ओसरतालो. ताणें मुकूट नाकारतकच,
प्रत्येक खेपेक म्हजे प्रामाणीक शेजारी आड्डताले.

कासियूस : ताका मुकूट कोणें दिवचो केलो ?

कासका : कित्याक? आन्तोनियुसान.

ब्रूतुस : सगळें ज्युस्त कशें घडलें तें सांग मोगाळ कासका.

कासका : कशे तरेन घडलें हें सांगचे बदला हांव गोळ घेयन. पिशेपणांच चलिल्लीं सगळीं. हांवें ताचे कडेन लक्ष दिलेंना. मार्कूस आँनोनियूस मुकूट दितना म्हाका दिसलो - खरें सांगचे जाल्यार तो मुकूटच नासलो. आमचे सदचे फुलांचे टोप आसतात, तेच तरेचो आसलो तो - हांवें तुका सांगलां तशें. ताणें तो एकदां नाकारलो, पूण तरी लेगीत म्हाका दिसलें, ताका तो घेवप आवडटलें आसलें. मागीर आन्तोनियुसान पर्थून तो ताका दिवचो केलो; पूण तो ताणें पर्थून कडेक सारलो. पूण म्हाका दिसता, आपलो हात मुकुटा वयल्यान कुशीक काडप, ताका जड जालें. मागीर आन्तोनियून तिसरे खेपेक तो मुकूट दिवचो केलो. आनी तिसरे पावटय ताणें तो नाकारलो. आनी हे खेपेकय ताणें तो नाकारिल्ल्यान त्या आलमपेडडयार बाजारी जमावान हुर्यो घालून खिणां पडिल्ल्या खरखरीत हातांनी ताळयो पेटल्यो आनी हुमेन भिजिल्ल्यो तांच्यो कानटोपयो हवेंत उडयल्यो आनी मूकूट नाकारलो म्हणून इतले घाणयारे उस्वास हवेंत सोडले, जाका लागून चेजार घुसमटले वरी जालो आनी घुंवळ येवन सकल पडलो. आनी म्हजे विशीं विचारशीत जाल्यार, म्हाका हांसपाचीय हिंमत जाली ना, कित्याक म्हज्या उगडिल्ल्या ओठांतल्यान ती घाण म्हज्या तोंडांत वतली आसली.

कासियूस : मात्सो राव. म्हजी विनंती तुका. खरेंच चेजार धुंवळीन तिरमिरलो.

कासका : भर बाजारांत तो खाला पडलो, ताचें तोंड फेणेलें आनी ताची वाचा बंद जाली.

ब्रूतुस : घडलां जायत तशें. ताका मल्लुकेची पिडा आसा.

कासियूस : चेजाराक न्हय, पूण तुका आनी म्हाका, आनी ह्या प्रामाणीक कासकाक पिडा आसा खाला कोसळपाची.

कासका : हांव समजूंकना तूं कितें म्हणटा तें. पूण म्हाका खात्री आसा चेजार खाला पडलो. त्या भिकाड्ड्या लोकांचो चोंबो

चेजारचें वागणें रूचतकच ताळ्यो पेट्टालो
आनी नापसंत पडकटच हुर्यो घालतालो.
थेटरांत नाटक पळयतना, पसंती नापसंतीची अशीच दाद
नटांक दिवची तांकां सवंय आसता. हांव सांगता तशें
घडलां नासल्यार हांव खरो न्हय अशें समजात.

ब्रूतुस : सावचीत जातकच तो कितें उलयलो ?

कासका : माय मेरीचो सोपूत घेवन सांगतां, जेन्ना ताका समजलें ताणें मुकूट नाकारिल्ल्यान तो फडतूस लोकांचो चोंबो खोशी जाला, तेन्ना ताणे थंयचे थंय आपले बंद गळ्याचें जाकीट काडलें आनी त्या चोंब्याक म्हणलेंः "तुमची इत्सा आसल्यार हो म्हजों गळो चिरुन उडयात.. हांव जर बरो कामगार आसलों आनी ताचें हें उलोवणें खरें धरून ते प्रमाणें करूंक नासलें, तर पातकी मनशा प्रमाणें म्हाका नरकांत वच्चें पडपाचें, तरी हांव वचपाचों. हाचे उपरांत तो घुंवळ येवन कोसळ्ळो. जेन्ना तो पर्थुन सावचीत जालो तेन्ना ताणें म्हणलें. हांव जर कितें चूक उलयलां आसन, तर मानेस्त जनतेन तो म्हजे पिडेचो परिणाम अशें समजुचें, अशी म्हजी इत्सा आसा. म्हजे कुशीक तीन काय चार शिंदळ बायलो आसल्यो. त्यो आड्डल्योः"आहाहा ! थोर आत्मो;" आनी तांणी ताका मनाथावन भगशिलो. पूण तांकां म्हत्व दिवंया नाका. कित्याक चेजारान तांच्या आवयांक सुरयो तोपल्यो जाल्यारय त्यो हाचे परस कांय वेगळें करच्यो नासल्यो.

ब्रूतुस : हें घडटकच तो खेदिश्ट जालो काय ?

कासका : हय !

कासियूस : चीचेरो कितें उलयलो.

कासका : हय, तो जें उलयलो तें कांयच समजलें ना.

कासियूस : कितें म्हणलें ताणें ?

कासका : तें हांवें सागलें जाल्यार हांव फट उलयलों अशें जातलें, आनी मागीर पर्थून तुजे नदरेक नदर दिवपांक म्हाका जमचेंना. पूण जांकां तो कितें म्हणटा तें समजलें ते एकामेका कडेन पळोवन

हांसले आनी तांणी आपल्यो तकल्यो हालयल्यो. म्हाका मात ताच्या उलोवण्याचो कांयच अर्थ लागलोना. आनीक एक बातमी म्हाका तुका सांगची आसा. मारूलूस आनी फ्लावियूस, जांणी चेजाराचें जैत मनोवपाक केल्लो पुतळ्यां वयलो साजशिरंगार काडून उडयलो, तांचीं तोंडां बंद केलीं. बरें तर हांव तुमचो निरोप घेतां. म्हाका याद आशिल्ली जाल्यार, थंय आनीक चलिल्लीं पिशेंपणा, तीं हांव तुमकां सांगतलों आसलों.

कासियूस : आयज रातीं आमगेर जेवपाक येता, कासका.

कासका : ना, म्हाका जमचें ना; दुसरे कडेन वचचें आसा.

कासियूस : मागीर फाल्यां येशीत?

कासका : हांव जितो आसल्यार आनी फाल्यां मेरेन तुजें आमंत्रण तिगल्यार आनी तुजें जेवण रूचीक आसल्यार.

कासियूस : बरें तर फाल्यां तुका रावतां.

कासका : तशें कर. आतां तुमच्या दोगांयचो निरोप घेतां. (वता.)

ब्रूतुस : कितलो उद्धट जाला आनी फटकळ उलयता हो मनीस.
शाळेत आसलो तेन्ना तो कितलो उमेदी आसलो.

कासियूस : आतांय तसोच आसा, जर ताच्या हातांत आसत
एकाद्रें धाडसाचें किंवा तोला मोलाचें काम
तरी आपूण फटकळ उलोवपी अशें सवंग तो घेता;
आनी ताचें हें उद्धटपण चेटणे वरी रूच हाडटा
ताच्या हजरजबाबीपणाक, ताका लागून तें रोखडेंच पचता.
आनी तें वाडयता आयकुचेली भूक.

ब्रूतुस : आनी हें खरें. आतां हांव तुजो निरोप घेतां.
फाल्यां म्हजे कडेन तुका उलयनशें दिसल्यार
हांव तुमगेर येतां; किंवा तुका जाय जाल्यार तूं यो आमगेर.
हांव तुजी वाट पळयतां.

कासियूस : तशें हांव करतां, ते मेरेन सध्याचे परिस्थितीचो तूं विचार कर.
(ब्रूतुस वता.)
(स्वगत) खरेंच ब्रूतुस, म्हान आसा तूं, तरी म्हाका दिसता,

जरी उंची धातूची तुजी व्हडवीक आसत
तरी तिका ज्याची संगत
त्या हीणकस धातूचो आकार दिवपाक येतलो.
आनी म्हणून कुलीन मनशांनी व्हड मनशाचेच
संगतींत रावपाक जाय;
कित्याक ताळणेंत पडना इतलो कणखर कोण आसता?
चेजाराक हांव दोळ्यां मुखार नाका, पूण तो ब्रूतुसाचो मोग करता.
ह्या खिणाक हांव ब्रूतुस आसलों आनी तो कासियूस,
जाल्यार ताका म्हजेर प्रभाव घालपाक येवचो नासलो.
आयज रातीं वेगवेगळ्या हातांनी बरयल्लीं पत्रां
हांव ताच्या जनेलांतसून भितर उडोवंक लायतां.
जशें कितें जायत्या नागरिकांनी तीं धाडल्यांत;
रोमा शार कितलें थोर मानता ब्रूतुसाचें नांव
हें मत्त ह्या पत्रांतल्यान उक्तायल्लें आसतलें.
आनी ह्या पत्रांतसून चेजाराची म्हत्वाकांक्षा
सुचयल्ली आसतली.
मागीर चेजाराक दिसूं ताचें आसन पक्कें आसा म्हणून,
आमी तें हालयतले किंवा आपत्तीचे दीस सोंसतले. (वता)



# प्रवेश तिसरो

देखावः रोमा शारांतलो एक रस्तो.
(कुपांचो गडगड आनी जोगलांचो कडकड. कासका आनी चीचेरो प्रवेश करतात. कासकाच्या हातांत भायर काडिल्ली तरसाद आसा.)

चीचरो : बरी सांज, कासका. चेजाराक घरा पावोवन आयलो?
तूं असो धांपेला कित्याक? आनी तूं असो तटास जावन
कित्याक रे पळयता?

कासका : तूं जावंक ना अस्वस्थ जेन्ना पिर्थुमे वयले सगळे नेम
डळमळटात अस्थिर वस्तूं वरी? आरे चीचेरो,
हांवें पळयल्यांत मोडां जेन्ना धमकावपी वाऱ्यांनी
विदर्णा केल्यात गांठळिल्ले ओकरूख; हांवें पळयंला
म्हत्वाकांक्षी म्हासागर खवदळटना. खुबळटना, फेणेतना,
भयांकृत कुपां मेरेन उंच पावचें म्हणून.
पूण आयचे राती मेरेन, सामकें आतां मेरेन,
हांवें केन्नाच पळोवंक नासलें हाचे पयलीं
उजो ओकपी अशें मोड!
एक तर यादवी झूज जालां सर्गांत सुरू
किंवा ह्या संवसारान देवां कडेन भारी उद्धट वागून
तांचो क्रोध जागोवन हाडला विनाशी.

चीचेरो : म्हाका सांग, हाचेय परस अजापाचें तुवें कितें पळयला?

कासका : एक सामान्य गुलाम-जाका तूं पळयल्यारच वळखशीत
ताणें वयर केल्लो दावो हात चुडीवरी पेट्टालो
आनी तो पेटिल्लो वीस चुडी एकठांय जळच्यो तसो,
तरी ताका उजो जाणवनासलो, तो लासूंकनासलो.
ते शिवाय-तेन्ना पासून म्हजी तरसाद भायर काडून तयार आसा
कापिताला मुखार म्हाका मेळ्ळो एक शींव.
निर्विकारपणान म्हजे कडेन पळोवन तो गेलो

म्हाका घायाळ करिनासतना आनी थंय एकठांय जाल्ल्यो
खेट केल्ल्यो शंबर बायलो, भंयान चेरे विरूप जाल्ल्यो
ज्यो म्हणपाक लागल्यो सोपूत घेवन आपणें पळयल्यात
पेटिल्ले शंबर पुरुश रस्त्याचेर यो वच करतना.
आनी काल, हरशीं रातींचे येवपी घूबड
भर दनपरां बाजाराचे सुवातेर बसून
घू घू करीत घुमतालें.
एकाच बराबर घडटात जेन्ना अश्यो विज्मितांच्यो गजाली
तेन्ना अशें म्हणचे न्हय मनशांनी
"हीं तांचीं शास्त्रीय कारणां, त्यो आसात सैमीक."
कित्याक म्हज्या मत्तान त्यो आसतात अशूभ सुचोवपी
त्या देशांत जंय त्यो घडटात.

चीचेरो : खरेंच, विपरीत घडणुको घडपाचो हो काळ.
पूण मनशां आपणांक जाय तसो अर्थ लायतात तांचो
मूळ वस्तूस्थिती कडेन सबंध नासता जाचो कसलोच.
चेजार फाल्यां कापितोलाक येतलो?

कासका : हय तो येतलो. कित्याक ताणें आज्ञा केल्या आन्तोनियूक
फाल्यां तो येतलो असो निरोप तुका धाडपाक.

चीचेरो : मागीर बरी रात तुका, कासका, अश्या वादळी वातावरणांत
चलप नासता सोयीचें.

कासका : बरें तर चीचेरो, येतां हांव.
(चीचेरो वता, कासियूस प्रवेश करता.)

कासियूस : कोण आसा थंय?

कासका : एक रोमाचो नागरीक.

कासियूस : आवाजा वयल्यान तूं कासका असो दिसता.

कासका : तुजे कान शिटूक आसात. कासियूस, कसली रे ही रात?

कासियूस : रात संतोश दिवपी प्रामाणीक मनशांक.

कासका : आकाश इतलें कोपिल्लें पळयलां कोणे केन्ना?

कासियूस : जांणी पळयल्या दोशांनी भरिल्ली ही पिर्थूम

तांणी पळयला अशें हें आकाश;
म्हजे पुरतें म्हणशीत तर
रस्त्या वयल्यान हांव चलत आयलां
अशे ह्या संकश्टाचे रातीक फुडो करून,
आनी अशा ह्या उगड्या झग्यान
कासका तूं पळयता, हांवें उक्ती केल्ली
ही म्हजी छाती जोगलाच्या लोळाक;
असो हे विजुलाचो लोळ
आकाशाची छाती फोडून येतना
हांव उबो रावलां ताच्या लखलखीत माऱ्याचे मोखेंत

कासका : पूण कित्याक अशी भूल तूं देवांक घालता?
मनशांक भंयान थरथरून कांपचेंच पडटा,
अती शक्तीवंत देव जेन्ना धाडटात
अपशकुनाच्या रुपान भिरांकूळ दूत अशे
सगळ्यांक विस्मीत करपाक.

कासियूस : मठ्ठ आसा तूं कासका, जिणे चैतन्याच्यो किटी
ज्यो आसूंक जाय रोमाच्या मनशांत, त्यो तुजेमदीं नांत,
किंवा त्यो तूं वापरिना. तूं असो धवे फटफटीत
शेणिल्ले नदरेन पळयता, भयाभीत, असो विस्मीत जाल्लो
पळोवन हें आकाशाचें हुतहूतेपण.
पूण तुवें मतींत घेतल्यार खरें कारण,
कित्याक हे उज्याजाळ, कित्याक हीं पिशाच्चां संचारल्यांत,
कित्याक हें पशू आनी पक्षी सैमीक सभाव सोडून वागतात.
कित्याक हे म्हातारे, जल्मासावन पिशे आनी ल्हान भुरगीं
भविश्य सांगपीं जाल्यांत?
कित्याक ह्यो सगळ्यो गजाली जाल्यात अश्यो राकेशी
बदलून आपले सभावीक गूण मुळावी शक्ती;
कित्याक? तुका हें कळटलें,
देवानच प्रेरणा दिल्या अशे वृत्तीक

ताणें करची म्हणून साधना भंयाची,
इशाऱ्याची कसले तरी राकेशी परिस्थितीच्या.
हांव तुका नांव सांगूं. कासका, एका मनशाचें,
जो आसा हे भयांकृत राती वरी, गडगडटा तो कुपां भाशेन
कडकड करता जोगलावरी, थडीं उगडटा, आनी गाजत
कापितालांत शिंवा वरी -
हो मनीस, जो कर्तुत्ववंत आनी बळिश्ट ना तुजेहून किंवा म्हजे
परस. पूण जो अजापाचो वाडला
आनी जाला भयानक ह्या विचित्र स्फोटक घडणुकां वरी.

कासका : तूं हें चेजार विशीं म्हणटा, हय मरे कासियूस?

कासियूस : जो कोण आसत तो आसत. आयजय आसात रोमानांचे
स्नायू आनी अवयव पुर्वजां वरी तांच्या.
पूण हाय रे मेल्यांत आमच्या पुर्वज बापांयची मनां,
आनी आमच्या आवयांची मनां आयज
शेक गाजयतात आमचेर;
आमचे मानेवयलें जूं, आमचें सोंशीकपण दाखयता आमचें बांयजणपण.

कासका : खरेंच, ते म्हणटात, फाल्यां आमचे सेनेटचे सभासद
चेजाराक राजा करपाक सोदतात.
मागीर ताच्या मुकुटाची सत्ता नंदतली
दर्याचेर, भुंयेचेर, प्रत्येक थळाचेर इताली सोडून.

कासियूस : मागीर ह्या खंजिराची सुवात म्हजे छातयेंतली[1] जाणां हांव;
कासियूसच सोडयतलो कासियूसाक गुलामींतल्यान.
अशे आत्महत्ये वरवींच, देवांनो तुमी करतात दुर्बळांकअदीक बळिश्ट,
आनी देवांनो, ताचे वरवीं तुमी करतात जुलूमशांक पराभूत;
दगडी बुरुज आसूं किंवा पेटिल्ल्यो पितुळच्यो वण्टी.
काळखाचें तळघर आसूं किंवा लोखंडाचे साखळदंड,
कोणूच आत्मशक्ती बंदिस्त करपाक शकना.
संवसारांतल्या ह्या बंधनाक विटिल्ल्या आयुश्याक
स्वताक मुक्त करची शक्ती आसताच.

म्हाका हें जर कळ्ळां जाल्यार सगळ्या जगान समजून घेवचें
की जो जुलूम हांव आयज सोंसता
तो हांव जाय तेन्ना शेंवटून[2] मारीन[2].
(आजूनय कुपांचो गडगड चालू)

कासका : हांवूय बी. हय प्रत्येक बंद्यांच्या हातांत आसता शक्ती
जी आपलें बंदेपण सोडूं शकता.

कॉसियूस : आनी मागीर चेजारान कित्याक जुलूमशा जावंचें?
बाबडो चेजार! हांव जाणां, ताका लांडगो जावपाचें ना
पूण तो पळयता मेंढरां बोकडां जाल्ली रोमाची जनता;
तो शींव जावंचो नासलो जर रोमाची मनशां मेरवां नासतीं.
मोठो उजो घालपाची जे ताकतीक करतात
ते करतात ताची सुरवात दुबळे तणाचे काडयेंतल्यान.
कसलें हें करड आसा रोमा? कसलो कोयर?
कसली हळशीक आनी कसलो पत्रो, जाचो उपेग करतात
मुळचो हलको जळोव म्हणून
चेजारा वरी अधमाक प्रकाशीत करपा खातीर.
पूण ए दुख्खा, खंय व्हेला तुवें म्हाका? घडये हांव हें उलयतां,
जो खोशेन बंदो जाला ताचे फुडें; आनी हांव जाणां,
हाचें मोल म्हाका दिवचें पडटलें. पूण हांव शस्त्रसज्ज आसां,
संकश्टांची म्हाका पर्वा ना.

कासका : तूं उलय कासका कडेन, आनी अशा मनशा कडेन
जो न्हय तुच्छ गुपीत बातम्यो फोडपी. धर म्हजो हात
हीं सगळीं दुख्खां निवारपा खातीर, तूं पक्ष उबार,
आनी हांव म्हजें पावल[3] घालन जें आसतलें सगळ्यांत फुडलें[3].
(दोगूय एकमेकांक हात दितात.)

कासियूस : हो एक सौदो जालो. आतां हें तूं लक्षांत दवर, कासका,
आमचे वटेन हाडल्यात आदींच हांवें
कांय थोर आनी व्हडल्या मनाच्यो रोमांतल्यो व्यक्ती
ह्या धाडशी कार्यांत भागी जावपाक

जें सन्माना वांगडाच परिणामी धोक्याचें आसा.
आनी हांव जाणां आतां ते म्हजी वाट पळयतात
पॉम्पे[4] नाट्यघराच्या[4] प्रवेशदारांत. कित्याक हे अशे भिरांकूळ राती,
खंयच बोवाळ ना, किंवा रस्त्यारय कोण भोंविल्ले दिसनांत.
आनी आकाशाचेय रंग दिसतात आमच्या कार्याक फावोशे,
दिसतात ते रगताळिल्ले, पेटिल्ले आनी भारी भिरांकूळ.
(चीन्ना प्रवेश करता.)

कासका : मात्सो आडसाक येवन उबो राव,
ताकतिकेन कोण तरी हांगा येता.

कासियूस : तो आसा चीन्ना. हांव ताका ताचे चाली वयल्यान वळखतां.
तो इश्ट आमचो. इतले ताकतिकेन खंय रे वता, चीन्ना?

चीन्ना : तुकाच सोदपाक. हो कोण? मेतेलूस चिंबेर?

कासियूस : न्हय. तो कासका. जो सामील आमच्या प्रयत्नांत.
चीन्ना, म्हजी वाट ते पळयतात न्हय? सांग म्हाका.

चीन्ना : हें कळून बरें दिसलें म्हाका. कितली भयांकूळ रात ही!
आमचे पयकीं दोगां तिगांनी, विचित्र दृश्यां पळयलीं.

कासियूस : म्हजी वाट ते पळयतात न्हय? सांग म्हाका.

चीन्ना : हय; ते वाट पळयतात. आरे कासियूस, तूं हाडशीत
जाल्यार व्हड मनाच्या ब्रूतुसाक आमचे वटेन?

कासियूस : तूं थंड राव. सज्जन इश्टा, हो कागद घे, (कागद दिता)
आनी तो त्या जुविजाचे[5] कदलीचेर[5] दवर,
जंय तो दिसतलो फक्त ब्रूतुसाक. आनी हो उडय
ताच्या जनेला भितर. आनी हो दसय मेणान
पुतळ्याचेर पुर्वज ब्रूतुसाच्या. हें सगळें करतकच
तूं पॉम्पे नाटकघराच्या दरवंट्या कडेन यो, जंय आमी आसतले,
देसियूस ब्रूतुस आनी त्रेबोनियूस आसात थंय?

चीन्ना : मेतेलूस चिंबेर सोडून सगळे आसात. आनी तो गेला तुका सोदपाक
तुज्या घरा. बरें, हांव रोखडोच वतां आतां
आनी दवरतां हीं कागदां तुवें सांगल्यात थंय.

कासियूस : तें करून पॉम्पे नाटकघरा कडेन यो.
(चीन्ना वता.)
या, कासका, तूं आनी हांव दीस उदेवंचे पयलीं
ब्रूतुसाक ताच्या घरा मेळया. तीन वांटे तो
आदींच तो आमचो जाला, आनी सगळोच आमचो जातलो
हे फुडले आमचे भेटेंत.

कासका : ओ! ताका आसा सुवात सगळ्या लोकांच्या काळजांत;
आनी जो थारत गुन्यांव आमी केल्यार
तो, ताची संमती मेळ्ळयार, रसायनशास्त्र हीण धातूचें
भांगर करता ते परीं, थारतलो सद्‌गूण भोवमानाचो.

कासियूस : तो आनी ताची ही लायकी आनी ताची आमकां आशिल्ली गरज
तुवें सामकी हेरल्या. वचुया आमी आतां,
कित्याक मध्यानरात उलगतकच आनी दीस उजवाडचे पयलीं
आमी जागोवया ताका आनी ताची खात्री करुन घेवया.
(वतात.)



# अंक दुसरो
## प्रवेश पयलो

देखाव : रोमा शार, ब्रूतुसाच्या घराचें पोरसूं.
(ब्रूतुस प्रवेश करता. )

ब्रूतुस : खंय आसा तूं लुचियूस[1] ? आरे, हांगा यो.
नखेत्रांचे गती वेल्यान, म्हाका अदमास करुंक येवचो ना,
कितलो वगत आसा दीस उदेवंक. ओ लुचियूस, सुस्त न्हिदचेलें हें
तुजें दुबळेंपण, तुजें वरी म्हजें मदीं आसल्यार बरें जावपाचें;
केन्ना उठ्ठलो लुचियूस? आरे, तूं आयकता?
जागो जा लुचियूस, आयक, जागो जा!
(लुचियूस प्रवेश करता)

लुचियूस : आफयलो तुमी, म्हज्या धनया?

ब्रूतुस : मेणवात घेवन वच, म्हजे अभ्यासाचे कुडींत
मेणवात लायतकच, हांगा येवन सांग म्हाका.

लुचियूस : तशें करतां, धनया. (लुचियूस वता)

ब्रूतुस : (स्वगत) तें सादतलें ताच्या मरणान आनी म्हजे पुरतें सांगचें जाल्यार.
हांवें ताका नाम्हणपाक खाशेलें कारण ना म्हाका,
तें करचे लागता लोकहिता पासत राजमुकूट जाय ताका.
तो मेळ्ळयार, ताचे वृत्तींत कसलो बदल जातलो,
होच तर खरो प्रस्न.
रखरकीत वत पडटकच, भायर सरतात विखारी सोरोप;
अशा वेळार सादूर जावन चलचेंच पडटा. मुकूट घालात ताचेर
आनी हांव सांगता, परिणामीं आमी ताका विखाळ डंख भेटोवं.
जो तो मनाक मारीत तसो वापरुन घात करतलो.
उंचेल्या पदाचो दुरुपेग तेन्नाच जाता,
जेन्ना जाता काकळूट आनी सत्ता हांची फारकत.
आनी चेजारा विशीं खरें उलोवचें जाल्यार
हांव नकळं चेजाराच्या विवेकाचेर केन्ना ताच्या

विकारांनी ताबो मेळल्ल्याचें.
पण हो तर आसा सद्चोच अणभवः
नमळाय ही निसण तरणाटे म्हत्वाकांक्षेची,
चडटलो लक्ष दिता वयल्या पांवड्याचेर;
पूण एकदां सगळ्यांत वयल्या पाड्यांचेर पावतकच,
तो निसणीक आपली फाट करता,
पळयता कुपां कडेन, उवेखीत निसणेच्या पावड्यांक,
जे तो चडून वयर पावता, तेंच चेजार घडये करीत.
ताणें तशें करचे आदींच ताका आडायात.
आयज जसो चेजार आसा त्या चेजाराक.
दोश दिवपाक कारण नासलें, तरी ताचे कडेन हे दिश्टीन पळय;
तो आयज आसा ताचे परसय बळिश्ट जालो जाल्यार
ताची धांव पावतली ह्या किंवा त्या अत्याचारा कडेन
हे खातीर सोरपाचें तांतीं म्हणून ताचे कडेन पळयात
जें फोडून भायर आयिल्ल्या खिणाक तो थारतलो घातकी
आपले जातीचेर वतलो, आनी म्हणून तो
तातयांत आसतनाच ताका चेंचायात.
(लुचियूस प्रवेश करता.)

लुचियूस : तुमचे अभ्यासाचे कुडींत मेणवात लायल्या, धनया,
जनेला लागीं सोदतना चकमकेचो फातर,
हो सीलबंद कागद म्हाका दिसलो. हांव खात्रीन जाणा
न्हिदपाक वतना तो थंय नासलो.
(ब्रूतुसाक तें पत्र दिता.)

ब्रूतुस : न्हिदपाक वच तूं आतां. उजवाडूंक ना आजून.
कितें रे पोरा, फाल्यां पंदरा मार्च न्हय?

लुचियूस : हांव नकळं धनया.

ब्रूतुस : कॅलेंडर पळय आनी सांग म्हाका.

लुचियूस : तशें करतां, धनया. (लुचियूस वता)

ब्रूतुस : आकाशांतल्यान पडपी उल्कांचो हो उजवाड

जाय तितलो आसा हें पत्र वाचपाक.
(पत्र उगडून वाचपाक लागता)
"ब्रूतुस, तूं न्हिदला, जागो जा आनी पळय आपले कडेन,
आमच्या रोमाचें कितें जातलें?" आदि.
"उलय. घाव घाल. निवारण कर.
ब्रूतुस, तूं न्हिदला, जागो जा."
चिथावपी आव्हानां असलीं साबार पावटी म्हज्या हातांत पडल्यांत"
"आमच्या रोमाचें कितें जातलें?" आदि.
ताचो अर्थ हांव कसो कितें लावं?
कितें आमचें रोमा शार रावतलें एकाच्या धाका खाला?
कितें रोमा? रोमाच्या रस्त्या वयल्यान
धांवडायल्लो म्हज्या पुर्वजांनी राजा जावन बशिल्ल्या तारक्विनाक.
"उलय, घाव घाल, निवारण कर," अशी म्हाका विनंती.
हे रोमा, हांव वचन दितां.
संकश्टाचें निवारण जातलें जाल्यार
हो ब्रूतुस उलोवन आनी घाव घालून
तुजी ही विनंती चालीक लायतलो.
(लुचियूस प्रवेश करता.)

लुचियूस : धनया, पंदरा मार्चाचे दीस सोंपल्यात.
(दाराचेर मारिल्ल्याचो आवाज जाता.)

ब्रूतुस : बरें आसा. दारा लागीं वच, कोण तरी दारार मारता.
(लुसियूस वता.)
चेजारचे आड कासियूसान पयले पावटी पासून उर्बा दिली म्हाका
तेन्ना पासून म्हजी न्हीद खळ्ळया.
प्रत्यक्षांत एकायद्रें भयांकूळ कृत्य करप
आनी त्या कृत्याची चाल हांचे मदलो काळ आसता
एकाद्रया भ्रमा वरी किंवा भयांकूळ सपना वरी.
मनशा मदली जल्मा सावनची चिरंतन चेतना
आनी तिचे नाशवंत विकार, हांचे मदीं मागीर झगडें सुरु जाता

आनी जाता मनशाची स्थिती, बंडायेंत सांपडिल्ल्या
एकाद्रया ल्हानश्या राज्या वरी.
(लुचियूस प्रवेश करता.)

लुचियूस : धनया, तुमचे मेवणे, कासियूस दारा भायर आसात.
तुमकां मेळची इत्शा आसा तांकां.

ब्रूतुस : ते एकटेच आसात?

लुचियूस : ना धनया, आनीक लोक आसात तांचे वांगडा.

ब्रूतुस : तूं वळखता तांकां?

लुचियूस : ना धनया, तांणीं आपल्या माथ्या वयलीं चेपीं,
काना मेरेन ओडल्यांत, आनी तांणीं धांकलां
अर्दें तोंड आपल्या झग्यांत.
ताका लागून वळखीची खूण पळोवन
म्हाका सांगपाक येवचेंना, ते कोण आसात ते.

ब्रूतुस : भितर हाड तांकां. (लुचियूस वता.)
हे आसात कटवाले. ए कटकारस्थाना,
लज दिसता तुका घातक्या, आपलो चेरो दाखोवपाक रातीचो,
जेन्ना भोंवतात पापात्मे मेकळे? मागीर दिसा उजवाडे
राकेशी चेरो तुजो धांकचे पासत
खंय सोदशीत तुका पावता तसली काळी धोल?
नाका सोदूंक, कटकारस्थाना!
धांकून घे तुजो चेरो तुज्या मुमुरख्या हांशान आनी सभ्यतायेन
कित्याक, तुजो मुळचो चेरो धांकपाक,
तो वळखुपाक येवंचो न्हय म्हणून
कदीमकाळा[3] कडेनय नासत इतलो बीण्ण काळोख.
(कटवालेः कासियूस, कासका, देसियूस, चीन्ना, मेतेलुस, त्रेबोनियूस प्रवेश करतात.)

कासियूस : म्हाका दिसता तुजो सुसेगाचो वेळ मोडचेलें खूब
मोटें धाडस आमी करतात. बरी सकाळ, ब्रूतुस.
आमी तुका त्रास दिनांत मूं?

ब्रूतुस : हांव हो इतलो वेळ जागोच आसां. रातभर न्हीद खळ्ळी म्हजी
वळखतां व्हय हांव. तुजे वांगडा आयिल्ले हे मनीस?

कासियूस : जण एकलो तांचे पयकीं, आनी ना कोण तांचे पयकीं
तुजे विशीं आदर ना असो. आनी त्या प्रत्येकाची अशी इत्शा आसा.
रोमाच्या प्रत्येक घरंदाज नागरिकाचें तुजे विशीं जें मत आसा
तेंच मत्त तुजेंय सोताविशीं आसचें. हो आसा त्रेबोनियूस.

ब्रूतुस : ताका हांगा येवकार आसा.

कासियूस : हो देसियूस ब्रूतुस.

ब्रूतुस : ताचेंय स्वागत.

कासियूस : हो कासका, हो चीन्ना आनी हो मेतेलूस चिंबेर.

ब्रूतुस : ह्या सगळ्यांक येवकार. जागोवपी खंयचे हुस्के
जाल्यात आडखळी तुमचे दोळे आनी हे रातीं मर्दी?

कासियूस : हांव थोडो वेळ उलोंव तुजेशीं?
(ब्रूतुस आनी कासियूस थोडो वेळ फूतफूतात.)

देसियूस : ही उदेंती. हांगांच दीस उजवाडटा न्हय?

चीन्ना : माफ करा म्हाजनानू, थंयच तो उदेता.
आनी ताचे पेल्यान कुपांक सजोवपी गोबऱ्यो रेगो,
दूत आसात त्यो दिसाच्यो.

कासका : तुमकां कबूल करचें पडटलें, दोगय तुमी फटवले.
हांगा जंय हांव तरसादिचें तोंक दाखयतां, थंय सुर्या उदेता,
जो बरोच सरकला दक्षिणे वटेन
वसंत रुतूचो आरंभ आशिल्ल्यान
लागीं लागीं दोन म्हयन्यांनी वयर उत्तरे वशीन
पयलीं झळकतलीं ताचीं किर्णां, थंयच आसा खरी पूर्व, कापिताला
कडेन.
(ब्रूतुस कासियूसा बरोबर फुडें येता.)

ब्रूतुस : तुमी सगळे म्हज्या हातांत हात दियात,
एका फाटल्यान एक

कासियूस : आनी आमी जें थारयलां तें तडीक पावोवपाचो सोपूत[4] घेवया.[4]

ब्रूतुस : नाका, सोपूत नाका. जर हे मनशाचे चेरे,
वेदना ह्यो आमच्या आत्म्याच्यो, सद्याचे हे दुराचार
जर आसत दुबळें उत्तेजन, तर वेगळे सरात
ह्या खिणाक सांगात सोडून
आनी पर्थून वचात जण एकलो आपआपल्या रिकाम्या हांतरुणांत;
मागीर उंचाये वयल्यान पळोवपी गिधाचे
नदरेचे हे मदांध जुलूमशायेक झोंपय घेवंदी
तिची लहर प्रत्येकाची शिकार करी मेरेन. पूण ह्या प्रेरणां मदीं
जर आसत उजो जाय तितलो,
- आनी म्हजी खात्री आसा तो तसो आसा -
भेजुडांक पेटोवपी, विरगळावपी अस्तुऱ्यांच्या काळजांक
तिख्याची शूरताय दिवपी;
तर म्हज्या देशभावांनो, अन्याय पयसावपाक आपल्या ध्येया खेरीज,
हेर कसले टोंचणेची गरजच कसली?
गुपीत बसकेंत रोमाचो मनीस दिल्लें उतर केन्नाच मोडिना.
हे शिवाय आनीक बंधन कित्या खातीर?
"हें अशें करूया, कांय नजो मागीर ते खातीर मरण आयल्यार
प्रामाणीक मनशान प्रामाणीक मनशाक अशें सांगतकच,
आनीक वेगळो सोपूत घेवपाची गरज कसली?
सोपूत घेवं पुरोयत आनी भेजूड, सोपूत घेवं कुटील मनीस,
आनी मड्याचे सयेचे म्हातारे, सोपूत घेवंदी आत्मे
अन्याय सोंसपी, जे येवकार दितात अत्याचाराक,
नश्टीं कर्तुबां करपाचो सोपूत घेतात दुभावी मनीस,
पूण ह्या आपल्या इश्ट नैतीक कार्याक,
हे आमच्या आत्म्याचे अशे शक्तीक दामून उडोवपाक जायना,
खतावं नाकात अशें मानून की ह्या आपल्या उद्दिश्टाक,
कार्याक सोपूत घेवपाची गरज आसा.
रोमाच्या प्रत्येक नागरिकाच्या कुळवंत रगताचो थेंबो
थारतलो उणाक जल्माचो,

जर ताणें दिल्ल्या खंयच्याय उतराच्या एकाय कणाचो भंग केलो.

कासियूस : पूण चीचेरोचें कितें ? ताच्या मनाचो अदमास घेवया ?
म्हाका दिसता ताचो आसतलो आमकां घटपूट तेंको.

कासका : ताका आमी भायर दवरचो न्हय.

मेतेलूस : आमी ताका सांगाता घेवया. कित्याक ताच्या रुपेरी केंसांनी
आमकां येतलें फावोशें फाटबळ
आनी विकती घेवपाक येतलीं मनशांची उतरां आनी मतां
तोखेवपाक कृत्या आमचीं.
लोक म्हणटलेः ताचे आज्ञे प्रमाणे हांचे हात वागले.
तरणाटेपण आनी बेबंदपणा आमचो मातूय दिसचोना
तो निखिपतलो ताच्या भारदस्त गंभीरपणा खाला.

ब्रूतुस : ताचें नांव नाका घेवंक. ताका नाका घेवया विश्वासांत.
कित्याक तो केन्नाच तेंको दिवंचो ना कार्याक
जाची सुरवात हेर लोक करतात.

कासियूस : तर मागीर ताका भायर दवरुया.

कासका : खऱ्यानीच तो फावोसो ना.

देसियूस : कोणाकूच हात लावचेलो ना चेजार सोडून ?

कासियूस : सामको योग्य प्रस्न केलो, देसियूस.
जाचें चेजाराचेर भारी प्रेम आसलें, तो मार्कूस आन्तोनियूस
ताचे फाटसून जिवो आसप म्हाका योग्य दिसना.
ताचे भितर दिसता आमकां धूर्त डावपेंच आंखपी कावेबाज मनीस.
तूंय ताची तांक जाणा ती ताणें वाडयल्यार
तिचो आवांठ आमकां धोक्याचो थारत.
तशें जावचें न्हय म्हणून, आन्तोनियूस आनी चेजार
वांगडाच खाला पडूं दी.

ब्रूतुस : तशें केल्यार आमचे कर्तूब अदीक खुनशी दिसतलें, कासियूस.
आदीं शिरच्छेद करप आनी मागीर अवयव कातरीत वचप.
म्हणटकच मारतना क्रोध आनी मरतकच द्वेश.

कित्याक तो आन्तोनियूस आसा, चेजारचो एक अवयव,
आमी जावया पवित्र कार्या खातीर बळी घेवपी,
खाटीक न्हय, कायूस.
आमी सगळे उबे रावल्यात चेजारचे वृत्तीचे आड
आनी मनशांचे मनोवृत्तींत बदल नासता.
चेजाराक चांचाय नासतना घाव घालपाक
आयल्यात ताचे वृत्तीचेर
पूण हाय ! हे ताचे वृत्ती पासतच अटळ आसा चेजाराचो रक्तपात
आनी म्हज्या सज्जन मित्रांनो, आमी ताका धाडसान जिवेशीं मारूया, तिडकीन संतापान न्हय; देवाक फावो अशे मेजवानीक ताचो बळी दिवंक जाय,
शिकारी कुत्र्यांनी ताच्या कळिंवराचे लचके तोडपा पासत न्हय.
चतूर धनी आपल्या चाकरांक क्रोधाचे भरीक घालून, जशें कार्य सादून घेतात, आनी मागीर ताचे खातीर ताकाच दोश दितात.
तशेंच आमच्या हृदयांक वागपाक दियात, ताका लागून आमचो हेत देशहिताचो दिसत, दुस्वासाचो न्हय.
सामान्य लोकांक तशें दिशिल्ल्यान, सफाई घडोवन हाडपी म्हणून,
आमची तांकां वळख जातली, खुनी म्हणून न्हय.
आतां मार्कूस आन्तोनियूस; विचारच करुं नाका ताचो;
चेजाराची तकली उडयतकच, जें करीत ताचो हात,
ते परस चड कांय ताका करपाक येवंचें ना.

कासियूस : तरी पूण म्हाका ताचो भंय दिसता.
कित्याक मोग चेजाराचो खोल भिनला ताच्या मनांत.

ब्रूतूस : आरेरे, सज्जन कासियूस, ताचो विचार करुं नाका,
चेजाराचेर ताचें प्रेम आसा जाल्यार, तो आपुणूच खंती जातलो.
पुणून इतली अपेक्षाय ताचे कडसून करप चड जातलें,
कित्याक तो आसा बुडिल्लो खेळांत, फोल्गांत आनी
खुशालचेंडूंच्या टोळक्यां भितर.

त्रेबोनियूस : ताचो भंय धरूं नाका. ताचो जीव घेवया नाका.

कित्याक तो जियेतलो आनी मागीर हांसतलो हे घडणुकेक.
(घडयाळीचे ठोके पडटात.)

ब्रूतुस : रावात शांत. ठोके[5] मेजात[5] घडयाळीचे.

कासियूस : तीन ठोके वाजले.

त्रेबोनियूस : निरोप घेवचो वेळ आयलो.

कासियूस : चेजार आयज येत काय ना हाचो म्हाका दुभाव आसा.
कित्याक हालींसराक तो कुड्ड्या विश्वासांत बुडला
भास, शकून, सपनां हांचे आड आशिल्ली ताचीं खर मतां
तीं तशीं आयज उरुंक नांत.
घडये, ह्यो दोळ्यां मुखार घडिल्ल्यो अजापाच्यो घडणुको,
अपूर्व भिरांकुळताय ही आयचे रातीची,
आनी ताच्या भविश्यवेत्त्यांनी वचूं नाका म्हणून दिल्ली शिटकावणी,
हाका लागून तो कापितालाक येवपाचें टाळीत.

देसियूस : मातूय भंय धरुं नाका ताचो. पक्कें थारायल्यारय,
हांव ताका ताचो बेत बदलावंक लायन
कित्याक ताका आयकुपाक रुचता
युनिकॉर्नाक[6] झाडा[6] आड उबें रावन, वांस्वेलांक हारशे दाखोवन,
हतयांक खड्डे खणून, शिंवांक जाळें लावन,
मनशांक खोटी तुस्त करुन फटोवपाक येता.
पूण हांव जेन्ना सांगतां: तोंडपुज्यांची तो उवेखणी करता,
तेन्ना म्हजे तोखणायेन खोशी जावन, तो हें मान्य करता.
पूण हांव लागतां म्हज्या कामाक, कित्याक ताचे वृत्तीक
हांव जाय तशें वळण दीन,
आनी ताका हाडीन कापितालाक.

कासियूस : तशें नाका. हाडपाक ताका आमी सगळेच तागेर वचूया.

ब्रूतुस : आठ वरांचेर. उसरांत उसरां; हो वेळ बरो आसा?

चीन्ना : होच वेळ आसूंनी. पूण एकदां थारायतकच आमी चूकचें न्हय.

मेतेलूस : कायस लीजेरियूसचो चेजाराचेर राग आसा

पॉम्पे विशीं बरें उलयल्ले खातीर
चेजारान निंदिल्लो ताका ताचें म्हाका अजाप दिसता,
तुमी कोणेच ताचो विचार करुंक ना.

ब्रूतुस : बरें आसा, सज्जन मेतेलूस. तूं तागेर वचून ताका मेळ.
म्हजें ताचेर प्रेम आसा. ताका तशींच कारणां आसात
म्हजे कडेन धाड ताका. हांव ताका आमचे वटेन हाडीन.

कासियूस : उजवाडचें जालें. आतां आमी निरोप घेतात ब्रूतुस.
आनी इश्टांनो, तुमीय वचात,
पूण सगळ्यांनी ध्यानांत दवरचें, तुमचें उलोवणें,
आनी दाखयात तुमचें खरे रोमानपण.

ब्रूतुस : सज्जनांनो, दिसात ताजे रसरशीत, खोशी.
आपले हेत तोंडाचेर उमटुपाक जायनात.
रोमान नट जशे वागतात रंगमाचयेर,
तोंडा वयलो ताण मातूय दाखय नासतना,
स्विकारिल्ली भूमिका चिकाटेन फुडें चलयात,
आनी बरी सकाळ तुमकां सगळ्यांक.
(ब्रूतुस सोडून सगळे वतात.)
आरे पोरा लुसियूस, सुस्त न्हिदला? कांय नजो,
म्होंवा वरी गोड आनी दाट, दंवा वरी ताज्जे न्हिदेची
खोस तू भोगता.
मनशाच्या मनांत उबे रावतात जे प्रस्न आनी
दुभाव येवजणेंतले; ते साबार हुस्के तुका नांत;
म्हणून तूं न्हिदता इतलो गाढ.
(पोर्चिया प्रवेश करता.)

पोर्चिया : ब्रूतुस, म्हज्या स्वाम्यांनो,

ब्रूतूस : पोर्चिया, कितें जाय तुका?
कित्याक उठल्या इतले बेगीन?
हें तुजे भलायकेक बरें न्हय,
फांत्याच्या कडक शियांत अशें उठप,

भलायकी  अशी नाजूक आसतना.

पोर्चिया : तुमचेय भलायकेक बरें न्हय. ब्रूतुस, म्हाका कळनासतना,
म्हजे शय्येंतल्यान कठोरपणान उठले तुमी,
आनी काल रातीं जेवतना अचकीत उठून
तुमी पासयो मारपाक लागले,
विचारांत गुल्ल जावन, सुस्कार सोडीत,
छातयेर हातांची घडी घालून,
हांवें विचारतकच तुमकां - कितें जालें?
तुमी दोळे मोट्टे करून पळयलें म्हाका निश्टूरपणान;
हांवें तुमकां विनयलें, तुमी माथें खरपिलें,
मनाची घालमेल जावन पांय आपटिले भुंयेर,
हांवें आग्रो करुनय. पूण तुमी जाप दिलीना
रागान आपलो हात फांफडून,
तूं वच अशी खूण केली, म्हणून हांव गेलीं,
तुमची घालमेल अदीक वाडत ह्या भंयान
आशा धरली, तुमची ही मनस्थिती मात्शी तिगतली,
प्रत्येक मनीस वागता असो. केन्ना ना केन्ना
ती तुमकां धड खावंक दिवचीना, उलोवंक दिवचीना,
परिणाम हे अवस्थेचो, जसो बादला तुमच्या मनाक
तसो तुमचे कुडीक. ब्रूतूस म्हणून तुमकां वळखुपाक कठीण जालां
म्हज्या मोगाळ स्वाम्या, तुमच्या ह्या दुख्खाचें कारण म्हाका कळूंदी.

ब्रूतुस : म्हजी भलायकी बरी ना, इतलेंच.

पोर्चिया : ब्रूतुस आसात समजणीचे,
भलायकी इबाडल्यार, सुधारपाक उपाय करतले.

ब्रूतूस : तेंच हांव करतां न्हय. गुणाची म्हजी पोर्चिया, वच आतां न्हिदूंक.

पोर्चियो : दुयेंत आसात तुमी ब्रूतुस? कोटाचे बंद उगडे उडोवन
फांतोडेची थंड दमसार हवा अशी हुस्कारुन घेवप,
भलायकेक बरें काय कितें? कितें? कुडीची पिडा?
तुमची भलायकी बरी नासतना, ब्रूतुस,

तुमी तुमच्या उबेच्या हांतरुणांतल्यान
भायर सरतले अशे ल्हवूच उठून रातीचे,
पिडा पसरावपी हे हवेचो धोको पत्करून,
जी आसा अशुद्ध, सांधे दुखीक पोसपी, दूख वाडोवपी
आनी हे हवेक संद दितले, तुमची पिडा वाडोवपाक?
ना ब्रूतुस, कितें तरी मनाचें दुखणें आसा तुमचें
हें कितें आसा तें कळप म्हजो हक्क आसा म्हाका मेळिल्लो;
दिंमी मोडून हांव तुमकां विनयतां. (दिमी मोडटा.)
एक वेळ वाखाण्णेन थारिल्ली म्हजी ही सुंदरकाय,
तुमी घेतिल्ले सगळे मोगाचे सोपूत, आनी तें व्हड उतर लग्नाचें,
जे वरवीं आमी जालीं एक काया, एक जीव; हें सगळें स्मरात
आनी आयकात म्हजी विनवणी.
हांव तुमचीं आसां, तुमची अर्धांगिनी,
म्हजे कडेन उक्ती करात तुमची व्यथा,
आनी सांगात म्हाका कोण तुमकां मेळूंक आयिल्ले रातीं?
स सात जाण आसले हांगा, काळखांतय ते तोंड लिपयताले.

ब्रूतुस : दिमी मोडूं नाका, पोर्चिया.

पोर्चिया : म्हाका तिची गरज पडची नासली,
तुमी म्हजी अपुरबाय केल्ली जाल्यार, ब्रूतुस.
म्हाका सांगात ब्रूतुस, तुमचीं खंयचीय गुपितां
म्हाका कळचीं न्हय अशी अपेक्षा
आमच्या लग्न करारांत आसा काय कितें?
फक्त इतले खातीर हांव तुमची आसां काय कितें?
काय तुमचे सांगातान हांवें जेवचें, तुमकां पलंगांर सुखावचें,
आनी हांवें अदीं मदीं तुमचेशीं उलोवंचें.
तुमच्या भोगा खातीर म्हजें स्थान वसते भायर आसा काय कितें?
हाचे परस म्हाका वेगळें स्थान नासल्यार,
पोर्चिया, आसा ब्रूतूसची रखेली, बायल न्हय.

ब्रूतुस : तूं म्हजी मानेस्त बायल आनी धर्मपत्नी.

रगता इतलीच तूं म्हजी, मोगाची,
म्हज्या दुखेस्त काळजाक मेळपाक येवपी.

पोर्चिया : हें खरें आसल्यार, हें गुपीत म्हाका कळपाकच जाय.
कबूल आसा, हांव एक अस्तुरी आसां, पुणून अशी अस्तुरी,
जिका स्वामी ब्रूतुसान बायल म्हूण स्विकारल्या;
जी नांवाजिल्ल्या कातोची धूव,
असो बापूय, असो घोव जिका लाभला
ती हांव सामान्य हेर अस्तुऱ्यां परस
चड समर्थ ना अशें समजतात तुमी?
तुमी तुमचे गुपीत बेत म्हाका सांगात; हांव ते भायर फोडचीना,
हांवें म्हज्या अविचळ निग्रहाचो पुरावो दिला.
आपखोशेन घाय[8] करुन घेवन, हे म्हजें जांगेचेर[8].
ही जखम हांव सोंसतां जाल्यार, म्हज्या पतीच्यो गुपीत येवजणो
म्हाका सांबाळपाक येवंच्यो नांत?

ब्रूतुस : ए तुमी देवांनो!
हे थोर अस्तुरेचो घोव म्हणून, म्हाका लायक जावं दी.
(दाराचेर मारिल्ल्याचो आवाज.)
आयक, आयक, कोणतरी दाराचेर मारता.
पोर्चिया, मात्शी भितर वच, आनी मागीर
गुपितांशीं म्हज्या हृदयांतल्या, तुजें हृदय सहभागी जातलें.
हांव तुका सगळें सांगतां, आतां तू बेगीन वच भितर.
(पोर्चिया भितर वता.)
लुचियूस, दारार कोण मारता रे?
(लुचियूस कायूस लीजेरियूसाक घेवन प्रवेश करता)

लुसियूस : हो पिडेस्त मनीस तुमकां मेळपाक सोदता.

ब्रूतुस : आगा कायूस लीजेरियूस, कसो आसा तूं?
(लुसियसाक) पोरा, तूं कडेन सर.
कायूस लीजेरिअस, कसो आसा तूं?

कायूस : दुबळे वाणीन म्हणिल्ली "बरी फांतोड" उदारपणान स्विकारात.

ब्रूतुस : माथ्याचेर लेंस बांदून दुयेंत जावपाक
खंयचो वेळ सोदून काडलो सज्जना कायूस तुवें?
तू दुयेंत जावंक नासलो जाल्यार बरें जावपाचें.

कायूस : हांव दुयेंत ना, पूण ब्रूतुसच्या मनांत आसल्यार
भोवमानाक सोबता सारकें खंयचेंय काम दी म्हाका.

ब्रूतूस : अशें काम म्हजे कडेन आसा, लीजेरियूस.
तें आयकुपा खातीर तुजी भलायकी बरी आसल्यार.

कायूस : रोमानांक पुज्य अश्या सगल्या देवांचो सोपूत घेवन,
भिरकटावन मारतां म्हजी पिडा. (हातरुमाल भिरकटायता.)
रोमाचो आत्मो तूं. भोवमानेस्त वंशाचो वीरपूत.
एकाद्रया मांत्रिका वरी तुवें जागयलो
चैतन्यहीण आत्मो म्हजो. आतां म्हाका आज्ञा कर;
अशक्य गजालीं आड हांव झगडन,
आनी हांव जैत जोडीन तांचेर. हांव कितें करुं?

ब्रूतुस : पिडेस्तांक सामकें बरें करीत अशें काम आसा.

कायूस : पूण कांय जाण सामके बरें आसात तांकां दुयेंत करचें पडटले न्हय?

ब्रूतुस : मोगाळ कायूस, आमकां तेंय करचें पडटलें.
हांव तुका वाटेर सांगतां. ताचे कडेन वतना
जाचे बद्दल हें करचें पडटलें.

कायूस : चलपाक सुरवात कर. नव्यान पेटयल्लें काळीज घेवन
हांव तुजे फाटसून येतां.
कितें काम आसा, तें हांव नकळं,
पूण ब्रूतूसा फाटसून हांव वतां, इतलें म्हाका पुरो आसा.
(कुपांच्या गडगडाचो आवाज)

ब्रूतुस : तर यो म्हजे फाटसून.

■■■

# प्रवेश दुसरो

देखाव : रोमा. चेजाराचें घर
(कुपांचो गडगड आनी जोगलांचो कडकड.
(रातचो घालपाच्या झग्यांत चेजार प्रवेश करता.)

चेजार : ना सर्गांत, ना पिर्थूमेचेर, आयज रातीं खंयच ना शांतताय.
तीन फावटीं कालपुर्निया न्हिदेंत आड्डली
"पावात रे, ते चेजाराचो खून करतात." - कोण आसा रे भितर?

चाकर : हां सायबा?

चेजार : वच, पुरोयतांक वचून सांग,
देवा फुडें रोखडोच पशूबळी दियात
आनी कौल बरो जालो काय कितें तें कळयात.

चाकर : हय सायबा धनया. तशें करतां.
(चाकर वता. कालपुर्निया प्रवेश करता.)

कालपुर्निया: तुमच्या मनांत कितें आसा, चेजार? भायर सरपाचो विचार चल्ला?
आयज तुमी घरांतसून सरचेच नात भायर.

चेजार : भायर सरतलोंच हांव. ज्यो गजाली धमकायतात म्हाका
तांकां म्हजी फाट केन्नाच दिसना, चेजाराची नुरा तांकां जेन्ना दिसत, नाच्च जातात त्यो.

कालपुर्निया: चेजार, शकुनांचेर म्हजो विस्वास केन्नाच नासलो,
पूण आतां ते भेश्टायतात.
ज्यो गजाली आमी आयकल्यात, पळयल्यात, ते शिवाय
पारेकारान पळयल्ल्यो भयांकूळ गजाली, घरांतलोच एकटो सांगता
एक शिंवीण भर रस्त्याचेर वियेली,
थड्यांनीं तोंड उघडून मड्यांक मेकळीं केलीं.
उज्यान पेटिल्ले भयानक झुजारी कुपांचेर झुजताले,
झुजाचे फावो तसले पवित्रे घेवन उब्या सैनिकांच्यो रांगो आनी
तुकड्यो, गळपाक लागले रगताचे थेंबे थंयसून कपितॉलाचेर
झुजाच्या गडगडान आकाश डणडणलें.

घोडे खिंकाळटाले. मरपाक तेंकिल्लीं मनशां परवंतालीं
किळांचतालीं रस्त्याचेर भुतां भोंवतना.
चेजार ह्यो गजाली सभावीक न्हय. हांव खरेंच भियेतां तांकां.
शक्तीवंत देवांनीच जें येवजिलां, तें कशें टाळपाक येतलें?
तरी पूण चेजार भायर सरतलोच, कित्याक हे अपशकून
सगळ्या संवसाराक लागतात, जितले ते चेजाराक लागतात.

कालपुर्निया: जेन्ना भिकारी मरतात, तेन्ना धूमकेतू दिश्टी पडनांत,
पूण जेन्ना राजकुंवर सोंपतात. तेन्ना आकाश केणांनी पेट्टा.

चेजार : मरचे आदींच भेजूड जायते फावटीं मरतात.
शूरवीर मरणाची रूच चाखतात फक्त एकदांच.
नवलांच्यो सगळयो गजाली हांवें आयजवेर आयकल्यात
तातूंतच सगल्यांत अजापाची गजाल आसा हीचः
मरण अटळ शेवट आसता;
जेन्ना तें येवपाचें आसता, तेन्ना तें येतलेंच
हें खबर आसुनय मनीस भियेतात मरणाक.
(नोकर प्रवेश करता.)
भविश्यवेत्तो कितें म्हणटा?

नोकर : तांकां दिसता तुमी आयज भायर वच्चें न्हय.
बळी दिल्या पशूक तांणीं फाळून भितर पळयलें,
तेन्ना तांकां थंय काळीज दिसलें ना.

चेजार : भेजुडायेक लजेक घालची म्हूण देव अशें करतात.
चेजार थारत पशू, काळीज नाशिल्लो,
आयज तो भियेवन घरांत बसल्यार.
ना. चेजार नाच्च घरांत बसचो
धोको - पक्की वळखून आसा एक गजाल
ती म्हणटाः धोक्या, परस चेजार चड धोकेबाज आसा.
एकाच दिसा जल्मल्ले आमी दोग शींव,
पूण हांव आसां ज्येश्ठ आनी अदीक भिरांकूळ
म्हणून चेजार भायर सरतलोच.

कालपुर्नियाः आ रे रे! म्हज्या स्वाम्यानो
आत्मविश्‍वासान तुमचें शाणेपण गिळून उडयलां.
आयज वचूं नाकात भायर!
अशें समजात, म्हाका भंय दिसता म्हूण तुमी घरा रावल्यात,
तुमकां दिसता म्हूण न्हय.
आमी मार्कूस आन्तोनियूसाक सेनेटच्या-सभाघरांत धाडुया.
आयज तुमची भलायकी बरी ना अशें तो सांगीत.
दिमी मोडून विनयतां हांव. म्हजें आयकाच तुमी. (दिमी मोडता)

चेजार : म्हाका बरें दिसना अशें मार्कूस आन्तोनियूस सांगीत
तुज्या कोल्ला पासत हांव घरा रावन. (तो तिका उठयता.)
(देसियूस प्रवेश करता.)
हो देसियूस ब्रूतुस आयलो, तो तांकां तशें सांगीत.

डेसियूस : नमस्कार तुका चेजार, बरी फांतोड, म्हान चेजार.
हांव आयलां तुका व्हरपाक सभाघरांत.

चेजार : तूं सामको खोशेच्या वेळार आयला
सेनेटच्या सभासदांक व्हरूंक म्हज्यो शुभेत्शा
आनी तांकां सांग हांव आयज येवचो ना म्हूण.
येवपाक पावचो ना ही फट आनी येवपाक भियेतां,
ताचे परस फट.
हांव येवचो ना आयज, तशें सांग तांकां, देसियूस.

कालपुर्नियाः दुयेंत आसा अशें सांग.

चेजार : चेजार फट सांगपाक लायतलो?
जैत मेळयत म्हजे हांगा मेरेन हात पातळ्ळयात
ते कितें हांव धव्या खाडांच्या सेनेट सभासदांक
सत सांगपाक भियेवचें म्हूण?

देसियूस : सर्व शक्तीवंत, चेजार, म्हाका कितें कारण तें कळूं दी,
नाजाल्यार ते म्हाका हांसतले, हांवें अशें सांगल्यार.

चेजार : म्हजी इत्शा हेंच आसा कारण; हांव येवचों ना
सेनेटचें समाधान जावपाक तितलें पुरो.

पुणून तुज्या खाजगी समाधाना पासत,
कित्याक म्हजें प्रेम आसा तुजेर, हांव तुका तें सांगतां.
म्हजे घरकान्नीन, कालपुर्नियान हिणें म्हाका घरा रावयला.
तिच्या सपनांत आयज रातीं तिणें म्हजो पुतळो पळयलो
तातुंतल्यान भायर गळटालें शुद्ध रगत,
कारंजांच्या शेंकड्यांनी छिद्रांतसून फवारचें तशें,
आनी अनेक बळिश्ठ रोमाचे नागरीक
हांसत येवन त्या रगतांत आपले हात धुताले.
ह्या सपनाची अर्थावणी धोक्याचो इशारो, अपशकून
आनी लागीं तेंकिल्लें संकश्ट, अशी ती करता,
आनी म्हणून तिणें म्हाका दिमी मोडून विनयलां
हांवें आयज घरा रावचें म्हूण.

देसियूस : सामको चुकीचो अर्थ लायला ह्या सपनाचो.
तो आशिल्लो दृश्टांत शूभ आनी भाग्याचो,
पुतळ्यांतसून तुज्या जीं फवारतालीं रगताचीं कारंजीं;
जातूंत हांसत्या मुखाचे रोमाचे नागरीक न्हाण घेताले.
सुचयतात हेंचः म्हान रोमा ओडून घेतलें नवें बळ दिवपी तुजें रगत
तुज्या रगताचो रंग लागिल्लो लेंस[3]
आमचे खातीर मानचिन्न आनी अवशेश म्हणून रावचीं
हे खातीर म्हान मनीस खेट करतले तुजे भोंवती,
कालपुर्नियाच्या सपनाची हीच ती अर्थावणी.

चेजार : फावो तोच अर्थ लायलो तुवें ह्या सपनाचो.

देसियूस : ताका पट्टलें हांव आनीक कितें सांगतां तें आयकतकच.
आनी तें सांगतां आतां. सेनेटान थारावणी केल्या
बळिश्ट चेजाराक आयज राजमुकूट ओंपपाची.
आपूण येवचोंना अशें तुवें कळयल्यार,
आपलो विचार घडये ते बदलीतय.
शिवाय कोणूय फकांडांनी अशें म्हणटीत
"चेजाराचे बायलेक शूभ सपनां पडऽ मेरेन,

बरखास्त करात ही सभा सेनेटची.''
चेजार लिपून बसल्यार, ''चेजार भियेलो''
अशें ते फुतफुतचे नात व्हय?
भगस म्हाका, चेजार तुज्या तरतरा विशीं
म्हाका खूब खूब मोग दिसता म्हूण हांव हें उलयतां,
हांवें हें उलोवंचें काय उलोवचें न्हय हो विवेक
दुय्यम थारला म्हज्या मोगा फुडें

चेजार : कालपुर्निया, कितल्या पिशेपणाचो दिसता आतां
तुजो हो भंय?
हांवें तुजी विनंती मानली हाची लज दिसता म्हाका.
दी म्हजो झगो. हांव वतलोंच.
(ब्रूतुस, कायूस लीजेरीयूस, मेतेलूस चिंबेर, कासका,
त्रेबोनियूस, चीन्ना आपी पुब्लियूस हे प्रवेश करतात.)
पळय म्हाका व्हरपाक पुब्लियूस आयला.

पुब्लियूस : बरी सकाळ, चेजार.

चेजार : तुजें स्वागत, पुब्लियूस. कितें ब्रूतुस, तुकाय इतले
बेगीन उठयलो? बरी सकाळ, कासका.
कायूस लीजेरियूस, चेजार तुजो केन्नाच
वैरी नासलो, ह्या दुयेंसा इतलो, जाणे तूं इतलो
भागला. कितलीं वरां जालीं?

ब्रूतुस : चेजार, आठ जालीं.

चेजार : तुमी इतली तकालस घेतली. आस्था दाखयली.
हे पासत तुमचे उपकार.
(आन्तोनियूस प्रवेश करता.)
हो पळय आन्टोनी. मजा मारता हो रातीचो उसरां मेरेन
तरी फांत्यार उठून आयला. बरी सकाळ आन्तोनी.

आन्तोनियूस : तुकाय बरी सकाळ, बळिश्ठ चेजार.

चेजार : भितर वचून सांग सगळ्यांक तयार रावपाक,
तुमकां रावचें पडलें हो दोश म्हजो.

हें पळय चीन्ना, मेतेलूस, तशेंच तूं त्रेबोनियूस,
वर भर तरी लागत, इतलें उलोवंचें आसा तुमचेशीं म्हाका;
आयज म्हाका मेळचें तुमी, लक्षांत दवरात.
म्हजे सरींच रावात, म्हणचे म्हाकाय याद उरतली

त्रेबोनियूस : चेजार, हांव तशेंच करतां,
(स्वगत) आनी हांव इतलो लागीं रावतां,
हो पयस आसल्यार बरें जावपाचें, अशें दिसत तुज्या खास इश्टांक.

चेजार : म्हज्या बऱ्या इश्टांनो, सरात भितर,
आनी म्हजे बराबर इल्ली वायन घेयात,
मागीर आमी इश्टां वरी सगळेच वचुया.

ब्रूतुस : (स्वगत). इश्टा वरी आसप आनी इश्ट आसप एक न्हय,
ए चेजार, खंती जाता मन ह्या विचारान.
(वतात.)

# प्रवेश तिसरो

देखावः कापिताला लागींचो रस्तो.
(आर्तेमिदोरुस चेजाराक दिवपाक बरयल्लें पत्र वाचीत येता.)

आर्तेमिदोरुस : चेजार, सादूर राव ब्रूतुसा पासून; कासियूसाचेर
नदर दवर; कासकाच्या लागीं वचूं नाका; चिन्नाचेर
सारकी नदर दवर; त्रेबोनियूसाचेर पातेवं नाका.
मेतेलूस चिंबेराक नीट नियाळ, देसियूस ब्रूतुसाक तुजो
मोगना, कायूस लीजेरियूसाक तुवें दुखयला;
ह्या सगल्यांनी एकी केल्या सरभोंवतणी;
जिवाची सुरक्षितताय कारस्थानाक वाट मेकळी करता.
सर्व शक्तीवंत देव तुका राखूं.
तुजो मोग करची आर्तेमिदोरुस.
हांव हांगाच उबो रावतां, चेजार हांगसून वच ऽ मेरेन.

एकाद्रया अर्जा वरी दितलो हें पत्र ताका.
मत्सराच्या मान्यांतसून सद्गूण सुटनांत,
हें पळोवन आक्रोश करता जीव म्हजो!
चेजार, हें पत्र वाचशीत जाल्यारच तूं वाटावतलो
वाचलें ना जाल्यार प्राक्तन तुजें गूट करतलें
कट करप्यां बराबर.

## प्रवेश चवथो

(देखाव : रोमांतल्या ब्रूतुसाच्या घरा मुखा वयली बाग.
(पोर्चिया आनी लुचियूस प्रवेश करतात.)

पोर्चिया : हांव विचारतां पोरा, धांवत वच सेनेटच्या सभाघरा मेरेन
"वतां" अशें म्हण, रावं नाका; वच बेगीन आजून कित्याक
रावला तूं?

लुचियूस : बाय, काम कितें तें कळपा खातीर रावलां.

पोर्चिया : कितें तुजें काम हें हांव सांगचे आदीं
तूं थंय वचून परतुपाक जाय.
(स्वगत.) हे मनोनिग्रहा, तुजो घट्ट आधार दी म्हाका.
म्हजी जीब आनी म्हजी वाणी हांचे मदीं प्रचंड पर्वत उबो कर!
म्हजें मन दादल्याचें, पूण शक्ती बायलेची;
एकाद्री गजाल गुपीत दवरप, बायलांक कितलें कठीण!
(लुचियूसाक) आरे तूं आजून हांगाच?

लुचियूस : बाय, हांव कितें करूं?
कापिताला कडेन धांवत वच्चें आनीक कांय ना?
आनी थंयसून हांगा परतुचें, आनी कांय ना?

पोर्चिया : तुज्या धनयाची खुशाली येवन म्हाका कळय, पोरा.
कित्याक हांगसून वतना तांच्या जिवाक बरें ऽ दिस ऽ नासलें
आनी सारकें नियाळून म्हाका येवन सांग;

चेजार तेन्ना करताले कितें?
खंयच्या अर्जदारांनी तांचे भोंवतणी खेट केल्ली?
आयक पोरा, हो कसलो आवाज?

लुचियूस : बाय, हांवें कांयच आयकूंक ना.

पोर्चिया : पोरा, सारकें लक्ष दिवन आयक रे,
कसल्या तरी झगड्याचो आवाज कानार आयलो.
कापिताला सावन वाऱ्यान तो हांगा हाडला.

लुचियूस : खऱ्यानीच, हांवें कांयच आयकूंक ना.
(भविश्यवेत्तो प्रवेश करता.)

पोर्चिया : आरे, हांगा यो. तूं खंयचे वाटेन आयलो?

भविश्यवेत्तो : म्हज्या घरा सावन, बाय.

पोर्चिया : कितलीं वरां जालीं?

भविश्यवेत्तो : णव जावपाक आयल्यांत.

पोर्चिया : चेजार पावले कापितालाक?

भविश्यवेत्तो : अजून ना बाय. हांव हांगा उबो रावतां.
ते हांगासून कापितालाक वतना तांकां भेटपाक.

पोर्चिया : चेजाराक अर्ज दिवपाचो आसा न्हय तुका?

भविश्यवेत्तो : अर्ज आसा, बाय
म्हाका कितें तांकां सांगचें आसा तें
स्वताच्या हिता पासत आयकून घेतीत
तर हांव तांकां विनवणी करीन स्वताक सांबाळपाक.

पोर्चिया : कित्याक बाबा? तांकां कितें धोको आसा
अशें तुका दिसता?

भविश्यवेत्तो : तशें निश्चीत हांव नकळ, घडये आसत, हो म्हाका भंय दिसता.
बरी सकाळ तुमकां, हांगा रस्तो अशीर आसा.
सेनेटाचे सभासद, न्यायाधीश, सामान्य अर्जदार
हांची इतली खेट चेजाराचे फाटसून आसतली
तिच्या पांयां खाला चिड्डून मरत दुबळो मनीस,

ते विसकळ सुवातेर हांव वतां आनी थंय
त्या थोर चेजाराशीं ते वतना हांव उलयन.
(वता.)

पोर्चिया : म्हाका आतां घरा वचपाक जाय,
आरेरे, कितलें दुबळे अस्तुरेचें हें काळीज!
ब्रूतुस, देव तुज्या कार्याक गती दिवं.
(भियेल्ल्या स्वरांत स्वगत.)
नक्कीच ह्या पोरान आयकलें म्हजें उलोवणें.
ब्रूतुसाचो अर्ज नाकारतलो हें; म्हाका घुंवळ येता.
(लुचियूसाक) धांवत वच लुचियूस,
आनी म्हज्या स्वाम्याक शुभेत्शा दी म्हज्यो;
खोशी आसा हांव अशें तांकां सांग.
बेगीन परतून यो आनी कळय म्हाका
म्हजो घरकार कितें म्हणटा तें.
(दोगांय वेगवेगळ्या दिकांक वतात. )

■■■

# अंक तिसरो
## प्रवेश पयलो

देखाव : कापितालचे मुखावेलो रस्तो.
(रस्त्याचेर लोकांची खेट आसून, हे खेटींत आर्तेमिदोरूस आनी भविश्यवेत्तो हे आसात. तुतार्‍यांचो आवाज. चेजार प्रवेश करता. ताचे वांगडा ब्रूटुस, कासियूस, कासका, लेपिडूस, पोपलियूस पुब्लियूस हे आनी हेर आसात.)

चेजार : मार्चाची पंदरा तारीख आयली.

भविश्यवेत्तो : हय चेजार, पूण अजून सरूंकना.

आर्तेमिदोरुस : ए चेजार, हो अर्ज वाच.

देसियूस : (चेजाराक) हो अर्ज तूं मागीर वाच, वेळ मेळटा तेन्ना.
त्रेबानियूसची अशी इत्सा आनी नमळ विनंती आसा,

आर्तेमिदोरुस : ए चेजार म्हजो अर्ज पयलीं वाच,
कित्याक तो चेजाराक चड बादता;
तो वाचात, म्हान चेजार.

चेजार : जें कितें आसा आमचे विशीं, तें सगळ्यांत अंतीं.

आर्तेमिदोरुस : कळाव नाका करुं चेजार, बेगीन वाच.

चेजार : कितें, हो मनीस पिसो काय कितें ?

पुब्लियूस : ए, शाण्या, वाटेंतल्यान कडेक सर.

चेजार : कितें ? अर्ज तुजो रस्त्यांत वाचूं ? कापितालाक यो.
(चेजार आनी ताचे अनुयायी कापितालाचे दिकेन वतात.)

पोपीलियुस : तुजें आयचें कार्य सफळ जावं.

कासियूस : खंयचें कार्य, पोपीलियूस ?

पोपीलियूस : वतां हांव आतां.

ब्रूतुस : कितें म्हणटा पोपीलियूस लीना ?

कासियूस : ताणें म्हणलें तुजें आयचें कार्य सफळ जावं.

आमचो हेतू ताका कळ्ळो हो भंय दिसता म्हाका.

ब्रूतुस : चेजारा कडेन तो कसो वता पळय. सारकें नियाळ.

कासियूस : कासका वच बेगीन. आमकां आडायत हो भंय दिसता.
ब्रूतुस, कितें करचें? हें तांकां कळ्ळयार?
कासियूस किंवा चेजार हांचे पयकीं
कोण तरी एकलो जितो परतुपाचोना,
कित्याक हांव तर जीव दितलों.

ब्रूतुस : कासियूस धीर धर. पोपीलियूस लीना
आमच्या हेता विशीं उलयना , कित्याक तो हांसता.
आनी चेजारांत कांयच बदल जाल्लो दिसना.

कासियूस : त्रेबोनियूस आपलें काम जाणां, कित्याक हें पळय, ब्रूतुस,
मार्कूस आन्तोनियूसाक तो कुशीन घेवन गेला.
(त्रेबोनियूस आनी आन्तोनियूस वतात.)

देसियूस : मेतेलूस चिंबेर खंय आसा, फुडें वचून ताका आमचो अर्ज
रोखडोच चेजाराक दिवं दी.

ब्रूतुस : तो तयार आसा; ताका मुखाार दवरात.
आनी तुमी रावात ताचे फाटल्यान.

चीन्ना : कासका, पयलीं तूं उबारतलो हात.

चेजार : आमी सगळे तयार आसात? खंयचो अन्याय आसा सद्या,
जो चेजार आनी ताचे सेनेट हांणी निस्तरावपाक जाय?

मेतेलूस : सगळ्यांत उंचेलो, श्रेशठ, पराक्रमी, सर्व शक्तीवंत चेजार
तुज्या आसनामुखार पसरायता.
(दिमी मोडता.)

चेजार : चिंबेर, म्हाका आडावापाकच जाय तुका हें करपा पासून.
अशीं हीं लोटांगणां आनी लाचारीची सायबाजात्रा
हांकां लागून सामान्य मनशाचें रगत तापतलें,
आनी आयज वेर केल्ले कायदे आनी न्यायाचीं फर्मानां
हांचो तीं गल्लींतलो पोरखेळ करुन उडयतलीं.
चेजाराचें रगत अशें पागळटलें अशे मुर्खावरी तूं समजूं नाका

आनी ताच्या ब्रिदा पासून ढळटलें.
जशें रगत पागळटा मुर्खाचें. तोखणायेच्या गोड उतरांनी
दिमी मोडून केल्ले लाचारीन, सुण्या वरी शेंपडी हालयल्ल्यान.
तुज्या भावाक हुकूम काडून तडीपार केला,
ताचे पासत तू दिमी मोडशी. विनवणी करशी;
कुत्र्या वरी शेंपडी हालयशी, तुका सुण्या वरी पयस लोट्टलों
म्हजे वाटेंतसून.
लक्षांत दवर, चेजार अन्याय करिना,
आनी तशेंच कारण आसले शिवाय ताचें समाधान जावचें ना.

मेतेलूस : म्हजे परस खणखणीत आवाज कोणाचो ना काय?
चिंबेर जो अदीक मागण्यो घेवन चेजाराच्या कानाचेर घालीत.
आनी ताका लायत रद्द करपाक, म्हज्या भावाची हद्दपारी?

ब्रूतुस : चेजार, हांव तुज्या हाताचो उमो घेतां, पूण तें तुजी खुशामत
करपाक न्हय; पुब्लियूस चिंबरेची रद्द करुन हद्दपारी,
ताबडतोब दी तूं ताका मेकळीक, ही म्हजी विनंती तुका.

चेजार : कितें? ब्रूतुस?

कासियूस : भगस चेजार, चेजार भगस!
हांव तुज्या पांयांचेर घालून घेतां,
आनी मागतां भीक तुजे कडेन;
पुब्लियूस चिंबेरचें स्वातंत्र्य ताका परत दी.

चेजार : हांव तूं आशिल्लों जाल्यार,
म्हजें काळीज हालोवपाक मेळटलें आसलें!
हांवें दये खातीर प्रार्थना केल्ली जाल्यार
आयकून प्रार्थना, म्हजें काळीज पागळटलें आसलें.
पूण हांव अढळ आसां ध्रूव नखेत्रा वरी;
अढळताय, थीरताय ह्या गुणांत,
जाचे वरी आकाशांत दुसरो कोणना
असंख्य नखेत्रांनी हें आकाश रंगयलां.
त्या सगळ्यांत उजो आसा, जण एकलें उजवाड दिता,

पूण तांचे मदीं अढळ फक्त एकच आसा.
तशेंच ह्या संवसारांत; तोय आसा भरिल्लो मनश्यानी
जीं आसात रगताचीं, मांसाची घडिल्लीं, बुदवंत,
पूण ह्या सगल्यांत हांव एकच मनीस जाणां,
अभेद्द आसनाक जाच्या कोणूच हालोवपाक शकना,
तो केन्नाच अथीर जायना, आनी तो आसा - हांव चेजार.
हांगांय हाचोय थोडो प्रत्यय म्हाका दिवपाक दियात.
चिंबेरचे हद्दपारे विशीं हांव ठाम आसलों
आनी ताका तसोच दवरपा बाबतींत हांव ठाम आसां.

चीन्ना : ए चेजार!

चेजार : अशें, म्हणचे तूं ऑलीम्पूस पर्वत उखलून धरतलो?

देसियूस : म्हान चेजार!

चेजार : ब्रूतुसान बेठीच विनवणी केली न्हय?

कासका : उलयात हातांनो, म्हजे पासत तुमी उलयात.
(ते चेजाराक सुरयो तोपतात. कासका पयलो, ब्रूतुस निमाणो.

चेजार : तूंय बी ब्रूतुस? मागीर चेजार पत्करचेंच तुवें मरण.
(मरता.)

चीन्ना : मुक्ती! स्वातंत्र्य! जुलूमशाय मेली!
धांवत वचून जाहीर करात. रस्त्याचेर आड्डून घोशणा दीत हालेट्यो मारत

कासियूस : कांय जाण भौशीक माचयांचेर चलात आनी थंयसून
दियात घोशणा - "मुक्तताय, स्वातंत्र्य, सुटका!"

ब्रूतुस : लोकांनो, सेनेटच्या सभासदांनो, हालूं नाकात, शांत रावात.
म्हत्वाकांक्षेक तिचें देणें पावयलें.

कासका : माचयेर वच, ब्रूतुस.

देसियूस : आनी कासियूस तूंय.

ब्रूतुस : पुब्लियूस खंय आसा?

चीन्ना : हांगाच आसा. ह्या बंडान गडबडला.

मेतेलूस : निर्धारान एकठांय उबे रावात.

ना जाल्यार चेजाराचो एकाद्रयो इश्ट येवन

ब्रूतुस : उबें रावपाचें उलोवं नाकात! पुब्लियूस तूं
हुस्को करुं नाका. तुका किंवा खंयच्याच रोमाच्या
नागरिकाक नखलामी जावची अशी आमची इत्शा ना.
तूं तांकां तशें सांग, पुब्लियूस.

कासियूस : आनी आतां हांगासून वच, पुब्लियूस.
घडये आमचेर लोकांनी हल्लो केल्यार
तुजे पिरायेच्या मनशाक ताचो त्रास जातलो.

ब्रूतुस : तशें कर, आनी ह्या कृत्याची जापसालदारकी
खंयचेच व्यक्तीचेर येवपाक जायना.
हें कृत्य करपी आमचेरच ती आसा.

कासियूस : आन्तोनियूस खंय आसा?

त्रेबोनियूस : तो भियेवन घरा पळ्ळो.
दादले, बायलो आनी भुरगीं भियेल्ल्या तटास
दोळ्यांनी पळयत. रडत आड्डत धांवत सुटल्यांत,
संवसार-बुट्टीच आयिल्ले वरी.

ब्रूतुस : हे दैवा, तुजी इत्सा कितें तें कळटलेंच.
मरण कोणाक चुकना, आमी जाणातच.
प्रस्न आसा मरणाच्या वेळाचो.
मनीस धडपडटा; दीस आपल्या आयुश्याचे,
लांबणेर उडोवपा खातीर.

कासका : म्हाका अशें दिसताः जो आपलें आयुश्य वीस वर्सां आदीं सोंपयता,
तो तितक्याच वर्सांचो मरणाचो भंय नश्ट करता.

ब्रूतुस : तशें धरुन चल्ल्यार मरण हें लाभाचें,
चेजाराच्या मरणाचो काळ उणो करपी,
आमी ताचे इश्टच आसात, असोच ताचो अर्थ.
खाला बागवात, रोमानांनो, खाला बागवात.
आनी आमच्या कोंपरा मेरेन आमचे हात

चेजारच्या रगतांत आमी न्हाणोवया,
बुडबुडावया आमच्यो तरसादी त्या रगतान
आमी वचुया चलत पेठे मेरेन
तकलेचेर उंच मिरयत रगताळून तांबडी जाल्लीं
आमचीं शस्त्रां,
सगळे दिवया घोशणाः शांती ! स्वातंत्र्य ! मुक्ती !

कासियूस : बागवया तर आनी धुयात आपले हात ह्या रगतान !
(ते हात आनी शस्त्रां रगतान धुतात)
कोणांक खबर, कितल्या युगां उपरांत रंगमाचयेर
अशें हें उदात्त दृश्य परत सादर जातलें.
अशा देशांनी जे अजून जल्मूंक नांत
आनी अश्या बोलींत ज्यो अजून कोणूच उलोवंकनांत.

ब्रूतुस : हो देखावो आशिल्लो हो खेळ
कितलो काळ दिश्टी पडत कोण जाणा ?
पॉम्पेच्या पुतळ्याच्या पांयां कडेन पडिल्लो रगतांत बुडबुडिल्लो,
धुल्ला इतलेंय जाका मोल ना, असो हो चेजार !

कासियूस : जेन्ना जेन्ना हो खेळ रंगमाचयेर दाखयतले
तेन्ना तेन्ना आमच्या गटाचो उल्लेख करतले
जांणी तांच्या देशाची सुटका केली. अशे मनीस म्हणून.

देसियूस : कितें, आमी वचपाचें ?

कासियूस : हय, प्रत्येकान वचपाचें.
ब्रूतुस आमचो फुडारी; ताचे पावलटेचर पावलां दवरीत
आमी वचपाचे सगळ्यांत शूर आनी सगळ्यांत धिरिश्ट रोमान म्हणून.
(एक नोकर प्रवेश करता.)

ब्रूतुस : रावात. कोण येता हांगा. कोणतरी आन्तोनियूसचो इश्ट आसा.

चाकर : (दिमी मोडून) ब्रूतुस तुजे फुडें अशी दिमी मोडपाची
आज्ञा केल्या म्हाका म्हज्या धनयान.
आन्तोनियुसान सांगलां हें अशें :

म्हाका तुज्या पांयां कडेन बागोवपाक,
आनी मागीर लोटांगण घालून तुका सांगपाक
ब्रूतुस आसा कुळवंत, शाणो, शूर आनी प्रामाणीक,
चेजार आसलो शक्तीवंत, धाडसी, राजेशाही आनी मोगाळ.
धनयान म्हणलां अशें सांगः
''ब्रूतुस म्हजो मोगाचो आनी आदर करतां ताचो हांव;
तशेंच अशेंय सांगः आपणाक चेजाराचो भंय आसलो,
आदर आसलो, मोग आसलो.
आन्तोनियूसचो असो निरोप आसाः
ब्रूतुसान हमी दिल्यार आन्तोनियूसाक
तो सुरक्षीत पावत ब्रूतुसा कडेन हाची,
आनी ब्रूतुस आन्तोतियुसाची खात्री पटयत,
चेजाराक कित्याक मरण फावतालें,
तर आन्तोनियूस सोंपिल्ल्या चेजाराचो मोग करचो ना.
जितलो तो जिवंत ब्रूतुसाचो करीत;
आनी तो मानेस्त ब्रूतुसाक सांगात दीत,
आपले पूर्ण निश्टे सयत, ताच्या बऱ्या वायट दिसांनी.
आनी जोखमीन भरिल्ले हे अनवळखी वाटेर.
अशें म्हणटा म्हजो धनी आन्तोनियूस.

ब्रूतुस : तुजो धनी शाणो आनी शूर रोमान आसा;
हांवें ताका केन्नाच उणो लेखूंक ना.
ताका सांग; तो हांगा आयल्यार, ताचें समाधान करतले आमी,
आनी म्हज्या इमानाक स्मरून हांव उतर दिताः
केंसांक धक्को लागले बगर तो परत वतलो.

चाकर : हांव ताका बेगोबेग घेवन येतां.

ब्रूतुस : म्हाका दिसता तो आमचो बरो इश्ट जातलो.

कासियूस : म्हजीय तीच इत्शा आसा.
आनी म्हजो संशय दुर्दैवान खरो थारता.
(आन्तोनियूस प्रवेश करता.)

ब्रूतुस : हो पळय, आन्तोनियूस आयलो.
तुका येवकार, मार्कूस आन्तोनियूस.

आन्तोनियूस : (चेजाराच्या मड्याकडेन पळयत.) हे शक्तीवंत चेजार,
तूं असो सकल पडला भूंयीं ! तुजीं सगळीं जैतां,
भोवमान, जैताचीं पुरसांवां, लुटीची संपत्ती,
हें सगळें हे ल्हानशे सुवातेत आंवुळचें !
अखेरच्यो शुभेत्शा तुका.
तुमच्या मनांत कितें चललां, सद्ग्रहस्थानो, हें हांव नकळ,
आनीक कोणाचें रगत तुमकां जाय ?
आनीक कोण, हे पदवेचो ?
तो हांव आसल्यार, तसो ज्युस्त फावोसो वेळ दुसरोना
चेजाराच्या मरणाच्या ह्या खिणा वरी
संवसारांतल्या सर्व श्रेश्ठ रगतान
गिरेस्त जाल्यात ह्यो तुमच्यो तरसादी
तांच्या अर्द्या मोला इतलें मोल ना.
दुसऱ्या खंयच्याच शस्त्राचें !
तुमकां म्हजी इतलीच विनंतीः
तुमकां म्हजो दुस्वास आसल्यार,
आतां रगतान जांबळेल्ले आनी घाणायल्ले तुमचे हात
वैरान अशे धुमसत आसतनाच
तुमची इत्सा पूर्ण करात. हांव हजार वर्सां जियेल्यारय,
मरपाक असो दुसरो फावसो खीण मेळपाचो ना म्हाका.
दुसरी खंयचीच सुवात म्हाका नासत इतली सुखाची
जशी ही आसा, चेजाराचे म्हऱ्यांतली,
मरणाचो खंयचोच मार्ग नासत सुखाचो
ह्या युगाच्या श्रेश्ठ विभूती आशिल्ल्या
तुमचे वरी म्हाआत्म्यांच्या हातांतसून मरण लाभचे वरी !

ब्रूतुस : ए. आन्तोनियूस ! मरणाची विनवणी करुं नाका आमचे कडेन
आतां आमी दिसल्यारय रगताळिल्ले आनी क्रूर,

हे आमचे हात आनी ह्या हातांच्या कर्तुबा वयल्यान तुका हें दिसता,
पूण तुका फक्त आमचे हातच दिसतात.
आनी आमच्या हातांनी केल्लो ह्या रगताचे व्हाळ
आमचीं काळजां तुका दिसनात, ती आसात काकुळटेची;
रोमाचेर जायत आशिल्लो एकूणूच अन्याय पळोवन,
ही काकुळट आमच्या काळजांत उप्रासली.
उजो जसो उज्याक नश्ट करता, तशीच काकुळटेन भरिल्लीं,
चेजाराचे बाबतींत आमी अशें कर्तूब केलां.
तुजे विशीं उलोवंचें जाल्यार,
आमच्यो तरसादी बोथट आसात, मार्कूस आन्तोनियूस.
चेजारा विशीं दुस्वास आशिल्ल्या ह्या बावळ्यांनी,
तुजें विशीं भावपण आशिल्ल्या ह्या काळजांनी
आमी तुका येवकार दितात प्रेम, सद्भावना आनी आदरान.

कासियूस : तुजें मत कोणाय इतलेंच आसतलें म्हत्वाचें
नवे सन्मान, अधिकार जेन्ना दितले.

ब्रूतुस : फक्त तूं धीर धर, भंयान भियेल्लो जमाव आमी शांत करी मेरेन; ते उपरांत आमी तुका कारण सांगूं,
चेजाराचो मोगी हांव, कित्याक ताचेर हांवें घाव घालो.
कित्याक हांव असो वागलों?

आन्तोनियूस : तुज्या शाणेपणा विशीं हांव दुभाव घेना.
आतां तुमी जण एकल्यान, रगतान बुडबुडिल्लो हात तुमचो,
म्हज्या हातांत दियात. (कटवाल्यांचे हातांत घेवन हालयता)
पयलो माकूर्स ब्रूतुस, हांव तुजो हात हालयतां;
मागीर कायूस कासियूस, तुजो हात हांव धरता.
आतां देसियूस ब्रूतुस, तुजो, आतां तुजो मॅतेलूस;
तुजो चीन्ना, आनी म्हज्या शूर कासका तुजो;
आनी शेकीं; तुजे विशीं प्रेम उणे ना,
सज्जन त्रेबोनियूस, तुजो. सज्जनांनो हाय!

आतां कितें उलोवं?
आतां म्हजी अब्रू आसा अशे निसड्‌डे भुंयेचेर
दोनां पयकीं खंयचें तरी एक दुशण,
तुमकां दिवंचेंच लागतलें म्हाका. भेजूड किंवा तोंडपुजो.
हांवें तुजो मोग केला, चेजार, हें सामकें खरें!
ह्या खिणाक तुजो आत्मो आमचे कडेन पळयत आसल्यार,
तुज्या आन्तोनियूसान ही शांतीसंधी केल्ली पळोवन,
शत्रूंची रगताळिल्लीं बोटां पोशेल्लीं पळोवन,
आनी तेंय बी सज्जना, म्हऱ्यांत तुज्या मड्याच्या,
मरणा परस अदीक दुख्ख तुका जावंचें ना व्हय?
तुज्या घाव्यां इतले दोळे म्हाका आशिल्ले जाल्यार,
दुकां व्हांवोवपी तुजें रगत व्हांवता इतल्याच नेटान जाल्यार
ते म्हाका सोबून दिसतलें आसले.
तुज्या वैऱ्यां कडेन दाटी करचे परस,
ज्यूलियूस, तूं म्हाका भगस!
आगा शूर मृगा, शिकारी कुत्र्यांनी कोंडी केली तुजी
हांगा तूं कोंसळ्ळो आनी तुजे शिकरी हांगा उबे आसात
तुज्या तोडिल्ल्या लचक्यांचे इनाम चघळीत, पाताळांतले रगताळिल्ले न्हंयेंत न्हाणाक वचपाक.
हे संवसारा, तूं आसलें रान ह्या मृगाचें,
आनी खरेंच हे संवसारा! हो मृग आसलो तुजें काळीज;
आनी आतां तूं हांगां पडला, अनेक राजपुत्रांनी शिकार केल्ल्या हरणा वरी.

कासियुस : मार्कूस आन्तोनियूस

आन्तोनियूस : भगस म्हाका, कायूस कासियूस,
चेजाराचे शत्रूय अशेच म्हणटले.
मित्राच्या तोंडचें हें तर उलोवणें
नमळ, कवळें, अशेंच म्हणपाक जाय.

कासियूस : चेजाराचे हे तुस्त तोखणाये विशीं हांव दोश दिना तुका.

पूण आतां एक सांग; आमचेशीं तूं खंयचो करार करतलो?
आमी तुज्या नांवाफुडें इश्टां पयकीं अशी खूण करची,
काय तुजेर पातेयेले बगर आमी फुडें वच्चें?

आन्तोनियूस : हे खातीरच हांवें तुमचे हात हातांत घेतिल्ले.
पूण हें खरेंच चेजाराच्या मड्याचेर नदर घालतना,
उद्देशा पासून म्हज्या, हांव ढळ्ळो.
हांव तुमचो सगल्यांचोच इश्ट आसा.
आसा म्हजें प्रेम तुमच्या सगळ्यांचेर, पूण हे आशेचेरः
तुमी म्हाका कारणां सांगशात, कित्याक आनी कसो
चेजार धोक्याचो आसलो?

ब्रूतुस : कारणां दिली ना जाल्यार, हें कृत्य रानटी थारत.
आमचीं कारणां बऱ्या हेतांनी इतलीं पूर्ण आसात;
आन्तोनियूस तूं चेजाराचो पूत आशिल्लो जाल्यारय
तांणी तुजें समाधान जातलें.

आन्तोनियूस : तितलेंच जाय म्हाका. आनी एक मागणें आसा;
चेजाराचें प्रेत म्हाका पेठेंत व्हरपाक दिवंचें.
आनी तें मायचेर दवरून- तशें करप मित्राक सोबतलें-
ताच्या इन्तेरांत म्हाका तुमी भाशण करपाक दिवचें




ब्रूतुस : तशें तूं कर, मार्कूस आन्तोनियूस.

कासियूस : ब्रूतुस म्हाका कितें सांगपाचें आसा तुका.
(ब्रूतूसा सरीं वचून.)
तूं कितें करता हें तुका कळना
इन्तेरांत आन्तोनिक भाशण करपाची संमती दिवं नाका.
आन्तोनीचें भाशण आयकून, लोकांच्यो भावना कितल्यो
कळवळटल्यो हाची कल्पना आसा तुका?
(कडेन व्हरून कासियूसाक)

ब्रूतुस : तुजी भगसणी अपेक्षून तुका सांगता;
माचयेर हांव पयलीं वतलों,
आनी आमच्या चेजाराच्या मरणाचें कारण स्पश्ट करतलों,

तशेंच, हांव लोकांक सांगतलों;
आन्तोनियूस जें उलयतलो तें आमचे परवानगीन,
चेजाराचे विधीनुसार आनी उचीत समारंभांत
निमाणे संस्कार जावंचे ही आमची मागणी पूर्ण जावची.
हाका लागून हानी परस लावच आमकां अदीक जातलो.

कासियूस : कितें उप्रासतलें कोण जाणा; म्हाका हें पटना.

ब्रूतुस : मार्कूस आन्तोानियूस, यो हांगा, चेजाराचें कळिंवर घे ताब्यांत,
इन्तेरांत तुज्या भाशणांत तूं आमकां दोश दिवचो ना.
तूं तुका जाय तितलें बरें उलय चेजारा विशीं
आनी सांग तूं जें उलयता तें आमचे संमतीन.
ना जाल्यार इन्तेरांत तुका मातय सुवात आसचीना.
आनी हांव जे माचये वयल्यान उलयतलों, तेच माचयेवल्यान
तूं उलयतलो, हाचे परस चड म्हाका कांय नाका.

आन्तोनियूस : तशेंच जातलें. हाचे परस चड म्हाका कांय नाका.

ब्रूतुस : इन्तेरा खातीर मागीर, प्रेत तयार कर
आनी आमचे फाटल्यान यो.
(आन्तोनी सोडून हेर सगळे वतात.)

आन्तोनियूस : ओ ऽ भगस म्हाका, रगत व्हांवतल्या मातयेच्या दिफळा.
हांव ह्या खाटकां मुखार नमळ आनी मोव जाल्ले खातीर!
काळाच्या ओघांत जल्मल्ल्या सर्व श्रेश्ठ थोर मनशां मदलो तूं.
भग्न अवशेश जावन हांगासर पडला.
हें मोलादीक रगत जांणी सांडलें, त्या हातांचो धिक्कार आसूं.
जे घावे मोन्याच्या मुखा वरी उगडून तुजे माणकां वरी ओंठ,
विनवणी करतात उल्यांची, शब्दांची म्हजे वाणी कडेन
त्या तुज्या घाव्यांचे गवायेन हांव भाकीत करतां
ह्या लोकांच्या हातांपांयांचेर श्राप कोसळटले,
देशांतली तिडक आनी भयांकूळ यादवी,
हांच्या असह्य भारान कोसळटलो हो सगळो इताली देश;
रगतां व्हांवतलीं; सांवार आनी उच्छेद तरतरतले,

भिरांकूळ दृश्यां इतलीं संवकळीचीं जावन
झुजाच्या उन्मादान माजिल्ल्या हातांनी केल्ले बाळकांचे
छिन्नविछिन्न देह आवयो फक्त हांसऱ्या मुखान पळयतल्यो.
नश्टयां कर्तुबांचे रुढीन काकुळट घुसमट्टली
आनी सूड घेवपा खातीर वणवणपी चेजारचें भूत
धगधगपी नरकांतल्यान पेटून उठिल्ले.
धांयधिस्पटीचे देवतेचे साथीन
आनी सम्राटाचे वाणीन देशभर आड्डून सांगतलें:
"अच्छेव काडांत", आनी झुजाचीं सुणीं मेकळीं सोडात.
ह्या नश्टया कर्तुबाचो दुर्गंध पिर्थूम व्यापतलो
मूठ मातयेची पिंर्गत वाट पळोवपी मड्या वरी मनशांच्या सांगातान. (एक नोकर प्रवेश करता)
ऑताविंयू[4] चेजारचो[4] तूं नोकर न्हय ?

नोकर : हय, मार्कूस आन्तोनियूस.

आन्तोनियूस : रोमाक यो अश्यो चेजारान ऑताविंयूक चिठी बरयल्ल्यो.

नोकर : तांकां मेळ्ळयात ताच्यो चिठी, ते भायर सरल्यात.
हो निरोप दिवपाक तांणें म्हाका फुडे धाडला.
(चेजाराच्या प्रेता कडेन पळयता.)
ए चेजार !

आन्तोनियूस : तुजें काळीज दुख्खान भरून आयलां,
तूं कुशीक सर आनी रडून घे,
खुबळायल्ली भावना पसरता हें म्हाका जाणवता;
तुज्या दोळ्यांत दुख्खाची दुकां पळोवन
म्हजेय दोळे भरुन व्हांवपाक लागल्यात.
तुजो धनी येतलो ?

नोकर : रोमा पासून सात कोंसांचेर
आयज रातीं ताचो मुक्काम आसा.

आन्तोनियूस : परत वच ताकतिकेन आनी कितें घडलां तें ताका सांग.
हांगा आसा दुख्खी रोमा, धोक्याचें रोमा,

हें रोमा ऑताविंयूक सुरक्षीत ना आजून,
बेगीं वच आनी ताका सांग;
पूण हांगा आजून मात्सो वेळ राव;
चेजाराचें प्रेत हांव पेठेंत व्हर ऽ मेरेन
तूं परत वचूं नाका. थंय हांव म्हज्या भाशणांत
अंदाज घेतां, ह्या नश्टयां मनशांच्या क्रूर कर्तूबा विशीं
लोकांक कितें दिसता तें. हे परिस्थिती विशीं
तरणाट्या ऑताविंयूक तुका कितें दिसता तें कळय.
तुजो हात लाय.
(चेजाराचें प्रेत उखलून व्हरतात. )



# अंक तिसरो
## प्रवेश दुसरो

(ब्रूतुस आनी कासियूस प्रवेश करतात. तांचे फाटसून सामान्य लोकांचो चोंबो.)

सगळे नागरीक : आमची खात्री जावपाक जाय. आमचें समाधान करात.

ब्रूतुस : तर म्हजे फाटसून येयात आनी
म्हजें म्हणणें आयकात, इश्टांनो.
कासियूस, तूं दुसऱ्या रस्त्याचेर सभा घे,
आनी हांगाची गर्दी थंय घेवन वच.
म्हजें भाशण जे आयकतले ते हांगा रावतले.
कासियूसाचें भाशण जांकां आयकुचें आसा
तांणी ताचे वांगडा वच्चें.
आनी मागीर चेजाराच्या मरणाची कारणां
भौशीक सभेंत उक्तीं जातलीं.

पयलो नागरीक : हांव ब्रूतुसाचें भाशण आयकतलों.

दुसरो नागरीक : हांव कासियूसाचें भाशण आयकतलों. दोगांयची
वेगवेगळ्या ठिकांणचीं भाशणां आयकुया
आनी तांणी दिल्ल्या कारणांची तुळा करूया.
(कासियूसा बराबर कांय नागरीक वतात. ब्रुतुस माचयेर पडटा

तिसरा नागरीक : म्हान ब्रूतुस माचयेर चडलो. ओगी रावात.

ब्रूतुस : म्हजें भाशण सोंपऽ मेरेन ओगी रावात. रोमानांनो, देशभावांनो आनी मोगाळ इश्टांनो! म्हजी भूमिका आतां आयकात, आनी थंड रावात, म्हणजे तुमी म्हजें भाशण सारकें आयकूंक पावतले. म्हजे सचोटेचेर विश्वास दवरात. म्हजे सचोटेचेर विश्वास दवरल्यार तुमकां म्हजेर विश्वास दवरपाक येतलो. तुमी म्हाका शाणेपणान दोश दियात, तुमची समजिकाय जागयात, म्हणचे तुमी सारके पारखतले. हे सभेंत

चेजाराच्या कोणाय मोगाळ इश्टाक हांव हें सांगन, ब्रतुसाचो चेजारा विशींचो मोग ताच्या मोगा परस मातूय उणो ना. मागीर ब्रूतुस चेजाराच्या जिवाचेर कित्याक उठलो अशें त्या मित्रान हक्कान विचारल्यार, ताका म्हजी ही जाप आसाः म्हजे चेजाराचेर उणें प्रेम आसलें अशें न्हय, तर म्हजें रोमाचेर अदीक प्रेम आसलें. चेजार जिवो रावतलो आनी तुमी सगळे गुलाम म्हणून मरतले, किंवा चेजार मरतलो आनी तुमी स्वतंत्र मनीस म्हणून जियेतले, हातुंतले कितें जाय तुमकां? चेजारान म्हजो मोग केलो म्हणून ताचे पासत हांव रडटां; चेजार भाग्यवंत आसलो हाची म्हाका खोस जाता; चेजाराचे वीरतायेचो हांव भोवमान करतां, पूण तो म्हत्वाकांक्षी आसलो म्हणून हांवें ताचो जीव घेतलो. ताच्या मोगा पासत दुकां आसात, ताच्या भाग्या पासत खोस आसा. ताचे वीरताये पासत भोवमान आसा आनी ताचे म्हत्वाकांक्षे पासत ताका मरण दिलां. हांगा कोण इतलो हीण आसा व्हय, जो बंदो. जावंक सोदता? तसो कोणूय आसल्यार ताणें म्हाका सांगचें. हय! अशा मनशाचो अपराध हांवें केला! जाचें आपल्या देशाचेर प्रेम ना, असो नीच हांगा कोण आसा व्हय? आसल्यार तांणे सांगचें; हय! हांवें ताचो अपराध केला. हांव हांगा रावतां तांचे जापे पासत.

सगळे नागरीक : कोणूच ना, ब्रूतुस, तसो हांगा कोणूच ना.

ब्रूतुस : तर मागीर हांव कोणाचोच अपराधी ना. ब्रूतुस चेजावरी वागिल्लो जाल्यार, तुमी ब्रूतुसाचे बाबतींत जें करतले आसले, ते परस चेजाराचे बाबतींत हांवें अदीक कांय करुंक ना. चेजाराच्या मरणाच्या कारणांची नोंद कापितालांत जाल्या. आनी ती करतना, ताचे योग्यतायेक खंयच उणेपण हाडूंक ना, कित्याक जाका लागून ताका मरण आयलें, त्या ताच्या गुन्यांवांची अतिताय लेगीत करूं ना. (आन्तोनियूस आनी हेर चेजाराचें प्रेत घेवन प्रवेश करतात.)

दुख्ख धरपी मार्कूस आन्तोनियूस पळयात चेजाराचें मडे घेवन

येता. जरी चेजाराक जितो मारपांत आन्तोनियूसचो मातूय हात नासलो, तरी चेजाराच्या मरणाचो लाभ आन्तोनियूसाक मेळटलो, आनी तो म्हणल्यार, लोकसत्ताक देशाचो नागरीक आसपाचो. आनी हो लाभ तुमचे पयकीं कोणाक मेळचोना अशें कितें आसा? इतलें सांगून हांव तुमचो निरोप घेतां. चेजार म्हजो सामको बरो मोगी आसूनय रोमाच्या बऱ्या पासत हांवें ताचो सुरयो तोपून जीव घेतलो. हांवें म्हजे खातीर तोच खंजीर दवरला, जेन्ना म्हज्या देशाक म्हज्या मरणाची गरज दिसताली.

(ब्रूतुस माचये वयल्यान सकल देंवता.)

सगळे नागरीक : आयुश्यवंत जा, ब्रूतुस, आयुश्यवंत जा.

पयलो नागरीक : जैताचें पुरसांव काडून आमी ब्रूतुसाक ताच्या घरा व्हरूया.

दुसरो नागरीक : ताच्या पुर्वजांच्या शेजरा ताचो पुतळो उभारुया.

तिसरो नागरीक : ताका आतां चेजाराची सुवात घेवं दी.

चवथो नागरीक : चेजाराच्या गुणांचो कळस जातलो ब्रूतुसा मदीं.

पयलो नागरीक : आमी ताका घोशणा दीत आनी हालेटी मारीत व्हरूया.

ब्रूतुस : म्हज्या देश भावांनो,

दुसरो नागरीक : शांत जायात. ब्रूतुस उलयता.

पयलो नागरीक : ओगी रावात. आयकात.

ब्रूतुस : म्हज्या देशभावांनो, म्हाका एकाट्याकच वचूंक दियात, आनी म्हजे खातीर तुमी हांगा आन्तोनियूसाचे बराबर रावात. चेजारच्या मड्याक मान दियात, आनी मार्कूस आन्तोनीचें भाशण भोवमान दिवन आयकयात, ज्या भाशणांत चेजाराचो गौरव जातलो. तें भाशण करपाची संमती आन्तोनियूसाक आमी दिल्या. हांव तुमकां पर्थून विनंती करतां, कोणूच हांगासून हालचोना, आन्तोनियूसाचें भाशण सोंपऽ मेरन. हांवूच एकटो हांगासून वतलों. (वता.)

पयलो नागरीक : आमी रावया आनी मार्कूस आन्तोनियूसाचें भाशण आयकुया. आमी ताचें भाशण आयकुया. मानेस्त आन्तोनियूस, तूं माचयेर चड.

आन्तोनियूस : ब्रूतुसाचे वतीन सांगता, हांव तुमचो उपकारी आसां.
(माचयेर वता.)

चवथो नागरीक : कितें म्हणटा तो ब्रूतुसा विशीं ?

तिसरोनागरीक : तो म्हणटा ब्रूतूसाचे वतीन तो उलयता.
आनी तुमचो उपकारी आसा अशें सगळ्यांक सांगता.

चवथो नागरीक : आपल्या भाशणांत ताणें ब्रूतुसाक दुशण दिलेंना जाल्यार बेस बरें जायत.

पयलो नागरीक : हो चेजार जुलूमशहा आसलो.

तिसरो नागरीक : तें तर नक्कीच.
आमी नशीबवंत म्हूण रोमा ताचे पासून सुटलें.

दुसरो नागरीक : शांत जायात! आन्तोनियूस कितें म्हणटा तेंय आयकुया.

आन्तोनियूस : हे सज्जन रोमानांनो.

सगळे : शांत रावात! ताचें उलोवणे आयकुया.

आन्तोनियूस : इश्टांनो, देशभावांनो, रोमानांनो लक्ष दिवन आयकात
चेजाराक मातयेक लावपाक हांव आयलां
ताची तुस्त तोखणाय करपाक न्हय.
मनशांचें नश्टेंपण ताचे फाटसून तिगता;
बरेंपण जायत्या फावटीं निखिपतात तांच्या हांडां वांगडा.
तेंच जावंदी चेजाराचे बाबतींतय.
थोर ब्रूतुसान सांगलां चेजार म्हत्वाकांक्षी आसलो.
तें खरें आसल्यार तो घोर गुन्यांव आसलो,
आनी ताचे पासत चेजाराक दिवचें पडलें व्हड मोल.
हांगा, परवानगेन ब्रूतुसाचे आनी हेरांचे
कित्याक ब्रूतुस आसा भोवमानेस्त
तशेच आसात ते सगळे, सगळे मानेस्त मनीस
आयलां हांव भाशण करपाक चेजाराच्या इंतेरांत .
तो म्हजो इश्ट आसलो, विश्वासू आनी म्हाका न्याय दिवपी;
पूण ब्रूतुस म्हणटा तो आसलो म्हत्वाकांक्षी,
आनी ब्रूतुस आसा मानेस्त मनीस.

तांणें जायते बंदी जिखून हाडले घरा, रोमाक,
जांचे खंडणीन रोमाचीं भौशीक भांडारां उपाट भरलीं.
दिसता व्हय हातूंत चेजाराची म्हत्वाकांक्षा?
जेन्ना जेन्ना गरीबधाटे रडले, चेजारान दुकां गळयलीं;
निश्टूर आसपा परसय निबर आसपाक जाय म्हत्वाकांक्षा,
तरी ब्रूतुस म्हणटा तो आसलो म्हत्वाकांक्षी,
आनी ब्रूतुस आसा मानेस्त मनीस.
पळयलां तुमी सगळ्यांनी, लुपेरकलचे परबे दिसा,
हांवें तीन खेपो ताका राजमुकूट ओंपलो,
जो ताणें तीन खेपो नाकारलो. ही म्हत्वाकांक्षा आसली व्हय?
तरी ब्रूतुस म्हणटा तो म्हत्वाकांक्षी आसलो.
आनी निश्चीतच ब्रूतुस आसा मानेस्त मनीस.
ब्रूतुस जें उलयलो तें खोडून काडपाक हांव उलयना,
पूण हांव हांगा आसां उलोवपाक जें हांव खऱ्यांनी जाणा.
एका वेळार तुमी चेजाराचो मोग केल्लो, तो कारणा बगर नासलो.
मागीर खंयचें कारण तुमकां आसा आतां
तांचें दुख्ख करपाक आडायता? हे सद्सद विवेक बुद्धे!
तूं पळून हिंसक सावदांचे वसतेक गेली
आनी मनीस आपलो विवेक व्हगडावन बसले.
आयकून घेयात म्हजें; म्हजें काळीज आसा थंय कायशावांत,
तें परते सुवातेर यो म्हणसर म्हाका रावपाक जाय.

पयलो नागरीक : ताच्या म्हणण्यांत बरेंच तथ्य आसा अशें म्हाका दिसता.

दुसरो नागरीक : तूं हाचो सारको विचार करशीत जाल्यार
चेजाराचेर व्हड अन्याय जालासो दिसता.

तिसरो नागरीक : अशें तुमकां दिसता धनयांनो?
म्हाका भंय दिसता ताच्या पदाचेर आनीक चड वायट
मनीस येत म्हणून.

चवथो नागरीक : ताचें म्हणणें आयकलें? तांणें राजमुकूट नाकारलो
म्हणचे नक्कीच तो म्हत्वाकांक्षी नासलो.

पयलो नागरीक : तें खरें आसल्यार कोणाक तरी ताचें जबर मोल
दिवचेंच पडटलें.

दुसरो नागरीक : चुरचुरे बाबड्याचे. रडून ताचे दोळे
इंगळे कशे तांबड्यो गुंजो जाल्यात.

तिसरो नागरीक : आन्तोनी परस सज्जन मनीस रोमांत दुसरो कोण ना.

चवथो नागरीक : आयकात तांणें आपलें भाशण परत सुरु केलां.

आन्तोनियूस : पूण काल मेरेन चेजाराचो शब्द टक्कर दितालो
ह्या संवसारा आड. असो हे चेजार आतां थंय पडला
आनी हे अवतिकायेंत ताका मान दीत
इतलो नमळ कोणूच ना.
हे म्हज्या धनयांनो, तुमचीं काळजां आनी तुमचीं मनां
बंड करून तिडकीन खुबळावचीं अशें हांवें करचें म्हणचे,
ब्रूतुसाचेर अन्याय थारतलो आनी कासियूसचेर
अन्याय थारतलो, आनी तुमी सगळे जाणातच,
हे आसात भोव मानेस्त मनीस.
तांचेर हांव अन्याय करचो ना.
अश्या ह्या मानेस्तांचेर अन्याय करचे परस
अन्याय ह्या मेल्ल्याचेर, अन्याय म्हजेर आनी तुमचेर
अन्याय करप हांव अदीक पसंत करीन.
हांगा पळयात चेजाराची म्होर आशिल्लो चामड्यापटो
ताचे आलमारींत म्हाका तो मेळ्ळो; तें आसा. ताचें मृत्युपत्र
(मृत्युपत्र तांकां दाखयता.)
तुमी लोकांनी हें मृत्युपत्र आयकल्यार
भगसात म्हाका, हांव तें वाचून दाखयना
तुमी वचून सोंपिल्ल्या चेजाराचे घावे चुमतले,
आनी ताच्या पवित्र रगतांत तुमचे लेंस भिजयतले,
हय, आनी पराथतले ताचो एक केंस मेळचो यादस्त म्हणून.
आनी मरतना, आपल्या मृत्युपत्रांत बरोवन दवरतले,
तो केंस अमोल वारसो म्हणून आपल्या भुरग्यांक.

चवथो नागरीक : मृत्युपत्र, आमकां आयकुपाचेंच आसा.
वाच तें मार्कूस आन्तोनियूस

सगळे नागरीक : मृत्युपत्रा मृत्यूपत्र, चेजाराचें मृत्युपत्र आमी आयकतले.

आन्तोनियूस : धीर धरांत, म्हज्या इश्टांनो, हांवें तें वाचपाक जायना.
चेजारान तुमचो कितलो मोग केलो.
हें तुमकां कळप समा न्हय.
तुमी न्हय लांकडां, तुमी न्हय फातर, पूण मनीस;
आनी मनीस आशिल्ल्यान, चेजाराचें मृत्युपत्र आयकून,
पेटून उठ्ठले तुमी, तुमी पिसावतले,
तुमी ताचे वारस आसात हें तुमी नकळत ही बरी गजाल.
कित्याक हें तुमकां कळ्ळयार, देव जाणा, तातूंल्यान कितें
उप्रासतलें तें?

चवथो नागरीक : वाच मृत्युपत्र! आमी आयकतलेच, आन्तोनी,
वाचचेंच पडटलें तुका चेजारचें मृत्यूपत्र.

आनोनियूस : मात्सो धीर धरशात? थोडो वेळ रावशात?
ताचे विशीं उलयल्ल्यान हांवें म्हजी मर्याद हुपली.
म्हाका भंय दिसता, हांव अन्याय करतां ह्या मानेस्तांचेर,
जांच्या खंजिरांनी घाव घालो चेजाराचेर. भंय दिसता हाचो
म्हाका.

चवथो नागरीक : ते आसले देशद्रोही. म्हणटा "भोवमानेस्त मनीस"!

सगळे : मृत्युपत्र! चेजाराचो करार!

दुसरो नागरीक : ते आसले नश्टे, खुनी. मृत्युपत्र! वाच तें मृत्युपत्र.

आन्तोनियूस : म्हणचे तुमी म्हाका वाचपाकच लायतले मृत्युपत्र?
मागीर तुमी कडें करात चेजारच्या प्रेता भोंवतणी.
आनी हांव तुमकां दाखयन जाणे हें मृत्युपत्र केला तो.
हांव खाला देवं? आसा तुमची परवानगी?

सगळे नागरीक : खाला देंव.

दुसरो नागरीक : देंव खाला.

तिसरो नागरीक : तुका आमी परवानगी दितात.

चवथो नागरीक : कडें करात भोंवतणी. पयस उबे रावात.

(आन्तोनी खाला देंवता. नागरीक चेजाराचे भोंवती कडें करतात.)

पयलो नागरीक : कडें करात भोंवतणी. पयस उबे रावात.

दुसरो नागरीक : आन्तोनी खातीर सुवात करात, कुळवंत आन्तोनी.

आन्तोनी : गचमुड्डी नाका. पयस वचात.

सगले : फाटीं सरात. मेकळी सुवात सोडात; फाटल्यान सरात.

आन्तोनियूस : तुमचे कडेन दुकां आसल्यार, तीं आतां गळोवपाक तयार जायात. हो झगो तुमी सगळे वळखतात. म्हाका याद जाता चेजारान पयलेच पावट तो घाल्लो तेन्नाची.
ती आसली गीमाची सांजवेळ, ताच्या तंबूंतली.
त्या दिसा हारयल्ली ताणे नेरवी जमात
पळयात, हे सुवातेंत कासियूसाचो खंजीर गेलो शेकानशेक,
पळयात मत्सरी कासकान केदो केलो घावो.
आनी हातूंतल्यान सामक्या मोगाच्या ब्रूतुसान घाव घालो.
आनी जेन्ना तांणें तें पाडें पातें फाटीं ओडलें,
सारकें पळयात ताचे वरवीं चेजाराच्या रगताचो पाट
लागलो व्हावंक;
जणूं आयलो दारा भायर; खात्री करून घेयात तुमी,
हो निर्दय घाव ब्रूतुसानच घाला काय ना.
हें पळोवपा खातीर; कित्याक ब्रूतुस तुमी जाणाच
चेजाराचो आंज आसलो भारी अपुर्बायेचो.
ए देवांनो तुमी थारायात, कितलो भारी मोग चेजारान केलो ताचो!
हो घाव निश्ठुरांतलो निश्ठूर आसलो.
जेन्ना घाव घालतना ताका कुळवंत चेजारान पळयलो,
तेन्ना ह्या देशद्रोह्यांच्या सगल्या शस्त्रां परस
पडमूरपणानच ताका सामको हारयलो.
मागीर विदरणा जाली ताच्या काळजाची.

आनी तांणें आपल्या झग्यांत आपलो चेरो लिपोवन,
थंय पोम्पेच्या पुतळयाच्या पांयांतळा,
तो पुतळोच जसो सगळो वेळ रगत व्हाळयतालो,
म्हान चेजार कोसळ्ळो.
आरे थंय केदें तें कोसळप आसलें, म्हज्या देश भावांनो!
मागीर हांव, आनी तुमी आनी आमी सगळेच कोसळटना,
खुनशी देशद्रोहान आमचेर जैत जोडलें.
हाय! आतां तुमी रडपाक लागल्यात,
आनी काकुळटेचो नेट जाणवता तुमकां,
चुरचुऱ्याचे थेंब आसात हीं तुमचीं दुकां,
दयाळू हृदयांनो, रगतान भिजिल्लो आमच्या चेजाराचो
झगो पळोवन, तुमी रडपाक लागल्यात? तुमी हांगा पळयात
प्रत्यक्ष चेजारच हांगा आसा, देशद्रोह्यांनी घायाळ केल्लो,
तुमी पळयतातच.

पयलो नागरीक : हाय! काकुळट येवची अशें हें दृश्य!

दुसरो नागरीक : हे उदात्त चेजार!

तिसरो नागरीक : दुर्दैवी दीस!

चवथो नागरीक : आरे देशद्रोह्यांनो, दुश्टांनो!

पयलो नागरीक : भिरांकूळ रगतान बुडबुडिल्लें दृश्य!

दुसरो नागरीक : आमी हाचो सूड घेतले.

सगळे नागरीक : सूड! चलात! तांकां सोदून काडात!
जाळात, हुलपायात! लायात उजो! घेयात जीव!
एकटोय देशद्रोही जितो उरपाक जायना.

आन्तोनियूस : ओगी रावात देशभावांनो.

दुसरो नागरीक : शांत जायात! म्हान आन्तोनीचें म्हणणें आयकात.

सगळे नागरीक : आमी ताचें म्हणणें आयकुया. आमी ताचे फाटसून
वचुया. आमी ताचे बराबर मरण पत्करूया.

आन्तोनियूस : म्हज्या बऱ्या इश्टांनो, म्हज्या अपुबार्येच्या इश्टांनो
अचकीत बंडाच्या ह्या अश्या हुंवारांत,

तुमकां लोटून दिवंची म्हजी इत्सा ना.
जांणी हें कर्तुब केलां, ते सगळे आसात खऱ्यानीच मानेस्त.
अश्यो तांच्यो कसल्यो खाशेल्यो व्यथा आसल्यो,
जाका लागून तांकां हें करचें पडलें.
हाय ! म्हाका खबर ना. ते आसात शाणे आनी मानेस्त.
आनी हांचीं कारणां ते दुभावा विणे तुमकां सांगतले.
हांव हांगा येवंक ना, इश्टांनो, तुमका भुलोवन
तुमचीं मनां जिखपाक. हांव वक्तो न्हय, ब्रूतुसा वरी,
पूण तुमी सगळे वळखतात म्हाका, हांव रोखठोक,
सादो मनीस, आपल्या मित्राचो मोग करपी;
ही गजाल ते सारकी जाणात,
जांणी म्हाका परवानगी दिल्या,
चेजाराचेर हें जाहीर भाशण करपाची
म्हजे कडेन ना बुद्धीची चमक, ना उतरां, ना योग्यताय
ना कर्तुत्व, ना वाणी, ना भाशण करपाचें कसब,
जाका लागून भाशण आयकून लोकांचें रगत सळसळटलें.
हांव रोखडोक, सरळ उलयतां, तुमी जें जाणात तेंच सांगतां.
हांव तुमकां दाखयतां, लाडकुल्या चेजाराचे घावे,
जे आसात, दुबळीं, बाबडीं; मोनी तोंडां,
जांकां हांव म्हजे खातीर उलोवपाक लायतां.
पूण हांव जर ब्रूतुस आसतां, आनी ब्रूतुस आसता आन्तोनी,
तर मागीर आन्तोनी खुबळायतलो आसलो तुमचीं मनां
काळजां,
आनी प्रत्येक घाव्यांत चेजाराच्या, जीव रिगोवन.
रोमांतल्या पाशाणांनी बंड करून उठचें म्हणून.

सगळो नागरीक : आमी बंड करतले.

पयलो नागरीक : ब्रूतुसाचें घर आमी जाळटले.

तिसरो नागरीक : तर मागीर चलात. कटवाल्यांक आमी सोदूया.

आन्तोनियूस : म्हजें आयकात, देश भावांनो, म्हजें आयकात.

सगळे : ओगी रावात. आन्तोनीक आयकात;
थोर आन्तोनी कितें म्हणटा तो.

आन्तोनियूस : इश्टांनो, जें तुमकां समजना
तें तुमी कित्याक करूंक पळयतात.
चेजारान कितें केलां, जाका लागून तुमचो इतलो
मोग ताका मेळचो?
हाय! तुमकां खबर ना; मागीर तें तुमकां सांगचेच पडटलें
जे विशी हांव उलयलों, तें मृत्युपत्र तुमी विसरले?

सगळे नागरीक : सामकें खरे - मृत्युपत्र! आमी रावया आनी
चेजाराचें मृत्युपत्र आयकुया.

आन्तोनियूस : हें तें मृत्युपत्र, चेजाराची म्होर आशिल्लें,
प्रत्येक नागरिकाक तो दिता,
प्रत्येक व्यक्तीक, सामकीं खरीं पंच्यात्तर रूप्याचीं नाणी

दुसरो नागरीक : भारी थोर चेजार! ताच्या मरणाचो आमी सूड घेतले.

तिसरो नागरीक : हे उदार चेजार!

आन्तोनियूस : ओगी रावात. आयकात म्हजें

सगळे नागरीक : शांतताय, लोकांनो.

आन्तोनियूस : हे शिवाय तुमचे खातीर तांणें दवरल्यांत,
आपलीं सगळीं उद्यानां, खाजगी लताकूंज,
टायबरचे आलतडीं नव्यान लायिल्ले फळांचे मळे आनी
पोरसां,
तशींच तुमच्या वारसांक तांणें कायमचीं दिल्यांत
भौशीक मैदानां, मेकळीं, भोवपाखातीर, फोल्गां मारपा खातीर.
असो एक चेजार आसलो! असो दुसरो केन्ना जातलो?

पयलो नागरीक : केन्नाच ना, केन्नाच ना. आमी चेजाराच्या
कळिंवराक पवित्र थळाचेर अग्नी दिवया.
आनी ताचेर पेटयल्ल्या चुडीनी,
देशद्रोह्यांचीं घरां जाळुया. उलखात तें कळिंवर.

दुसरो नागरीक : वचात,, उजो हाडात.

तिसरो नागरीक : बांक मोडात.

चवथो नागरीक : फळयो, जनेलां, जें कितें हाताक मेळटा तें मोडात.
(प्रेत घेवन सगळे नागरीक वतात.)

आन्तोनियूस : आतां जावं दी ! हे अनर्था चल मुखार.
आतां जो रुचत, तो मार्ग घे तूं.
(नोकर प्रवेश करता.)
कितें खबर हाडल्या रे ?

नोकर : धनया, ऑताविय़ू आदींच रोमाक पावल्यात.

आन्तोनियूस : ते आतां खंय आसात ?

नोकर : ते आनी लेपिडूस चेजाराच्या घरा आसात.

आन्तोनियूस : हांव थेट वचून तांकां मेळटां.
म्हजे इत्शेक मान दिवन तो आयला.
प्राक्तनाची देवता आमकां पावल्या.
हे खोशेंत ती आमकां मागत तें दितली.

नोकर : ब्रूतुस आनी कासियूस रोमाचे शिमे भायर
पिश्यांवरी भोंवतात अशें ऑताविय़ू
सांगतना हांवें आयकलें.

आन्तोनियूस : लोकांचे मनस्थितीची तांकां सुलूस लागल्या.
हांवें लोकांक उचंबळायल्यात हें तांकां कळ्ळां जातलें.
ऑताविय़ू कडेन म्हाका घेवन वच. (वतात.)

# अंक तिसरो
## प्रवेश तिसरो

देखाव : रोमांतलो एक रस्तो. चीन्ना हो कवी आनी ताचे फाटसून लोकांचो चोंबो प्रवेश करता.)

चीन्ना : चेजारा वांगडा जेविल्ल्याचें रातीं म्हाका सपन पडलें.
अशूभ गजालींचे सारके जातात भास.
घरा भायर हेडपाची म्हजी इत्शा ना.
तरी सुद्धां कितें तरी म्हाका ओडून व्हरता!

पयलो नागरीक : तुजें नांव कितें?

दुसरो नागरीक : तूं खंय वता?

तिसरो नागरीक : तूं खंय रावतां?

चवथो नागरीक : तूं काजार जाला काय जावंक ना?

दुसरो नागरीक : प्रत्येकाक सरळ जाप दी.

पयलो नागरीक : हय! आनी थोडे भितर

चवथो नागरीक : आनी शाणेपणान.

तिसरो नागरीक : हय आनी खरें. तेंच तुज्या भल्याचें.
म्हजें नांव कितें? हांव खंय वतां?

चीन्ना : हांव खंय रावतां? काजार जालां काय आंकवार?
प्रत्येकाक सरळ आनी थोडे भितर जाप,
शाणेपणान आनी खरी.
शाणेपणान सांगतां, हांव आंकवार.

दुसरो नागरीक : म्हणचे हाका म्हणचें आसा; जे काजार
जातात ते मूर्ख आसतात. म्हाका दिसता तूं
म्हजी मूठ खातलो हाचे खातीर. फुडें सांग, सरळ.

चीन्ना : सरळ. हांव वतां चेजाराच्या मरणाक.

पयलो नागरीक : इश्ट म्हणून काय शत्रू म्हणून?

चीन्ना : इश्ट म्हणून.

दुसरो नागरीक : ह्या प्रस्नाची सरळ जाप मेळ्ळी.

चवथो नागरीक : रावता खंय? थोडे भितर सांग.

चीन्ना : थोडे भितर, हांव रावतां कापितालाचे सरीं.

तिसरो नागरीक : तुजें नांव सांग, सायबा, खरें.

चीन्ना : खरें, म्हजे नांव चीन्ना.

पयलो नागरीक : आरे, हाका कातरून उडयात, कुडके करात,
हो आसा कटवालो.

चीन्ना : हांव चीन्ना; हांव कवी चीन्ना.

चवथो नागरीक : वायट कविता बरयल्ले खातीर हाका
कातरून उडयात. हाची कत्तल करात
वायट कविता बरयल्ले खातीर.

चीन्ना : हांव कटवालो चीन्ना न्हय.

दुसरो नागरीक : तरी कांय नजो. हाचें नांव चीन्ना आसा.
हाच्या काळजांतल्यान तितलें नांव हुमटायात.
आनी ताका वचूंक दियात.

तिसरो नागरीक : कातरून उडयात ताका, कातरून उडयात ताका
(सगळे चीन्नाचेर हल्लो करतात.)

सगळे नागरीक : चलात पेटिल्लीं लाकडां घेवन. चलात
ब्रूतुसागेर. कासियूसागेर चलात.
सगळ्यांक जाळून उडयात! आनी कांय जाण
वचात देसियूसागेर आनी कासकागेर,
कांय जाण लीजेरियूसागेर वचात! सरात भायर.
(सगळे वतात. चीन्नाचें मडें फरफटायत व्हरतात.)



# अंक चवथो

## प्रवेश पयलो

देखाव : आन्तोनियूसच्या घरांतली कूड. (आन्तोनियूस, ऑतावियू आनी लेपिडूस प्रवेश करतात.)

आन्तोनियूस : ही इतलीं मनशां जिवेशीं मरतलीं;
केल्यात खुणो, तांच्या नांवां मुखार.

ऑतावियू : तुज्या भावाकय जिवेशीं मारतले.
आसा तुजी संमती, लेपिडूस?

लेपिडूस : आसा म्हजी संमती.

ऑतावियू : आन्तोनियूस, खूण कर ताच्या नांवां फुडें.

लेपिडूस : पूण एके अटेचेर;
पुब्लियूसाक लेगीत जिवेशीं मारतले.
तो तुजे भयणीचो पूत, मार्कूस आन्तोनियूस.

आन्तोनियूस : तो जितो उरचोना. हे पळय.
हांवें ताच्या नांवां फुडें खूण करून ताचें घट्टाण केलें.
पूण आतां लेपिडूस तूं वच, चेजाराच्या घरा
आनी ताचें मृत्युपत्र घेवन हांगा यो,
मागीर आमी थारावंया, देणीं ताच्या मृत्युपत्रांतली
उण्यांत उणीं करपाचीं तीं.

लेपिडूस : तुमी हांगा आसतले?

ऑतोवियू : हांगा किंवा कापितालांत.
(लेपिडूस वता)

आन्तोनियूस : हो आसा फालतू नालायक मनीस
निरोप पावोवप्याची ताची लायकी!
तीन वांट्यांनी संवसार वांटकच
तातुंतल्या एका वांट्यार हो हक्क सांगतलो
हें कितें फावोशें आसा?

ऑतोवियू : तुकाच तर तशें दिसता!
तुवेंच तर ताची परवानगी घेतली
कोणाक मरणाची ख्यास्त दिवंची,
कोणाक हद्दपार करचें, कोणाचो म्हालम्हत्तो जप्त करचो
हाचेविशीं

आन्तोनियू : ऑतोवियू, चड पावसाळे पळयल्यात हांवें तुजे परस
वेगवेगळ्या निंद्य आरोपांचे आमचे वयलें वजें टाळचे खातीर
जरी ह्या मनशाक दितां आसत व्हडपण
तरी तो व्हरतलो तें भांगराचें वजें व्हरपी गाढवा वरी,
पिर्गंतलो आनी हूम गाळटलो त्या वज्या खाला,
वतलो, किंवा धांवडायल्यार वतलो आमकां जाय थंय,
आमकां जाय थंय हें भांगर पावयतकच
आमी ताचें वजें उतरावन ताका धांवडावन दिवया,
वजें उतरायल्ल्या गाढवा वरी आपले कान हालयत
चरपा खातीर हेर गाढवां वांगडा.

ऑतावियू : तुजी इत्शा आसत तशें तूं कर,
पूण तो खांपो आनी शूर झुजारी आसा.

आन्तोनियूस : तसोच म्हजो घोडोय बी आसा. ऑतावियू,
ताचे खातीर पुरवण करतां चण्यातणाची.
ह्या प्राण्याक शिकयतां हांव झुजपाक,
वळपाक, थांबपाक, चौखूर धांवडावपाक
गती ताच्या देहाची. ताब्यांत म्हज्या मनाच्या.
आनी कांय बाबतींत हो लेपिडूस असोच आसाः
ताका शिकोवन तयार करचो पडटा.
आज्ञा दिवची लागता काम करपा खातीर.
बोंडेर हो मनीस, भरता आपलें पोट
हेरांनी भायर वडयल्ल्या निरूपेगी फालतू वस्तुंचेर,
ह्यो टाकाऊ शेळयो वस्तू नव्यो म्हणून आपणाक घेता.
फकत एक आवत म्हणून ताचे कडेन पळय.

आनी ऑताविय़ू, म्हत्वाच्यो कांय गजाली आयकः
ब्रूतुस आनी कासियूस सैन्य एकठांय करतात,
आमी ताका बेगोबेग तोंड दिवपाक जाय;
आमच्यो इश्टसेना आमी सांगांतान करुया;
मित्रांचें फाटबळ मेळवया; सामग्री वाडवया;
गुपीत गजाली कश्यो उक्तावंच्यो लोकां मुखार
आनी उक्त्या संकश्टांचेर खात्रीन मात कशी करची
हें आमी वेळ व्हगडायनासतना एकठांय विचार करून थारावया

ऑताविय़ू : तशेंच आमी करुयां,
कित्याक आमची स्थिती आसा खुंटयेक बांदिल्ल्या वांस्वेला वरी;
शिकारी सुणीं जाचेर भोंकून तूटून पडटात.
आनी जरी कांय जाणांचे ओंठ हांसकुरे दिसले,
तरी त्यांच्या पोटांत दडिल्लीं - भंय दिसता म्हाका -
असंख्य पाडीं कर्तुबां. (सगले वतात )

## प्रवेश दुसरो

देखाव : सार्डिस हांगासरलो बंडखोरांचो तळ.(नागाऱ्यांचों आवाज.
ब्रुतुस, लुचिलीयूस आनी लुचियूस आनी सैनीक प्रवेश करतात.
टिटिनियूस आनी पिंडारूस तांका मेळपाक येतात.)

ब्रूतुस : उबे रावात !

लुचिलीयूस : सांगात खुणेचें उतर ! उबे रावात !

लुचिलीयूस : तो आसा लागींच आनी आयला पिंडारूस

ब्रूतुस : आतां कितें लुचिलीयूस, कासियूस आसा लागीं ?
तुजे पासत, शुभेत्शा घेवन आपल्या धनयाच्यो.
(पिंडारुस ब्रुतुसाक पत्र दिता. ब्रूतुस पत्र वाचता. )

ब्रूटूस : कासियूसान शुभेत्शा धाडल्यात.
पिंडारुस, घडिल्ल्यो गजाली घडूंक नासल्यो जाल्यार बरें
आसलें,

अशें म्हाका दिसापाखातीर फावो तें कारण दिलां तुज्या धनयान;
ताचे भितर बदल जाल्ल्यान तशें जालां आसत,
किंवा ताच्या हाता सकल्या अधिकाऱ्याचे चुकेक लागून आसत. पूण तो लागीं आसल्यार
कितें घडलां तें म्हाका समजून घेवपाक येवपाचें.

पिंडारुस : म्हाका मातूय दुभाव ना.
म्हजो धनी भोवमान करपी, भोवमानेस्त
असो आसा, आनी तसोच तो दिसतलो.

ब्रूतुस : ते विशीं म्हाका दुभाव ना.
आतां तुका विचारतां लुचिलीयूस,
तांणें तुका कसो येवकार दिलो
हें समजून घेवपाची इत्सा आसा म्हाका.

लुचिलीयूस : आस्थेन आनी पूर्ण आदरान
पूण तातूंत इश्टागतीचे सलगीचो भाव नासलो,
किंवा नासलें मैत्रीच्या उलोवपांतलें मेकळेपण
जशें आदी आसतालें.

ब्रूतुस : गाढ इश्टागत अशी ओसरत गेल्याचें वर्णन तुवें केलें.
लुचिलीयूस, एक गजाल सदांच ध्यानांत दवर.
प्रेम जेन्ना दुबळें जावंक लागता, देंवते कळेचेर वता,
तेन्ना कृत्रिम उपचारांचो आधार घेवचो लागता.
सरळ साद्या प्रेमांत नासतात चलाख्यो, युक्त्यो.
मस्त्या घोड्या वरी आसतात पोकीं मनशां;
शूरतायेचो आव हाडटात, उश्णीं धमक दाखयतात,
पूण जेन्ना टांच मारता सवार फुडें वचपाक
तेन्ना मान सकल घालतात,
आनी हीं लबाड - कूचकामी घोडीं
कसवटणेच्या खिणावेळार हार खातात.
ताचें सैन्य येता काय हांगा?

लुचिलीयूस : आयज रातीं सार्डिसाक तळ ठोकपाचो तांचो बेत आसा.
सैन्या पयकीं घोडदळाचो मोठो भाग
कासियूसा वांगडा आयला.
(घोडयांच्या टापांचो आवाज.)

ब्रूतुस : आयकात, तो येवन पावला
भोवमानान ताका येवकार दिवपाक फुडें वचात.
(कासियूस आनी ताचे शिपायक प्रवेश करतात.)

कासियूस : उबे रावात!

ब्रूतुस : सादूर! उबे रावात! सांगा शब्द सगळे रांगेकः

पयलो सैनीक : सादूर! उबे रावात!

दुसरो सैनीक : सादूर! उबे रावात!

तिसरो सैनीक : सादूर! उबे रावात!

कासियूस : भारी मानेस्त भावा, तुवें म्हाका दुखयला.

ब्रूतुस : तुमीच कितें तें थारायात!
शत्रूंक लेगीत म्हज्या, हांवें केन्ना दुखयल्यात?
आनी नासल्यार, म्हज्या भावाक हांव कसो दुखयन?

कासियूस : ब्रूतुस ही तुजी शांत वृत्ती अन्यायाक तेंको दिता;
आनी जेन्ना तूं अन्याय करता-

ब्रूतुस : कासियूस, शांत जा! तुजें दुख्ख ल्हवू सांग.
हांव तुका वळखतां बरो.
हांगा आसात दोगांयचीं सैन्यां;
तांकां आमचो मोगच दिसपाक जाय,
तांचे मुखार आमी झगडचें न्हय. तांकां पयस धाड.
आनी मागीर म्हज्या तंबूंत येवन तूं तुजें दुख्ख मेकळें कर.
हांव तुजें म्हणणें आयकतां.

कासियूस : अधिकाऱ्यांक ओर्द दी
आमचें सैन्य हांगासून मात्शें पयस व्हरपाची.

ब्रूतुस : लुचिलीयूस, तूंय तशेंच कर.
आनी आमचीं उलोवणी सोंप ऽऽ मेरेन

कोणूच आमच्या तंबू लागीं येवचो ना.
लुचिलीयूस आनी तितीनियूस हांकां
तंबूच्या दाराचेर पारो करुं दी.
(ब्रूतुस आनी कासियूस सोडून हेर वतात.)

# अंक चवथो
# प्रवेश तिसरो

देखाव : सार्डिस हांगच्या ब्रूतुसच्या तंबूं बूंत (ब्रूतुस आनी कासियूस प्रवेश करतात.)

कासियूस : तुवें म्हाका दुखयला. कशें तें आतां तुका सांगतां;
सार्डिसच्या लोकां कडल्यान लांच घेतले खातीर
लुचियूस पेलाक तुवें दोशी धरला.
ताचे वतीन ताका भगसुची विनवणी करपी
हांवें तुका पत्रां धाडिल्लीं; कित्याक हांव ताका वळखतालों.
पूण म्हजीं पत्रां तुवें कडेक उडयलीं:

ब्रूतुस : हे विशीं म्हाका अशीं पत्रां बरोवन
तुवेंच तुजेर अन्याय केलो.

कासियूस : सध्याचे परिस्थितींत योग्य न्हय
प्रत्येक किरकोळ गुन्यांवाचेर टिका करप.

ब्रूतुस : कासियूस, स्पश्ट उलोवंचें पडटा म्हाका
तुजे हात हावरे आसात
असो आरोप तुजेर सध्या लोकच करतात,
आरोप आसा अधिकाऱ्यांचीं उंचेलीं पदां विकपाचो
नालायक मनशांक भांगराच्या मोबदल्यांत.

कासियूस : हांव हावऱ्या हातांचो? ब्रूतुस तूं आनी हें उलयता,
ना तर देवाच्यान थारपाचें.

तुजें उलोवणें अखेरचें सांगपाचें.

ब्रूतुस : हे लांचखोरीक कासियूसाच्या नांवाची प्रतिश्ठा लाभल्या.
आनी म्हणून शिक्षा लिपून रावल्या.

कासियूस : शिक्षा

ब्रूतुस : मार्च म्हयन्याची याद कर,
मार्चाचे पंदरा तारखेचो उगडास कर.
थोर ज्युलियूस चेजाराचें रगत व्हांवयलें त्या दिसा
न्याया खातीरच मूं?
कोणा एका खलपुरूसान ताच्या शरिराक स्पर्श केलो,
आनी ताका सुरी मारली न्यायाचो हेत मनांत नासतना?
जांणी ह्या संवसारांतल्या सर्व श्रेश्ठ मनशाक सुरी मारली
तांणी दिलो चोरांक तेंको हाचे पासत,
कितें आतां आमचे पयकीं एकटो,
आमी हे हीण लांचखोरीन आमचे हात भश्टीतले?
आनी मोठ्या मानाची, अधिकाराचीं पदां विकतले
हे मुठींत धरत अशा उणाक लाभा पासत?
असो रोमान जावंचे परस म्हाका मानतलें सुणो जावन
चंद्राकडे पळयत भुंकत बसप.

कासियूस : ब्रूतुस, तिडावं नाका म्हाका;
हांव तें सहन करचो ना. तुजी पायरी विसरता तूं
अधिकारांक म्हज्या वंय घालतना.
हांव आसा एक सैनीक, अणभवान तुजे परस चड कुशळ,
परिस्थिती हाताळपांत तुजे परस खांपो.

ब्रूतुस : अर्थ नाशिल्ली ही बडबड! तूं तसो न्हय, कासियूस.

कासियूस : हांव तसोच.

ब्रूतुस : हांव सांगता तूं तसो ना.

कासियूस : म्हाका अदीक तिडावं नाका. म्हजें भान वतलें.
स्वताच्या भल्याची काळजी घे
चड वाटेक वचूं नाका म्हज्या.

ब्रूतुस : आरे हलकटा! चलूंक लाग हांगासून.

कासियूस : ब्रूतुस हें उलयता? कशें शक्य आसा?

ब्रूतुस : म्हजें आयक. आतां म्हाका उलोवंकूच जाय.
हांवें तुजे शिमे भायरे तिडकी फुडें नमतें घेवंचें?
दोळे तटास करून पळोवपी पिशाक हांवें भियेवचें?

कासियूस : ए देवांनो! ए देवांनो! सोंसचें हांवें हें सगळें?

ब्रूतुस : हें सगळें? हय हाचे परस चड!
गर्विश्ठ काळीज तुजें फुटसर संतापून घे!
तूं कितलो तिडकता तें दाखय तुज्या बंद्यांक,
आनी तुज्या चाकरांक थरथरावन उडय.
हांव म्हज्या मता पासून फाटीं सरूं?
हांव तुका नियाळीत बसूं?
तुज्या संतापी सभावा फुडें हांव दिमी मारूं?
देवाच्यान सांगता, वीख तुज्या संतापाचें
तुकाच पचोवपाक जाय, जरी तें आसलें तुका फाळपी,
कित्याक आज पासून फुडें
हांव तुका वापरीन म्हजे मनरिझवणे खातीर,
म्हाका हांसवपा पासत, जेन्ना तूं दीर्घ द्वेशान तिडकशीत.

कासियूस : ही गजाल ह्या थराक पावची?

ब्रूतुस : तूं म्हणटा, तूं आसा चड बरो सैनीक.
तर मागीर म्हाका तशें दिसूं दी;
खरी करून दाखय तुजी बडाय,
आनी ताका लागून खोसच जातली म्हाका!
म्हजे बाबतींत विचारशीत जाल्यार
व्हडां कडल्यान शिकपाक म्हाका संतोश दिसता.

कासियूस : प्रत्येक गजालींत अन्याय करता तूं म्हजेर!
म्हजेर अन्याय करता तूं ब्रूतुस
चड अणभवी सैनीक अशें हांवें म्हणिल्लें.
चड बरो सैनीक अशें न्हय;

चड बरो अशें हांवें म्हणलें?

ब्रूतुस : म्हणलां आसल्यारय म्हाका पर्वा ना.

कासियूस : चेजार हयात आसतना, म्हाका असों तिडोवपाची ताची हिमंत नासली

ब्रूतुस : शांत जा, शांत!
तुजीय छाती नासली ताका तिडावपाची!

कासियूस : म्हजी छाती नासली!

ब्रूतुस : नासली.

कासियूस : कितें? ताका तिडावपाची म्हजी छाती नासली?

ब्रूतुस : जिवाच्या भंयान छाती नासली.

कासियूस : तूं म्हज्या मोगाचो अती फायदो घेवं नाका,
ना जाल्यार म्हजे हातसून अशें कृत्य घडत
जाका लागून हांव दुख्खी जातलों.

ब्रूतुस : दुख्ख दिसपा सारकेंच कर्तूब तूं करून बसला.
म्हाका भंय दिसना, कासियूस, तुज्या ह्या धमक्यांचें.
प्रामाणीकपणाचें घट्ट चिलखत आसा म्हजें,
ताका लागून तुज्यो धमक्यो वतात म्हज्या आंगा वयल्यान
वाऱ्याच्या निरुपद्रवी झुळकांवरी-
तांची दखल हांव घेना; हांवें तुका निरोप धाडिल्लो
तूं म्हाका थोडयो भांगराच्यो पिशव्यो धाड म्हणून,
जें तुवें आयकलेंना.
तुजे कडेन हांवें भांगर मागिल्लें, कित्याक
वायट मार्गान म्हाका पयसो उबारुंक येना!
देवाच्यान, एक वेळ हांव म्हज्या काळजाच्या कुडक्यांच्यो
रगताच्या थेंबांच्यो रुप्याच्यो म्होरो करीन,
पुणून हांव केन्नाच जुलमान पिळून घेंवचो ना.
गरीबधाट्या शेतकारांची घामाकश्टाची कमाय!
हांवें म्हज्या सैन्याचो पगार दिवपा पासत
तुज्या भांगराची हांवें केल्ली मागणी

जी तुवें नाकारली! कासियुसाक सोबलें हें?
कायूस कासियूसाक हीच जाप हांवें दिल्ली जाल्यार?
धातूचे क्षुल्लक कुडके लिपोवन आपल्या इश्टां पासून
कुलूप लावन बंद करून दवरपा इतलो
जर हो मार्कूस ब्रूतुस लोभी जालो,
आनी मार्कूस ब्रूतुसाचेर
कुडके कुडके करून उडयात ताचे.

कासियूस : भांगर दिवपाक हांवें ना म्हणूंक नासलें.

ब्रूतुस : तुवें दिना म्हणिल्लें.

कासियूस : मात पसून ना. तो मूर्ख मनीस आसलो
जाणें तुका असो म्हजो निरोप दिलो.
ब्रूतुसान विदारलें म्हजे काळीज.
इश्टान इश्टाचे दोश पोटांत घालपाक जाय.
पूण ब्रूतुस म्हजे दोश आसात ताचे परस वाडोवन सांगता.

ब्रूतुस : हांव तशें करचो ना.
जोंवेर ह्या दोशांचो प्रयोग तूं म्हजेर करिना.

कासियूस : म्हजेर तुजें प्रेम ना.

ब्रूतुस : म्हाका तुजे दोश मानवनात.

कासियूस : इश्टाची नदर केन्नाच असले दोश पळोवचीना,

ब्रूतुस : खूश मस्कऱ्यांची नदर हे दोश पळोवचीना
पर्वता इतलेय प्रचंड ते आसल्यार.

कासियूस : यो आन्तोनियूस आनी तरणाट्या ऑताविय़ू यो,
तुमी फकत कासियूसाचो सूड घेयात
कित्याक हो कासियूस संवसाराक विटला;
तो जाचो मोग करता, तो ताचो दुस्वास करता.
जाका ताणे भाव मानलो, तो ताका उवेखता,
बंद्या वरी तो धारेर धरता,
ताच्या सगल्या दोशांची निरखणी करता,
तांची नोंद करता आनी तांचो

अभ्यास करून ते तोंड पाठ करता
तोंडार ताच्या मोखपा खातीर!
कितलें बरें जातलें आसलें जर म्हजो जीव म्हाका
रडून म्हज्या दोळ्यांतसून मोखून मारपाक आयिल्लो?
हो म्हजो खंजीर आनी ही म्हजी उगडी छाती
जिचे भितर आसा म्हजें काळीज
गिरेस्त प्लुटोच्या भांडारा परस, मोलादीक भांगरा परस
आसशीत खरो तर घे हें म्हजें काळीज़.
हांव जाणे भांगर दिना म्हणलें,
तुका म्हजें काळीज दितां.
घाव घाल जसो तुवें चेजाराचेर घालो
कित्याक म्हाका खबर आसा
तुवें जेन्ना खर दुस्वास केलो ताचो
तेन्ना तुवें मोग केलो ताचो
जो मोग तुवें कासियूसचो केन्नाच करुंक नासलो.

ब्रूतुस : म्यानांत घाल तुजो खंजीर,
तुका जाय तेन्ना तूं रागार जा.
राग दाखोवपाची तुका मेकळीक आसा.
तुका जाय तें तूं कर.
कासियूस, म्हजे वरी कोंकराकडेन जमल्या तुजी जोडी,
राग ज्या कोंकराचो कुपातरा वरी आसा
तो बरोच घांसल्यार कुपातरांतसून कीट उडटा
आनी ती तात्काळ थंडावता.

कासियूस : दुख्ख आनी रगतांतली नश्टी तिडक हांणी पिडिल्लो
कासियूस
ब्रूतुसान हांसचें आनी मौज करची
हाचे खातीरच जितो आसा काय?

ब्रूतुस : हांव तसो उलयलों तेन्ना
म्हजी मनस्थिती खुबळिल्ली आसली.

कासियूस : तुवें हें कबूल केलें. म्हाका तुजो हात दी.
ब्रूतुस : आनी म्हजे काळीज लेगीत.
कासियूस : हे ब्रूतुस!
ब्रूतुस : कितें सांगचें आसा?
कासियूस : संतापी सभावाचो आवयचें दायज म्हजे आवयची देण.
जेन्ना म्हजें भान सुट्टा रागान
तेन्ना म्हजें वागणे सोंसपा इतलें
म्हजेर तुजें प्रेम ना.
ब्रूतुस : हय, कासियूस, आयज पासून मुखार
जेन्ना तूं ब्रूतुसाचेर खूप तिडकतलो
तेन्ना तुजी आवयच तिडकता ताचेर,
अशें समजून मनाचेर घेवचोना तुजें वागप.
(पड्डया फाटल्यान बोवाळ जाल्ल्याचो आवाज)
कवी : (पड्डया फाटल्यान) म्हाका सेनापतींक मेळपाक दियात.
कितें तरी झगडें सुरू जालां तांचे मदीं
अशा वेळार हें सारकें न्हय; तांणी एकटुकें आसचें
लुचियूस : (पड्डया फाटल्या) तुका ताका भेटपाक मेळचें ना.
कवी : (पड्डया फाटल्यान) मरणा शिवाय कोणूच म्हाका
आडावचो ना.
(लुचियूस प्रवेश करतात.)
कासियूस : आरे हें कितें चललां?
कवी : तुमचो सेनापतींचो आसूं धिक्कार
कितें चलयलां हें तुमी?
मोगान, इश्टागतीन जाय तुमी वागपाक.
चड पावसाळे पळयल्ल्यात हांवें, म्हाका कळटा अदीक बरें.
कासियूस : हा! हा! कितलीं फालतू यमकां
ह्या बनावटान घडयल्यांत
ब्रूतुस : चलूंक लाग हांगासून, फालतू, उद्धट मनशा,
वासिमॉर!

कासियूस : सोंस ब्रूतुस. ताका तशी सवंय आसा!
ब्रूतुस : सोंशीन हांव ताचें वागणें
ताका काळवेळ कळ्ळ्यार.
झुजाच्या अशा वेळार कितें उपेग
असल्या ह्या मुर्ख, थिल्लर यमक्याचो?
बाबारे, चलूंक लाग हांगासून
कासियूस : चलूंक लाग! वासिमॉर! लाग चलूंक
(कवी वता.)
ब्रूतुस : लुचिलीयूस, तितिनीयूस
सेनेच्या अधिकाऱ्यांक ओर्द दियात
आयज रातीं सेनेचो मुक्काम हांगा करपाक.
कासियूस : आनी तुमी मेसालाक वांगडा घेवन
परत हांगा येयात, ताबडतोब.
(लुसिलीयूस आनी तितिनीयूस वतात.)
ब्रूतुस : लुचियूस, सोन्याचें कॉप भरून हाड.
(लुचियूस वता.)
कासियूस : म्हाका दिसूंक नासलें तूं इतलो तिडकशीत!
ब्रूतुस : हांव खूबूच दुख्खांनी पिडलां.
कासियूस : अकस्मात आयिल्ल्या संकशटांक म्हत्व दिता तूं.
म्हणचे तूं तुज्या तत्त्वगिन्यानाचो उपेग करिना.
ब्रूतुस : कोणूच हाचे परस सोंशिना दुख्ख!
पोर्चिया हो संवसार सोडून गेली!
कासियूस : कितें? पोर्चिया?
ब्रूतुस : ती भायर पडली.
कासियूस : हांवें तुका तिडायलो हे परिस्थितींत
तरी हांव मरणांतल्यान कसो वांचलो?
असह्य आनी कळकळावपी अशी ही हानी
कसली पिडा जाली तिका.
ब्रूतुस : हांव घरा नाशिल्ल्यान अस्वस्थ जाल्ली ती

ऑताविय़ू आनी आन्तोनियूसच्या
सैन्यबळाची बातमी कळून ती दुख्खी जाल्ली
ही बातमी मरचे थोडो वेळ आदींच तिका कळ्ली
हें कळिल्ल्यान ती थतरवितर जाल्ली
आनी तिच्या सेवकाचे अस्वडीं
तिणे इंगळे भकले.

कासियूस : हाका लागून ती सोंपली?

ब्रूतुस : सामकें तशेंच जालें.

कासियूस : हे अमर्त्य देवांनो!
(सोरो आनी मेणवाती घेवन लुचियूस प्रवेश करता)

ब्रूतुस : तिचे विशीं आता चड उलोवं नाका.
लुचियूस कॉप भरुन दी, तातूंत हांव बुडयतां
आमचे मदली कोडसाणः (पियेतात.)

कासियूस : म्हजेंय काळीज आसा तानेल्लें,
कॉप उंचावन साऊद करचे खातीर
कॉप भरून दी, लुचियूस, भर तें रक ऽ मेरेन
ब्रूतुसाचो मोग म्हाका चड पियेवंक दिवचो ना.
(लुचियूस वता. तितिनीयूस आनी मेसाला प्रवेश करतात.)

ब्रूतुस : यो भितर सर तितिनीयूस,
तुकाय येवकार, सज्जन मेसाला.
आतां आमी ह्या मेणवातींच्या उजवाडांत बसूया
आनी थारावया कितें करप गरजेचें तें.

कासियूस : पोर्चिया, तूं हो संवसार सोडून गेली?

ब्रूतुस : कृपा कर. हें आनीक नाका.
प्रंचड सैन्य घेवन आमचेर चाल करून येतात
तरणाठे ऑताविय़ू आनी मार्कूस आन्तोनियूस
ते भायर सरल्यात फिलीपीचे दिकेन
अशें कळोवपी पत्रां आयल्यांत म्हाका

मेसाला : तशें कळोवपी पत्रां म्हाकाय आयल्ल्यांत.

ब्रूतुस : तातूंत कितें अदीक बरयलां?

मेसाला : देश विघातक कृत्यां खातीर कायदयाची राखण काडून घेवन
ऑताविय़ू, आन्तोनियूस आनी लेपिडूस हांणी
सेनेटाचे शंबर सभासद जिवेशीं मारले.

ब्रूतुस : आंकडे पत्रांतले आमच्या जुळनांत
म्हाका आयिल्ल्या पत्रांत म्हणलां
तांच्या हुकुमान सेनेटाच्या सत्तर सभासदांक जिवेशीं मारले
चिचेरो हो तांचे पयकीं एक आसलो.

मेसाला : चिचेरोक मारून उडयलो
ताची कायद्याची राखण काडून घेवन.
सायबा ब्रूतुस, तुमचे घरकान्नी कडसून पत्रां आयिल्लीं?

ब्रूतुस : ना, मेसाला.

मेसाला : तुमकां आयिल्ल्या पत्रांत तिचो उल्लेख आसलो?

ब्रूतुस : नासलो, मेसाला.

मेसाला : विचित्र दिसता हें!

ब्रूतुस : कित्या पासत विचारता तूं हें?
तुज्या पत्रांत तशें कितें आसलें?

मेसाला : नासलें, सायबा.

ब्रूतुस : हें पळय तू रोमाचो नागरीक खरें सांग म्हाका.

मेसाला : तर मागीर रोमाच्या नागरिका वरी आयक
हांव सांगतां तें सत
ती सोंपली हें निश्चीत आनी तीय विचित्र परिस्थितींत!

ब्रूतुस : मागीर तुका अखेरचो निरोप, पोर्चिया!
केन्ना तरी आमी सगलेच सोंपतले,
तिकाय केन्ना तरी मरण येवपाचेंच
असो जेन्ना हांव विचार करतां,
तेन्ना म्हाका धीर मेळटा सोंसपाक हें.

मेसाला : थोर मनशांनी अशींच सोंसपाक जाय
आपलीं व्हड दुख्खां!

कासियूस : हो सिद्धांत तुजे इतलोच हांवूय जाणा,
पण म्हज्या सभावांत ना अशी सोंसणिकाय.

ब्रूतुस : आतां आमी तटिल्ल्या कामां विशीं उलोवया
म्हाका तुमचें मत्त सांगात
आता आमी फिलिपी वटेन सवारी करप बरें जातलें.

कासियूस : तशें करप म्हाका हिताचें दिसना.

ब्रूतुस : कारण कितें ?

कासियूस : ताचें कारण अशें:
शत्रूनच आमकां सोदीत आयल्यार चड बरें ?
ताका लागून तांची रसद खर्चतली;
तांचें सैनीक थकतले;
तेच अशें आपलें नुकसान करून घेतले.
हाचे उरफाटे, आमी हांगा सुशेगाद आसात
विसव घेतिल्ले, तांचे आड झुजपाक ताजेतवाने.

ब्रूतुस : सुवात योग्य कारणांची गरज आसा तेन्ना,
अदीक योग्य कारणांनी घेवपाक जाय.
फिलीपी आनी सार्डिस हांचे मदले जनतेची
आपलेशीं आशिल्ली इश्टागत आसा अडेची
मदत दितले तांकां.
अश्या ह्या लोकांच्या वाठारांतल्यान आमचो शत्रू आयल्यार
हे लोक तांकां नवे सैनीक आनी रसद हाची पुरवण करतले;
ताका लागून शत्रूची शक्ती वाडटली.
हाचे उरफाटें, जर आमी शत्रूक फिलिपीक वचून गांठलो
तर हो फायदो तांकां मेळचोना.
आमी फुडें वतकच हे लोक फाटले फाटीं रावतले

कासियूस : मोगाळ भावा म्हजें आयक.

ब्रूतुस : माफ कर म्हाका. आनी एक गजाल मतींतदवर,
इश्टांची मदत आतां हाचे परस चड मेळची ना,
सैन्याचे संस्थेनय मर्याद गांठल्या

मोख गांठपाचो आमचो वेळ सामको लागीं पावला.
दर दिसा बळावता शत्रूची संख्या, तेंगशेर आसात आमी
हांगासून सकल निसरपच जावं येता.
मनशांच्या आयुष्यांत भरतेचों खीण येता
हे भरतेचेर सवार जाल्यार ती येसा कडेन व्हरता,
पूण ही वेळ शेणल्यार, आयुश्याचो प्रवास तांचो
शिरकता उथळ पाणयांत आनी संकश्टांत!
अशे हे भरतेचेर आमी चडल्यात
ही भरती फायद्याची आसा तोंवेर
तिचो फायदो घेवपाक जाय,
किंवा स्विकारपाक जाय कार्यनाश!

कासियूस : बरें आसा. तुजे इत्शे वरी जावं दी.
आमीयबी शत्रूक फिलिपीक गांठ्ठांत.

ब्रूतुस : उलयतां उलयतां रात बरीच गाढ जाली
गात्रांच्यो गरजो मानच्योच पडटात,
ज्यो आमी भागोवया थोडो सुसेग घेवन
आनीक कितें उलोवपाचें ना न्हय?

कासियूस : अदीक काय ना. बरी रात तुका.
फांतोडेर बेगीन उठुया आनी भायर सरुया.

ब्रूतुस : लुचियूस!
(लुचियूस प्रवेश करता.) म्हजो झगो.
(लुचियूस वता.) बरी रात, तितिनीयूस,
मोगाळ कासियूस, बरी रात आनी बरो विसव.

कासियूस : आरे म्हज्या मोगाळ भावा, रातीचो आरंभ वायट जालो
आमचे मदीं अशें वितुश्ट परतें ना येवं, ब्रूतुस.

ब्रूतुस : सगळें बरें चल्लां.

कासियूस : बरी रात, म्हाजना.

ब्रूतुस : शूभ रात, प्रिय भावा.

तितिनीयूस-मेसालाः शूभ रात, सायबा ब्रूतूस.

ब्रूतुस : हांव सगळ्यांचो निरोप घेतां.
(कासियूस, तितिनीयूस, मेसाला वतात. लुसियूस झगो घेवन येता.)
म्हजो झगो दी. तुजें रेबेक खंय आसा?

लुचियूस : हांगा तंबूंत आसा.

ब्रूतुस : आरे, तूं सामको झेमेल्ले वरी उलयता.
गरीब बाबडो, हांव तुका दोश दिना, खूब वेळ जागला तूं,
क्लावदियूसाक आनी खंयच्याय सेवकाक आपय.
म्हज्या तंबूतल्या उश्यांचेर हांव तांकां न्हिदपाक सांगतलों.

लुचियूस : वाररो ऽऽ, क्लावदियूस ऽऽ
(वाररो आनी क्लावदियूस प्रवेश करतात.)

वाररो : म्हाका आपयला धनया?

ब्रूतुस : म्हजी तुमकां विनंती आसा. बाबांनो,
आयज, तुमी म्हज्या तंबूंत न्हिदात.
घडये हांव तुमकां मागीर उठयन,
निरोप घेवन म्हजो मेवणो, कासियूसागेर वचपा खातीर.

वाररो : तुमचे मर्जे प्रमाणें तुमी करचें. आमी आमच्या
कामां पासत रात भर जागे रावं.

ब्रूतुस : म्हाका तशें नाका, सज्जनांनो,
आतां आड पडात तुमी.
(वाररो आनी क्लावदियूस आड पडटात.)
हें पळय लुचियूस,
जें पुस्तक हांव इतलो वेळ सोदीं,

लुचियूस : तें तुमी झग्याच्या बोल्सांतच दवरिल्लें.
हाची म्हाका खात्री आसली धनया.

ब्रूतुस : बऱ्या भुरग्या, म्हजें वागणें सोंस,
हांव सामको विसराळू जालां.
लकणेन झेमिल्ले तुजे दोळे मात्शे उगडे दवरून
तूं तुज्या रेबेकाचेर, वाजयशीत एकाद्रें गीत?

लुचियूस : हय धनया, जशी तुमची इत्शा.

ब्रूतुस : तशी म्हजी इत्सा आसा, म्हज्या पोरा.
हांव तुका खूप पिडटां,
पण तूं सदांच कामाक तयार .

लुचियूस : धनया, ती तर म्हजी लागणूकच आसा.

ब्रूतुस : हांवें तुजे शक्ती पेलें काम
तुका सांगपाक जायना.
कळटा म्हाका, तुज्या तरण्या रगताक
सुसेगाची गरज आसा.

लुचियूस : म्हजी न्हीद आदींच जाल्या धनया.

ब्रूतुस : तें बरें केलें तुवें. पूण तू परत एक न्हीद काड.
हांव तुका चड वेळ जागवचोना.
हांव जितो आसल्यार तुजें कल्याण करीन.
(लूचियूस रेबेक वाजयत गीत म्हणटा.)
ही सुरावट झेमेल्ल्या, हे खुनशी न्हिदे.
तुजे खातीर गावपी ह्या म्हज्या पोराचेर
तूं तुजी चड गदा धरपी हात दवरला व्हय?
म्हज्या गुणी पोरा, शूभ रात,
तुका जागोवन हांव अदीक त्रास दिना
पूण तुका लकणी आयल्यार, फोडशीत तुजें रेबेक.
हांव तें तुवें कडसून घेतां.
आतां म्हज्या गुणी पोरा, बरी रात.
म्हाका नीट पळोवं दी, नीट पळोवं दी
हेंच पान आसा काय कितें, जें हांव वाचतालों,
काय तें परतलें? हय, मेळ्ळें, मेळ्ळें, हेंच तें पान!
(चेजाराजें भूत प्रवेश करता.)
कितली विचित्र जळटा ही मेणवात!
ऑ ऽऽ! कोण येता?
म्हाका दिसता हो म्हज्या दोळ्यांचोच दोश.

ताका लागून हे भयांकृत आकृतायेचो भास जाता !
ती म्हजे सरींच येता ! तूं खरी आसा व्हय ?
तूं कोण देव आसा ? काय कोण देवदूत ?
जाणें म्हजें गोठयलां रगत, केंस ताठ उबे केल्यात !
सांग म्हाका, तूं कोण आसा ?

भूत : ब्रूतुस हांव आसा तुजो दुश्टात्मो !

ब्रूतुस : तूं हांगा कित्याक आयला ?

भूत : हांव तुका फिलिपीक दिसतलो हें सांगपाक.

ब्रूतुस : म्हणजे तू म्हाका परत मेळटलो ?

भूत : हय फिलिपीक.

ब्रूतुस : बरें आसा, हांव तुका फिलिपीक मेळटां, मागीर.
(भूत ना जाता.)
तूं ना जाल्ल्या खिणाक म्हज्या जिवांत जीव आयलो !
दुश्टात्म्या, हांव तुजे कडेन मागीर अदीक उलयन.
आरे पोरा लुचियूस, वारुरो, क्लावडियूस, भावांनो जागे जायात. क्लावदियूस !

लुचियूस : रेबेकाच्यो तारो बेसूर वाजतात. धनया.

ब्रूतुस : आपूण रेबेक वाजयतां, अशेंच तुका आजून दिसता.
लुचियूस, आरे, जागो जा.

लुचियूस : धनया !

ब्रूतुस : तूं न्हिदेंत मोठ्यान आड्डलो ? लुचियूस, तूं सपनेलो ?.

लुचियूस : धनया, हांव नकळं, हांव न्हिदेंत आड्डलां तें.

ब्रूतुस : हय तूं आड्डलो. तुवें कितें पळयले.

लुचियूस : कांयच ना, धनया.

ब्रूतुस : मागीर, तूं पर्थून न्हिदूंक वच.
आरे क्लावदियूस, आरे वाररो, आरे उठात !

वाररो : कितें ऑर्द, धनया ?

ब्रूतुस : तुमी न्हिदेंत कित्याक आड्डले ?

वाररो - क्लादियूस : धनया, आमी आड्डले ?

ब्रूतुस : हय, तुमी कितें पळयलें?

वाररो : ना धनया, आमी कांयच पळोवंक ना.

क्लादियूस : हांवेंय, कायंच पळोवंक ना, धनया.

ब्रूतुस : वचात, भाव कासियूसाक सांगात म्हजो सलाम.
ताका सांगातः सैन्य घेवन तूं आमचे फुडें वच,
आमी फाटल्यान येतातच.

वाररो- क्लादियूस : जशी तुमची ऑर्द, धनया.



## अंक पांचवो
## प्रवेश पयलो

देखावः फिलितींतलें मळ
(ऑताविय़ू आनी आन्तोनियूस आपापल्या सैन्या सयत प्रवेश करतात.)

ऑताविय़ू : बरें जालें आन्तोनी. आमकां जाय तशें घडलें मरे?
तुवें म्हणिल्लें, शत्रू हांगा मेरेन येवचो ना.
दोंगुल्ल्यांचेर आनी उंचायेच्या वाठारांतच तो पावतलो.
पूण तशें जाल्लें दिसना. शत्रूचें सैन्य आमचे लागीं पावलां.
आमकां तें फिलिपीक गांठ्ठलें अशें दिसता.
आमी तांकां तें करपाक लावंचे आदींच
तांणी हो निर्णय घेतिल्लो दिसता.

आन्तोनियूस : हट्, हांव तांच्या मनांतलें वळखता.
जाणां हांव ते कित्याक अशें करतात ते.
हेर जायतीं ठिकाणां तांकां सुरक्षीत आसलीं,
पूण ते भंयातल्यान जल्मल्ले धिटायेन घुरी घालूंक येतात.
तांकां दिसता हो असो देखावो केल्ल्यान.
ते शूर आशिल्ल्याचें आमकां पट्टलें .पूण तें खरें न्हय.

(दूत प्रवेश करतात.)

दूत : सेनापतींनो, सज्ज रावात, शत्रू येता. बळाचें प्रचंड प्रदर्शन करीत
उबता तांचें झुजाचें रक्तवर्णी निशाण.
रोखडींच आमी पावलां उखलपाक जाय.

आन्तोनियूस : ऑताविय़ू, तूं तुजें सैन्य घे
सुलूस लावंक दी नासतना मैदानाचे दावे वटेन.

ऑताविय़ू : हांव म्हजें सैन्य घेतां उजवें वटेन, तूं वच दावे वटेन.

आन्तोनियूस : आकांताच्या वेळार तूं म्हजे आड कित्याक वता?

ऑताविय़ू : हांव तुजे आड ना, पूण हांव तशें करतलों. (वता नगाऱ्यांचो आवाज. ब्रूतुस, कासियूस आपल्या सैन्यासयत लुसिलूस, तितीनियूस, हे प्रवेश करतात.)

ब्रूतुस : ते उबे आसात.
आमचे कडेन उलोवणी[1] करपाची[1] आसात तांकां.

कासियूस : तितीनियूस, तूं हांगाच ठाण मारून राव.
फुडें वचून आमी उलोवणी करून येतात.

ऑताविय़ू : मार्कूस आन्तोनियूस, दिवया आमी युद्धाचो इशारो?

आन्तोनियूस : ना ऑताविय़ू, तांणी हल्लो करतकच जाप दिवया.
फुडें वच. सेनापतींची उलोवणीं जावंची आसात.

ऑताविय़ू : (सेनाधिकाऱ्यांक) इशारो मेळ ऽ ऽ मेरेन हालूं नाकात.

ब्रूतुस : आदीं उतर, मागीर घाव. अशेंच न्हय, देशभावांनो.

ऑताविय़ू : उतरांचेर आमचें चड प्रेम आसा अशें न्हय
जशें तुजें आसा.

ब्रूतुस : ऑताविय़ू, दुश्ट घावा परस, बरीं बरीं उतरां!

आन्तोनियूस : नश्टे घाव घालतना, ब्रूतुस. तूं उलयता बरीं उतरां;
हाका गवाय चेजाराच्या काळजाचेर तुजो घाव!
तो घाव घालतना तूं आड्‌डलो:
"तूं आयुश्यवंत जा. तुजें कल्याण जावं चेजार."

कासियूस : आन्तोनियूस, घाव घालपी तुजी तरा

आजून कोणाक कळूंक ना.
पूण तुजीं उतरां म्हणचे हायब्ला पर्वता वेल्या
म्होंवा मुसांकय लुटपी, आनी तांकां दवरपी म्होंवाविणे.

आन्तोनियूस : आनी डंख लेगीत, खरें मूं?

ब्रूतुस : हय, आवाज लेगीत.
कित्याक, तांचें गुणगुणपूय तुवें बंद केलां, आन्तोनियूस.
आतांय तूं डंख करचे पयलीं
भारी हुशारेन धमकावण्यो दिता!

आन्तोनियूस : दुश्टांनो, तेंय तुमी करूंक ना!
एका फाटल्यान एक तुमचे पाडे खंजीर
तोपतना चेजाराच्या शरिरांत,
माकडांवरी दांत विचकायत हांसल्यात,
सुण्या वरी शेंपडयो हालयल्यो
बंद्यां वरी तुमी चेजाराच्या पावलांचें उमे घेवपाक
खाला बागवल्यात! त्या वेळार नश्टो कासका,
एकाद्रया सुण्या वरी ताचे फाटसून आयलो,
आनी ताणे चेजाराचे मानेचेर घाव घालो.
आरे तुमी तोंडपुजे!

कासियूस : आमी तोंडपुजे? ब्रूतुस तूंच तुका ओब्रिगाद म्हण.
हाची ही जीब आमचो आयज असो अपमान करची नाशिल्ली
तुवें कासियूसचें म्हणणें आदी मानिल्लें जाल्यार.

ऑतावियू : चला, चला, मुद्याचेर येयात,
वाद घालून आमी हुमेन भिजले, कोणाचें खरें हें थारावपाक
रगतान आमी भिजतले?
ही पळय, कटवाल्यां आड हांवें काडली भायर म्हजी तरसाद;
ही तरसाद म्यान केन्ना जातली अशें तुमकां दिसता?
केन्नाच ना, पुराय सूड घेतले बगर
चेजाराच्या तेत्तीस घाव्यांचो,
किंवा जोंवेर दुसरो चेजार

विस्वासघातक्या कटवाल्यांच्या खंजिरांचो
फुडलो बळी जाय ना!

ब्रूतुस : ऑताविय़ू, विस्वास घातक्यां कडल्यान तुका मरण येवंचे ना.
तुजे वांगडा हाडले नात विस्वास घातकी जाल्यार.

ऑताविय़ू : तीच म्हजी आशा आसा
ब्रूतुसाचे तरसादीन मरण येवपाक
म्हजो जल्म जावंक ना.

ब्रूतूस : आरे, तुजे उच्च कुळयेंत तुवें जल्म घेतला आसल्यार,
तरणाटया मनशा, तुका हाचे परस अदीक भोवमानाचें
मरण मेळचें ना.

कासियूस : मूर्ख शाळेंतलो पोरांटो तूं,
असलो भोवमान फावो नाशिल्लो
चैनी नाटक्याशीं हात मेळोवणी करपी.

आन्तोनियूस : म्हातारो कासियूस आजुनूय तसोच.

ऑताविय़ू : चल, आमी वचुया, विश्वासघातक्यांनो,
झुजाचें आव्हान मोखतात आमी तुमच्या दाडवणांचेर,
आयज झुजपाची हिंमत आसल्यार
येयात मळाचेर, ना जाल्यार खुमखुमी येतली तेन्ना येयात.
(ऑताविय़ू आनी आन्तोनियूस सैन्यासयत वतात.)

कासियूस : मागीर, आतां येवं दी सांवार. खवदळूं दी ल्हारां,
तातूंतल्यान आमचें तारूं मार्गी लागूं,

ब्रूतुस : आरे लिचिलियूस, दोन उतरां उलोवंची आसात तुजेशीं.

लुचिलियुस : बरें आसा सायबा.
(ब्रूतुस लुचिलियूसाक कडेन व्हरून उलयता.)

कासियूस : मेसाला!

मेसाला : म्हजो सेनापती कितें म्हणटा?

कासियूस : मेसाला, आयज म्हजो वाडदीस,
होच तो दीस, कासियूसच्या जल्माचो
तुजो हात म्हज्या हातांत दी, मेसाला.

गवाय राव तूं हे गजालीक, मना आड म्हज्या,
म्हाका पोम्पे प्रमाणेंच हे एके लडायेचेर,
पणाक लावंची लागता स्वतंत्रताय आमची!
तुका खबर आसा, म्हजो घट्ट भावार्थ आसलो
एपिक्युरीअस आनी ताच्या तत्वगिन्यानाचेर,
पूण आतां म्हजें मन बदललां.
मात्सो विस्वास बसपाक लागला म्हजो
भविश्य सुचोवपी घडणुकांचेर
सार्डिस सावन चाल करून येतना
दोन मोटे गिध उडत आयले
आनी बसले आमच्या निशाणाचेर,
सैनिकांच्या हातांतलें अन्न ते बकाबका भकपाक लागले,
फिलिपी मेरेन ते आमचे वांगडा आसले.
मात, आयज सकाळीं ते पयस उडून गेले
आनी तांचे बदला डोमकावळे, कावळे आनी गिधां
तकलेर घिरटयो घालीत पळोवपाक लागले,
मरपाक तेंकिल्ल्या आमचे कडेन
आमी तांचे रोगट भक्ष्य आशिल्ले वरी.
मरण सुचोवपी तांच्यो सावळ्यो पांखे जावन पसरल्यो
जांचे सकला आमचें सैन्य मरपाचे तयारेंत आसा.

मेसाला : हाचेर विश्वास ना.

कासियूस : म्हजोय पूर्ण विश्वास ना,
कित्याक हांवें मनाचे धिटायेन निश्चय केला
धिरान तोंड दिवपाचो संकश्टांक सगळ्या.
(उलोवणें सोंपोवन लिचिलीयूसाक घेवन ब्रूतुस येता.)

ब्रूतुस : तेन्ना लुचिलियूस, इतलेंच?

कासियूस : भारी थोर ब्रूतुस, शांततायेच्या काळांतले इश्ट आमी.
जाण्टे जाय मेरेन जियेवचें हे पासत
देव आमचेर कृपा करुं!

पूण ही मानवी जीण, आशिल्ल्यान सदांच अनिश्चीत,
वायटांत वायट जर कितें घडत जाल्यार.
आमी कितें करचें हाचो विचार करूया.
हें झूज आमी हारल्यार, एकमेकां कडेन उलोवंचेलो हो
निमाणो वेळ आसतलो.
अशें परिस्थितींत तूं कितें करशी?

ब्रूतुस : जें तत्त्वगिन्यान मानिल्ल्यान
कातोक हांवें दोश दिलो ताचे आत्महत्त्ये विशीं,
त्या तत्त्वगिन्याना प्रमाणें, कशें तें नकळ,
म्हाका भारी भेजूडपणाचे आनी निंद्य दिसता
आयुश्याची दोरी तोडप भविश्याच्या भंयान.
खालचो संवसार ज्यो चलयतात दैवी शक्ती
त्यो जी नियती हाडटली म्हज्या वांट्याक
ती सोंसचे खातीर हांव म्हज्या धिरान तयार रावन.

कासियूस : मागीर आमी हें झूज हारल्यार.
रोमा शाराच्या रस्त्यांवेल्या, पुरसांवान तुका व्हरतले
हाची खोस जातली न्हय, तुका?

ब्रूतुस : ना कासियूस, ना! कुळवंत रोमान गृहस्था,
रोमाच्या रस्त्यां वेल्यान बंदी म्हणून
ब्रूतुसाक केन्ना व्हरतले हो विचारय तूं करूं नाका.
खूब मानी आसा ब्रूतुसाचें मन!
पंधरा मार्च ह्या दिसा जें कार्य सुरू जाल्लें
तें मात आयज पूर्ण जावपाक जाय.
आमी परत मेळत काय ना हें हांव नकळ,
म्हणुनच घे आतां कासियूस निरोप
परत मेळ्ळ्यार हांसत मेळया.
तशें नासल्यार हीच भेट खोशेची म्हणया!

कासियूस : अखेरचो निरोप, सामको अखेरचो निरोप, ब्रूतुस.!
आमी परत मेळ्ळ्यार खरेंच हांसया आमी.

मेळ्ळेनांत तर हें खरें: ही भेट खोशेची आसली.

ब्रूतुस : चल तर मागीर. फुडें वच.
शेवट आयच्या दिसाचो कितें जातलो
हें जर मनशाक आदीं कळ्ळ्यार कितलें बरें जायत?
पूण दीस सोंपतलो इतलें कळपय पुरोशें आसा.
कित्याक शेवट कितें तें कळटलेंच!
चल आतां, आमी वचुया. (वतात.)



# अंक पांचवो
## प्रवेश दुसरो

दृश्य : फिलिपींतलें झुजा मळ
(तुतान्यांचो आवाज. ब्रूतुस आनी मेसाला प्रवेश करतात.)

ब्रूतूस : नेटाय धांवडाय घोडो, मेसाला, नेटान धांवडाय.
पेले वटेनचे कडेच्या सैन्याक हुकुमाचे कागद व्हरून दी.
तुतान्यो मोठ्यान वाजतात.)
अचकीत नेटान हल्लो करात अशें तांकां सांग.
ऑताविय़ूचें सैन्य फाटीं सरता तें दिसता म्हाका.
अकस्मात केल्ल्या हल्ल्यान ते मार खातले.
धांवडाय घोडो नेटान, मेसाला, नेटान धांवडाय.
पेले वटेनचे कडेच्या सैन्याक
हुकूमाचे कागद व्हरून दी.
(तुतान्यो मोठ्यान वाजतात.)
अचकीत नेटान हल्लो करात अशें तांकां सांग.
ऑताविय़ूचें सैन्य फाटीं सरता तें दिसता म्हाका.
अकस्मात केल्ल्या हल्ल्यान ते मार खातले.
धांवडाय घोडो नेटान, मेसाला, नेटान धांवडाय
अचानक हल्लो चडयात सगळे दोंगुल्ले वयल्यान. (वतात.)

# अंक पांचवो
# प्रवेश तिसरो

देखाव : फिलिपीच्या झुजामळा वेली वेगळी बाजू.)
(तुताऱ्यांचे आवाज. कासियूस आनी तितीनियूस प्रवेश करतात.)

कासियूस : आरे पळय, तितीनियूस, आरे पळय.
आमचेच हे सैनीक कशे पळटात हरामखोर!
निशाण धरपी म्हजो सैनीक
फाट दाखोवन पळून वतालो,
जीव घेतलो हांवें त्या भेजुडाचो.
आनी ताच्या हातांतलें निशाण घेतलें हांवें.

तितीनियूस : आगा, कासियूस, मात्शी ताकतीक केली ब्रूतुसान
झुजाक आरंभ करपाची.
ऑतावियूचेर चडाय करपाची
मात्शी संधी दिसली त्या खिणाक
ब्रूतुसान हुतहुतेपणान ती घेतली
लुटालूट करपाक लागल्यात ताचे सैनीक
आनी आमकां घेरल्यात आन्तोनीच्या सैन्यान.
(पिंडारूस प्रवेश करता.)

पिंडारुस : माघार घेवन पळात, स्वाम्यांनो. फाटीं सरून पळात.
स्वाम्यांनो. मार्कूस आन्तोनी तुमचे छावणेंत घुसता
ताबडतोब पळात, कासियूस स्वाम्यांनो, पयस पळून वचात.

कासियूस : ती दोंगुल्ली खूबच पयस आसा
पळय, पळय, तितीनियूस, तो जो उज्याजाळ. म्हाका दिसता.
तो आमच्या छावण्यां भितर लागला कितें?

तितीनियूस : हय, त्यो आमचोच छावण्यो, स्वाम्यांनो.

कासियूस : तितीनियूस, तुजें म्हजेर प्रेम आसल्यार

म्हज्या घोड्याचेर सवार जा, नेटान टांच मारून वच,
पेले वटेन दिसपी सैन्य पळोवन तसोच परत यो,
तें सैन्य कोणाचें ? शत्रूंचे काय इश्टांचें ?
हें म्हाका कळ्ळयार म्हाका हुस्को जावंचो ना.

तितीनियूस : मनांत विचार येता तितले म्हणसर हांव वचून येतां.
(वता.)

कासियूस : वच, पिंडारूस, चडून वच दोंगुल्लेचेर,
म्हजी दृष्टी मंद आसा कायमचीच,
तितीनियूसाक नीट पळय
आनी तुकां झुजामळार कितें दिसता तें सांग.
(पिंडारूस वता.)
आयच्या दिसा जल्मलो हांव, पयलो श्वास घेतलो.
आयला आतां असो वेळ,
जंय हांवें सुरवात केल्ली थंयच म्हजी अखेर जावंची.
आयुश्यान म्हज्या आपलें एक वर्तुळ पुर्ण केलां !
कितें रे पिंडारूस, कितें खबर आसा ?
(पिंडारूस दोंगुल्ले वयल्यान.)

पिंडारूस : आगा, म्हज्या स्वाम्यांनो !

कासियूस : कितें खबर ?

पिंडारूस : तितीनियूसाक रेवडायला घोडेसवारांनी,
घोड्याक टांच मारून सुटकेचो तो यत्न करता,
आतां तांणी सामको घेरला ताका;
आतां, तितीनियूस !
तांचे पयकीं कांय जाण घोड्यां वेल्यान देंवले,
आरे, तोय देंवलों, तांणी ताका धरलो.
(घोशणांचे आवाज.)
आयकात, ते खोशेन घोशणां दितात.

कासियूस : दोंगुल्ले वेल्यान सकल देंव,
आनीक कांय पळोवं नाका,

आरे, भेजूड आसां हांव, इतलीं वर्सां जियेला.
म्हज्या दोळयां मुखार पळोवपाक,
म्हजो सगळ्यांत बरो मित्र शत्रून धरिल्लो.
(पिंडारूस प्रवेश करता.)
हांगा यो पिंडारूस. पार्थिआचे लढायेंत तुका हांवे कैद केल्लो,
तेन्ना तुका जीवदान दितना
तुजे कडल्यान हांवें उतर घेतिल्लें,
हांव जें सांगन तें तूं करतलो म्हणून.
तें तुका आतां करचें पडटलें.
यो हांगा, उतराक जाग आपल्या..
आतां तूं बंदेपणांतल्यान मेकळो जा,
आनी ही उत्तम तरसाद,
जी चेजाराच्या पोटांत घुशिल्ली,
ती तूं म्हज्या काळजांत रोम.
मात पसून राव नाका.
ही तरसाद - धर तिची मूठ हातांत
आनी हें अशें, हांवें तोंड धांकून घेतकच,
तूं हे तरसादीक तिचो मार्ग दाखय.
(पिंडारूस कासियूसचे छातयेंत तरसाद रोंमता.)
चेजार, तुजे हत्येचो सूड घेतलो सामके हेंच तरसादीन,
जिणे तुजो जीव घेतिल्लो.
(मरता.)

पिंडारूस : म्हणचे हांव आतां स्वतंत्र जालों,
हांव मुक्त जावंक नासल्यार धिटाय करतलों आसलों
म्हजे इत्से प्रमाणें वागपाची.
आगा कासियूस, आतां वतलो पिंडारूस
ह्या देशा पासून पयस,
जंय रोमानांचे दिश्टीकय तो केन्नाच पडचो ना. (वता.)
(तितीनियूस मेसाला वांगडा प्रवेश करता.)

मेसाला : तितीनियूस ही फकत अदला बदल म्हणपाची,
किल्याक ब्रूतुसाच्या सैन्यान ऑतावियूच्या सैन्याक,
आनी कासियूसच्या सैन्याक आन्तोनीन हारयलें.

तितीनियूस : ह्यो बातम्यो आयकून कासियूसाक संतोश जातलो.

मेसाला : तूं ताचो खंय निरोप घेतलो ?

तितीनियूस : हे दोंगुल्लेचेर, सामकें निर्शेल्लें मन ताचें,
ताचो बंदो पिंडारूस ताचे वांगडां आसलो.

मेसाला : भूंयीं थंय पडला तो कासियूस तर न्हय ?

तितीनियूस : तोच आसा पडिल्लो, पूण जितो न्हय. हाय रे देवा !

मेसाला : तोच आसा ?

तितीनियूस : तोच आसा न्हय, तो आसलो मेसाला.
कासियूस आतां जितो ना. हे अस्तमत्या सुर्या,
तूं जरी सांजेर अस्तमतलो,
रक्तवर्णी किर्णां सयत आपल्या
तसोच ह्या तांबड्यागुंज रगता सयत
कासियूसचो दीस अस्तमलो.
अस्ताक गेला रोमाचो सुर्या. आमचो दीस सोंपला;
आतां कुपां उबून वतली, दंवाची थंडाय पडटली,
संकश्टां येतलीं, पुरुशार्थ आमचो सोंपलो.
आपलेर सोंपयल्ल्या कार्यांत, आपूण यश जोडटलों
असो विश्वास ताका नाशिल्ल्यान हें कर्तुब घडलें.

मेसाला : दुभाव हातांत घेल्लिया कार्या विशीं
ताका लागून घडलें हें कृत्य !
हे दुस्वाशी अपेसा, निर्शेणेच्या बाळका,
मनशांच्या विश्वासू मनाक
तुवें कित्याक दाखयल्यो अस्तित्वांत नाशिल्ल्यो गजाली ?
हे प्रमादा, तुजो गंर्भसंभव जरी बेगीन जाता आसलों,
तरी तुजो जल्म केन्नाच सूख दिणो आसना;
जल्माक घालपी आवयचोच तूं बळी घेता.

तितीनियूस : कितें पिंडारूस ? तूं खंय आसा पिंडारूस ?

मेसाला : ताचो सोद घे, तितीनियूस.
तोंवेर हांव वचून मेळटां ब्रूतूसाक.
आनी ही बातमी ताच्या कानांत रोंमतां.
रोंमतां अशें हांवें म्हणलें कित्याक वीख लायिल्लें टोंक
तरसादीचें किंवा बाणाचें कानांत रोंमप
आनी आमी पळयल्ले हे घडणुकेची बातमी कानांत रोंमप
ह्यो दोनय गजाली ब्रूतुसाच्या कानांक
सारक्योच येवकार दिवपा सारक्यो थारतल्यो

तितीनियूस : मेसाला, तूं ताकतिकेन वच,
ते मेरेन हांव पिंडारूसचो सोद घेतां.
(मेसाला वता.)
तुवें म्हाका थंय कित्याक धाडलो, आगा शूर कासियूसा.
हांव तुज्या इश्टांक मेळ्ळो ना व्हय ?
आनी तांणी माथ्याचेर तुज्या
जैताचो मुकूट दवरलोना व्हय ?
तुवें तांचे जयघोश आयकलेनांत व्हय ?
आ रे रे ! तुवें प्रत्येक गजालीचो चुकीचो अर्थ लायलो.
पूण राव, हो फुलांचो हार तुज्या माथ्यार घाल
तो तुका दिवपाक म्हाका ब्रूतुसान सांगलां,
हांव आतां ताची आज्ञा पाळटां. ब्रूतुस, बेगीन यो !
आनी हांव कायूस कासियूसाक कितलो मानतालों पळय.
हे देवांनो, म्हाका भगसात. ही आसा रोमानांची परंपरा,
यो कासियूसचे तरसादे, तूं यो
आनी ह्या तितीनियूसच्या काळजाचो थाव घे.
(तरसाद आपणांक तोपून घेता.)
(तुताऱ्यांचो आवाज. ब्रूतुस, मेसाला, तरणाटो कातो,
स्त्रातो, वॉल्युम्नियस आनी लुचिलूस प्रवेश करतात.)

ब्रूतुस : खंय, खंय आसा ताचें मडें, मेसाला ?

मेसाला : हें पळय, पेल्यान. कुशीक; तितीनियूस दुख्ख करता.

ब्रूतुस : पूण तितीनियूसचें तोंड तर वयर आसा.

कातो : तो सोंपलो.

ब्रूतुस : हे ज्युलियूस चेजार ! अजून तूं आसा बळिश्ट,
तुजो आत्मो सरभोंवतणी भोंवता
आनी आमच्योच तरसादी
आमच्याच फावो तश्यो आंतकड्यांत रोमता.
(तुताऱ्यांचे आवाज.)

कातो : शूर तितीसियूस,
पळय, तांणें जैतांचो मुकूट
कासियूसच्या माथ्याचेर दवरला.

ब्रूतुस : हांची योग्यताय आशिल्ले दोन तरी रोमान
आयज जिवंत आसात व्हय?
हे अखेरच्या श्रेश्ठ रोमानांनो
हांव तुमचो निरोप घेतां. तुमचे लायकेचे दोग मनीस
रोमां मर्दी परते जल्मतले हें अशक्य.
इश्टांनो, तुमी म्हाका दुकां गळयतना पळयतले
ताचे परस अदीक दुकां हांव ह्या मेल्ल्याचें देणें लागतां.
ते खातीर हांव नक्कीच वेळ काडीन;
चला तर, आतां हें मडें थासोसाक पावयात
ताचो इन्तेर आमचे छावणेंत जावपाक जायना,
कित्याक तो पळयतना आमच्या जिवाचे उतळताप जातले.
लुचिलियूस यो, तूंय यो तरणाट्या कातो,
झुजामैदानाचेर आमी चाल करुया
लाबियो आनी फ्लावियो,
सैन्याक फुडें वचपाचो हुकूम दियात.
आतां तीन वरां जालीं, आनी रोमानांनो,
रात जावंचे आदीं हे दुसरे लडायेंत
कसाक लावया आमी आमचें भाग्य (वतात.)

# अंक पांचवो
## प्रवेश चवथो

देखाव : फिलीपी हांगासरच्या झुजामळाची वेगळी वट.
(एकामेकां कडेन दोन पक्षांचे झुजपी सैनीक
प्रवेश करतात. तांचे फाटल्यान ब्रूतुस, तरणाटो
कातो, लुचिलियूस आनी फ्लावियूस.)

ब्रूतुस : आजुनय, देशभावांनो, आजुनय ताठमानेन झुजात.
(झुजत, झुजत वतात.)

कातो : खंयचे चेडयेचो पूत झुजचो ना?
तुजे वांगडा कोण येतलो?
झूजा मळार हांव म्हज्या नांवाची घोशणा करीन,
हांव आसां मार्कूस कातोचो पूत, आयकात,
जुलूमशहांचो शत्रू आनी मित्र म्हज्या देशाचो.
हांव आसां मार्कूस कातोचा पूत, आयकात.

लुचिलियूस : आनी हांव आसां ब्रूतुस, मार्कूस ब्रूतुस हांव,
ब्रूतुस मित्र म्हज्या देशाचो, हांवूच तो ब्रूतुस.
(सैनीक तरूण काटोचेर हल्लो करून ताका जिवेंशीं
मारतात.)
हें तरणाट्या, उमद्या कातो, तूं कोसळ्ळो,
हय, तितीनियूसावरी तुका वीर मरण आयलें.
कातोचो पूत तूं, तसोच भोवमान तुका मेळूं!

सैनीक : शरण यो, नातर मरपाक तयार जा.

लुचिलियूस : हांव फकत मरणाकच शरण वतां.
हें पळय इतले दुडू मेळटले,
तुंवें म्हजो ताबडतोब जीव घेतल्यार;
(पयशे दिवपाक करता.)
ब्रूतुसाक हया जिवेशीं मारून भोवमान मेळय.

पयलो सैनीक : हाका आमी जिवेशीं मारपाक जायना,
हो आसा व्हड कैदी.

दुसरो सैनीक : वाट दियात. ब्रूतुस कैदी जालो हें आन्तोनीक सांग

पयलो सैनीक : हांव कळयतां ही वार्ता. पळय, सेनापतीच हांगा येता.
(आन्तोनियूस प्रवेश करता.)
ब्रूतुस कैदी जालो, ब्रूतुस कैदी जालो, सेनापती.

लुचिलियूस : सुरक्षीत आन्तोनी, ब्रूतुस पूर्ण सुरक्षीत आसा.
निर्भयपणान हांव तुका खात्रीन सांगतां
म्हान ब्रूतुसाक खंयच्याच शत्रूक
केन्नाच जिवंत धरपाक येवचेना.
असले मानहानी पासून देव ताका राखूं!
जेन्ना तूं पळयशीत ताका जिवंत किंवा मेल्लो
तेन्ना तो दिसतलो ब्रूतसा वरीच, सोता सारको.

आन्तोनियूस : हो ब्रूतुस न्हय, मित्रा, पूण तुका हांव खात्रीन सांगतां,
हाचें मोल ताचे परस उणें ना
सुरक्षीत दवरात हाका, सौजन्यान वागयात,
अशीं मनशां शत्रू आसचे परस
मित्र आसपच आवडटलें म्हाका. फुडें वच आनी सोद घे.
ब्रूतुस जिवंत आसा काय मेला हाचो.
रणांगणा चेर कितें कितें घडलां.
हाची वार्ता ऑताविय़ूच्या तंबूत येवन म्हाका कळय. (वतात.)

■ ■ ■

# अंक पांचवो
## प्रवेश पांचवो

देखावः फिलिपी हांगची रण मैदाना वयली वेगळी बाजू.
(ब्रूतुस, दार्देनियूस, क्लितूस, स्त्रातो आनी वॉलुम्नियूस प्रवेश करतात.)

ब्रूतुस : येयात, जिवे आशिल्ल्या बाबड्या मित्रांनो म्हज्या,
सुशेग घेयात ह्या खडपाचेर

क्लितूस : स्त्रातिलियूसान खुणेची दाखयली मशाल,
पूण, स्वाम्यांनो, तो परत आयलोना.
कैदें जाला आसत वा जिवेशीं मेलाय आसत.

ब्रूतुस : खाला बस क्लितूस,
मेलो हींच खरीं उतरां!
मरप ही जाल्या चाल.
क्लितूस, हांव कितें सांगतां, तें आयक.
(ब्रूतुस क्लितूसच्या कानांत फुतफूत्ता.)

क्लितूस : कितें! हांव? म्हज्या स्वाम्यांनो?
ना सगळी दुनिया दिवंची केली तरी ना!

ब्रूतुस : मागीरओगी राव. उलोवं नाका.

क्लितूस : ताचे परस हांव म्हजोच जीव घेन.

ब्रूतुस : दार्देनियूस, हांव सांगतां, तें आयक.
(ब्रूतुस दार्देनियूसच्या कानांत फुतफुत्ता.)

दॉर्देनियूस : हांव हें कृत्य करूं?

क्लितूस ; आरे दार्देनियूस!

दॉर्देनियूस : आरे क्लितूस!

क्लितूस : खयचें कर्तूब नश्टें करपाची
विनंती केली तुका ब्रूतुसान?

दॉर्देनियूस : "म्हाका जिवेशीं मार" अशें तांणें म्हणलें, क्लितूस
आतां तो दोळे मेटून गुंग जाला विचारांत.

क्लितूस : आतां तो पवित्र कुंभ दुख्खान पुर्ण भरला,
दोळ्यांतसून ताच्या भरून व्हांवंक लागला.

ब्रूतुस : हांगा यो वॉलुम्नियूस, म्हजें इल्लें आयक.

वॉलुम्नियूस : कितें धनया?

ब्रूतुस : हें अशें कित्याक, वॉलुम्नियूस?
वेगवेगळ्या वेळार रातीं
चेजाराचें भूत म्हाका मेळ्ळें.
सार्डिसाक एकदां, कालरातीं फिलीपीचे झुजा भुंयेर.
म्हाका दिसता म्हजो वेळ आतां पावला!

वॉलुम्नियूस : तशें न्हय धनया.

ब्रूतुस : ना, म्हजी तशी खात्रीच जाल्या वॉलुम्नियस,
आनीक हांगा घडणुको कश्यो घडटात तें पळयतां.
शत्रूच्या सैन्यान आमची गत
कोंडीत घेरिल्ल्या सावजा वरी केल्या!
(तुताऱ्यांचो आवाज.)
अशा वेळार शत्रून लोटून दिवपा खातीर रावचे परस
आपणेंच आपल्या फोंडांत उडकी घेतिल्ली बरी.
सज्जन वॉलुम्नियूस,
आमी दोगूय एकठांय शाळेंत गेल्ले,
तो पोरणी इश्टागत स्मरून म्हजी तुका विनंती!
म्हजे हे तरसादीची मूठ घट्ट धरून ती म्हजे मुखार धर
हांव फुडें येवन ती म्हजे भितर रोमून घेता.

वॉलुम्नियूस : म्हज्या धनया, मित्राचें हें काम न्हय!
(तुताऱ्यांचे आवाज अजून चालू आसात)

क्लितूस ; पळात, पळात म्हज्या धनया,
हांगा रावपांत आतां अर्थ ना!

ब्रूतुस : हांव तुजो निरोप घेतां आनी तुजो;
आनी तुजो वॉलुम्नियूस.
स्त्रातो, इंतलो वेळ न्हिदेंतच आसलो तूं;

तुजोंय निरोप हांव घेतां.
देश भावांनो, म्हाका हाची खोस जाता;
आयज वेरच्या म्हज्या आयुश्यांत
म्हाका निश्ठा दिवपीच मनशां मेळ्ळीं
ऑतावियूस आनी मार्कूस आन्तोनियूस हांच्या
हीण जैतां परस
म्हज्या ह्या पराभवाचें वैभव म्हाका व्हड दिसता.
हांव तुमच्या सगळ्यांचो निरोप घेतां आतां.
कित्याक ब्रूतुसाचे वाणीन सांगून सोंपयलों
इतिहास ताच्या आयुश्याचो,
धांकता ही रात म्हजे दोळे,
हाडां गात्रांक म्हज्या जाय विसव,
जो मेळोवपाक तीं आयजवेर कश्टल्यांत.
(तुतार्‍यांचें आवाज. ''पळात'' असो पड्डया फाटल्यान
आवाज  क्लितूस, दार्दोनियूस, वॉल्यम्नियूस वतात.)
तुका म्हजी विनंती आसा, स्त्रातो,
तूं तुज्या धनया वांगडा राव.
तूं भोव मानेस्त मनीस आसा
भोवमानाचो इल्लोसो स्पर्श जाला तुज्या आयुश्याक,,
म्हजी ही तरसाद रोखून धर म्हजेर
म्हजे वटेन फाट करून उबो राव
हांव मुखार धांवन येवन ती म्हजे भितर रोमून घेतां.
करशीत हें, स्त्रातो ?

स्त्रातो : स्वाम्यांनो, आदीं तुमचो हात म्हज्या हातांत दियात.
हांव तुमचो निरोप घेतां, म्हज्या धनया,

ब्रूतुस : हांवूय तुका आदेवश म्हणटा, सज्जन स्त्रातो.
(ब्रूतुस तरसाद रोमून घेता.)
चेजार, शांत जा तूं आतां.
हांव तुका जिवेशीं मारतना म्हजी इत्साशक्ती

ह्या खिणाक आसा ताच्या अर्ह्यानय नासली.
(मरता.)
(झूज सोंपलां हें जाहीर करपी तुताऱ्यांचो आवाज.
ऑताविय़ू, मार्कूस आन्तोनियूस, मेसाला,
लुचिलियूस आनी सैनीक प्रवेश करतात. )

ऑताविय़ू : कोण मनीस?

मेसाला : हो म्हज्या धनयाचो मनीस.
स्त्रातो तुजो धनी खंय आसा?

स्त्रातो : मेसाला, तूं ज्या बंधनांत आसा तातुंतल्यान धनी सुटले.
जैतिवंत आतां फक्त ताचें प्रेत जाळूं शकतात!
ब्रूतूसान आपणाकूच सोंपयलो, सन्मान ताका मारपाचो
हेर कोणाक मेळचो ना.

लुचिलियूस : जसो तूं दिसतलो अशें हांवें म्हणिल्लें,
तसोच तूं दिसलो, म्हजें म्हणणें खरें केल्ले पासत,
देव तुजें बरें करूं, ब्रूतुस.

ऑताविय़ूस : ब्रूतुसाचे सेवेंत जे आसले, तांकां हांव म्हजे सेवेंत घेतां
कितें रें, तूं उरिल्लें आयुश्य दिशीत म्हजे सेवेक?

स्त्रातो : हय, मेसालान म्हजी शिफारस केल्यार.

ऑताविय़ू : तशें कर, सज्जन मेसाला.

मेसाला : स्त्रातो, कशें मरण आयलें, म्हज्या धनयाक?

स्त्रातो : हांवें तरसाद घट्ट मुखार धरली, तांणे ती रोमून घेतली!

मेसाला : हांणे म्हज्या धनयाची अखेरच्या खिणाक सेवा केल्या
ऑताविय़ू, तू हाका तुजे सेवेंत घे.

ऑताविय़ूस : ह्या सगळ्यांत ब्रूतुस होच व्हड रोमान आसलो.
हो एकटो सोडून हेर कटवाल्यांनी
थोर चेजाराक जिवेशीं मारलो, मत्सराचे पोटीं.
त्या सगल्या कटवाल्यांत तो एकलोच आसलो,
जाच्या मनांत लोकहिताचो प्रामाणीक हेत आसलो.
दयावंत ह्रदयाच्या ह्या मनशांत

सैमाच्या घटकांचो असो संगम जाल्लो,
सैमान उबें रावन सगल्या संवसाराक सांगचें:
"हो खऱ्यानींच मनीस आसलो."

आॅतावियू : गुणांक ताच्या योग्य सन्मान दिवन
आमी ताचे निमाणे संस्कार करूया.
सैनिकांक फावोशे सगळे भोवमान दिवन.
ताच्यो अस्थी आयज रातीं म्हज्या तंबूंत दवरात.
आनी आमी वचया वांटो घेवपाक
खोशेच्या ह्या दिसाच्या व्हडपणांत.
(सगळे वतात.)



# ज्युलियूस चेजार
# स्पश्टीकरणाच्यो टिपो

## अंक पयलो - प्रवेश पयलो

प्रत्येक टिपेचे आरंभाक जे आंकडे (१.१.१) आयल्याात ते अंक, प्रवेश आनी शब्दाचेर टीप आसललो आंकडो दाखयतात.

## अंक पयलो - प्रवेश पयलो

**1.1.1**: शेक्सपिअरचे पयले फोलिओचे* आवृत्तींत (१६२३) दुसऱ्या अंकांतलो पयलो प्रवेश सोडल्यार हेर खंयच्या स्थळाचो उल्लेख करूंक ना. स्थलांचे उल्लेख मागीरच्या संपादकांनी वाचकांचे सोयी खातीर केल्यात. (* कागदाचो आकार १३ इंच + ८ इंच आसलो ताका फोलीओ म्हणटात.)

**1.1.2** : हांगा मुळांत Sir, "I can mend you" अशें मोची म्हणटा. हांव तुमचें जोतें दुरूस्त करीन ह्या अर्थाचें. मागीर मॅरुलस कित्याक तिडकता ? मोची उलोपांत खंवचट आसा. ताच्या उलोवण्यांत एक पोजडी सूचना आसा. "He may be saying that he can handle a sexual ofter" अशें स्पश्टीकरण आर्डेन आवृत्तीच्या संपादकान तळटीपेंत दिलां.

**1.1.3** : ज्युलियूस चेजारान सत्तेच्या तिरकूटांत (triumvirate) पॉम्पे ह्या आपल्या सहकाऱ्याचेर फारसेलस (Pharselus) च्या झुजांत हार घाली. पॉम्पे इजिप्ताक पळून गेलो आनी थंय ताचो खून जालो.

**1.1.4** :टायबर ही न्हंय रोमा शारांतल्यान व्हांवता.

**1.1.5** :कॅपिटॉल (Captol) हें रामां मदलें ज्युपिटर (Jupiter) हे देवतेचें राश्ट्रीय मंदीर. तें कॅपिटलाईन हे दोंगुल्लेचर बांदललें, जंय भौशीक सभा भरताल्यो. ही सुवात ह्या मंदीरा मुखार आसली.

**1.1.6** :ल्युपेरकलची परब (Feast of Lupercal) ही शुद्धतायेची परब, फेब्रुवारीच्या Februa पंधरा तारकेक दर वर्सा मनयताले. त्या दिसा पॅलटाईन Palatine दोंगुल्ले भोंवतणी सर्तेंत धांवपी तरणाटे नागडे आसताले आनी तांच्या हातांत बोकड्याच्या चामड्याची वादी आसताली. ही वादी ल्युपेरची Luperci देवतेक ओंपिल्ल्या पशूं पासून करताले. हे तरणाठे धांवताना तांच्या हातांतली वादी लागची म्हणून वांझ बायलो तांच्या

मार्गाचेर उब्यो रावताल्यो ही वादी तांच्या आंगाक लागतकच वांझपणाचो श्राप नाजाता अशी रोमान जनतेची श्रद्धा आसली.

## प्रवेश दुसरो :

**1.2.1** : ऑर्डेन आवृत्तीच्या संपादकान फोलिओ (Folio) आवृत्तीच्या आदारान मारुलूस आनी फ्लावियूस हे दोगूय हांगा प्रवेश करतात अशें दाखयलां. ह्या प्रवेशांत ह्या दोगांकय भाशण वा काम ना. हाका लागून कांय संपादकांनी तांच्या नांवाचो उल्लेख करूंक ना पूण आर्डेन आवृत्तीच्या संपादकाच्या म्हणण्या प्रमाणें, ते दोगय रंगमाचयेर आसात पूण ते उलयनात. कित्याक तांच्या मनांत चेजाराविशीं तिडक आसा किंवा तांका रंगमाचयेर कैद करून हाडल्यात अशें दाखयतात.

**1.2.2** : हो भविश्य वेत्तो म्हणटा Beware of ides of March मार्च, मे, जुलय आनी अक्टोबर हया म्हयन्यांच्या पंधरा तारकेक ides अशें म्हणटात.

**1.2.3** : एनिअस (Aneas*) हो रोमाशाराचो संस्थापक ('आमचो म्हापुर्वज') आनी परंपरेच्या संदर्भांत सगळ्याच रोमनांचो पूर्वज. तो ट्रोजन फुडारी आसलो. ट्रॉय (Troy) शाराक ग्रीक लोकांनी उजो लायतकच आपलो म्हातारो बापूय एनकायसिस (Anchises) हाका फाटीचेर मारून तो उज्या – जाळांतल्यान भायर सरलो .

* शेक्सपिअरान व्हर्जिल (Virgil) ह्या इतालीच्या म्हाकवीच्या इनीड ह्या म्हाकाव्यांतले संदर्भ दिला.

**1.2.4** : कॉलोसूस (Colossus) हो शंभर फुटांचो हेलिऑसचो (Helios) कांशाचो पुतळो आसलो. तो पुतळो पुर्विल्ल्या सात अजापां पयकीं मानताले. तो ऱ्होडस (Rhodes) बंदराचे वयर आपले दोनूय पांय पातळावन उबो आशिल्लो अशें म्हणटात.

**1.2.5** : प्रयळकाळचो उल्लेख पुर्विल्ल्या साहित्यांत आसा जातूंत सगळी मानवजात बुडून मेली. हातूंतल्यान फक्त Ducalion (ड्युकालिअन) आनी ताची बायल पायरा (Pyrraha) वांचली:

**1.2.6** : लूसियस ज्युनिअस ब्रूटस हांणे रोमाचे जनतेक संघटीत करून राजा टारक्विन हाचे आड बंड पुकारलें आनी ताचो पराभव करून ख्रि. पू. ५०९ वर्सां रोमन प्रजास्त्ताकाची स्थापना केली. प्लुटार्कान आपल्या चरित्रग्रंथांत (Lives) लुसियस ब्रूटस हो सीझरच्या खूनाच्या कटाचें फुडारीपण करपी मार्कूस ब्रूटस हाचो पुर्वज

आसलो अशें म्हणलां. ह्या संदर्भाचो उपेग शेक्सपिअरानय आपल्या नाटकांत केला.

**1.2.7** : एक जनावर

**1.2.8** : मॅरूलस आनी फ्लेव्हिअस हांच्या संदर्भांतलें मूळ वाक्य are put to silence अशें आसा. कांय अभ्यासकांनी ह्या वाक्याचो अर्थ "जिवेनशीं मारले" असो केला आसलो, तरी प्लुटाकार्न Plutarch आपल्या चरित्र ग्रंथांत Lives तांकां पदावयल्यान निखळायले अशें म्हणलां, "जिवेशीं मारलें" अशें म्हणूंक ना. एक म्हणल्यार शेक्सपिअरान हें वाक्य बोंचरें उलोवपी आनी चेजाराचो द्वेश्टो कॅस्काच्या तोंडांत घालां. तेच बराबर शेक्सपिअरान ज्युलियूस चेजाराचें चित्र ह्या नाटकांत एक उदात्त वीर नायका वरी चित्रांयलां. ताच्या व्यक्तीत्वाचेर जुलूमाचो, दहशतीचो एक शिताडोय शेक्सपिअरान उडूंक दिवंकना. ह्या संदर्भांत तांणे फ्लुटार्काकय कडेन सारला. हें लक्षांत घेतल्यार ह्या दोगांकय जिवेशीं मारले अशें मुळींच दिसना. म्हणून ह्या वाक्याचो अणकार "तांची तोडां बंद केली" असो केला. मॅरुलस आनी फ्लेव्हिअस हांचो उल्लेख हो उपरांत खंयच येना. कित्याक नाट्य रचनेचे नदरेन तांचें म्हत्व उरूंकना.

**1.2.7** : कॅस्का 'उद्वट जाला आनी फटकळ उलयता अशे ब्रूतुसाक दिसता हें कॅसिअसाक मान्य ना. धाडसाचें किंवा मोठ्या तोलाचें काम कॅस्काच्या हातांत आसल्यार अजून तो धारदार अशें कॅसिअस म्हणटा. कॅसिअसाची मनीस सभावाची निरखणी सुक्षीम आसा, हें हांगा शेक्सपिअराक सुचोवपाचें आसा. तिसऱ्या अंकाच्या पयल्या प्रवेशांत जेन्ना चेजाराचो खून जाता, तेन्ना चेजाराचेर पयलो घाव कॅस्का घालता. कॅसिअसान कॅस्काक खूब पयलीं पासून हेरिल्लो.

## अंक पयलो / प्रवेश तिसरो :

**1.3.1** : कॅसिअसाक दिसपी आत्महत्येची ओड हांगा शेक्सपिअर खरपणान दाखयता.

**1.3.2** : हांगा जुलूम मोखून मारपा विशीं कॅसिअस उलयता. पूण हाचोय संबंध शेक्सपिअरान आत्महत्येशींच जोडला. खूनबाजीचो आश्रय करपी मनीस आनी ताका दिसपी आत्महत्येची ही ओढ हातुंतलें लागींपण शेक्सपिअरान नाटकभर दाखयलां.

**1.3.3** : ब्रूतुसाकडेन उलयतना कॅस्का स्पश्ट आनी फटकळ आसा हाची खात्री दिल्ली कॅसिअसाचें मनीस सभावाची नियाळणी कितली अचूक आसली हाची ही

प्रत्यक्ष गवायच आसा.

**1.3.4** : जुविजाचे कदेलीचेर Practor's Chair ब्रूतूस जुवीज आसलो.

## अंक दुसरो, प्रवेश पयलो :

**2.1.1** : ह्या नाटकांतलें लुसियस हें पात्र पुर्णपणांन शेक्सजिअची निर्मिती आसा. प्लुटार्कच्या चरित्रग्रंथाकडेन (Lives) ताचो कसलोच संबंधना. लुसियस हो ब्रूतुसाचो सेवक. ब्रूतुसाच्या मनाची कंवळाय ताच्या लुसियस कडल्या वागण्यांतल्यान उक्तायल्या. आनी होच ब्रूतुस चेजाराचो एक खूनी! ब्रूतुसाच्या व्यक्तीत्वांतलो हो अंतर्विरोध हांगा खरायेन जाणवता.

**2.1.2** : मुळांत 'ब्रदर' (भाव) हें उतर आसा. पूण प्रत्यक्षांत

**2.1.3** : कॅसिअस हो ब्रूतुसाचो मेवणो आसलो अशें फ्लुटार्कान म्हणलां.

**2.1.4** : प्लुटार्कान आपल्या चरित्रग्रंथांत कटवाल्यांनी कसलोच धर्मीक सोपूत घेवंक नासलो अशें म्हणलांः शेक्सपिअरान हो धागो पकडून, पूण तो नाट्यपूर्ण करून, भारी ताणिल्ले मनस्थितींत कॅसिअस आमी सगळे मेळून सोपतू घेवंया अशें म्हणटा. हो प्रसंग शेक्सपिअरान निर्माण केला. ताचेर ब्रूतुस 'सोपूत नाका' अशें ठामपणान सांगता.

**2.1.5** : रोमनांच्या काळांत टोले पडपी घडयाळींचो सोध लागूंक नासलो. शेक्सपिअरान हांगा काळ विपर्यासाची चूक केल्या पूण ती चड म्हत्वाची न्हय. टोले पडपांच्या घडयाळीचो सोद येवरोपांत इ. स १३०० उपरांत लागलो.

**2.1.6** : युनिकॉर्न (Unicorn) हो पुराणांतलो एका शींगाचो काल्पनीक पशू . शिकारी तांका झाडा फाटल्यान उबे रावन चकयतात आनी तो त्या झाडाचेर धडक मारतकच, ताचें शींग त्या झाडांत रोमतकच ताका धरप सोंपें जाता.

**2.1.3** : कदीमकाळांतलो काळोख (Primeval Darkness) (येरेबस) शेक्सपिअरान (Erebus) हें उतर वापरला. कदीमकाळांत ब्रह्मांड निर्माण जावचे आदीं पासून, पूर्ण गोंधळाचे स्थितींत जो बीणण काळोख आसलो, तो गोंधळ chaos आनी ताची भयण 'रात' हांणी निर्मिल्यो अशें हेसिअड Hesiod म्हणटा.

**2.1.7** : मार्कूस पोर्चिअस कॅटो हो पोर्चिआचो बापूय. शूर झुजारी आनी नीती मुल्यां जपपी असो ताचो लोकीक आसलो. तो पॉम्पेचो इश्ट. चेजार आनी पॉम्पे हांचे मदल्या झुजांत तो पॉम्पेचे वटेन लढलो. पॉम्पेचो पराभव जालो, आनी आपणाक चेजारान

धरचो न्हय, म्हूण ताणें आत्महत्या केली.

**2.1.8** : हो संदर्भ शेक्सपिअरान प्लुटार्कच्या ह्या पुस्तकांतल्यान घेतला. (with those words she showed her wonde (wound) on her high to prove herself) अशें प्लुटार्कचें मूळ वाक्य आसा.

## अंक दुसरो - प्रवेश दुसरो :

**2.2.1** : रोमनांच्या काळांत पशूबळी दिवन तांच्या भितरल्या अवयवांची पारखणी करून शकून सांगपाची चाल आसली.

**2.2.2** : चेजाराच्या घराच्या पाख्या वयलो कळस कोसळटना सपनांत दिशिल्ल्याचो उल्लेख प्लुटार्कच्या (Lives) ह्या ग्रंथांत आसा. पुतळो, तातुंतल्यान कारंज्यावरी व्हांवपी रगत, त्या रगतांत हात धुवपी रोमाचे जेश्ठ नागरीक ह्यो सगळ्यो प्रतिमा ही शेक्सपिअरची निर्मिती आसा. शेक्सपिअरान प्लुटार्कच्या ग्रंथांतल्यान जरी सामग्रीचो आधार घेतला, तरी ती वापरतना नाट्य निर्मितीचें भान दवरलां.

**2.2.3** : लेंस– मानचिन्न शेक्सपिअरान (Tinctures) हें उतर वापरलां. रोमनांच्या काळांत हुतात्म्यांच्या रगतांत लेंस (हातरुमाल) बुडोवन ताची पुजा करताले. हांगा जुलियूस चेजारची एक संत पुरुश म्हणून वाखाणणी केल्या.

## अंक तिसरो - प्रवेश पयलो :

**3.1.1** : ग्रीक पुराणांत ऑलिम्पूस पर्वत हें देवांचे वसतिस्थान अशें मानलां. हो पर्वत उबारून धरप म्हणचे अशक्य गजाल करप असो रुपकात्म अर्थ.

**3.1.2** : चेजाराचें मडें उबारून व्हरपाखातीर पालव दी अशें हांगा आन्तोनियूस नोकराक सांगता.

**3.1.3** : आते (Ate) ही रोमनांची धांयधिस्पटीची देवता आसली. अराजकतायेच्या काळांत ते तिची पुजा करताले.

**3.1.4** : ऑताविय़ू चेजार हो ज्युलियूस चेजार हाचो मानस पुत आसलो.

## अंक तिसरो - प्रवेश दुसरो

**3.2.1** : नेरवी ही गॅलीक वंशाचे टोळयां पयकीं एक जमात, जी शूर म्हणून नांवाजिल्ली आसली. ख्रि. पू. ५७ वर्सा जुलियूस चेजारान नेरवी जमातेक हारयली आनी ह्या झुजांत चेजार मोठे शूरतायेन झुजिल्ल्यान, रोमाचे जनतेन हें जैत व्हडे

उमेदीन मनयलें.

**3.2.2** : जंय चेजाराचो खून जालो थंय पोम्पेचो पुतळो आसलो. चेजारान पोम्पेक झुजांत हारयल्लो. असो हो पोम्पे शत्रू आसुनूय ह्या खिणाक ताका चेजारा विशीं सहानुभूती दिसली आनी तो पुतळोच रगत स्रवपाक लागलो. चेजाराचें रगत हें पाम्पेच्या पुतळ्या मेरेन व्हांविल्लें.

## अंक चवथो / प्रवेश पयलो

**4.1.3** : प्लुटार्कान लेपिडूस हो समर्थ व्यक्तित्वाचो मनीस आशिल्ल्याचो उल्लेख केला. ऑन्तोनी. मात ताचो उल्लेख हांगा नालायक मनीस, निरोप व्हरपी इतलीच ताची लायकी असो उवेखणीन करता. पूण त्याच वेळार आन्तोनी सत्ते खातीर ताचो पालवय घेता. हांगाय शेक्सपिअराक सत्तास्पर्धेचो सभाव आन्तोनीच्या वागपांतल्यान सुचोवपाचो आसा अशें दिसता. चेजाराचो खून जातकच आन्तोनी आनी ऑतांवियूस हांचें इतकें बिनसता कीं तांचे मदीं लढाय जाता. ते उपरांत हे दोगूय लेपिडूसाक बरोबर घेवन तह करतात आनी सत्तेची आघाडी स्थापतात.

## अंक पांचवो / प्रवेश पयलो

**5.1.1** : हांगा उलोवणी करप Paley हाचो पारंपरीक अर्थ वाग्युद्ध असोच आसा.

**5.1.2** : पॉम्पेक फार्सालिआसाचे युद्ध ताळचें आसलें पुणून ताच्या सैनिकांनी हुतहुतेपणा करुन लडायेक सुरवात केली. ह्या झुजांत चेजारान पॉम्पेचो पराभव केलो. हांगा हो दाखलो दिवन हेंय झूज चेजारच्याच फायदयाचे थारत – म्हणचे आन्तोनीचें जैत जातलें अशेंच कासियूस सुचयता.

**5.1.3** : एपिक्युरस हो ग्रीक तत्त्वज्ञ आसलो. कासियूस ताच्या तत्त्वज्ञानाचेर आपली श्रद्धा आसा अशें सांगता. शकून–अपशकून ह्यो कुड्डयो श्रद्धा आसात, तांचेर विश्वास दवरचो न्हय अशें एपिक्युराचें म्हणणें आसलें. हांगा निर्शेणेचे मनःस्थितींत आशिलो कासियूस ह्या तत्त्वज्ञाना पासून ढळटा अशें दिसता.





समकालीन भारतीय साहित्य-संवसारांतले नामनेचे अनुसर्जक पद्मश्री सुरेश गुंडू आमोणकार हांणीं चिकाटेन तशेंच सातत्यान दीर्घ काळ केल्ल्या अविरत परिश्रमांचें सुफळ म्हूण आज ज्युलियस सीजर हें विल्यम शेक्सपियर-लिखीत मूळ इंग्लिश नाटक मुक्तछंदी अणकारावरवीं, 'ज्युलियूस चेजार' ह्या आपल्या मूळ लातीं नावां सयत, कोंकणी सरस्पतीच्या दरबारांत दिमाखान दाखल जालां. ताका मनासावन येवकार दिता आसतनाच, अणकारप्यान कोंकणींत हाडपाखातीर दुसरो कोणूय आधुनिक लेखक-नाटककार घेनासतना, 'शेक्सपियर' ह्या १६व्या शेंकड्यांतल्या इंग्लिश नाटककाराची कृती वेंचपाफाटल्या सयुक्तीकपणाची जाणीव करून घेवप खंयच्याय साहित्य-नाट्य प्रेमी व्यक्तीखातीर जितलें म्हत्वाचें तितलेंच तें कोंकणी साहित्याच्या हितचिंतकांखातीर गरजेचें थारता. तेचप्रमाण, शेक्सपियरच्या साबार तरेच्या अनेक नाटकांमदल्यान अणकारप्यान ज्युलियस सीजर हेंच नाटक वेंचपाफाटली संभाव्य कारणां कितें आसूं येतात हाची उकल करप तशेंच ह्या मूळ कृतीच्या साहित्यीक मोलाची धांवती तरी वळख करून घेवप, हेंवय उत्सुक वाचप्याचें समाधान करूंक उपेगाचें थारूंये.

पूण पयले सुवातेर जाप सोदूंक जाय, 'आमोणकारांक शेक्सपियरच कित्याक जायसो दिसलो जावंये?' ह्या प्रश्नाची. आमोणकारांलो फाटलो अनुसर्जनाचो वावर पळेल्यार तांतूत दोन ठळक गजाली दिसतातः तांचो चडसो आदलो अणकाराचो वावर आध्यात्मिक जावं धार्मिक स्वरुपाचो आसलो तरीकूय विंगड-विंगड भासो-संस्कृतायो हांच्या फाट्भुंयेंतल्यान वेंचिल्ल्या बरपाचो आशिल्लो; पूण, ताणीं वेंचिल्ली दरेक कृती त्या-त्या युगांतली वा भाशेंतली उच्चकोटिची कृती आशिल्ली—कलेचे नदरेन जावं वा वैचारीक क्षमतेचे वटीन जावं वा समाजीक प्रभावकारितेचे। म्हणचेच, आमोणकारांक विशिश्ट तरेच्यो, विशेश स्तराच्यो कृतीच भावतात; त्यो तांचे पुनर्निर्मणी-क्षमतेक खुणायतात; तांच्या अंतर्मनाक साद घालतात. त्या कृतींचे निर्माण करपी मूळ लेखकूय चडशे युगंधर आसतात. म्हणचे, तांचे प्रतिभेक आव्हानां भावतात, असोच ह्या विवेचनाचो अर्थ जाता.

हे फाटभुंयेचेर, तांकां शेक्सपियर कित्याक भावलो हें समजूंक कठीन न्हय. फकत, शेक्सपियरचें नाटक अणकारूंक घेतना ताणीं एक नवें शिवधोणूय पेलपाचें केलां. तें म्हळ्यार, कल्पीत साहित्याचो अणकार करचेलें. तशें पळेल्यार, ज्ञानेश्वरी वा खिस्तपुराण अणकारतना तांकां थोडोभोव हाचो अणभव आयिल्लोच आसा; पूण तो भारतीय भासांमजगतचो. आतां शेक्सपियरचो हात धरून ते भास, कल्पनाशक्त, इतिहास, काव्य आनी विचार हांचो सामुहीक प्रवाह वांगडाच कोंकणींत हाडूंक सोदतात. हो साहित्यीक प्रवाह कितले तांकीचो आनी केद्या आवांठाचो आसा, आनी देखून, आमोणकारांचे प्रतिभेसामकारा केदें नवें आव्हान आशिल्लें जायत, हें एक उत्सूक पूण चिकिस्तक नदर शेक्सपियरच्या प्रचंड वावरावटेन मारीत जाल्यार अचळय ध्यानांत येवंये.

-प्रा. डॉ. किरण बुडकुले